# जैत

दिवाळी - 2007

वर्स - 30 वें अंक - तीन





संपादक
**भिकू बोमी नायक**

◆

कार्यकारी संपादक
**सत्यवान सगुण नायक**

◆

मुखचित्र
**गौरीश वेर्णेकार**

◆

चित्र
**साहिल** आनी **विनीत**

◆

उजवाडापी
**सुरेश सगुण नायक**
जैत प्रकाशन
336/11, खोर्ली-इल्हास,
तिसवाडी-गोंय 403 110
फोन - 2284637

◆

छापपी
**सह्याद्रि ऑफसेट सिस्टम**
खोर्ली, तिसवाडी, गोंय.

◆

मोल
**60/- रुपया**

◆

**या अंकातलीं मतां त्या त्या बरोवप्यांची.**

◆



# मांडावळ -













# Enjoy Goa's unique culture

# Culture & Comfort

## While staying comfortably at GTDC Resorts

Goa offers a breathtaking mix of culture and heritage per sq. mile than any other state in the country. From ancient churches, temples, mosques and dargahs to heritage houses. Goan festivals like Shigmo and Carnival cut across religious barriers and are celebrated with a lot of song, dance and colour. Goans are famous for their hospitality and their *joi de vivre*, and the best way to experience this is to check into any of the Goa Tourism Development Corporation (GTDC) resorts.

GTDC has its resorts and residencies in the most unique settings in Goa- In the seclusion of rolling hillsides, overlooking emerald lakes, on the shores of pristine beaches, or, if you prefer- in the heart of the city. GTDC offers complete holiday packages that include sightseeing tours, river cruises, airport and railway transfers, fabulous breakfast-lunch-dinner plans- all at surprisingly affordable rates. Choose from specially designed packages like the Coastal Attraction, Honeymoon Special, Beach Special, Tri Terrain, City Delight and Dream Green Packages. Log on to our website or give us a call, and we'll plan your dream holiday for you. All you'll have to do is check in at a residency of your choice and soak in the culture, and of course, the comfort.



Miramar Residency



Room at Miramar Residency




**Goa Tourism Development Corporation Ltd.** Trionora Apartments, Panaji, Goa- 403001. Tel: 0832-2436666, 2420779. Email: gtdcorp@sancharnet.in Website: www.goa-tourism.com



# संपादकीय ....



जैत अंदू तिसाव्या वर्सात पावल दवरतां कोंकणी भाशेची उदरगत जावची, कोंकणी चळवळ अखंड चालू उरची; कोंकणीक राजभाशेची पाट फावो जावचो; गोंयकार साहित्यिकांक आपलें बरप उजवाडाक हाडपाक आनीक एक व्यासपीठ मेळचें हे खातिर 'जैता' चो जल्म २९ वर्सा आदी जालो.

आमी ज्या येवजणेंतल्यान जैताचें पावल घातलें ती पावलां जैतिवंत जाल्यात म्हूण आमकां भोव खोशी जाता. १९८७ कोंकणी गोंयची राजभास जाली, १९९२त संविधनाच्या आठवे वेळेरेत पावली ह्यो दोन गजालीं आमकां चड व्हड! कारण 'जैत' सुरु करुन कोंकणीची सेवा करताना ह्यो दोन गजाली आमी आमच्या दोनूय दोळ्यांनी पळयल्ल्यो. गोंयकार लेखकांक लिखाण उजवाडाक हाडपाक मेळचें हाचे खेरीज नवोदितांक आपले साहित्य बरोवपाक व्यासपीठ उपलब्ध जावचे होय जैताचो हेतू साध्य जालो. सुरवातीच्या काळांत नवोदीत म्हूण आशिल्ले बरोवपी आयज प्रतिभावंत लेखक जावंन नामनेक पावल्यात. हाचो आमकां अभिमान दिसता.

अशें तरेन आमी येवजिल्ल्यो गजाली फाटल्या २९ वर्सात साध्य जाल्या. अशा वेळार आता आनीक कितें उरलां, आमचें काम जाले. अशें म्हणून आमी ओगी बसलें नात आनी बसचेय नात. आमचो वावर अखंडपणान चालू उरतलो.

सुरवातीक जैत त्रैमासीक स्वरुपात येतालो. हाली सरा चवथ आनी दिवाळेक तो तुमकां मेळपाक येता. पर्थून खासा अंकासयत जैत म्हयनाळ्या स्वरुपात हाडपाचो विचार आमी करतात. एकूच, गोंयात आदलेवरी व्हडा प्रमाणात जशे म्हयनाळें आंक भायर सरताले तशें आता येनात ताका वेगवेगळी कारणां आसात. आर्थिक गजालीवांगडा गोंयकार साहित्यिकाचे साहित्य अंकाखातीर वेळार पावनात. अंदू दिवाळी अंकाखातीर आमकां उत्स्फूर्त प्रतिसाद मेळ्ळो. खुपशें लेखन उतरां आमच्या हातांन पाविल्ल्यान आमी ह्या अंकात दिवंक पावनात. देखून उरील्ले साहित्य फुडल्या अंकानी येतले. लेखकांनी अशेच तरेन बरयत रावले जाल्यार कोंकणी साहित्याक दुबावा विरयत बरें दिस येतले हातूत दुबाव ना.

फाटल्या २९ वर्सात जैतान आपल्या अंकातल्यान तरेकतरेचे साहित्य उजवाडाक हाडलां. तातूंतल्यान छापून आयिल्ले साहित्याची पुस्तकांय तयार जाल्यात. भुरग्यांखातीर साहित्य छापपाचो वावर चलता. दर वर्सा अशें घडटा. फाटल्या वर्साचे दिवाळेक मनोहरराय विशेशांक काडिल्लो. ताका बेर बरो प्रतिसाद मेळील्लो.

अंदूचे दिवाळेक आमी तुमकां बऱ्यातले बरें वाचनीय अशें साहित्य दिवपाचो यत्न केला. सदचे भशेन कथा, कविता, नाटक, विनोद ललित लेख सयत आयुर्वेद ह्या विशयाचेर बरोवप छापलां. वाचपाक तें बरें रुचीक लागतलें अशी आस्त धरता.

ह्या अंकाक पालव दिवपी लेखक, जायरतदार, मुखपानांखातीर सोबीत बरें चित्र तयार करपी गौरेश वेर्णेकार, अंक वेळार छापून दिवपी सह्याद्री ऑफसेट धनी आनी कर्मचारी हांचे आमी उपकार मानतात.

ही दिवाळी सगळ्यांक सुखाची आनी समृध्दतायेची वचूं ही देवाकडे नमळायेची मागणी!



# THE POWER OF 5
## IT'S WHAT WE CALL 'PANCHSHEEL'

CD shall abide by all the rules & regulations, laws and statutory obligations in letter and in spirit.

CD shall maintain highest ethical standard and will be fair in all dealings with customers, employees, labourers, suppliers, landlords and business associates.

CD shall give utmost attention to the quality of construction and quality of service to the customers.

CD shall ensure timely possession and shall make prompt conveyance of Title.

CD shall aim to ensure that all projects are environment friendly. Felling the trees shall be minimized and maximum number of trees shall be planted on the property.

SavoirFaire



**COMMONWEALTH DEVELOPERS PVT. LTD.**

Laxmi Building, Below Cine Lata, Margao, Goa. Tel.: (0832) 2734090 , 2736955 Fax: (0832) 2732980 e-mail: kdnaik@cdhomes.com | **www.cdhomes.com**



# संगीताचो उपासक



गुजरातच्या एका शारातली खबर.

रस्त्याचे कुशीक एक जाण्टो मनीस बसला. कोणाचेय लक्ष ताजेकडेन वचचें अशी ताजी कथा काया. म्हज्या सांगातान एक गुजराती लेखक आसा. उलयत उलयत आमी वतात. अचकती तागेली नदर रत्याचे कुशीक बशिल्ल्या जाण्ट्या मनशाचेर वता आनी तोंडातले वाक्य उर्दार तोडून तो जाण्टेल्याच्या पायाक हात लावन नमस्कार करता.

हांव कुशीक उबो रावन ते दृश्य पळयता. तो जाण्टेलो मनीस भीक मागूंक बसला आसूंये असो दुबाव म्हाका आशिल्लो. वाडिल्ल्या केसाची जटा, माथ्यावेल्यान दांतोणी भोंवडायल्यार वर्सां जाल्ली आसूंक जाय. साबार वर्सां केसांक तेलाचो संसर्ग मेळिल्लो नासतलो. आडव्या उब्या मिरयांचे तोंडाचेर जाळें. सुकयिल्ले खारके तोंडावले रंगय खारकेचोच. खाड वाडून खुंटे जाल्यात.

अशा मनशाक हो लेखक चरण स्पर्श करुन पाय कित्याक पडटा?



चंद्रकांत केणी



हांव कुशीक रावलो. पांच मिनटो हो लेखक त्या जाण्टेल्याकडेन उलयलो आसत. म्हजेसरी आयलो आनी म्हळें, 'हो मनीस कोण ते तू जाणा ?"

"तुजो सोयरो बी?" हांवे विचारले.

"न्हय," ताणें जाप दिली, "ताजे नांव दयानंद देवगांधर्व."

म्हाका कांयच बोध जावंक ना. हांवें हें नांव आयकूंक ना. पूण गुजरातचो एकाद्रो व्हडलो कलाकार तो आसुंये. जिणेची सांजवेळ लागी पावली म्हणटकच खुबशे घरा भायरे जातात. तसो तो आसुंये अशें म्हाका दिसलें.

"तूं जाणां" त्या लेखकान म्हळें, "ह्या मनशाचेर हांव बरोवंक सोदता. कोणाक चडशी ताजेविशी खबर ना. तो एक बरो गवई. ताजी खबर काडूंक हांवें खूब सायास केले. एका नामनेच्या गवयाक ताजेविशी विचाल्ले तेन्ना ताणे सांगलें कि १९६० वर्सा आकाशवाणीन शास्त्रीय संगिताची एक सर्त दवरिल्ली आनी ते सर्तीत ह्या दयानंद देव गांधर्वाक राष्ट्पतीचो पुरस्कार मेळिल्लो..."

हांवें म्हळें, 'संगितांतलें म्हाका चड कळना. पूण त्या मनशाची अशी दशा कशी जाली?'

'खूबशी नामनां ह्या गायकान आपले जिवितांत जोडिल्ली आसा. पूण आज ताका पळय नांव आयकून जे ताका वळखतात तांचेमुखार हो मनीस उबो रावलो जाल्यार ते कितें म्हणटले?'

'पिसो म्हणून ताका धांवडायतले वा भिकारी समजून धा पैसे ताज्या हातार दवरतले." हांवें म्हळें.

"तू सारके उलयलो" त्या लेखकान म्हाका सांगलें, "पूण तो असो रस्त्यार पडलो तरी ताका मेळप सोपे न्हय. उलोवंक जाय म्हळयार अपॉइटमेंट घेवपाची गजाल करता. आनी उलोवपाच्या वेळार तो अधिकारन उलयता. तितलें पुरती सोंपिल्ली व्हडवीक अजून पळोवंक मेळटा."

"तुवें ताजेविशी म्हायती कशी मेळयली?" हांवें विचाल्लें.

"खरें म्हळयार ती म्हायती मेळोवपाखातीर जे यत्न केले तांची एक वेगळीच कथा जातली. तो कांय उलयना. उलयता तें तुटक. फाटलो फुडलो संदर्भ सांगिना. संदर्भ समजून घेवपाखातीर दुसऱ्या गवयां म्हऱ्यांत वचचे पडटा. पूण दुसरे गवय ताज्या गुणाची तोखणाय करतात. ही दशा कशी जाली ते विशी कांय उलयनात."

लेखकान आपले कांय अणभव सांगले. पयलेच खेपे तो ताका मेळूंक गेल्लो तेन्ना गवयान ताका विचाल्लें, "मुलाखत जाय जाल्यार अपॉइटमेंट घेवचो पडटलो."

"बरें आसा. केन्ना आनी खंय मेळूं?" लेखकान विचाल्लें.

"कित्याक मेळूंक सोदता ?" गवयालो प्रस्न.

"तुजेर एक लेख बरोवंक."

"लेख बरयल्यात, पूण गवायचेर एकूय बरोवंक ना."

"सांगितांतले कितें समजता?"

"तशें कांय समजना पूण आयकूंक आवडटा" लेखकाची जाप.

"मागीर बरयतलो कितें तर?" गवयान म्हळें, "संगीत समजलें बगर म्हजे उलोवणें तुका समजुचें ना."

"तुजे जिणे विशीं..." लेखक सुचोवंक लागलो.

"हे पळय." गवयान म्हळें, "उतरांचो खेळ खेळू नाका. कुंडो कांडून फोव मेळचें नात. आतां चल तूं दुसरे खेपे पळोवया."

इतल्यान लेखक कुशीक सल्लो ना. तेन्ना गवयान ताजी खबर घेतली. तो खंय रावता तो पत्तो विचारुन घेतलो आनी म्हळें, 'तू परत म्हाका विचारुंक येवनाका. हांवच तुगेर येता."

"मागीर तो आयलो?" हांवे लेखकाक विचाल्लें.

"आयलो. खूब दीस वाट पळोवची पडली. एक दीस अचकीत सकाळचो आयलो. हांवे ताका येवकार दिलो. पूण तो बसलो ना. उब्यानीच ताणे म्हळें, हांव दुसऱ्या कामाक आयला."

"कसले काम?" लेखकान विचाल्लें.

"पैशे जाय आशिल्लें."

"कितलें?"

"धा एक रूपया."

लेखकान धा रुपयांची नोट ताज्या हातात दवल्ली. आनी म्हळें, "तू बसना कित्याक? मुलाखत सुरु करुंया."

"मुलाखत घेवपाचो हो वेळ?" लेखकाच्या तोंडाकडेन पळयत गवयान विचाल्लें.

"आतां तुका फुरसद ना?"

"तुवें पैशे कित्याक घेतले ते विचाल्ले ना. म्हका राजकोटाक वचूंक जाय. बसीखातीर पैशे."

"परत येतकच मुलाखत दिता?" लेखकान विचाल्लें.

"परत येतकच पळोवया. पूण तुंवे पैशे दिले म्हणून हांव मुलाखत दितलो अशें मानू नाका."

"तशें हांव मानीना." लेखकान म्हळें, "तूं म्हणटा जाल्यार





तुका हे पैशे उशणे दिले अशें हांव मानीन"

"ना तशेंय मानू नाका. उशणे म्हळें जाल्यार परत दिवचें पडटलें आनी हांव तुजे पैशे परत दिवचो ना. त्या परस अडिल्ल्याक आदार दिलो अशें समज."

"बरें आसा." लेखकान म्हळें, 'पूण म्हाका तुजी मुलाखत जाय.'

'इन्शाल्लाह!' अशे म्हणून गवय गेलो.

ही खबर सांगून लेखकान म्हळें, 'त्याच दिसा सांजचो रस्त्याचें कुशीक तो गवय म्हाका परत मेळ्ळो. म्हाका अजाप जालें, हो राजकोटाक गेलोच ना कांय कितें ?'

लेखकान ताका हटकिलो आनी विचाल्लें, "तूं राजकोटाक गेलोच ना?"

"पैशांचो हिशेब मागूंक आयला?' गवयान विचाल्लें, 'अडिल्ल्याक आदार दितकच आनीक कांय विचारपाचे नासता.'

'त्या पैशांचे ताणे कितें केलें?' हांवें लेखकाक विचाल्लें.

'धुंवर' ताणे जाप दिली.

•

दयानंद देवगंर्धव. संगीताच्या क्षेत्रातले एक आगळे-वेगळे व्यक्तिमत्व तांका वाखाणपी लोक आसात आनी तांच्या पायार तकली दवरून तांचे शिष्यत्व पत्करपी लोक अजून मेळटले. संगीताच्या मळार कांय अजपां आनी अप्रुपां ताणे केल्यांत. ताजी तोखणाय म्हजो लेखक मित्र करता आसतना नामनेच्या संगीतकाराचे तांचेविशींचे मत सांगतालो तांगेलो 'गरुडवाणी' राग आनी गायनाच्यो हेर बारीकसाणी ताणे सांगल्या पूण म्हज्या लक्षात त्यो गेल्योनात.

'एक दीस एके खाजगी बैठकीत तो गायतालो. बैठक रातची उसरां मेरेन चल्ली. गायतां-गायतां दयानंद देवगंर्धवालो सूर आडखळूंक लागलो. खंयतरी तो बेसूर वतालो. थकिल्लो आनी व्याकूळ नदरेन तो श्रोत्याकडेन पळयतालो." म्हज्या इश्टान त्या प्रसंगाचे वर्णन केले.

तशे कित्याक जाल्ले हे ताणे सांगलेना. हांवेय विचाल्लें ना. रोखडोच ताणे विशय बदल्लो. आनी म्हळें, 'दुसरे दिसा हांव ताका मेळूंक गेलो. सांजचो वेळ. तो तेन्ना न्हिदिल्लो. कुशीक एक देऊळ आसले. त्या देवळांत वचून बसलो. देवळांतलो पुजारी गायकाचो खाशेलो मित्र. ताजेसरी गेलो आनी विचाल्ले, ह्या देवगंधर्वाक हो व्यसनचो विळखो कसो लागलो?"

"कसले व्यसन?" हांवें विचाल्लें.

'आं! तुका सांगिल्ले न्हय? व्यसन धुंवर करपाचे. गांजा आनी चरस.. त्याच व्यसनाक लागून गायतां-गायतां तो चुकिल्लो आनी लोकांमुखार ताका लज जाल्ली. ताजेविशी बरयतलो जाल्यार सभाग्यान तोंड तरी उक्तें करुंक जाय आसले. देखून हेरांकडच्यानच हांव खबर •ंडीत रावतालो. पूण त्या पुजाऱ्यान म्हाका दाद लागूंक दिलीना. उरफाटे ताणे म्हळे. ते जर म्हाका समजल्ले जाल्यार हांव त्या विळख्यांतल्यान ताका सोडोवचो नासलो?"

लेखकान म्हळें, "ताजी जाप तर्कशुध्द हातूंत दुबाव ना. तर्काउप्रांत इश्टांली खंत ताज्या उपरांत आसा. पुण हांव ताजेर कितेय तरी बरोवंक सोदता. म्हाका ताजेविशी कितेय सांगना कित्याक?'

तो आयलो तेन्ना ताका मानान वागयलो. तो गायलो तेन्ना देहभान विसरुन कान दिवन आयकले.

'तो वयलेवयर हांगा येता न्हय?' लेखकान वासपूस केली.

'तुमची खबर सारकी न्हय.' पुजाऱ्यान जाप दिली, 'तो जर हांगाच रावंक कबूल जाल्लो जाल्यार हांव ताका राजासारखो वागयन आसलो."

'खंय रावता तर तो?"

"ताका घर ना. एक जागो ना. पायांक चक्रां बांधूनच तो जल्माक आयला. केन्ना खंय पावत हाजो नेम नासता. हांगा पावता असोच वर्सांतल्यान एकाद्र्या दिसाखातीर."

"ताजे घर खंय तर?" लेखकान विचाल्लें.

"ताका घर ना. कोणेतरी म्हळां जमीन हे ताजे घर आनी मळब हे ताजे छप्पर. ताका घर ना आनी वचत थंय ताका घर."

पुजाऱ्याले वाक्य पूर्ण जावचे आदींच खासा गवय उठून भायर आयले. लेखक आदरान उठून उबो रावलो. दोळे तांबडे गुंज.

लेखकाकडेन गवय धरुन पळोवंक लागलो. आपले १० रुपयांचे रीण वसूल करचेखातीर हो परत आयला काय कितें ह्या दुबावान.

'म्हाका किते पळयता? हांव राजकोटाक वचूंक ना.'

'जाणा हांव.' लेखकान जाप दिली.

संकोच सोपलो. दुबाव विरगळ्ळो गवयान थंयच बसकण माल्ली. आनी म्हळें, 'हांवें तुजे १० रु घेतल्यात. घेतना तुका सांगलां हे तुका परत दिवचोना. तेन्ना उपकार करुन तुजे तकलेत ती



याद दवरुं नाका. तू ती याद घेवन बसलो जाल्यार म्हाका गुन्यांवकारावरी जातले. तू म्हजेकडेन मेकळेपणान उलोवंक सोदता न्हय? १० रु. चो फार आमचेमदीं उल्लो जाल्यार उलोवप लेगीत जावचेना.

लेखकाक खुब वायट दिसले. ताका त्या १० रु. चो हुस्कोच नासलो. पूण त्या १० रु ची याद काडून हो गवय आपलेकडेन तोडून घेवंक सोदता असो ताका दुबाव आयलो. ताणे म्हळें, 'तुंवे थापट माल्ल्यार म्हाका वायट दिसचे नासलें. पूण त्या १० रु. ची खबर परत-परत सांगून म्हाका कित्याक लज करता?'

'पळयात.' ताजेकडेन हात करून गवयान म्हळें, 'हांवें तुका लज केली? हो उरफाटो न्याय जालो.'

'मागीर तुवे तो विशय कित्याक काडलो?' लेखकान विचाल्लें.

'काडचो पडलो ना?' गवयान जाप दिली, 'तुंवे तोंडानी विचारपाची गरज ना. म्हाका सोदीत तूं हांगा आयलो तो कित्याक ते हांव नकळ तर?"

लेखकाक आता कळ्ळे की गवयाफाटल्यान तो पठाणावरी पैसे वसूल करचेखातीर असो दुबाव ताका आयला. ताणे हात जोडून म्हळे, 'हांव तुजेविशी कितेय बरोवंक सोदता.'

'तूं म्हजेविशी बरोवंक सोदता काय म्हाकाच सोदता? हांवें सांगले मूड लागतलो तेन्ना मेळटा. तुका वेळ दिता. तू मुलाखत घे. पूण तू सूट कसो म्हज्या फाटल्यान लागला. तूच सांग म्हाका तू हांगा कित्याक आयलो? हांवें तुका आपयिल्लो? हांगा मुलाखत दिता म्हणून सांगिल्लें?'

उतराक उतर मेळ्ळे जाल्यार झगडे पेट्टले अशे येवजून लेखक ओगी रावलो आनी गवय मान सकयल घालून मोन्यानी बसलो.

पुजारी ही संद सादून ल्हवूच भीतर गेलो. गुजराती मसालो घालून शिजयल्ले च्याचे कप घेवन भायर आयलो. तोमेरेन गवय आनी लेखक एकामेकासामकार एकामेकांचे नदरेक नदर दिनास्तना मोन्यांनी बशिल्ले.

'च्या घेयात.' पुजाऱ्यान म्हळें.

गवयान कप हातांत घेतलो आनी फुर्रर करुन एक व्हडलो घोंट तोंडात घेवन ताळयाक हून शेक दीत तो ताळयासकयल धुकळ्ळो आनी मागीर लेखकाक म्हळें, 'असो फुगार जावन कित्याक बसला? च्या घे. मागीर आमी उलोवया.'

गवयाक मूड येता अशे पळोवन लेखक खुशालभरीत जालो आनी ताणे च्याच्यो कप उखल्लो.

आपली च्या घेवन जातकच तो गवय एक धून गायत रावलो. पांच मिनटां... धा मिनटां... ताका तनर लागली.

'तो गायतालो. आनी हांव ताका कसले प्रश्न विचारचे ते येवजितालो.' लेखकान म्हाका त्या प्रसंगाचे वर्णन करतना सांगले, 'खूबशे प्रस्न मनांत दाटून आयिल्ले. कसलो प्रस्न ताका नाकसुरो वचत हाजो नेम नासलो. म्हजो मुख्य प्रस्न एकच आसलो. एकादऱ्या घरची गडगंज पाटी भितल्ले वाटेन वाळटीनी पोखल्ली म्हण्टकच पुराय घर जशे कोसळटा तसो हो मनीस... हो कलाकार झुरत-झुरत मरणाचे वाटेन कित्याक वता? कसले दुःख ताका खाता?'

गायन सोपले आनी दोनय हातांनी एक ताळी वाजोवन गवयान लेखकाक म्हळें, 'सांग. तू कितें बरोवंक सोदता?'

'तुजे नांव आमी जाणात. तुगेल्या घराण्याविशी कुटुंबाविशी. संगिताच्या संस्कारविशी...

आनी बाविल्ली कळी फुलची तसो गवयाचो तोंडावळो फुल्लो. दोळयांत एक वेगळेच तेज चकचकले आनी ताणे म्हळें, 'हांव राजस्थानी उदयपुरांत जल्मल्लो.'

तो थांबलो. जसो काय उदयपूरची याद दोळ्यामुखार तो हाडटालो. लेखक दुसरे प्रस्न विचारुंक तोंड उक्ते करता थंय आसा. ताणे हातांनीच ताका ओगी रावंक खुणायलो. मागीर डोळे धांपून घेवन पोरने यादीच्यो गांठी सोडयत म्हळें, 'म्हजो बापूय एक राजगायक. राजाल्या दरबारांत ताका मान आसलो. आमच्या घरात आमी उलयनासले. गायताले. रातदीस सुरांच्या तालांत घर बुडिल्ले आसताले.. घर! घर म्हळ्यार तुका समजूचेना.'

'अदमास आयलो.' लेखकान म्हळें.

'कसलो आदमास? आरे, घर म्हळ्यार चार वण्टी न्हय. घर म्हळ्यार मायेचो वझरो रात-दीस खळखळीत व्हांवता अशी कुटुंबाचे देऊळ. आमी धा भावंडां. हांव निमाणो.'

इतले उलोवन देवगंधर्व खळखळीत हांसलो. तागेले हांसपय तालबद्ध; हांस-हांस हांसून तो ओगी रावलो आनी लेखकाक विचाल्ले 'हांव कित्याक हांसलो ते जाणां तूं?'

'भुरगेपणांतली कसलीय याद आयली आसतली' लेखकान म्हळे.





'भुरगेपणांतली न्हय. आतांचीच याद आयली. त्यावेळार 'हम दो, हमारे दो' हे सूत्र सरकारान चलोवंक नासले. नाजाल्यार हो दयानंद जल्माक येवंकच पावपाचो न्हय. हे येवजून म्हाका हांसो आयलो. पूण धाव्या भुरग्याच्या वाट्याक नवे कांय येना. व्हडल्या भावंडाचे पोरने कपडे, तांची पोरनी पुस्तकां आनी आवय-बापायलो मोग लेगीत हेर णव भुरग्यांक वाटून जो उरिल्लो तो.. सोड ती खबर.'

बंद पडिल्ली गाडी धुकळपाचो यत्न करचो तशी ताणे ती याद मतीतली काढून उडयली आनी फुडली खबर सांगपाखातीर तोंड उक्ते केलें.

'तेन्ना हांव सोळा वर्सांचो आसत. म्हजो बापूय म्हाका घेवन बडोद्याक गेलो. थंय पं. शिवकुमार शुक्ल हांच्या सुवादीन म्हाका केलो. संगीताचो शिक्षण थंयच सुरु जाले. संगीतान पोट भरना आनी गायत रावलो म्हणून भूक मरना. शाळांनी संगीत शिक्षक म्हणून नोकरी केली. मुंबय गेलो. थंय नोकरी केली. तुका सांगल्यार अजाप दिसतले. हेमा मालिनीच्या घराकडेन हांव संगीत शिकोवंक वतालो. म्हाका तबले वाजोवंक येता. नोकऱ्यो बदलत रावलो कामां बदलत रावली. काम करपाचे ते पोट भरपाखातीर आनी हेर वेळार संगीताच्या दर्यांत बुचकळ्यो मारपाच्यो...'

'पूण तुका संगीताच्या मळाचेर खुबशे पुरस्कार, इनामां मेळ्ळी...'' - लेखकान तेविशी कितेंय सांगत अशे येवजून मदीच म्हळें.

'मेळ्ळी. पुण पुरस्कार आनी इमानां दितल्यांक संगीत कितले कळटा देव जाणा. ताणी दिली हांवे घेतली.'

तिनसांजच्या आरतीचो वेळ जालो. देवळांतली घांट वाजली आनी यादीच्यो गांठी सोडयतलो गवय एकदम वर्तमानांत आयलो आनी ताणे म्हळें, 'सांगपाचे तितले तुका सांगले. आता तुका जाय ते बरय.''

'पूण आतां किते करता?'

'आतां सगळे सोडून दिलां. एकलोच रावतां चिंतन करता. मनात आयले जाल्यार न्हयांची परिक्रमा करतां. सगळो भारत भोंवलो. काश्मिरासावन आसाम आनी कन्याकुमारीमेरेन भोवन आयलो. आनी तसो भोंवत-भोंवत हांगा पावलो. अतृप्त आत्म्याचे हे भोवप. मदी-मदी हांगा येता.'

----





# PROMOTION DEVELOPMENT & PRESERVATION OF CULTURAL HERITAGE



- Grants to voluntary cultural organisations.
- Supply of Cultural equipments to government primary/ middle/ high schools and bhajani mandals.
- Grants to non-government secondary schools for promotion of performing arts in school.
- Financial assistance to eminent artists/writers in indigent conditions.
- State cultural awards to the outstanding artists.
- Inter state exchange ofcultural troupes programmes.
- Financial assistance to artists/ groups/ organisations for conduct of cultural shows.
- Publication and promotion of literature on art and cultural activities.
- Conduct of cultural courses/ camps/ festivals/ competitions for teachers/ students and non student youths.
- Grants to professional groups individual for conduct of cultural shows at national, state, taluka and village level.
- Establishment of cultural hostels/ ravindra bhavan/ Cultural Complex etc.
- Celebration of days of National importance/ Centenaries/ Anniversaries of Eminent personalities.



**issued by:**
**Directorate of Art & Culture**
**Government of Goa**
**Panaji-Goa**








# कोण चुकता....



सुमार बत्तीस वर्सांनी तें म्हाका मेळ्ळें. दारावेली बेल वाजली म्हूण दार काडलें एक पन्नास पंचावन वर्सांची अनवळखी बायलमनीस दारार उबी. हांव वळखलोंच ना. खीणभर तिका पळयतच रावलों. पूण खंय तरी पळयल्लेभशेन ती म्हाका दिसली. तोंडार हय न्हय सो हांसो. 'वळखलो?' अशे तरेची मुखामळाचेर मुद्रा हाडून ती म्हाका पळयतच रावली. कोण जाय म्हूण हांवे तिका विचारलें. तरीय जाप ना. ती म्हाका पळयतच रावली. "हांव तुका वळखलें. बत्तीस वर्सांनी वळखलें. आनी तूं ? सामको विसरलो म्हाका? तुमी दादले अशेच! तोंडापुरती वळख!"

'आगो! वीणा तूं? याद जाली म्हजी?'

'जांव पुता! वळखले तरी. आवाजाचेर वळखलो?'

'आवाज बदलला तुजो. पूण तुजें तें सदचें वाक्य. दादल्यांक दोश दिवपी!'

'बत्तीस वर्सां याद उरली त्या वाक्याची? नाजाल्यार तुमी



अशोक कामत



दादले...’

‘ह्या तुज्या मताचेर आमचे मतभेद आशिल्ले. आमचो सदांच वाद जातालो हाचेर.”

‘त्या वादाक लागून तूं म्हाका विसरुंक पावलो ना, सुदीन.’

‘कांय मनीस जशे विसरायेर पडनात तशींच तांची उलोवपाची शैलीय विसरूंक जायना.’

‘लेखक तूं! उलोवपाक आयकता?’

‘आगो! पूण तूं आसा खंय? लग्न जावन ऑस्ट्रेलियाक गेल्लें म्हूण आयकल्लें.’

‘फकत ऑस्ट्रेलियाच न्हय. युरोप भोंवलें, अमेरिका भोंवलें. मायदेशांत आयल्यारुच पांच वर्सां जालीं.’

‘पांच वर्सांनी आतां याद जाली म्हजी न्हय.’

‘आयलें काय ना यादीन?’

‘गोंयां केन्ना आयलें तूं?’

‘मामाले नातीचें लग्न आशिल्लें काल!’

‘उरतलें मगो?’

‘दोन दीस. विमल ना?’

‘भितर आसा. रांदचे कुडींत.’

‘वचून येतां आं भितर.’

‘आगो बस गो! उलोवया. मागीर चल भितर. सांग तुज्यो खबरी.’

‘खबरी मागीर. पयलीं विमलाक मेळून येतां. केन्ना काय मेळनशें जालां ताका. आज रावतलें हांव. मागीर करुंया खबरी.’

तें भितर गेलें खरें, पूण म्हज्या मनांत यादींच्यो सरमाळो एका फाटल्यान एक पेटत रावल्यो. आमच्या ऑफिसांत फकत पांच वर्सां हाणें काम केलां. मागीर तें लग्न जावन गेलें पूण म्हज्या मनांतले उगडासाचे गर्देत पयली सुवात करुन गेलें. सदांच हांसरें मुखामळ. भरगच्च काळेच केंस, लांब सडक केसांच्यो दोन विणयो. त्यो कुल्यांक आपटून एकामेकांक आफुडचेल्यांनी खेळटात काय दिसताल्यो. सदांच चलयांक तिकली लायलेबगर भायर सरुंक दिनाशिल्लो तो काळ! पूण वीणा आपल्या भव्य कपळाचेर रेखीव भुंवयांमदीं मातसो आकारान मोठोच तिळो लायतालें. भोंवयो आनी दोळे तर राजा रवी वर्मानूच रेखणी करुन साकारल्यात असो भास जातालो. सभाव चळबळींत. ह्या संवसारांत दीस काडटलो जाल्यार हातचें राखून उलोवचें आसता हें ताज्या राज्याक खबरूच नाशिल्लें. अख्ख्या स्टाफामदीं तार्चें अस्तित्वूच चड उठून दिसतालें. आनी स्टाफांतल्या दर एका तरणाट्याचें मन तार्चें व्यक्तिमत्व आपलेकडेन ओडून घेतलें ताकालागून दर एकलो आंकवार तरणाटो समजतालो. हाका देवान म्हजेखातीरच घडयलां. ताजेवांगडा संवसार करुन फुडार घडोवपाचीं सपनां तर एक दोन तरणाटे पळोवपाक लागिल्ले.

‘सुदीन, तूं बायलेक खावपाक बी घालना काय कितें रे? हें बारीक जालां मरे. शिरपूट शें.’ अशें म्हणत तें विमलाकूच घेवन भायर आयलें.

‘तूं मोटें जालां तें पुरोना? तुगेलें इल्लें मोठेपण ताका दी.’

‘ती तुजी नाजूकसाण खंय गेली गो?’ विमलान ताका विचारलें.

‘जालां पळय कशें पकदस्त बायल शी!’ हांवें विचार करिनासतना एक थोमणो शेंवटिलोच.

‘विमलाकूय धाड भायर. युरोप अमेरिकेक. कसलें गुटगुटीत जावन येता पळय.’

‘सारखें आसा तुजें. थंयचें हवामानूच मनशाक फुगयता. थंयची भुरगीं येतात तीं पळयलीं ना, कशी बोमाड्यांत वाफ भरिल्लेभशेन. आगो, पूण तुका भुरगीं कितलीं गो?’

‘एकलेंच चली. लग्न करून ऑस्ट्रेलियेक दिलां.’

‘पाखलो? काय एन. आर. आय?’

‘गोंयकारुच तो. पूण रावता थंय. तुजो संवसार कसो चल्ला?’

‘बेस बरो.’

‘बेस बरो म्हणूं नाका. विमल. तूं सांग गो. तुका पळयल्यार हो तुका बरोच त्रास दिता सो दिसता. म्हाका चड इंटरेस्ट तुमच्या संवसाराचो. हांवेंच जुळयल्लें न्हय तुमचें?’

गजाल खरी. आमच्या लग्नाचें श्रेय वीणाकूच वता. आमचे प्रेम ताणेंच केलां वा ताका लागून जालां म्हणल्यार जाता. मोगाची थियेरी सर्वसादारण अशी आसता कीं मोग हो जाता. करचो पडना. पूण म्हजे बाबतींत तें चुकलां. वीणानुच चुकयलां म्हणल्यार जाता. विमल एक सामान्य चली. चार चवगांत सोबून दिससारखें. आमचेच कंपनींत काम करपी. आपूण बरें आपलें काम बरें. वीणा स्टाफांत जॉयन जावन एक वर्सभर जालां आसतलें इतलेमजगतीं ताका दोन तरी उमेदवारांनी मागणी लेगीत घाल्ली. आनी त्याच काळांत वीणाची





आनी म्हजी दोस्ती वाडत गेल्ली. प्रामाणिकपणाचेर आदारुन आशिल्ली. ताणें आपलीं म्हत्वाची गुपितां जरी म्हाका सांगूंक नाशिल्लीं तरी सुखदुख्खाच्यो खबरी करपा इतली तरी संवकळ आमची वाडिल्ली. ती संवकळ आनी फुडे वचची न्हय आनी ती आकर्शणांत बदलची न्हय अशी वीणाची इत्सा आशिल्ली. कित्याक तें मागीर कळ्ळें. पूण आमची दोस्ती सहजपणान वाडची अशेंच म्हाका दिसतालें. पूण आकर्शणाचें मनांत येवंक नाशिल्लें. प्रेमांत रुपांतर जायतूय आशिल्लें. पूण तें जावंचें न्हय हाची जतनाय वीणान व्हडल्या धोरणीपणान घेतली. म्हज्या आनी विमलाभितर मेथकूट चल्लां हें स्टाफांतल्या अशा दोग-तीग जाणांच्या कानार घालें, जे चाडयो करपांत हुशार आशिल्ले. हेवटेन कसल्या ना कसल्या कामाचें निमित्त करुन विमलाक म्हज्या मेजाकडेन धाडप आनी म्हाका विमलाच्या मेजाकडेन. आमी बावडीं सेर्व! वीणाचो अंतस्थ हेत खूप तेप आमकां कळ्ळोच ना. ताज्या ह्या करतुपाचो परिणाम ताजे अपेक्षेप्रमाण ताका जाय तोच जालो. त्या चाडयाळ्यांक जाय तसो पुरावो मेळ्ळो. जालें! कांय दिसांभितर कुजबूज सुरु जाली. करतां करतां ती तेंगशेर पावली. पयलीं पयलीं म्हाका कितें तरी हांवें चूक केल्ल्याभशेन दिसूंक लागलें. हेवटेन वीणा मुमुरखेंच हांसतालें. हें अपराधी दिसप, हें एकामेकांक टाळप, हें खाकुडलेल्याभशेन दिसप ताज्या पथ्थ्यारूच पडिल्लें. ताका जाय तशें सगळें घडत वतालें. ताज्या मतान हो आकर्शणाचो पयलो पांवडो आशिल्लो. आतां आमी मोगाचे निसणीर एक एक पांवडो चडत वतलीं हाची ताका खातरी जाल्ली. आनी जालेंय तशेंच. आमी केन्ना मोगांत पडलीं हें आमकां कळ्ळेंलेगीत ना.

'ये सुदीन, कसल्या विचारांत पडलो रे? चड चिंतूं नाका. भलायकेक मारक तें.' वीणान म्हाका जागयलो.

'चिंततालों तुजीं करतुपां. रुं ना थंय पूं काडलो तुवें. हुशार तूं.'

'कितें वायट जालें? तुका वायट बायल मेळ्ळी? तूं सांग, तुजें लग्न सक्सेसफूल जावंक ना?'

'लग्नाचे बाबतींत म्हणना तो. लग्न जुळवपाचे तुजे प्रक्रियेबाबतींत उलयता तो.'

'तो एकूच उपया आशिल्लो म्हजेकडेन.'

'आपणावेलें संकट म्हजेर सोडलें. बाकिच्यांक हुमकळायत दवरले.' विमलान थोमणो मारलो.

'सुदीन म्हजो स्पेशल दोस्त न्हय. ताका हुमकळावपाची इत्सा नाशिल्ली म्हाका.'

'तुवें तेन्नाच डिक्लेर करपाचें न्हय. आपल्याचो एक बॉय फ्रेंड आसा. म्हजे भानगडींत तुमी पडूं नाकात म्हूण. तितल्यान सोंपिल्लें.' हांव.

'मजा कोण पळयतलो आशिल्लो स्टाफाची? बाकी तुमचें चल्यांचें एक बरें ! चली पळयली रे पळयली ! सुटलें तुमच्या तोंडाक उदक! आपलीच मिरास जाल्लेभशेन वावरुंक लागले.'

'तुगेलो तो बॉय फ्रेंड, चलो नाशिल्लो?'

'तो म्हगेलो न्हय! ताच्यांत दोश म्हाका दिसचोच ना.'

'निमाणो ताका सोडलोच. आनी पयशेकाराकडेन लग्न जालें. जावं! आतां सुखी आसा मगो तूं? पयशेकार घोव मेळ्ळो. जगभर प्रवास केलो. धुवेक लग्न केलें. तेंय फोरेनाक. कितें उणें आसा तुका? जिवीत सफळ आनी सुफळूय.'

'तूं तरी अशें उलोवं नाका आं सुदीन. पाप लागतलें तुका. कसले प्रयत्न करपाचे दवरले हांवें? म्हजें अख्खें कुटूंब आनी कुटुंबाचीं अख्खी सोयरीं-धायरीं हांच्या तुफानाक म्हजेवरी कुंडेकुस्कूट कशें तोंड दितलें? वाऱ्याच्या झोतार उडलें कुडेंकुस्कूट खंयचेखंय. दिकाहीन! निमाणें जीवलेगीत दिलो. तातूंतल्यान वांचतलें हें म्हाका खबर आशिल्लें?'

''पिशेपणां केलीं शी दिसना तुका?'

'जीव दिवपाचीं काय प्रेम करपाचीं ? म्हजी एक तीं पिशेपणां आशिल्लीं. जुवानपण आशिल्लें. सळसळट्या रगताची मस्ती आशिल्ली. आनी जुवानपणांतली जिद्द आशिल्ली. हांव अविचार केन्नाच म्हणचें ना. पूण म्हजे आवयन म्हज्या बापायन पिशेपणां केलीं शीं दिसनात तुका? असो विरोध कित्याक केलो तांणी ? फकत विजातीय भुरग्याचेर मोग केलो म्हूण? म्हजो प्रश्न तांणी आपल्या जीवन मरणाचो प्रश्न केलो.'

'तेन्नाची परिस्थिती, तेन्नाची मानसिकताय चीत. तांच्या जाग्यार तूं उबें रावून पळय. तांची चूक दिसची ना तुका.'

'आरे पूण आमी झगडटात कित्याक? जाल्लें जावन गेलें. म्हज्या मनांत आतां कसलेंच किल्मीश ना. हांवूय समाधानी आसां आनी तोय... ये सुदीन, कालीदास मेळिल्लो?'

'ना. केन्नाच ना. हांव ताका विसरुन लेगीत गेल्लों. मदीं खंयचे तरी स्कुलांत हेडमास्टर जाला म्हूण आयकल्लें. हें आयकल्यारुच



जालीं पंचवीस वर्सां.'

'ये सुदीन, या रे तागेर?'

'कालीदासागेर? पिसावलां तूं?'

'तातूंत कितें आसा? जस्ट फ्रेंड म्हूण.'

'आनी ताजे बायलेक कितें सांगतलें? आपूण तुगेल्या घोवाचें लवर म्हूण?'

'एक्स, एक्स लवर! भूतपूर्व!'

'तो तो आदलो सभाव आजून वचूंक ना.'

'चल रे. आयज जेवन याच. पळोवया तरी कसो तो? एक उत्सुकता म्हूण. आतां म्हातारपणांत कसो दिसता पळोवया. म्हाका वळखता जाल्यार पळोवया.'

'नाका! तो तुजेपरस सुखी समाधानी आसा अशें दिसल्यार वायट दिसतलें तुका. तुजो मत्सर जागो जातलो.'

'ना आं! इतलें मत्सरी न्हय हांव आं!'

'या बाये! हट्टी तूं ! एकदां दाडेक धरिल्लें सोडपाक आसा तूं?'

जेवतकच आमी बेगीन भायर सरुन दुर्भाटा वचपाक गेलीं. वाटेर 'म्हजी वळख पयलीं दीव नाका आं. तूंच उलय ताजे कडेन. पळोवया वळखता जाल्यार' अशें म्हाका सांगपाक वीणा विसरलेंना.

घर सोदून काडपाक वेळ लागलो ना. वीणाक घर खबर आसिल्लें. पूण घुस्पलें खूब. तीस वर्सांत अखखो वाठार बदलिल्ल्यो. अदमासान आमी घरालागीं पावलीं. कोणाकूय विचारुंया म्हूण जे दारार आमी बेल वाजयली सुदैवान तेंच घर कालिदासाचें आशिल्लें. दार एके मध्यम पिरायेचे बायलेन उगडलें.

'कालिदासाचें घर खंयचें?'

'हेंच! कोण जाय आशिल्लो?'

'कालिदास.'

'तुमी कोण ताचे?'

'दोस्त. खूब लागींचे दोस्त.'

केन्नाच पळयले ना तुमकां.

'गोंयां नाशिल्ले. भायर आशिल्ले. फोरेनाक. खूब वर्सांनी आयल्यात.'

'येयात. बसात.'

'तुमी कोण ताची? घरकान्न?" वीणाक आपलो जागो घेवपी बायल ही काय असो दुबाव आयलो जातलो.

'न्हय! भावज.'

'एकनाथाची बायल तूं?'

'हय! तुमी बरीं वळखतात.'

'आई-बाबा खंय आसात?'

'ती पिड्यार जाल्यार वीस वर्सां जालीं.'

'तुजो घोव कितें करता?'

'दोतोर तो. गावांतूच प्रॅक्टीस करता. बसात आं. हांव रोखडें आयलें.' ती भितर गेली.

वीणाक आतां घराचेर नदर मारपाक वेळ मेळ्ळो. ताणें पळयलें, तीं बसल्यांत त्या हॉलाक कसलेच तरेचो वेवस्थितपणा नाशिल्लो. कालिदासाचें मन म्हणल्यार एक कलाकाराचें मन. ताचे कलेची सया ह्या हॉलार पडपाक जाय आशिल्ली. पूण ती खंयच दिसनाशिल्ली. कसलेच तरेचो थाटमाट वा ऐश्वर्यूय दिसनाशिल्लें. घराचेर एके प्रकारची अवकळा आयिल्लेभशेन ताका दिसलें. वीणाचें मन विशण्ण जालें. इतल्यांत ती एक व्हील चॅअर धुकळीत भायर आयली. व्हील चॅअराचेर एक सामको बारीक, सुकड सो दादलो बशिल्लो. सामको हाडां सापळोच व्हील चॅअराचेर दवरला काय दिसतालें. हांव त्या मनशाक पळयतां आनी वीणाक पळयतां. वीणाय तेंच करता. कितलो वेळ आमचें हेंच चलिल्लें. निमाणो प्रश्नचिन्हांकित तोंडावळो करुन आमी ते बायलेकडेन पळयलें.

'हो कालीदास?' वीणा आह्वलेंच.

'हय!'

'अशें जालें तरी कितें ताका?'

'म्हाका हाडीतपसून असोच पळयतां हांव ताका.'

'तो उलयना?'

'ना. फकत शुद्द आसा म्हूण मनीस. नाजाल्यार आसून नासू सारखोच. मनशान जगपाचीच उत्सा सोडली जाल्यार शरीर ता कशें सांगात दितलें ? शरीर हें मनशाचे इत्साशक्तीचेर चलता न्हय मनशान जगपाचीच आशा सोडून दिली जाल्यार शरीराचीं गात्रां आवळून येतात. हाचेंय अशेंच जालें. मागीर आयलो पॅरॅलिसीस



ट्रोक.'

'हो मनीस निराशावादी न्हय. हांव जाणां त्या कोंतान ह्या नशांत उमेद, उत्साह भरुन ओततालो.'

'मोग! मोग वाट लायता मनशाची. मोग करप सोपें. तातूंत उथळपणा आसलो जाल्यार सामकेंच सोपें. पूण मोगांतली हार चवप मात म्हाकठीण.'

'मोग करतालो? कोणाचेर? वीणा आपूण त्या गांवचेंच न्हय अशें दाखयतालें.

'कोणाचेर करतालो हाका म्हत्व ना. पूण मोगाक लागून जिवाची वाट लावप हाचेवरी मूर्खपणा आसा? आपल्याय जिवाची वाट आनी भोंवतणच्या लोकांचीय जीण उध्वस्त.'

'कोण करता ताचें आतां?'

'भाव! आतांच न्हय, सुरवातीपासून! आनी भावावांगडा हांव. सुटनासून! पूण म्हजे संवसाराक मात कल्पनेभायर लिमिटेशन्स आयल्यांत.'

'तो वळखता मनशांक?'

'तोंडार भावूच नात. बरीं वायट येक्स्प्रेशन्स कांयच नात. आसा म्हूण आसा एक गुळो सो.'

'कालीदास, तूं म्हाका वळखता?' वीणान दोन तीन फावटी विचारलें. पूण ताच्या तोंडार कसलेच हाव-भाव दिसले नात.

'तुजें नांव सांग गो ताका' हांवे सांगलें.

'नाका रे सुदीन, नांव कळना तें बरें.'

वीणाच्या पोल्यांवयल्यान दुकां घळघळूंक लागलीं हें म्हजे नदरेंतल्यान सुटलेंना. पूण ताणें तीं मोट्या कळाशेन पदराच्या पोतान पुसलीं.

'सुदीन आमी गेल्यार बरें रे.'

'बसात न्हय. इल्ली च्या करतां.'

'आतां नाका. दुसरे फावटी केन्नाय तरी.'

आनी आमी दोगांय जड मनान परतलीं. बरेंच अंतर चल्लेउपरांत वीणान म्हणलें,

'सोंपलें रे हांव सुदीन!' ताज्या आवाजांतलें रडकुळेपण स्पस्ट जाणवतालें.

'चड शाणें तूं. हांवें तुका सांगिल्लेंच तूं थंय वचूं नाका म्हूण. कसली गरज आशिल्ली तुका हांगां येवपाची ? पेखिल्ल्या चवनावयली खवळी काडून कितें मेळयलें तुवें?'

'हांव पूर्ण जीवन जगलें अशेंच म्हाका आजमेरेन दिसतालें. पूण आज म्हजी जीण अर्दुकुटीच न्हय तर सामकीच निर्फळ जाली रे सुदीन.'

'काकुकट दिसली विणा तुजी.'

'कोणा कोणाची म्हूण काकुळट करतलो तूं? वीणाची काय वीणाचेर आशिल्ल्या असीम प्रेमाकलागून आपलें जिवीत सासणाचें अपंगूळ करून घेवपी कालिदासाची? काय भावाक लागून शहरांत वचून आपलो फुडार घडयनासतना गांवांतच रावून भावाची शुश्रुशा करपी एकनाथाची? काय घोवाच्या उतराक मान दिवन कांयच गुन्यांव नासतना देराची सेवा हीच घोवाची सेवा मानपी ताचे बायलेची?'

निमाणें दुशण कोणाक दिवप ? आवय-बापायचो मान राखलो म्हूण वीणाक? काय प्रेम नावाचे भावनेक बळी पडिल्ल्या कालिदासाक? काय मनांतल्या इत्सा-आकांक्षांक मुळासकट हमटावन कोंडिल्ली जीण आपणावपी एकनाथ आनी ताचे बायलेक?

वयर वयर पळयल्यार दुशण वता वीणाचे आवय बापायक. कित्याक? आपलें जिवीत पणाक लावन वीणाच्या विजातीय लग्नाक विरोध केलो म्हूण? प्रथा-परंपरेच्या विरुध्द वचून वीणाच्या लग्नाक मान्यताय दिवपाचें मनोबळगें तांच्यात नाशिल्लें? लग्नाउपरांत शेजरापाजराक आनी अख्ख्या समाजांत जावपी अवहेलना तांच्यानी सोंसूक जायनाशिल्ली म्हूण ? आयजलेगीत विजातीय लग्नाच्या जोडप्याच्या संदर्भान उलयतना उल्लेख करतात, 'ती रे ती अमके जातीच्या चल्याकडेन लग्न जाल्या ती.'

आज तरी कितली बदलत्या समाज-मानसिकताय?

●





# नारायणी



महाबळेश्वर सैल



इतली भारीभक्कम मोटारगाडी त्या गरीबवेश्या गल्लीच्या तोंडार सकाळीच येवन रावली आनी आशीकुशीच्या लोकाक अजाप जालें. जांणी पळयलें त्यो शिंदळक्यो बेगीबेगीन दारात, माळयेवेल्या जनेलांत येवन रावल्यो. कांयनी बेगीबेगीन तोंडाक पोवबीन मारून घेतलो.

गाडी थाल्ली थंयच मुखार लंगडो नथुराम उबो आसलो. मोटारी भितरल्या एकल्यान म्हटले, तो लंगडो गिरायकां सोदीत योवपी एजंट असो दिसता. डायरेक्टरान ताका म्हऱ्यान आफयलो. म्हटलें, 'आमकां एक वेश्या चली जाय.'

नथुरामान उमेदीन म्हटलें 'मेळटली, हायस्कूल स्टुडंट, कॉलेज गर्ल, हावस वायफ, कांय साधीच जाय ते सांगात. एकच रावंडाक कांय दिसभराक जाय?'

भितरल्यान एकल्यान तापसाणेनच ताका म्हटले, 'ए भोंचू, वोगच बंडलां मारु नाका. हातांत पुस्तकां घेतली म्हण कॉलेज गर्ल जायना!



ताणें बेठेच हासलेशें केलें, डायरेक्टरान ताका रावयले. नथुरामाक म्हटलें, फिल्मात काम करुक जायती आमकां. बरी हायट आशिल्ली, इल्ली शिकिल्ली. चड सोबीत जाय म्हण ना.'

फिल्मांचे नांव घेतकीर नथुराम भुल्लुसलोच. कांय वेळ तांणे देडपांयार नाचलेंशें केलें. म्हटलें, आसा एक. लांबशी बारीक मदीमदी इंग्लीश कातरता. कॉलेज गर्ल म्हणय तेंका खपयतात आमी. नारायणी नांव तागेले. गाडयेत बशिल्याक ते नांव हांगां हे गल्लीत आयकोक कितशेंच दिसलें. तो तांगेले गाडयेक वाट दाखयत घेवन नारायणी रावता त्या घरामुखार घेवन गेलो. गाडी थंय रावतकीर पांच-स शिंदळक्यो एकदम भायर आयल्यो. गाडयेसरी येवन म्हाका घे, म्हाका घे म्हणिल्लेवरी रेवाडो घालून उब्यो रावल्यो. गाडयेतले ते तिगय सकल देंवले. ते बरेच धश्टपुश्ट दादले आसले. तांकां शारांतल्या ह्या वातारणाविशीं बरी सवकळ आसा अशें दिसतालें. नथुरामान इल्ल्या तापसाणेनच म्हटलें, 'सरात कुशीक सरात. हांवे तेंका नारायणीक दाखोवंक हाडलां.'

एकलेन म्हटले, 'धंद्याक मेळचे ना नारायणी. आज रेस्ट तेगेलो. बरे ना ते.'

'धंद्यांक न्ही. फिल्म काडपी ते. नारायणीक फिल्मात घेवक येयल्यात. हांवे हाडला तेंका.'

आयकोन हेर शिंदळक्यांली काळजां उसळिल्लेवरी जाली. एकलेन 'आय्यो' म्हण किळांच मारली हेर फिस्य करुन हासल्यो, बरीच तांबडी लुथी उसळळी.

एकलेन म्हटले, 'पयली तो एकलो कोणेय येवन तेका न्हिदून गेलो आसतलो. तेची आंगां गच्च आसात ते तेणें पळयला आसतले.' मुखार तिणें वोगच कुसकेपणानसे म्हटले, 'सात वर्सां जाली ते हांगां आमचे बराबर आसा. सतरा वर्सां लागिल्ले धंद्याक.'

दोगी बायलो भितर धांवल्यो, तांणी नारायणीक धरुन ओडूनच भायर हाडलें. ते निकतेच न्हाविल्लें आनी केस मेकळेच आसले. केसार मदीमदी उदकाचे बारीक थेंब मोती कसे चळचळताले. ताच्या हातान एक धव्या फुलांचो सर गाचासयत आसलो. तिणें केस झाडलेशे केलें. सराचो गाच दातात धरुन केसाची तोंकां बांदली ते एकेवटेनच्यान खांदावेलयान मुखार घेवन तातूंन फुलासर खोवयलो. ताणे एक धवेशीं साडी इतली नकसूद गुठलावन न्हेशिल्ली, कूड पुराय धापून गेल्ली. चड गोरे न्ही पूण तामशे गुलगुलीत पोले, व्हड काळेकाळे दोळे, तांचेर लजेची इल्ली थरथरसाण आसा अशें दिसताले. ते इतली नीतळ सोज्वळ आसलें. दिसताले आताच पांच भावडांच्या मोगाळ घराब्यातल्यान येवण हांगां उबें रावलां. डायरेक्टरान मनात म्हटले, 'कठीण दिसता हाचेकडल्यान तो रोल करुन घेवप. तेन्ना ताका पयशांच्या बंडलांचो उगडास येयलो...

'तेन्नाच एके बायलेन व्हडान म्हटले, 'नारायणी तुका ते पिक्चरांत काम करुक आफोवप येयलात.'

खरे तर भारी उमळशिकेन नारायणीलो मनाचो तुरो फुलून येयल्लो, तरीय ताणें थंडपणान म्हटले, 'कसलो हिरोईनचो रोल खंय? पूण तुमी म्हजे नाक चपटें म्हण्टात न्ही गे?

तातल्या एका दादल्यान म्हटले, 'तसो हिराईनचो रोल न्ही.... पळोवंक गेल्यार हिरोईनचोय म्हणू येता. फक्कत धा मिण्टांचे दोन सीन'

'तेका बाजारबसवीच कित्याक जाय तर?'

'जाय, जाय, तूच बरो करतली तो रोल तुकाच फावो तो. बरे पयशे फारीक करतात न्ही. धा मिण्टाच्या रोलाक चाळीस हजार. आतां धा हजार सायनिंग अमावंट.' डायरेक्टरान म्हटलें.

'कसले काम कोणाक खबर. म्हजेकडेन जावंचे ना ते.'

खरेतर पयशांचो आंकडो आयकोन नारायणीसयत सगळ्याले तकलेत फुगो फुटिल्लेवरी जाल्लो चंद्रव्वान म्हटलें, इतले पयशें जोडूक शंबर-दोनशीं मडी आंगार घेवंची पडटली. हिंगा तुका पिक्चरांत काम, कसलेय जांव कर तूं.' थंय आशिल्ल्या हेर शिंदळक्यांनीय मोटो कलकल केलो. त्यो नारायणीक फाटल्यान चिमट्यो काडून सांगताल्यों, करता म्हण पिक्चरांत काम, हय म्हण.'

डायरेक्टरान बॅगेतल्यान एक फायल काडली आनी एक धा हजाराचे बंडल. नारायणी मुखार कागद धल्लो आनी तेणें कांय पळयनासतना सय ओडली. एक तर ह्या कलकलात तागेली तकली भेरेल्ली. कागद दोळ्यामुखार धल्ल्यार वाचूंक कळत हाचो आत्मविश्वास नासलो. केन्ना णव्वी मेरेन शिकिल्ले ते आता विसरुनच गेल्ले. चाळीस हजार रुपया..... पिक्चरांत काम, सगळो गोंधळच उठिल्लो तकलेत.

तांणी मागीर सय करुंक येता अश्या दोगां बायलांच्यो सयो घेतल्यो, नारायणीले सय मुखार एकलेन विचारले, 'नांव कितें पिक्चरावें?'

'नांव, 'नारी और दुर्गा.'

कांय वेळ त्या शिंदळक्यांनी ते नांव तोंडार घोळयले. मागीर ताका ते नांव अजापाचें, आवडीचें अशे दिसले.

तें धा हजाराचें बंडल नारायणीच्या हातात दिवन वचूंक गेले वताना तांणी सांगलें, 'शुटिंगा आदले दीस तुका सांगतले, व्हरुंक गाडी येतली. तुवें सय केल्यात ती कायदेशीर कागदपत्रां.' उतर मोडल्यार कोर्टकचेरी जांव येता.'

नारायणीक आपणें कितें केलां हाचो अर्थच लागनासलो तेन्ना दिसतालें म्हाका कोणेतरी फटोवन गुठलावचो आसा. मागीर








दिसताले सद्दा गिरायकाकडल्यान मुह्वन, चिह्वन घेवचेपरस संसारात आनीक कांयच वायट ना. हाचेपरस आनी वायट म्हण कितें आसूं येता? मागीर ताणें एक मुक्तपणा अणभवलो, लोकलजेची, समाजाची दादल्यांची कोणाची कसलीच भिरांत नाशिल्ली. मुक्तताय, एक फावट कुड वाऱ्यार सोडून दिली म्हण्टकर बायलांक भिरांत म्हूण कसली उरता?

पुराय गल्लीत खबर पाविल्लीं, नारायणीन पिक्चरांन हिरोईन म्हण सायन केल्या म्हण खबर पातळिल्ली. पिक्चराचें नावंय लोकाल्या तोंडार पाविल्लें. दादले बायलो येवन ताका मेळून परबी दिवन वयताल्यो. तागेल्या दारान गर्दी जाल्ली. मोटो जल्लोश चलिल्लो. सांजेचे गल्लीतल्यान भोंवपी गिरायकांक हें कितें चल्लां कांय कळनासले. त्या दिसा नारायणीच्या 'घरांतल्या' सगळ्यांचो धंदो बुडिल्लो.

नारायणी उसरां सांजचे सुभक्काल्या हांथरुणासरी बशिल्ले. सुभक्का हूं हूं करुन परवताली. तो आवाज मड्याच्या ताळ्यातल्यान घुवंता असे दिसतालें ती भितरल्यान कुसूंक लागिल्ली आनी कुडीक वाससो मारतालो. तिका गेल्ले तीन म्हयने सुध्दच नासली, तिचे ते कणाकणान कुसून मरप भोव वायट आसले. दोन-तीन दिसातल्यान कोणय दोगां बायलो तिका उखलून मान्र्यात व्हरताल्यो आनी धूंवन हाडटाल्यो. ती बरीच वर्सा ह्या घरांत रावन धंदो करताली. ल्हवल्हव तिका कसलेकसले रोग लागत गेले. आंगाक चवनां पडली. आता घरांतली दरएक शिंदळकी आपले मरण सुभक्कात पळयता. केन्ना थर्त भियेता, केन्ना फुडाराची बुध्द घेवन बशिल्लेवरी तिगेल्या हांथरुणासरी बसता. केन्ना थंय सुरक्षीत दिसता, केन्ना वीट, उबगण येता घरातली आता सगळयात जाण्टी बायल सत्याक्का केन्ना म्हण्टा, 'पळयात मुगो रंडीचे कुसून मरप. हुशार जायात, पयशांक भुलून कोणाच्याय खाला पडू नाकात. रबर घालूक अनमनतल्याक खोंट मारुन भायर काडात ।

नारायणीली कागदार सय करुन घेवन गेल्ल्या सारक्क्या तीन म्हयन्यांन एकलो गाड्येत येवन सांगून गेलो, 'फाल्या शुटिंग दवरल्या. सकाळीं आठांक तयार जावन राव. जेवणखाण थंय मेळटलें.

दिसभर नारायणील्या पोटांत खपखपतालें, कशे जातलें, कितें करतले, उलोवंक सांगतले, कांय नाचूंक सांगतले, कांय थंयबीन हे चेडीपणच! ताणें भानूमतीक आपणावांगडा यो म्हण सांगिल्लें, दुसऱ्या दिसा तांची गाडी आयली तर ती फुल्ल आशिल्ली. एकच सुवात आसली, नारायणीक बसूक भानुमतीक घेवयां म्हटल्यार ते कसेच तयार ना जाले. नारायणीक दिसले आपूण येना म्हूण सांगचें म्हण... पूण तांगेले धा हजार घेतल्यात, कायद्याच्या कागदाचेर सय केल्या, साक्षिदारा हुजीर.

तांणी ताका देडेक वरतरी गाडी धावंडावन रानावटेर एका गांवांत व्हेले. फाटूल्यान दोंगर आनी रान, कडेन रानातच एक गांव. थंय गांवचे लोक बरेच एकठांय जाल्लें, आजुबाजूच्या गांवचेय लोक आयल्यांत अशें दिसताले. कुशीक पांच-स गाड्यो उब्यो आसल्यो. थंय लोकामदी कांय धवडी वावुरताले. स्टेंडां, हारसे कॅमरे, अशें कितें कितें जाय तें थंय आसले. पूण कसलो बोवाळ नासलो. थंय शिस्तीत धावपळ चलताली सगळी.

नारायणी बरोच वेळ गाडयेतच बसून आसलें. ताका दिसताले, खंयचे सगळे लोक म्हाकाच रावतात, म्हाका लागूनच सगळी धावपळ चल्ला. हांव मुखार वतकीर म्हाका सगळे उभे येवकार दितलें, म्हजे भोंवतणी रेवाडो घालतलें. म्हगेलो हिरो थंयच आसा. म्हाका ताच्या वांगडा किते कितें करचे पडटलें काय? सोळा वर्सांचेर लागिल्ले नरक भोगूक, गेल्ली सात-आठ वर्सा काडली त्या नरकात. आता तरी दिवस बरे येवं दी देवा! सुटावो जाव दी म्हजो त्या त्रासांतल्यान. मागीर ताका इल्लो दुबावसो येयलो, म्हाकाच रंडीघरातल्यान कित्याक हाडला हांगा? कितें करुन घेवक कांय, ते भियेल्लेवरी जाले.

बऱ्याच वेळान ते ताका घेवन थंयच आशिल्ल्या एका घरात घेवन गेले. एक पोन्ने साधे गावठी घर. तातूंतली एक धुरकटिल्ली कशी कूड, वयले तणाचे पाखे एकेवटेसान उक्तें केल्ले आनी कुडीत बरोच उजवाड पडटालो. थंय एक दोरयेची चारपाय आसली. ताचेर ताका बसयले. मागीर तिगचवगजण बरे न्हेशिल्ले गडगंज मनीस भितर आयले. तातूंन एकलो पयलीच फावट पयशे घेवन आयिल्लो डायरेक्टर आसलो. तांणी नारायणीक फिल्माची काणी सांगली.' ह्या गांवात घोव बायल आनी दोगां भुरगी असो एक सुखी समाधानी घराबो आसलो. तांतल्या घोवाचे नांव शिवशंकर तर बायलेचे नांव रामेश्वरी. ह्या गांवाफाटल्या दोंगररानात भूपसिंग म्हण दरोडेखोर आपली व्हडली टोळी बांदून घेवन आसतालो. तो चोयवाठारांतल्या गांवच्या लोकांक खूप पिडापिड करतालो. एक दीस अचकीत पोलीसांनी भूपसिंगाले टोळयेक रानात घेरले, तोळयेतल्या चार जणांक फारपेटान मरण आयले. पूण भुपसिंग आनी हेर पळोन वचूक सफल जाले. भूपसिंगाक आपल्या ठिकाणाची जिस्त खबर शिवशंकरानच दिली म्हण दुबाव आयलो. एक दीस सकाळींच ताणें





शिवशंकराल्या घरार घुरी घातली. शिवशंकराक आनी दोगां भुरग्यांक जिवानशी तलवारेन माल्ले. रामेश्वरीचेर तांणी सामूहीक बलत्कार केलो आनी तिका गांवातल्यान नागडी भोंवडायली. मागीर रामेश्वरी रागान पेटली. कांय दिसांनी तिणें सोता हातांत बंदूक घेतली. आपली टोळी बांदली, बायलो दादले असे सरभरशी तांचे झूंज पांच वर्सा चल्ली. रामेश्वरीन एकेक करुन भूपसिंगाले टोळयेतल्या सगळ्या दरोडेखोऱ्यांक वेंचून माल्ले. शेवटा भूपसिंगाक जिवें धल्ले आनी गांवात हाडले ताका गावांतल्यान भोवडायलें अशे करताना तिणें भूपसिंगाले आंगाचे दोळे, कान, नाक, दोनय हात, गुप्तआंग एकेक करुन कापले आनी ती कुड एका झाडाक हुमकळायली मागीर आपणेंच पोलीसाक खबर दिवन सोताय ती पोलीसांच्या सुवादीन जाल्ली.

नारायणीन भिरांतेनशे, उमळशिकेनशे विचारले, 'मागीर?'

'सगळ्यांत महत्त्वाचो सीन तो. तो तुवें करुक जाय. तूच करुक ताकतली तो सीन, नटयेच्या बदलाक.

'कसलो तो सीन?' नारायणीच्या काळ्जात खपखपूक लागले.

'रामेश्वरीचेर सामूहीक बलत्कार जाता तो आनी तिका गांवांतल्यान नागडे भोवंडायतात तो. तुज्याच आंगलोटाची आसा ती नाटी.'

'तिच्यान करुक जायना तर तो सीन?'

'म्हणच तुका हाडला न्ही. तुजी पुराय उक्ती कूड आनी मदीमदी ते नटयेचो चेहरो. तुजे तोंड दाखोवचेच ना आमी. आता फकत गांवच्या लोका मुखावेल्यान चलपाचे, वस्त्रां देंवोवन.'

नारायणीक हें भंयकरुच दिसलें. आपलो मोटो आवमान कसो दिसलो. ताणें म्हटलें, 'तिकाच सगळे करुंक सांगात तुमी. हांव आनी मदी नाका. म्हजेकडेन जावचें ना तें.

डायरेक्टरान ते नटयेक एक साणसणीत गाळ सवलीं, ती चेडी धिमयेवयर वस्त्रां घेवक तयार ना. पयशे मात लाखांनी घेतली.'

नारायणीक आता रडूंकच येवक लागलें. तें उठलें, इतल्या लोकामुखार हांव पुराय वस्त्रां काडची नां म्हणत त्या घरातल्यान भायर सरुन फाटल्यान एका झाडामुळांत वचून बसले.

आता परते ते तिचे म्हऱ्यान गेले. तांणी सांगलें. तुवें तसो करार केला आमच्या वांगडा. पयशें घेतल्यात. आनीक उरिल्ले पयशे मेळचे आसात. आता ना म्हटल्यार कोर्टकचेरी जातली पयली घेतिल्ले पयशे परते करचे पडटलेच वयल्यान आनी दंड जातलो. दंड भरना जाल्यार जेलांत वचचें पडटले.'

दुसऱ्यान एकल्यान म्हटलें, कित्याक व्हडलें घेवन बसलां? शारात त्या घाणयाऱ्या लोकामुखार सदा नागडें जातले तूं. बलात्कारच ते सदांचे. हातून किते वायट आसा, फिल्मात तोंड तर दिसचे ना तुगेले. सगळे ते नटयेल्या नांवार. थंय तू सदा नागडे जालें किते हांगां जाले किते एकच.'

नारायणीक शिट् जालें. तेणें रागानशेच म्हटले, 'खरें तर आमी थंय नागडी जाययीच नात. फक्कत बोमलेकडेच उपाशी पोट दाखयतात तुमका. तुमच्या दोळ्यात रगत देवंन येता, कुह्रे जातात तुमीं.

'तशेच म्हण समज तू आताय. सुटका ना पळय.'

नारायणी आता थाऱ्यार येयल्लेवरी जाले. ताणें व्यवहारीकपणान चिंतले, आयजवेर कितल्यां दादाल्यांकडच्यान कोचोवन घेतला आंगावयली वस्त्रांय पिंजून घेतल्यात आनी आंगय पिंजून घेतला. म्हाका रांडेक आता आनी हे सोवळेपण कित्याक? ते उठले आनी त्या घरात परते आयले. दाराभितर उबे रावन ताणें आंगावेली सगळी वस्त्रां देंवयली आनी ते निंगद नागडें जालें.

मागीर ताणे तांका जाय तसो सामुहीक बलात्कार करुन घेतला. 'ते गांवच्या लोकमुखावेल्यान गांवभर नागडें भोंवलें. ती नटी शेवटामेरेन ताचे बरोबरीन आसताली. पूण ताणें तिका कॅर केल्ले ना. मात त्या फिल्मातलो हिरो खंय मेल्लो ते शेवटामेरेन ताका कळ्ळे ना.

सांजेचे उसरा ताका त्या लोकानी शारांत ताच्या 'घरा' पावयले. बायलांनी ताका घेरले आनी विचारलें, 'किते जालें? कितें कितें केले? हिरोवांगडा नाचलेबीन?'

नारायणीन आवाजाक उसळी दिल्लेवरी मोट्यान म्हटले, 'हय नाचलें हांव हिरोवांगडा, ताणें आंवळून मुह्वन म्हजो किस घेतलो आनी न्हिदलो तो म्हाका सगळ्या हुजीर.' शेवटची उतरां काळीज पिवून येयल्लेवरी जाली.

बायलो गोंधळात पडिल्लेवरी जाल्ल्यो. पूण नारायणीच्या उलोवपातलो तो किवाटो पळोवन कोणें काय मुखार विचारले ना. तांणी मनात म्हटले, फाल्या पिक्चर पळयताना दिसतलेच न्ही किते ते!

अशेच 'स' म्हयने गेले. नारायणी केन्ना त्या फिल्माविशी कांय उलयनासले. आनी 'घरातल्यो' बायलोय कांय विचारीनासल्यो.





एक दीस नथुराम खबर घेवन आयलो, नारायणीन हिरोईन म्हण काम केल्ले ते फिल्म 'नारी और दुर्गा' आयजसान वैशाली थेअटरात लागला. आयकोन नारायणीले काळीज खपखपू लागले.

पूण दुसऱ्या दिसा दनपराच गल्लीतल्यो सगळयो वीस-पंचवीस बायलो उमेदीन उमळशिकेन पिक्चरांत वचूक तयार जाल्यो. पूण नारायणी कशेच भायर सरना जाले. येना ते येना. मागीर हेर बायलोय गेल्ल्यो आनी म्हारग तिकेटी काडूनच थियेटरात वचून बसल्यो.

पूण पिक्चर सुरु जावन अर्द वर जाले, वर जाले, देड वर जाले पूण नारायणीले दर्शन ना. साधे तोंड पळोवन मेळ्ळे ना. बायलांचे चित्त खरे तर पिक्चर पळोवपाकडेन नाशिल्लेच. त्यो नारायणीक पळोवन आशेताल्यो. ताका रावताल्यो. रामेश्वरीचेर बलत्कार करुन ताका नागडें गावातल्यान भोंवडायल्ले तांणी पळयल्ले, पूण थंयतर नटयेले तोंड परते परते जिस्त दिसताले. पूण नारायणी गेले खंय. पुराय पिक्चरबर कित्याक ना.

पूण एके सादूर बायलेन जिस्त पारखिल्लें, तिणे कुशीन बशिल्ले बायलेक म्हटले, 'रामेश्वरीक नागडें भोंवडायला ती नागडी कूड नटयेची न्हू, ती कूड नारायणीची, बेठेच मदींमदीं तोंड नटयेचे दाखयला. तिका ते खरें दिसले. तिणें कुशिचे बायलेक सांगले. अशे करुन एकदोन मिनिटांतच सगळ्या बायलासरी हे पावले. तांगेल्याय मनात दुबावाची पाल चुकचुकताली जावये, आता सगळयां बायलांची तोंडां काळी पडली, त्यो घुम्म मोनी जाल्यो. कांय एक उलयनासताना गल्लीत आपल्या घरा आयल्यो. नारायणीकडेन एक उतर उलोवचो कोणाक धीर नासलो. नारायणीक बारीक पळयताल्यो. तांची काळी पडिल्ली तोंडां, शिविल्ली ओटां ताका ते कळटाले. तोंडार इल्लो राग किंवाटीय आसलो. दिसताले हजार उडोवन आता खंयच्याय बायलेल्या आंगाक गिरायक लागल्यार ती ताका खोटावन भायर घालताली.

भानुमतीच्यान रावक नज जाले. ताणें विचारलेय, 'नारायणी तूं दिसलेंच ना मुगो, तुजे तोंडालेगीत दिस्टीक पडले ना.

आता नारायणी रागान फुटनसे उलयले, ' आमकां रांडांक तोंड आसता खंय दाखोवंक, आसता फक्कत फोदरी आनी मांड्यो. चोयले ना ते तुवें? भानुमती भिवनशें वोगच रावलें.





# CROSSING ON ZEBRA LINE IS FINE

## WHERE EVER ZEBRA CROSSING IS AVAILABLE

# USE IT



**ALWAYS FOLLOW THE ROAD CROSSING DRILL WHEREVER ZEBRA CROSSING NOT AVAILABLE i.e.**

1. LOOK TO YOUR RIGHT
2. LOOK TO YOUR LEFT
3. AGAIN LOOK TO YOUR RIGHT
4. CROSS THE ROAD WALKING STEADILY, DO NOT RUN.

Issued in public interest by




Aim to reduce DEATHS & INJURIES caused by road accidents





# इष्टपुत्री सौभाग्यवती भव....!

(एकांकिरुपी कथा)



हॅलो, लो मावशीबाय, कितें गे ठरलें मगे रश्मीचें लग्न?'

'हय गो बाये, ठरलें एकदांचे आतां चार दिसांनी साखरपुडो, आनी म्हयन्याभितर लग्न - म्हणजे तुळशीलग्न जायनाफुडें रोकडेंच!'

'खरें काय कितें गे? म्हणचे झट मँगनी पट ब्याह तर!'

'हय गो सायबिणी - शांतादुर्गेची कृपाच म्हणपाची ही.'

'आंऽऽ, अशें कित्याक उलयता गे बाये तूं?'

'मागीर कितें म्हणूं म्हजें कर्म? आगो, आयच्या ह्या चलयांच्या तोंडाक ना सुवाद! कितेंय तोंडाक येता ते भकतात. - तांतूंन आमचें रश्मी म्हणचे भलतेंच वायाविदळ!'

'आगे, पुण असलीं कसलीं वायाविदळपणा केलीं तर गे ताणें?'

'हां, तेंच सांगतां न्हंय? आगो, म्हजें चली म्हणून सांगीना, पुण भलतेंच अगोचर गो बाये आमचें रश्मी!

'मावशीबाय तूं तुज्या चलयेची कागाळ करता काय तोखणाय



सौ. जयमाला दणायत



तेंच समजना म्हाका, एकेवटेन ताका नांवां दवरता, आनी दुसरेवटेन चार दिसांनी ताजो साखरपुडो म्हणूनच सांगता.

'तेंच तर. रश्मीक ताच्या घरच्यांनी पळयेला. तांकां पसंदूय पडलें तें! चल्याक तर सामकें पयले नदरेंतच पसंत खंय.'

'आरे वा! असाच तशें आमचें रश्मी! पळोंवक करुंक सोबीत, स्मार्ट, सामकें हुशार तें.'

'पुरो, पुरो, तुमच्या ह्या ह्या असल्या उतरांनीच मगो चड सुबेज जायत गेला तें, सामकें माथ्यार बसलां!'

'अशें कित्याक म्हण्टा गे बायें तूं? काय बरें भांगरासारखे सभावाचें चली, एखादे वाटेवयलो चोर लेगीत पसंत करीत अशें सामकें रुपगुण संपन्न - लाखांत एक

'हय मुगो? पुण ताच्या ह्या असल्या हुशारकायेनच सामकी हातांत आयिल्ली सोयरीक मोडची पाळी येतली आसली आज! बरें म्हणून बरें, चल्याच्या बापायनच सावरुन घेतलें.

'आगे पुण नेमके कितें घडलें तें तरी सांग तुजें हे असलें 'बिटींग इन द बुश' मात्शे थांबय सायबिणी!'

'सांगता, सगळें सांगतां. आयक तुज्या अपुरबायेच्या भाचयेचे प्रताप! चली पसंत पडलें म्हणून उलोवणी करुंक ते लोक आयले आमगेर. आमकांय बी चलो, चल्याकडले लोक, तें स्थळ एकदम भाविल्लें. चलो बरो हुशार, सोफ्टवेअर इंजिनिअर गो 'मागीर आमचें रश्मीय इंजिनिअरच न्हंय? तेंवय बी आयटी वालेंच मगे?..'

'हय गो, सगळें खरें, पुण बऽरे इंजिनिअर जालें तरी चलीच न्हंय?'

'आगे मावशीबाय, खंयच्या काळांत वावुरता गे तूं? आतां चलो-चली सम-समान न्हंय गे? आनी तूं अशें उलयता?'

'तशें न्हंय गो, चलो चली समानच म्हणप - पुण म्हणपाचें आपलें! तशें सम-समान कशें जायत? चलो हो कुलदीपक - वंशाचो दिवो आसता.'

'हूंऽऽ चलो वंशाचो दिवो जाल्यार चली ही वंशाची पणटी म्हणप.'

'सगळें खरें, पुण आपल्या पुरुषप्रधान संस्कृतायेन तशें मानूंक जाय न्हंय?'

'आतां मानतात गे सगळीं, ना तर हम दो, हमारा या हमारी एक कित्याक करतले आसले?'

'तुज्या तोंडाक कोणें लागचें बाये? हांव दवरतां हां आतां फोन!'

'ना गे, आतां पळे हाताची घडी आनी तोंडार बोट, चल सांग बेगीन सगळें.'

'हां तर कितें सांगतालें पळे - हय, आमचीं उलोवणीं सुरु आसलीं, खंयचो म्हूर्त धरचो, खंयचो हॉल पळोवप, नाश्त्याक कितें, मेनू कितें असलेंच गो सगळें - तशें घालपा करपाचें बी तें कांय न्ही हां!'

'जाणां गे बाये, आतां आली कोण ते उलयतात? आपल्या भुरग्याक कितें दिवपाचें, करपाचें ते सांगूक जाय? जण एकलो आपल्याक ताकता तें करताच तांतून आनी एकलें एकसुरें सगळें तर ताजेंच आसतलें न्हीं? तें कोणें वेगळें सांगूंक जाय?'

'हय गो तर आमी सगळें थारायतालीं न्हीं, तर हें मदींच हॉलांत आयलें आनी म्हणूंक लागलें - म्हाका कितें तरी सांगचें आसा, विचारपाचें आसा.'

'आंऽऽ मागीर गे?'

'मागीर आनी कितें? म्हाका तर बाये सामको शेळो घाम फुटलो पळय!

'कित्याक गे बाये?

'आगो, कोणाच्यान सांगूं येता? हाणें कोणाय बराबर कितें लफडें बी आसत त्या शेजारच्या रोशनाभशेन म्हणून म्हजेर आयलो कलकल सामको!'

'आंऽऽ रोशन म्हणजे ते बेण्यालें मगे? ताणें आनी कितें केलें?'

'हांऽऽ तें व्हडलें म्हाभारत आसा. सांगत तुका केन्नाय. ताणें अशेंच सगळें लग्न बी ठरतगीच घरांतल्यान पळून वचून भयलेभायर लग्न केलें ना?'

'चल गे, आमचें रश्मी तशें न्हंय हां. आनी तशें कितेंय आसल्यार लग्न कारचे पैलींच सांगचे नासलें तें? तशें मोठे स्पष्टवक्ते आसा तें.'

'तेंच तर! अती स्पष्ट उलोवपी हें ! पुण त्या लोकांहुजीर कितें सांगत आनी कितें ना म्हणून काळजांत खपखपले म्हज्या!

'तूं तरी सामकी सोशाकाळजाचीच हां मावशीबाय! अशें बेठेंच खपखपपाक कितें जाता तुका? चलयेचेर विश्वास ना तुजो? आगे आपल्या भुरग्यांचेर विश्वास दवरचो गे मात्सो!

'जांव गो, तूं मोठें घर काळजाचें न्हंय? तुज्या सोनावेळार समजतलें हां तुका! जावें त्याच्या वंशा म्हण्टात पळय तेंच खरें.'





'पुरो, तुज्यो ओपारी! आता कितें घडलें तें सांगता काय हांव
दवरुं? नातर भाई तापतलो मागीर - बेठेंच बील चाडयता
ून.'

'हय गो बाये, आयक आतां. ताणें पट करुन येवन मदींच हे
नाका हॉलभर सामकी पीन-ड्रॉप सायलन्स! किरांव शांतताय
चेकुडींत फोवांक घाल्ले फोण्णांचो आवाजलेगीत व्हडलो स्फोट
लेवरी आयकूं येवपा इतली आमी दोगांय एकमेकांच्या तोणाक
तच उल्लीं तेवय लोक खीणभर थंयचे थंय तटास! सगळीं
ापभरीत जांवन ताका पळेतच उरलीं. जावपी मांवांन साबुद्दीर
न म्हळें, 'सांग बाय कितें सांगचें आसा तुका? तूं कितें विचारुंक
दता?' ताणें सांगलें, हांव म्हजे आवयबापायचें एकलें एकसुरे
ी! म्हजी आवयबापूय सध्यातरी घटमूट आसात, आपलीं कामां
पुण करतात. पुण फुडें ती जाण्टी जातगीच कितें करतलीं?
ाका भाव ना भयण? म्हणून चिंता दिसता. हांव लग्न जावन
ागेर येतगीच कितें? तीं जाण्टी जातगीच, तांच्यानी जायना जाल्यार
कां, हांव म्हगेर दवरुंक शकतां? हांव तुमचें करतलें, तांचेंच करुंक
तलें? तशें जाल्यारच म्हाका लग्न करपाचें आसा - म्हाका म्हज्या
ावयबापायसकट स्विकारशात? 'आगे, म्हजे बाये, सामकी लंवगी
ागोटी तडतडची तशें जालें जातलें तांका! मागीर ताणी कितें
ळें? सुबेज जाणवाय बी समजले नात मूं ताका?

'ना गो, देवमनशां तीं! खीणभर तींवय गोंदळलीं म्हणा, पुण
ोणभरचो आंवान रोकडें सावरुन घेतलें - हांसत हांसत म्हळें
ॉफकोर्स, हें आनीक वेगळें सांगूंक जाय? जशें हे राजचं घर
ातलेंच रश्मीचें! म्हणजेच आमचो जितलो हक्क तुजेर तितलोच
ज्या आवयबापायचो राजाचेर आगो, राजा सन इन लॉ म्हणचे
ायद्यान तुज्या आवय बापायचो पूत - जशी तूं आमची धुव -
हणजे कायद्यान धुव! खरेंच गो, देवमनीस म्हणचे तांकां - नातर
ातांच्या काळांत लेगीत कोण हें मान्य करीत? पांगण म्हणून
ावयबापूय घेवन येवपी चलयेक कोण पसंत करीत?'

'जांव गे आनी रश्मीचेंच कितें चुकलां अशें म्हाका दिसना.
ातां खरेंच हो प्रश्न समाजामुखार उबो रावतलोच! कोणाकय
कच चलो जाव चली! चलो जल्मभर आवयबापायक सांबाळटा.
ागीर चलीच आशिल्ल्यानी म्हातारपणांत कितें करचें? वृध्दाश्रम
ोदप मगे'

'आगो पुण चल्यान करप हो धर्मच न्हंय? ताजें कर्तव्यच
जावन आसा तें!'

'आनी चलयेचें कितें कर्तव्य न्हंय? ताका आवयबापामनच
जल्म दिला तूं?

'हय, पुण आमच्या समाजांत हेंच चलत आयलां रुढीन -
परंपरेन!'

'तेंच तर मोंडूक जाय. रश्मीचे बरोबरच आसा. चलयांक कितें
तांच्या आवयबापायली चिंता नासतली? जायसर बरें आसा, पुण
फाल्यां बरें ना जाल्यार सुनेक कितें मांय-मांव वा घोव कुळारा
धाडटले तांचीं दुखणीं काडूंक?'

'आगो, हांव ताका तेंच सांगूंक सोदी. बाय गो, तूं आमची
बेठीच चिंता करीनाका. कितें जाता ते पळोंवया. फुडलें फुडें! पुण
असल्या उलोवण्यांनी इतकें बरें स्थळ सोडूं नाका, सोयरीक मोडूं
नाका. पुण हांव उलोवचेपैलींच मांवान, अशें सगळें मान्य केलें.
मांयन आनी घोवान मम म्हळें.

'हय गे, पुण हो आमच्या समाजामुखावेलो मोठोच प्रश्न जावन
पडला खरो! चल्याचलयांनीच फुडें सरुन तो सोडोंवक जाय. नातर
मागीर चलीच आशिल्ल्यांची धडगत ना.'

'हय तर बाये. वेल्यान रश्मीचे मांवान म्हळें, 'आगो तीं जाण्टी
जातगीरच कित्याक? आतां सुद्दां तांकां जाय तेन्ना मदीं मदीं ताणीं
आमगेर येवन रांव येता. जशे आमी तशींच तीं! लग्नाक दोन मनाच
न्हंय तर दोन घरां एक जांवक जाय तरच हो संवसार सुरळीत
चलतलो. वेल्यान म्हण्ट कितें जाणां, 'आय एम प्रावड ऑफ यू माय
चायल्ड! इतलें फुडलें आमी जाण्टी लेगीत चितनात. पुण आयची ही
नवी पिळगी इतलो फुडलो विचार करुंक शकता आनी आमी ह्या
तन्नें पिळगेक इरिस्पोन्सिवम समजतात. तांकां आसा ती जाण आमका
ना म्हणूंक लागलो. 'सांगपाक न्हंय, पुण हालीं चले तरी खंय
सांबाळटात गे आवयबापायक नशिब समज तुजे, रश्मीसारके बरें
समजदार चली तुज्या कुसव्यांत जल्मलें - तुमच्या चिंतेन लग्न
न्हंयकारपी! ताजेंय खरेंच न्हीं? आज चल्यांबरोबरीन चलयोक तशेंच
जोडटात - मागीर तांचोय तितलोच हक्क आसूंक फाव!

'सगळें खरें गो पुण कोण मानता सांग? आतां ताज्या घरच्यांनी
बऽरें सांगलें म्हणून आमी भोऽ धुवेगेर वचून पडटलीं आमची
आमी समर्थ आसात आपलें करुंक रावूं दोगांय एकमेकां संगतीन!'

'येदोम्हणसर? आनी कोण हांगां अमरपट्टो घेवन आयला गे?



घोव बायल म्हणचे कप बशेचो जोड, कप तरी पयलीं फुट्टली ना तर बशी कोणय एक पयलीं वतालो, मागीर दुसऱ्याक कोणाचो तरी आधार जाय काय ना जगपाक? आज तुमच्यांनी जाता म्हणून तूं अशें नेटान सांगूंक शकता. फाल्या जाण्टेपण येतगीच, हातपांय थकले तर मनीसाक जाय न्हंय आपलें ? तें सोदून सापडना बोल्सांत दुडू आसलो म्हणून जायना, मनीसबळ लागताच केन्ना ना केन्ना तरी पैसो कितें उदका ग्लास हाडूंन तुमच्या तोणाकडेन धरचो ना. ताका मनशाचे हात आनी काळीजच जाय मगे ?

'फुडलें कोणें पळयलां गो? पुण आज जर हाणे ह्या असल्या उलौण्यानी हें इतलें बरें स्थळ हातचें गेल्लें तर जल्मभर भोगूंक पुरो आसलें म्हाका.'

'अशेंय कांय ना हां. म्हाका तरी रश्मी चुकले अशें कांयच दिसना. फावो तेंच उलयलें तें पुण ताजे नांवाचें आनी घरच्यांचेय तितलेंच कवतुक करुंक जाय. त्या लोकांनी ताका नांवां दवरीनास्तना ताणें उतर वयलेवयर जिकून धरलें म्हणून आनी कोणय जाल्यार एखाद्रे सोयरीकच मोडून उठून चलूंक लागपाचे ही असली तिखटी मिरसांग आपल्याक नाका म्हणून.

'मागीर चूड दाखोवन म्हारु कोण घरां हाडीत बाये, तां जाग्यार आमी आसल्यार आमच्या मनांतय अशें आयलेबगर रावपाचें

'अशें म्हणीनाका हां तूं मावशीबाय. तांका आपली जापसालदारकी वळखुपी वागपी रश्मीसारकी बेस्स बरी सुन मेळ्ळी म्हणूंक जाय आज चले तरी सगळेच कोण सांबाळटात आवय बापायचीं मनां तुवें उलट धन्यताय मानूंक जाय. चलयांक ही जाण आसाता तें चल्यांक मात् नासता. म्हणून घडये आज आशीर्वाद दितना जाण्टेलें लेगीत 'इष्टपुत्री सौभाग्यवती भव' म्हण्टात जातलीं.

'खरें गो बाये तुजें. सामके खरें!'

'आगे ह्या नव्या पिळयेन पुडें सरुन असले हे ज्वलंत प्रश्न सोडोवन समाज मनाची जरा सोडोंवक वावुरपाचे मनार घेतले तें बरेच जालें म्हणूंक जाय. हांचे उदाहरणान दुसऱ्या हेर - लोकांचे प्रश्न सुटाले जांवक मदत जातली. बरें तर, मागीर येता रश्मीक परबी दिवपाक. तुर्ताक तूंच सांग ताका. 'बरें बरें, पावलें म्हजें आतां दवरुं फोन?'







# अडेचें रुपडें



काल रातीं म्हाळ पावसान अच्छेव केल्लो. गडगड, विजांचो चकचक आनी घसघशांचो पावस. तातूंत लायट गेली. मागीर आनी न्हीद खंयची? सुवर्णा रातभर तळमळत आसलें. हरशींय जाल्यार हालींसराक ताका सारकी न्हीद लागच नासली. विचारांच्या झेल्यार रातभर तें कुशी परतत आसतालें. फांतोडेर ताका मात्सी न्हीद लागताली. आज लायट नाशिल्ल्यान जळारांनी रगता वांगडा ताची न्हिदय खाल्ली.

....कितलो वेळ अशें तळमळत रावूं... उठून इल्लो चा करुन पितां. तकली कणकणपाची थांबता जाल्यार पळोवया...

सुवर्णान उठून आंग वळळें, ताची नदर महेशाचेर गेली. महेश सुस्त न्हिदून घोरेतालो. रातीं सोऱ्याचे नशेंत न्हिदिल्ल्या महेशाक म्हाळ पावसाच्या खवदळान मातय जाग येवूं नासली. लायट वतकीर गरमी जाली, जळारां खाऊं लागलीं पूण महेश सुशेगाद घोरेतालो. सुवर्णाक ताची नसाय जाली.



माया अनिल खरंगटे



..म्हाका तळमळयांत घालून आपूण बरो सुस्त न्हिदला.. म्हजी जीण पेड्येर केली ह्या दादल्यान.. काय बरो चलतालो म्हजो संवसार.. कोणाची किटकीट ना, कोणाचें रीण ना, आमचें हातरुण पळोवन पांय पातळावन आमी सुशेगाद जियेतालीं.. धटपट श्रीमंती जाय म्हणून नाका आशिल्ल्या समजनाशिल्ल्या धंद्या फाटल्यान लागलो थंय चार गांवचें उदक पिल्ल्या मेहतान सारकी बरी तोपी घाली.. लाखाचे बाराहजार करुन बसलो... धंद्यान ताका पयसो दिलोना, पूण सोरो मात दिलो.. धंदो करपा जाय म्हूण काय बरी शिर्वीस सोडली.. आतां सगळो राग म्हजेर काडटा... उबगण आयली जिवाची.. शुनू पासत सगळें सोंसून रावतां... आनी कितें करुं.. समाज, ताचीं बंधना, लज सगळें म्हाकाच लागता... ताणें जनाची न्हय मनाची लेगीत लज सोडल्या...

येवजणेची कुसां फाफडून सुवर्णा उठलें. मेणवात पेटोवन ताणें संडासांत दवरली. दुसरी मेणवात बेसीनार दवरली आनी सकाळचीं कामां करुन मेणवात घेवन रांदचे कुडींत आयलें.

चाचें कोप घेवन सुवर्णा गॅलरींत येवन झोपाळ्याचेर बसलें. भायर पावस रिपरिपतालो. हरशीं अशे ओले फांतोडेर झोपाळ्यार झेल घेत गरम चा पिवपाचो ताका घोस्त. मागीर तें खंय खंय हिलस्टेशनार गेल्लेकडचो फांतोडेचो चा येवजीत घोस्तान आपल्या हातांतलो चा पितालें. पूण हालींसराक सुवर्णा पुराय बदलिल्लें. विचारांच्या घुस्पांत तें शेणून गेलें.

आज ताका खंयच्याच हिलस्टेशनाची याद जाली ना. पावसाचीय उबगण आयली. तातूंत हालीं ताची वावराडी चमकी सारकी येय नासली. तिची याद येना फुडें ताका कडकडो आयलो.

... ही दळिद्री आज पूण आयल्यार पुरो.. हालीं सरा हिचीं लक्षणांच बरी दिसनात. तीन दीस आयली जाल्यार चवथेदीस हटकून येवची ना.. आयलीय जाल्यार पयलीं भशेन कामांय करची ना... सोफा पोंदा, मेजापोंदा हिची सान्नच पावना.. जमीन पुसतना तर देवा तूं पाव, टायल्सांक दुखत म्हणून वयले वयर पुसता, चाचो डाग लेगीत वचचो ना.. पूण पाडपल्लि विश्वासाची म्हणून सोंसतां हिच्यो कटकटी. चावी दिवन गेल्यार, सगळें व्यवस्तीत करुन दवरतली. पण कुलेर लेगीत हांगचें थंय वचचें ना.. म्हणून दवरपाची... आतां आनी दोन दोन दिसांनी 'सग्गा आया, भांजा आया, भाईका दोस्त आया, उन्हावास्ते खाना पकाने देर हुई..' अशीं कितें ना कितें कारणां सांगून एक एक दीस येना... बेळगांव लागसारच्या मुन्नोळी गांवांतल्यान लग्न जावन ही गोंयांत आयिल्ली.. आतां सात-आठ घरांनी वावर करुन आपल्या पांयार उबी आसा... तीन लग्नां करुन तिगांकय सोडल्यात हिणे.. बरें, हांचें कोर्ट, कचेरी घटस्फोट घेवपाचो कसलोच वावर ना.. चारजाणांक मशीदींत घेवन वता लग्न करु येता.. पयल्या घोवान माल्लें, सतायलें ताका सोडलो.. दुसऱ्याकडे शादी केली.. दुसरो घोवे सोरो पिता, तिचे पयशे चोरुन व्हरत आयदना व्हरुन विकता ताका सोडलो.. रोखडेंच तिसऱ्याकडेन लग केलें... ताचें अशेंच कितें जालें ताका सोडलो... बरे धंदे हि वेल्यान म्हणटा तांच्या समाजांत हें सगळें चलता खंय... हांव इत त्रास काडटां, हाल सोंसतां, जिवाक उबगण येता पूण घटस्फो घेवया, हो संवसार सोडून पेल्यान रावया अशें मातय मनांत येना दुसरें लग्न आनी खंयचें? तो तर विचार लेगीत नाका... आम मध्यमवर्गीयांचें अशेंच, संवसार खेळाचो डाव एकदांच मांडपाच सादलो जाल्यार सादलो, नातर मरण येसर सवंग रेटयत रावपाचें न्हय रेटपाचें नाटक करपाचें, तेंच आमकां बरें जमता... समाज फटयत मनाक फटयत अडेचें रुपडें घालून जगपाचें...

भाबी ओ भाबी दरवाजा खोलो !

आयली दिसता पाडपडिल्ली. आयलें गो सायबिणी. बे मारनाका. सायब उठल्यार म्हजी धडगत ना. मात्सो तो न्हिद तितलो जिवाक सुशेग.

उलयतां उलयतां ताणे दार काडलें.

भाबी, सॉरी हां, कल आई नहीं ना इसी वास्ते आज बारी भिगके आयी । देख कल बुखार आया तो मालूम नही ।

म्हणजे वेल्यान म्हाकाच फुगोवन दाखयता. आनी फाल येवपाचोय दुबाव दिता. बरे बाये तुजे धंदे.

ना भाबी, मैं क्या जानबुझके करती, बिमार हुयी, क्यो सग्गा आया तो क्या करनेका?

काल कितें जालें तुजें ?

कल ना...

आं, लजताशें, कितें जालें?

उन्होंने शादीके वास्ते पुछा ।

आं कितें ! चवथे वेळार शादी गो पापया. तरीय इतलें लजत

मेरी उमर क्या भाबी. पिछले म्हयने पचीस पुरे हुअे ।

पयलें लग्न केन्ना जाल्लें ?

चवदा में । हमारे उदर छोटे उमरमेंच शादी बनाते.

आगो ह्या दिसांनी तुगेर 'सग्गे' येवपाचे वाडिल्ले तेन्नाच म्हा










व आयिल्लो, तूं चवथे खेप लग्न जावंक सोदता काय म्हणून.

हां भाबी इन्ही दिनों मेरे भांजेके साथ उसका दोस्त भी आता । बार बार खानेको रुकता, कभी मटण, कभी चिकन, कभी र का खाना लाता । मेरेकु लगा मेरा भांजाच लाता हय, एक वो मॅक्सी लाया, एक बार कंगन लाया । अब मेरे भाजेने ता ।

कितें सांगलें भाच्यान

वो मेरे से प्यार करता हयी ।

कितें तुजेर प्यार ! पापया तूं तीन वेळा लग्न जाल्ली बायल ून खबर नागे ताका ?

सुवर्णान हांसत हांसत विचारलें. चमकिच्या खबरांनी तें खिणभर पलें दुःख विसरलें. आजय तीन लग्नां जाल्ल्या काळया खापुल्ल्या ाकीचेर एक तरनाटो मोग करता म्हूण कळनाफुडें ताका मजाच सली.

.... चमकीकडेन आसा ती फकत घसघशीत कूड, ताचीच ्सा धरुन हे लग्न जातात. आनी म्हणतात प्यार जालां... शिकप डाच पडूं हांगा लग्ना पासत गरज आशिल्ली खंयचीच गजाल कां लागना, ना आस्पत पळोवप, ना घराबो, ना सोयरीं धायरीं, ी आवडली जाले लग्न. 'चट मँगनी पट शादी' आनी मागीर खडेंच तलाकयबी.. बुन्याद नाशिल्ल्या घरांवरी स्थिती हांची. घट बींच नासतात आनी मोडिल्ल्याचेंय दुःखयना..

ओ भाबी क्या सोचती ?

आं, कांय ना. मजा दिसता तुमची. प्यार ह्या उतराचो संबंध ासता तुमच्या व्यवहारांत. तरी म्हणटात प्यार करता, सोड आतां ़दें येवजिलां तुवें ?

क्या करुं भाबी, अकेली औरत कैसे रहनारी मैं । लोकां कुछ ी बोलते नही । लोकांमें रहना है तो उनके बारे में सोचना मंगता ा?

आरे वा! समाजाचो भंय आनी तुका ? चमकी केन्नाच्यान गो ाये? एका फाटल्या एक तीन लग्नां करुन तिगांकय सोडटना ामाजाचो भंय दिसलो ना तुका.

ऐसा नहीं भाबी । ये गलेमें मंगलसूत्र है ना तो ऐसे वैसे ोगोंकी बुरी नजर नहीं पडती । ऐसे प्लॅट में रहनेवालोंको झोपडी ं रहनेवालोंका दरद मालूम नहीं होनारा । एक बार करुं दस बार करुं शादी शुदा है की नही येच देखते हमारे लोकां, नहीं तो ऐसी वैसी समझते हयी । मुझे मेरा नाम नहीं खराब करने का ।

बरें आतां कितें येवजिलां तुवें ? तुका मान्य आसा हो चलो?

हां भाबी, अच्छे हैं वो । अच्छे कमाते हैं, इस्कूटर भी है उनकी।

एक सांग गो, सोरो, गुटखा असलें कसलें व्यसन बी ना मगो ताका?

नही भाबी, इसी वास्ते मैं तैयार हयी । मैंने भांजेको वोहीच पुछा । अब बार बार शादी करने का मुझे कहां शौक हैं । इन्ही अभी तो अच्छे है, बादमें ना बदले यहीच दुआ मागती हुँ ।

चमकीच्या उतरांनी सुवर्णाच्या काळजाक पीळ पडलो.

ताचे आनी महेशाचें मोगान लग्न जाल्लें. एकाच बँकेंत दोगांय काम करतालीं. बँकेतल्या कमांत एकामेकांक आदार करतां करतां मोगाच्या सापळयांत केन्ना सापडलीं तांकांच कळ्ळें ना. हेर कलिगांनी चाळोवपाक सुरवात करतकच सुवर्णाक कळिल्लें, आपूण मोगांत पडला म्हणून. महेशाक तर सुवर्णा पयल्याच दिसा आवडिल्लें खंय, म्हूण आदार करपाच्या निमतान तो ताच्या लागीं लागीं येतालो. मागीर तो जायते फावटी चाळयतालो, 'इतलें म्हऱ्यांत रावनय म्हज्या दोळयांतलो मोग वाचूंक कळ्ळोना, कुड्डें खंयचें"

तांच्या मोगाचो रुख पळयतां पळयतां घसघशीत वाडिल्लो. लग्नाच्या बंधनान तांच्या मोगाक नवें रुप दिलें. शौनकान तांकां पुर्तताय दिली. शौनकाची अर्थ अपुरबाय करतना, महेशाच्या मोगांत न्हातना लग्नाक केन्ना पंदरा वर्सां सोंपली ताका कळ्ळीच ना.

... आनी एक दीस आमच्या सुखी संवसाराच्या घोंटेराक कोणाची तरी नदर लागली... धंद्याच्या मृगजळा फाटल्यान धांवून धांवून महेश खर्शेलो, आनी... आनी सोऱ्याच्या ग्लासांत बुडून गेलो.. आज शौनक इंजिनियरींग शिकता.. ताका पैशांचो घोगो वोतूं जाय.. आनी महेश तर पयशे सोऱ्यांत बुडोवंक सोदता.. एकट्याचे जोडीर कशें करुं हांव हें सगळें.. शौनका खातीर पयशे राखून दवरतां म्हणून ताका लेगीत खेपता.. फाटले फावट ताकाय मारुंक गेल्लो.. पोरान म्हजेखातीर सगळें सोंसलें...

शौनकाक इंजिनीयर करप हें ताचेंय बी सपन आसलें. पूण महेश आतां हाताभायर वचत आसा... पयशे ना म्हळयार हात लेगीत उबारता.. ल्हान पणांतल्यान पांच बोटांचें थापट केन्ना



कोणाकडल्यान घेतलें ना, आनी आतां जाण्टेपणांत... घोवाचो मार.. चमकींचे पंगतींत हाडून बसयलें म्हाका.

...चमकीन मारकुट्या घोवांक सोडले पूण हांव.. समाजाक भियेत अडेचें रुपडें घालून जगतां.. माराचे दुखी परस अपमानाचे घाय चड दुखतात.. दोगांय सुशिक्षीत आमी, मारपीय बी आनी मार खावपीयबी.. आमचे परस चमकीच व्हड. तिका अडेचें रुपडें घालून समाजांत वावुरचें पडना...

सुवर्णाचे दोळे भरुन आयले.

अरे भाबी, ये क्या आँखमें पानी ।

कांय ना गो अशेंच..

यें क्या तुम्हारे सर को क्या हुआ ।

हें कांय ना. रातीं पांय निसरुन पडलें. दाराची कड लागली.

भाबी कायकू झूठ बोलती ।

कित्याक गो फट उलोंव. तूं तुजें काम कर.

काम तो करनारीच भाबी, पर, कल भैय्याने ज्यादा मारा क्या?

चमकी कितें उलयता तूं? चल पळोवया, हांव भायर वचू बसतां.

ना भाबी, जाऊ नको, बोल मेरे साथ, दिल हलका होनारा कबतक छुपाते रहो गी दरद । मैं जानती भाबी, मैंने भी मार खाय है ऐसाच । ये मरदलोग शराब पिनेके बाद अंधे बन जाते हैं अंधे

चमकीच्या उतरांनी सुवर्णान इतलो वेळ घाल्लें अडेचें रुप गळून पडलें. ताच्या दोळयंतल्यान दुकां गळूंक लागलीं.

ले भाबी, ये मलम लगाती मैं । रातको कुछ नहीं लगाया होग तुने ।

मायेच्या हातान चमकी ताका मलम लावंक लागलें. सुवर्णाच्य दुकांचो बांद फुटलो.

जानती भाबी, तुम पढी लिखी लोगां ऐसीच हयी । समाजक डरते रहते । मरदने मारा, सताया तो चुपचाप सहती । बाहर हंसनेका उरामा करेगी । पर मरदको छोडके नहीं जानारी । तुम्ह बुकांमे यहीच लिखा होता है क्या भाबी?







# गिना



'आ गो, आमच्या आशालो सुरेश ना, तागेलो चलो परेश. बरो भुरगो, ग्रेज्युयेट जाला. बापायवांगडा धंदो करता. धंदो बरो चल्ला.'

'किद्याक म्हणटा गो?'

'आगो बाये! तुजें गिता लग्नाचें जावंक ना?'

'हय गो. ताका बरो न्हंवरो पळोवंक जाय.'

'ते खातीरुच सांगतां. जाय जाल्यार हांव प्रोपोस्त व्हरतां.'

'आवंय! परसरकाराकडेन गो? ताका कोणूय बरो सो पळय गो.'

'तुका बरोसो म्हळयार कसलो जावंय जाय तर?'

'पळय. म्हज्यो दोगी शेजान्नी सामक्यो म्हाका दोळ्यांत तेल घालून पळेतात. ही पळय हेवटेन आसा, तिजें चली लग्न जावन बेंगळुराक पावलां. आनी हेवटेन आसा, तिजें चली दुबय गेलां.



सतीश दत्ताराम दळवी



म्हाका बाये म्हज्या गिताक अमेरिकेक वा इंग्लंडाक स्थायिक जाल्लो घोव जाय.'

'पळे बाये, हावें तुका एक बरो भुरगो दाखोवन दिल्लो. म्हज्या तर मनांत ते सामको गेला. म्हजें चली आशिल्लें जाल्यार ताजेकडेन लग्न करुन दितलें आसलें. सामको भांगर कसो भुरगो. तुजें गिता तर गोंयांतूच उरतलें. आत्रे पयऱ्यान मेळप जातलें. तुजें तुवें चितपाचें. गिता कितें म्हणटा?'

'ताजो आनी वेगळो विचार आसतलो? म्हजे भायर तें केन्ना गेलेंना. ताकाय फॉरेनाक वचचेली आवड. बाय कॉम्प्युटर इंजिनीयर जालां. ताका तसोच घोव नाका? ताज्या शिक्षणाक आनी आमच्या घराण्याक सोबूंक जाय.'

'हय गो. तुजेंय बरोबर आयज कालचीं भुरगीं तीं तांचेय विचार आमीं मतींत घेवंकूय जाय. पूण भायर आशिल्ल्या भुरग्यांची चवकशी कोण कसो करतलो? गोंयचें गोंयांत जाल्यार एक वेगळी गजाल. खबर काडपाक सोपें. कोणूय ना जाल्यार कोणूय तरी सोयरीं आसतात. अमेरीका वा इंग्लंडाक कोण कोणाक सोदतलो?'

'पळे. म्हजें तरी मत वेगळें. आमचें कितले सोयरे आनी वळखीचे लोक भायर आसात. ते काडटले खबर. म्हाका ताची चिंता ना.'

'आगो, येदया, व्हडल्या अमेरिका-इंग्लंडा सारख्याक कोण खंय रावता आनी कितें करता कशें सोदपाचें आनी कशें कळपाचें?

'लक्षांत घे सिताबाय. म्हज्या मतान ताजीय व्हडली शी गरज ना. जो भुरगो हांगाच्यान सर्व्हिसेक म्हूण भायर गेल्लो आसता, तो आपलो फुडार चिंतुनूच गेल्लो आसता. ताजी आनी चवकशी ती कसली करचेली?

'तुजें बाये तूं पळय. म्हज्या मनांत आयलें तें सागलें. बरें तर चल्लें हांव.'

'भायर जर कोणूय बरोऽऽ भुरगो आसलो जाल्यार मुजरत कळय म्हका.'

'म्हजे नदरेंत कोणूय भुरगो आसलो जाल्यार सांगतां गो. पूण ताजी चवकशी करचेली मात जबाबदारी तूजी आंऽऽ. अशें तशें जाल्यार म्हजे कडेन बोट दाखोवं नाका.'

'तें जालेंच गो. गोंयांतले गोंयांत म्हूण? चवकशी करुन लेगीत केल्लीं लग्नां कितलीं तगल्यांत?'

'तगप, ना तगप हें प्रत्येकाच्या स्वभावाचेर अवलंबून आसता. पूण मनीस कसो कितें, ताजे खाजगी जिणेंत वा समाजीक जिणेंत कसो कितें आसा, तें तरी समजता न्हय?'

'सगळेच कितें सारखें सांगतात न्हय?"

'ना. तें बरोबर. पूण एक धा जाणांकडल्यान तरी अदमास काडूंक येता न्हय? ती गजाल भायर रावपी मनशांसंबंदान समजुवप कुस्तार.'

'बरोबर. पूण भायर कामाक वचून रावपी मनशाची एक मानसीकता आमी समजून घेवंक शकतात आनी ताजेवयल्यान ताजो स्वभाव आनी विचारसरणीय कळूंक मजत जाता.'

'पळे बाये. तूं आनी तुजी चली. बरें जातकच जालें.'

'बरें तर. तुजे नदरेंत कोणूय आसल्यार पळय. सांग म्हाका.'

'हय वय. रींग करतां तुका.'

अशें म्हणून सुमन भायर सरुन गेलें. हेवटेन प्रदीप उठून भायर आयलो. तो दनपरां जेवन आड पडिल्लो. थंयच ताका लकण आयिल्ली. ताणें घड्याळ पळेली, साडेचार जावन गेल्लीं.

'आवयसस् इतलो वेळ हांव न्हिदलों ! कोण आयिल्लें गो शैला? कोण उलयतालें व्हडा व्हडान?'

'आरे, सुमन आयिल्लें. तें शिवण दिवपाक खंय शांतीगेर आयिल्लें. ते हेवटेन भितर सरलें.'

'आनी गजाली सुरुः कसल्यो केल्यो गजाली?'

'हेवटेन तेवटेनच्यो गजाली करतां करतां गिताच्या सोयरीकेच्यो गजाली आयल्यो. ते सांगतालें आशाले नातू परेश एक बरो भुरगो म्हूण गिताक पळेता जाल्यार पळे खंय.'

'तुवें कितें सांगलें?'

'शी. आमच्या गिताक पसरकार सो! काय बरें कॉम्प्युटर इंजीनीयर जालां. ताज्या गळ्याक पसरकार बांदप!'

'तांतूंत कितें जालें?'

'हो एक दादलो! तांतूत कितें जालें खंय! ताका

इंग्लंड-अमेरिका सारख्याक वचपाची उमेद. बरें निदान ताज्या शिक्षणाक सोब सारखो नाका?'







'पळे भायर वचपाची इच्छा ही वेगळी गजाल. आनी ताज्या शिक्षणाक सोबसारखो घोव सोदप ह वेगळी गजाल. परेश सामकोच ट, ठ, ड, ढ, ण न्हय. बरो फस्ट क्लासांत ग्रेज्युयेट जाला. आतां आपल्या शिक्षणाचो उपेग करुन धंदो बरे पैकी वाडयला. घर पुरायपणान दुरुस्त करुन सुदारणा केल्या. गाडी बी घेवन वेवस्थीत आसा. गिताच्या शिक्षणाच्या दर्जाक तो खंयच कमी पडना.'

'तशें तुमकां दिसता. पूण लोक आमकां हांसतले. म्हज्यो भयणी म्हजे तोंडांत शेण घालतल्यो. तांचे मुखार म्हाका तकली सकयल घालची लागतली. इंजीनियर चलयेक पसरकाराल्या गळयाकशी कित्याक बांदली काय म्हूण! नांवां दवरतलीं ती आमकां. ना, हांव म्हजे गिताचे लग्न ताजेकडेन कशेंच करपाक तयार ना.'

'सध्या तुज्या आनी गिताच्या दोळयांसामकार अमेरिका नाचता. कांयच हरकत ना. तें अमेरिकेक पावता आसत जाल्यार म्हाका कित्याक नाका जालां? आमकांय बरें, केन्नाय अमेरिकेक मुदासावांक वचूंक मेळळें.'

कांय दिसानी तांकां इंटरनेटाचेर प्रकाशाची म्हायती दिसली. सोफ्टवॅयरांत मास्टर्स डिग्री करुन अमेरिकेक एका व्हडल्या कंपनींत नोकरेक आसा. संपर्क ताज्या बापायकडेन करचेलो. शैला प्रदिपाक घेवन वेळकाडिनासतना ताजेकडेन फोन करुन घरा गेलीं.

'इंटरनेटाचेर सुचोवणी तुमी दिल्ली न्हय ?'

'हय हे दिसांनी प्रकाश येवपाचो आसा. म्हळें, सोमतें लग्न करुन वचूनी ताका.'

'ताका विचारलां न्हयं ?'

'तो आमचे उतरा भायर ना. प्रत्येक गजाल तो आमकां विचारुन करता. आतां आमकां अमेरिकेच्यो गजाली खंय कळटा? आमी ताका सांगतात, तुका बरें दिसता तें कर.'

'बरोबर थंयची परिस्थिती वेगळी आनी आमची हांगाची वेगळी. पूण लग्ना संबंदान ताका म्हळां न्हय?'

'ना. तें ताका आमी सरप्रायझ दिवपा थारायलां.'

'अशें.'

अशें म्हणून तांणी सोमतेचं गिताचे टिपण ताचेकडेन दिलें. आनी उलवणी करपाक केन्ना येवचेलें ते थारायलें. थारायल्ल्या दिसा गिताचे आवय-बापूय फोन करुन ताका मेळपाक गेलीं.

'तुमकां फोनार कळीत केलां ते प्रमाण पत्रिका एकदम जुळटात. सामके छत्तीस गूण! आमकां गिताचो फोटू लेगीत पसंत पडला.'

'म्हणटकच पळोवपाचो कार्यक्रम केन्ना करुंया? प्रकाश केन्ना येता?'

'हें पळेयात तुमी ताजो फोटो पळयला. चलयेक आनी पळोवपाची फोर्मालदाद कित्याक?'

'चल्याक दाखयल्यार बरी न्हय?'

'हे पळेयात. ताजी तुमी कांयच काळजी करु नाकात. तो आमचे पसंती भायर ना. आमी ताजें बरेंच चित्तले हाजी ताका खात्री आसा.'

'सारखपुडो केन्ना करुंया?'

'सोमतें लग्न. ताका खंय चड दीस रावंक मेळना. फकत आठ दिसांची रजा काडून तो येता. लग्न करुन सोमतें बायलेक घेवन वचचेलें. गिताचो पासपोर्ट बी करपाक'

'ताजो पासपोर्ट तयार आसा. फकत व्हिसा मेळटकच जालें.'

'ताजी काळजी तुमी करुं नाकात. अमेरीकन कॉन्सुलेटींत म्हजो एक इस्ट आसा. ताजेकडेन उतर घालतां.'

'आमच्या घरा केन्ना येतात.'

'शुभश्य शिघ्रमं. फाल्यांच येवया.'

अशे तरेन चट् मंगनी-पट् शादी जाली आवय-बापायचे मुखार एक उतर लेगीत न उलोवपी प्रकाशन मोन्यानी गिताच्या गळयांत माळ घाली आनी दोन दिसांत गिताक घेवन तो अमेरिकेक गेलो.

कॅलिफॉर्नियांत आपल्या फ्लॅटाच्या दाराची बेल ताणें दांबली. गिताक अजाप जालें.

'तूं चावयेन दार उगडपाचें सोडून बॅलशी वाजयता? कोण आसा भितर?'

'Wait and see' थंड पणान ताणें जाप दिली. इतल्यान एका तीन/चार वर्सांच्या गोऱ्यापिट्ट भुरग्यान दार उगडलें. फुड्यान प्रकाशाक पळयल्या बरोबर ताणें ताका वेंग मारुन म्हळें. 'Hello Dad, how are you?'

गितान आपलें बॅग उखल्लें आनी फाटल्या पांयांनी चलूंक लागलें.



# रुढें



सुमार वर्सांनी ताका पळयतालो.

कारवारच्या सातेबाजारात तें दिसलें. कांदेकारांमुखार उबों रावन कांदें घेतालें.

सुर्वेक हय न्ही, हय न्ही जालें.

तोच चेऱ्हो. तीच उंचाय. तीच लकब. पिरायेक लागून सैमीक फरक पडला तितलोच. हरशी खूब वर्सांनी पळयतल्याक साप्प वळखूक येवं नयें असो फरक ना.

आंग मातशे स्थुल जालां. दोळ्यांसखयल काळी गेलाय दाटल्या. आनी दोळ्यांर वक्ल चडलां इतलोच फरक.

हांव मातसो मुखार सरलो.

'बरें मुगो, वळखतां?' हांवें जावन हटकिलें.

ताणें तकलीवयर करुन पळयलें. पूण तें म्हाका वळखूक ना हें ताचे चेऱ्हावेले भाव पळोवन म्हाका समजलें.

'वखळलें ना गो...?'



देविदास कदम



'ना...?

म्हजेंभितर सुमार इतलो फरक जाला. पोट वाडलां. ताळेवेलें केंस धवें जाल्यात आनी मातरशें खरडय पडलां. चेऱ्होय आदलो उरूक ना. दोळयार वक्ल तर चडलांच! म्हजे कॉलेज इश्ट खुब तेपांनी मेळटात ते म्हाका कशेंच वळखनात. हें तरी कशें वळखतलें?

'हांव सुरेश! सुरेश कदंब!'

तरी ते वळखलें ना.

ताणें न्हयकारत तकली हालयत म्हणलें, 'सारखे याद जायना!'

'अऽगो हांव तुजे कॉलिजीत शिकतालो मुगो! तुजेपरस दोन वर्सां मुखार शिकतालो?

ताणें बरें करुन म्हाका नियाळलो आनी मागीर 'हां...हां! आतां याद जाली ।' म्हणत मागीर वळखलें म्हूण सांगलें.

'कितलो बदललां रे तूं! सामको वळखूक मेळना!'

'हय! पिरायेमानान फरक पडऽलोच न्ही!'

'हय, बरोबर!'

'तूं मात चडशें बदलूक ना!' हांवें म्हणलें, 'केंसय पिकूक ना तुजें!' ताचे केसाकडेन चोयत हांवें मुजरत फकांणांनशें म्हणलें. हांव जाणां हे पिरायेन केंस अशें तरेन काळें आसप शक्य ना!

'किस काळें खंयचे? केंसांक रंग लायलां...!' ते खळखळून हांसत उलयलें. तोच आदलो कॉलिजीत आसतनाचो हांसों.

उतरां-उतरां खळखळत हांसत उलोवपाची ताची सवय! कितेंय मटल्यार हांसतालें. केन्नाच हांवें ताका तोंड वाकडे करुन आशिल्लें, वा बेजारात आशिल्लें अशें पळोवक नासलें. सदाच हांसकुरो चेऱ्हो! प्रसन्न व्यक्तीमत्व!

दिसतालेंय भोव सोबीत. ते सोबीत, सरळ नाक. ते मोठे-मोठे काळे दोळें. ती सोबीत भुंवयां (त्या तेपार भुवयां कोरांतची फॅशन नासली) तो लांबसो गुलगुलीत चेऱ्हो. ते लांब सरळ केंस. येद्दी व्हडली जाड कमरांमेरेन पावपी फांती घालताले. एक शिवडी. मध्यम उंचायेचे. गोरे छाया कोणाल्याय नदरेंत भरपां सारखें आसलें. शिकूकय हुशार आसलें.

हांव जाणां, त्या तेपार कॉलेजीतलें जाय ते चले ताजेर मरताले पुणून ताणे केन्नाच तसो कोणाक लागी करुक ना. नितळ सभावाचे छाया निमाणेंमेरेन चारित्र्यान नितळच उरलें.

तें तशें सगळयांकडेनूच बरें करुन रावताले. पुणून हरेक पावल मात समजिकायेन घालताले.

हरशीय तें बऱ्यां घराण्यातलें. हणकोणच्या सुबायनायकाले चली. रीत-पत सांबाळून आशिल्लो परंपरागत घराबो तो! त्या काळात तांचे घराब्यातले लोक चड शिकून बुदवंत जाल्ले. बऱ्या-बऱ्या रोजेर पाविल्ले. छायाचो बापूय सुब्राय नायक मिलेटरीत सुबेदार मेजर आसलो.

एकवटीत छायाची चाल-चलन आपल्या घराब्याक सोबसारखी आसली.

'तूं कसो आसां? बरो आसां मुरे?' ताणें म्हजी वासपुस करत विचारलें.

'बरों आसा!' हांवें म्हणलें 'तुं कशें आसां?'

'आसां, बरें!'

'आतां खंय आसां तूं?' ताणें रोखडेंच विचारलें.

'अंदुच रिटायर जालां हांव! आतां गांवांत आयलां आतां हांगांच रावतलो.'

'वर्सां कितलीं बेगीन वतात न्ही! सगळें पयर-पयरुच दिसतां!' ताणें म्हणलें.

'तुं किते करतां?' हांवे मुजरत ताची चवकशी करत विचारलें. म्हाका थोडेंशे कुतूहल आसलें. कुतुहल आसुंकय कारण आसलें.

'म्हजी आनी दोन वर्सां उरल्यात!'

'म्हळयार, तूं सर्विस करतां...?'

'हय तर!'

छाया त्या तेपोवेलें बी. ए. जेन्ना आमचे जातीत चडश्यो चली कॉलिजीक वचक मागनां आसली. आनी गेल्यारुय सर्व्हिस करुक मांगना आसली सर्व्हिस केल्यारुय लग्ना उपरांत तांचे घोव तांकां सर्व्हिस करुक दिना आसले. चड शिकल्यारुय घोवाचे घर सांबाळप आनी कमी शिकल्यारुय घर सांबाळप अशें आसलें. बायलांनी सर्व्हिस करप म्हळयार घोवाक कमीपण, वा व्हड घराब्यातल्यां सुनांनी सर्व्हिस करप ना, अशें कितेंशें नाका जाल्ले, न्ही नस्ते व्हडपण आमचे जातीत चलतालें.

म्हाका याद जातां, छायाची सोयरीक म्हाका येयिल्ली तेन्ना छाया सर्व्हिसेक नासलें.





तेन्ना बी. ए. शिकल्यार रोखडीच सर्व्हिस मेळटाली.

म्हाकाय रोखडीच मेळिल्ली.

बी. ए. पास जातकीर हांव पोलीस फौजदार परिक्षा पास फौजदार म्हूण पोलिशेंत गेलो.

हांव रजेर येयिल्लो तेन्ना छायाचे बापायक सुबेदार मेजर सुब्राय ाक कोणेंतरी म्हजे बद्दल सांगले. तोवूय तेन्ना रजेर येयिल्लो ो. मुजरत आपले धुवेचे लग्न जुवोळक म्हूणच!

तो फोटो, जातक बी घेवन सोमतोच आमगेर येयलो.

आमचो घराबोबी गडगंज! नावस्तीक! तांचे घराची सोयरीक ाक फावोशी!

हांव फौजदार म्हण्टकीर ताका चड मानवलो. तोवूय चडकरुन टरी ऑफिसर नातर, पोलीस ऑफिसर आपल्या धुवेपासत म्हूण सोदतालो. आनी आमचे जातीतल्यो धुवोय तेदवार असलेच पसंत करताली. घडये खेत्रीसमाजातल्यो धुवो जाल्ल्यान जावयें!

तो योयिल्लो तेन्ना हांव घराच आयलो.

लांब-रुंद गोरो, आंगापांगान मजबूत म्हाका पळोवन तो सामको च्च खुश जालो. तोंड फुटोवन म्हणूक लागलो, 'म्हजे धुवेक लोच घोव जाय!'

म्हाका येयिल्ली ही पयलीच सोयरीक! तीवूय बऱ्या घराब्यातल्यां ी! ती धूवय छाया! म्हजे कॉलेजीत शिकिल्ले! म्हज्यासारख्या ाट्यांचे काळजात एक सुवात जोडिल्ले!

म्हाकाय जायते फावटी दिसतालें, छाया म्हाका मेळिल्ले जाल्यार ले बरें जातां आशिल्लें !

सुब्राय नायक घरां येयिल्लो तेन्ना, आई आनी बाब घरां ली. शेतां गेल्ली. म्हजो बापूय सर्व्हिसेक नासलो. आयचो संसार लो. खुंबांशीं भातां जमानिचो! ते भायर नाल्लाची भाटां! हांव ां चड शिकलो आनी सर्व्हिसेक वचूक मागतां म्हूणच म्हाका र्व्हिसेक धाडलो. नातर, घरा रावल्यार कसलीच खोट नासली. नी तांतूत आवय-बापायचो एकलोच पूत. तोवूय चौग भयण्यां टल्यान!

घरच्या मानायां धाडून आई-बाबाक आपोवक धाडलो.

तोमेरेन नातवाक सोयरीक येयल्या म्हूण कळटकीर आपले ोतल्यान म्हजी जाण्टी आज्यी मुखार येवन बसली. तिका व्हडली खोस तिच्या मुखामळार ती खोंस स्पश्ट झळकतालीं.

आई-बाब येतां मेरेनं सुब्राय नायक म्हजेकडेन आनी आज्येकडेन उलयलो. ताचे उलोवण्यातल्यान म्हाका कळ्ळें, ताचे धुवेक हांव पसंत आसा. आपूण म्हाका वळखतां. हांव ताचे कॉलेजीत शिकतालोबी म्हूण ताणें बापायक सांगिल्लें. सुब्राय नायकान म्हाका स्पश्टच विचारलें, 'तुवें कॉलेजीत म्हजें धुवेक चयल्या, म्हण्टकीर तुका पसंत आसां मुरे? आतांच सांग! पसंत आसल्यार फुडल्यो गजाली करुयां!'

हांवेंय फुरसद चयना आसतना 'हंय' म्हूण सांगलें.

पुणून जेन्ना आई आनी बाबा शेतांतल्यान आयली, तेन्ना मात पुराय खोऽऽजाले.

बाबान सुब्राय नायकाची वासपुसबी केली. ताका पानक बी दिवूक लायले. आनी मागीर ल्हवूच म्हणले,

'सुब्राय बाब, आमी वाडेकार आनी तुमी हणकोणकार! वाडेकार-हणकोणकारांक सोयरीक ना!'

हाचेर सुब्राय नायक व्हडांव्हडान हांसलो. म्हणूक लागलो,

'म्हाबळूबाब, आतां आनी असल्यो गजाली मानप म्हूण आसां? आमी शिकिल्ल्यां लोकांनी तरी ती मानप न्ही, अशें म्हजे मत! हांव जाणां, आमचेमदी सोयरीक जायनात! पुणून तें सगळें घेवन ह्या जमान्यात बसूनये रे!'

आमचे समाजात कायं-कांय जणांमदी सोयरिको जायनात 'जाण्टेल्यांनी फाटल्यां पिळगेंक तशें सांगून दवरलां. ताचे मत, लग्न जालीच जाल्यार ती लग्नां नंदनात, टिकनात, एक तर बायल ना तर, घोव मरतां, नातर सोडचीत जातां, नातर भुरगीं जायनात. असले जायतें अणभव आयलें उपरांतच जाण्टेल्यांनी तें थारोवन दवरलां. म्हण्टकीर, लोक सोयरीक जुळोवक फुडें सरनात. तांकां फुडें सरची छातीच जायना! जाण्टेल्याच्या म्हणण्याभाशेन कितेंय चड-उणें माल्यार? एक भिरांत!

म्हजो बापूयबीन कसोच तयार जालो ना!

आज्जीतर म्हणूक लागली, 'पुता, जाण्टेल्यां म्हालगड्यांच्या उतरांभायर वचप समां न्ही! रीत-भात-रुढ-परंपरां मनशांनी पाळकच जाय! जाण्टेले पिशेंम्हूण तांणी हे सगळे आमका नेमून दिल्ले ना! तातूंत कितें तरी सत् आसां म्हूणच न्ही!'

म्हजी आईबी म्हणू लागली, 'कित्याक म्हूण जोखीम घेवया! ना-ना म्हूण जाल्लो म्हजो एकलोच पूत! धा ना पांच!'



आमचे घर मुळातच रीत-भात-रुढ-परंपरेक हिसपाभायर पाळो दिवपी. देव-धर्म, सोवळे-बोवळे जिस्ताजीस्त पाळपी. तांकां सुब्राय नायकाचो रुढीक खोटावपाचो विचार कसोच मानवलो ना.

सुब्राय नायका वांगडां हांवूय निर्शेलो

घरच्यांच्या मतांभायर वचून कितेंय करपाचो विचार सुदीक तकल्यात हाडप ना, ह्या संस्कारात वाडिल्लो हांवूय तोंडात फोव घालून ओग्गी रावलो. म्हण्टकीर आमची सोयरीक जावूं ना. तरीय त्या दिसां हांवें ल्हवूच आईकडेन म्हणिल्ले, 'आई, कित्याक म्हण हे इतलें घेवन बसप? आतां जमानो बदलूं! आपूण आपले सावळेक भिवन दीस काडूक जाय! नुस्त्याभाशेन बरें दिसता म्हूण पटकरुन गिळप न्ही!' आनी मागीर तिणें एक देखय दिल्ली.

कोणेंतरी खंय केली सोयरीक! केली म्हणचे परस जाली! हे दोगाय वाडेकार आनी हणकोणकार पोलिशेंत आसताले. पोलीस लायनीत शेजरां-शेजरां रावताले. एकट्याची धूव आनी एकट्याचो पूत दोगांचेय जुळलें. कशीच आयकूक तयार नात. मागीर करतलें कितें ? जावचे आशिल्ले जातां, म्हूण केलें लग्न! लग्न जाल्ल्या तीन दिसानंच खंय चली पिश्यार पडली. सुधारलीच नां!

हें आयकून हांवूय बैलाभाशेन तकली हालोवन ओगी रावलो.

उपरांत छाया म्हाका केन्नाच मेळ्ळेंना. ताचे लग्न खंय जालें, कोणाकडेन जालें, हाचीय चवकशी हांवें केन्ना करुक ना. आनी आयज कितल्यांशाच वर्सांनी छाया म्हाका मेळिल्ले.

हांवें ताका म्हणलें, 'तुजी सोयरीक म्हाका येयिल्ली, तेन्ना तूं सर्व्हिसेक नासलें!'

हाचेर ते पर्थून खळखळत हांसलें, 'ना, ना! हेमी म्हाका लग्नां नंतर लायले सर्व्हिसेक!'

'खंय उरतात तुमी?'

'मुंबय!'

'दिलां खंय तुका?' म्हाका ही व्हडली उमळशीक आसली.

'कठीणकोणां! दिगंबर कदंब म्हूण वळखतां तूं?'

'दिगंबर म्हूण कोणांक वळखनां, पुणून आमचेच लोक ते! आमच्याच देवाचे! वाडेकाराच ते!' हांवे म्हणलें.

'हय हय! वाडेकाराच!'

हांव चकासूर!

'...अगो पूण, वाडेकारां आनी हणकोणकारां सोयरीक जायना म्हूणच आमची सोयरीक जावंक नासली!'

तें पर्थून खळखळत हांसलें. म्हणूक लागलें, 'जाणां हांव! म्ह बापूय ते काय माननां आसलो. आनी हेमगेगेरच्यांकूय ते तस व्हडलेशे लागना आसलें. जातक सुदीक आमचे जुळटां काय ना पळयले ना! देवाकडेन प्रसाद लायलो, जालें!'

'भुरगीं कितली तुका?' हांवे मुजरत विचारलें.

'दोन पुत! व्हडलो एम्. बी. बी. एस दोतोर! आनी धाक कॅमिकल इंजिनियर! धाकटो जांबिया आसतां.' छायान व्हडां वोंडा सांगलें.

'तुजो घोव रिटायर जालो?'

'हय! तीन वर्सां जाली. आतां हांव रिटायर जातकीर तुजेंभा आमीय गांवां येवन रावतली.'

'हय गो! गांवांक विसरनेय मनशांन ! ज्या गांवात जल्म त्या गांवांतच आपली माती जावप हाचेसारखे भाग्य ना!'

'हां, म्हाका एक सांग,' ताणे अचकीत याद जाल्ल्या भा म्हाका विचारलें, 'तुजी बायल खंयची रे?'

'अवुर्सेची!'

'घराच आसां काय सर्व्हिस बी..?'

'घराच!'

'बरी आसां न्ही!'

'आसां! हांवें म्हणलें, तशी म्हजी बायल बरी आसना. संधीवा सामकी पिडलां. हें ताका कित्यांक सांगुया?

'आनी तुका भुरगी कितलीं रे?' ताणें निमणों प्रस्न केलो

'म्हाका भुरगी जावूं ना!' हांवें ल्हवूच म्हणलें. हें सांगतना म जीब मातशी जड जाल्ली.

ताका तें होलमले जावये, रोखडेच म्हणलें ताणें, 'सॉरी ह

'इट्स ओ. के!' अशें म्हणत हांव थंयच्यान कडसलो. ल्ह







Government of Goa

# STATE DIRECTORATE OF CRAFTSMAN TRAINING

Shram Shakti Bhavan, Patto Plaza, Panaji-403001, Goa. Phone : 2437060, 2437059.



## INDUSTRIAL TRAINING INSTITUTE

❖1st I.T.I. was started in 1966 ❖We have all together 11 Government and 4 Private I.T.I's

❖Altogether we offer 63 courses in all 11 Govt. I.T.I.'s, out of which 17 courses are available for school dropouts having minimum of 8th std. pass, four courses for 12th std pass 29 courses are for SSC passed outs and rest 13 are for BBBT passed outs.

### I COURSES UNDER CRAFTSMEN TRAINING SCHEME

| One year duration trade courses | | | Two year duration trade courses | | |
|---|---|---|---|---|---|
| Sr. No. | Trade | Entry Qual. | Sr. No. | Trade | Entry Qual. |
| 1. | COPA | 12th Std | 1. | Pharm. Assist. | 10th Std |
| 2. | DTPO | -do- | 2. | IT & ESM | -do- |
| 3. | Stenography | -do- | 3. | Fitter | -do- |
| 4. | Secret. Pract. | -do- | 4 | Turner | -do- |
| 5. | Hair & Skin Care | 10th Std. | 5. | Machinist | -do- |
| 6. | Craft Food Prod. | -do- | 6 | Electrician | -do- |
| 7. | Steward | -do- | 7. | Inst. Mechanic | -do- |
| 8. | Plastic Proc. Opr. | -do- | 8. | Ref.&AC Mech | -do- |
| 9. | Mech. Diesel | -do- | 9. | Electronics | -do- |
| 10. | Painter | -do- | 10. | D'Man (Mech) | -do- |
| 11 | Mech. Med. Elect. | -do- | 11. | D'Man (Civil) | -do- |
| 12. | Hospitality Management(Gen.) | -do- | 12. | Mech. Motor Vehicle | -do- |
| 13. | Welder (Gas& Electric) | 8th Std | 13. | Multi skill course in electrical & electronics | -do- |
| 14. | Mechanic Tractor | -do- | 14. | Wireman | 8th Std. |
| 15. | Plumber | -do- | | | |
| 16. | Cutting & Sewing | -do- | | | |
| 17. | Carpenter | -do- | | | |

### II SHORT TERM COURSES

| S. N. | Trade | Entry Qual. | Duration |
|---|---|---|---|
| 1. | Mech. repair & Maint. of heavy vehicle | 10th Std | 1 year |
| 2. | Data Entry Operator | 10th Std. | 6 months |
| 3. | Mech. repair & Maint. of light vehicle | 10th Std | 1 year |
| 4. | Construction supervisor | 10th Std | 1 ½ year |
| 5 | Scooter Repair | VIIIth Std | 2 months |
| 6. | Mech. Repair & Maint. of two Wheeler | VIIIth Std | 6 months |
| 7. | Basic Automobile Serv. of 2 & 3 Wheeler | Vth Std | 180 hrs |
| 8 | General Tradesman (Mechanical) | Vth Std | 180 hrs |
| 9 | Driver cum Mechanic (LMV) | VIIIth Std. | 6 months |
| 10 | Comp. Aided Embroidery & needle worker | VIIIth Std | 6 months |
| 11 | Welder Electric | VIIth Std | 8 weeks |
| 12 | AutoCAD Basic | VIIIth Std | 3 Weeks |
| 13 | Hospitality Secretarial Services | 10th Std | 1 year |
| 14 | Vegetable Carving | VIIIth Std | 15 days |
| 15 | Food Production (Veg. & Non Veg.) | VIIIth Std | 2 months |
| 16 | Food & Beverage Service | VIIIth Std | 6 months |

### III COURSES UNDER CENTRE OF EXCELLENCE SCHEME

| S. N. | Trade | Entry Qual. | Duration |
|---|---|---|---|
| 1 | Information Technology (BBBT) | 10th Std. | 1 year |
| 2. | IT Advanced modules (Hardware & Maintenance) | 10th Std. with IT(BBBT) | 6 months |
| 3. | IT Advanced modules (Web Designing) | 10th Std. with IT(BBBT) | 6 months |
| 4. | IT Advanced modules (Networking) | 10th Std. with IT(BBBT) | 6 months |
| 5. | In-plant Specialized training in IT (Hardware & Maintenance) | 10th Std with Adv. IT | 6 months |
| 6. | In-plant Specialized training in IT (Web Designing) | 10th Std. with Adv. IT | 6 months |
| 7. | In-plant Specialized training in IT (Networking) | 10th Std. with Adv. IT | 6 months |
| 8 | Production & Manufacturing (BBBT) | 10th Std. | 1 year |
| 9. | Hospitality Management (BBBT) | 10th Std. | 1 year |
| 10. | H M Advanced Modules (Food Production) | 10thStd. with HM(BBBT) | 6 months |
| 11 | HM Advanced Modules (Front office Management) | 10thStd. with HM(BBBT) | 6 months |
| 12. | HM Advanced Modules (Food & Beverage Service) | 10thStd. with HM(BBBT) | 6 months |
| 13. | HM Advanced Modules (House keeping) | 10thStd with HM(BBBT) | 6 months |
| 14 | In-plant specialized training in HM (Food Production) | 10th Std. with Adv H M | 6 months |
| 15 | In-plant specialized training in HM (Food Office Management) | 10th Std. with Adv H M | 6 months |
| 16 | In-plant specialized training in HM (Food& Beverage Service) | 10th Std with Adv H M | 6 months |
| 17 | In-plant specialized training in HM (House Keeping) | 10th Std with Adv H.M | 6 months |

### APPRENTICESHIP TRAINING SCHEME

The Department operates Apprenticeship Training Programme. There are 1309 seats available for training under this programme. The major industries covered under this programme are hotels. There are altogether 861 industries covered under this programme. The apprentices draw stipend depending upon the year of training. The minimum stipend payable is Rs.1090/- p.m. .Government of India (NCVT) conducts the final examinations.

### T.C.P. CENTRES

Our training-Cum-Production centers produces attractive carved furniture items, Coir Door mats, Pottery items, Bamboo Items, Textile Materials, Etc.

### OTHER INFORMATIONS

- Seating Capacity 3532 seats • Annual intake capacity for admissions Govt. I.T.I.'s is 2368 & Pvt. ITI - 200
- Training Session begins on 1st August • Admission takes place in the month of June/July.
- Average 1400 trainees pass out every year in both NCVT and SCVT final examinations.
- No Tuition Fees and Caution Money Deposit for ST/SC/BPL and all other candidates whose parental annual income is less than 24,000/-
- Merit scholarship of Rs.125/- are offered to three trainees per unit of 16 trainees based on internal examination
- BPL scholarship @ of Rs 250/- per month is given to ST/SC/BPL and all other candidate whose parental annual income is less than 24,000/-
- Annual final trade test is held in July, every Year • Total output since 1966 is about 33,500 trainees.
- Placement assistance is given by the State Directorate of Craftsman Training for the successful I.T.I. trainees by organizing placement fair.

# माती



खुबूच मस्त्या लोकांचो एक गांव आसलो. कोण कोणांक भियेनासलो. वचत तो आपूण व्हडलो म्हणून कोण तरी कोणांचो घात घेतालो. अशे तरेन वर्साक कितलेच मनीस ह्या गावांतल्यान मरुन वताले. पुलीस लेगीत त्या गांवांत येवंक भिताले. आमोरी जाले उपरान्त गांवचो लोक भायर सरुंक थरथरतालो. चेडवां, बायलां दिसा उजवाडांत लेगीत मळार भोवूंक फाटीं सरतालीं. जुवान चेडवांक तर आवय-बापूय काळोख जातच कैदेंत दवरिल्ल्या सारकें करताले. तांकां कसलेंच मेकळेपण नासलें. रांड-बायल जर सुंदर आसली जाल्यार तिणें लेगीत आपलो आब्रू सांबाळपाक खटपट करची पडटाली. ल्हान भुरगीं रातचीं रडल्यार त्या घराचेर आकांत येतालो. हाची कोणाक अडचण जावंक शकताली ताचो नेम नासलो. फेस्ता-परबो लिपचोरयां समरंभताले.

ह्या लोकांचो सभाव पळोवन चाऱ्याक लेगीत लज दिसताली. वारें येतालें ते सूऽऽ-सूऽऽ आवाज करीत पावसाक ताचे संगीत



सी क्वाद्रूश



वाजोवंक केन्ना मेळ्ळेंच ना. तो येता तेन्ना सदांच रागान बडबड करुन वतालो. अशे भिरांकूळ वस्तेंत लोक कशे दिस काडटाले ते तेच जाणा आसले. ह्या खातीर सगल्यांक वळखुपी सरपंचाकूच कायदो आनी नीत करुंक अधिकार दिल्लो. जायते फावट हाचो सरपंचाकूय त्रास जातालो. म्हणून गांवच्या लोकांनी एक थाराव घेतिल्लो 'जो कोण सरपंचाचेर हात करीत ताका कोणेंय जिवेशीं मारल्यार लेगीत ताचेर खुनाचो आरोप येवंचोना.' ह्या थारावाक लागून सरपंच सुरक्षीत आसलो. एक फावट कोण एकल्यान आपल्या एका किजिलाक लागून सरपंचाचेर घुरी घातली तेन्ना कांय तरनाट्यांनी ताका जिवोच मारुन उडयलो. ही भिरांत सगल्यांच्या काळजांत घर करुन आसली. म्हण्टात ह्या गांवची माती एका काळार बरीच पवित्र आसली आनी लोकूय पवित्र आसले. पूण एक दीस फिरंगी हे भुंयेर आयले आनी सगल्यांचो दुस्वास करीत स्थानीक लोकां मदीं मस्तेपणां आनी अहंकार रिगोवन गेले.

तेच कुळयेंतलो शोकातो नांवाचो एक शक्तीवान मनीस त्या गांवांत रावतालो. तो सामको देव-भावार्थान चलतालो. गांवात जे चलता ते ताका खपनासलें. देखून एक दीस ताणें देवाक यज्ञ भेटयलो आनी मागणें केलें. मागण्याचो सूर असो आसलो...

'देवा हांव तुजो निश्टावान भक्त. तुज्यो सगळयो आज्ञा हांव पाळटां. ह्या गांवात कितें चलतां तें म्हाका बिलकूल आवडना. परत एक फावट ही माती हांव पवित्र करुंक सोदता. तेन्ना ह्या गांवचेर राज्य करपाक म्हाका एक संद दी.'

'सांबळूंक जातलें तुजेकडेन ह्या मस्त्या मनशांक?' देवान ताचेकडेन संवाद सादपाक सुरवात केली.

'त्याच खातीर तुजो आदार मागतां.'

'ते दुश्ट मनीस तुजो नाश करतले.'

'तुंवेच म्हजी राखण करची पडटली. हांव तुजो भक्त. हे मातयेची हांवे सेवा केल्या म्हजे भक्तेंत तुजो श्रृंगार उरूंक जाय.'

'तशें जाल्यार कांय अटी मानच्यो पडटल्यो.'

'कोण त्यो?'

'म्हजो श्रृंगार तुजे मातयेतली धुल्ल जावंक जायना.'

'ताची हांव काळजी घेतलों.'

'तुज्या हातांतल्यान एका निरपराध्याचो खून करचो ना दुखी मनशाची तूं विठंबना करचो ना आनी लाचार मनशाचो फा[...] घेवचो ना.'

'म्हाका मान्य आसा.'

'तूं कसलेंच वांकडें पावल मारचे पयलीं म्हजो उगडास करत[...]'

'हय देवा.'

'ह्या मस्त्या लोकांक नवसरुन ह्या गांवची माती सुपीक करत[...]'

'तूं सांगता तशें जातलें.'

'म्हजेप्रती तुजी श्रृद्धा पळोवन हांव प्रसन्न जालां. देखून गांवचो कोणच तुका जिवेशीं मारचोना असो वर दितां. पूण...'

'पूण कितें देवा?'

'मनीस म्हळयार धुल्ल आनी माती. तुजेर जाचो अपरि[...] मोग आसा, ताचेकडेन तू केन्नाच लडाय करचो ना.'

'ताची हांव जतनाय घेतलों.'

'तेच जतनायेन हे मातयेचो सपूत घे आनी मुखार वच.'

'देवाचो वर आयकून शोकातो खुशाल जालो. ताणें दे[...] अभिशेक केलो आनी आपलीं चिंतनां फळादीक करुंक मा[...] करुंक लागलो. देवाच्या आशिर्वादाप्रमाणे ताणें पयलें धाडशी प[...] मारलें. त्या गांवात सगल्यांपरस चड मस्ती करपी थोरिनोच्या [...] गेलो आनी ताका सागलें.

'फाल्यांच्यान तुजी मस्ती बंद तुजेकडल्यान त्रास जाल्यात [...] कोणाचीच कागाळ येवंक जायना. ह्या गांवांत हे मुखार रांती [...] जाय.'

'तूं कोण म्हाका सांगपी?'

'हांव कोण ते जाणा जावपाची गरज ना. फाल्यां तुजे [...] कागाळ आयल्यार हांव तुजो नाश करतलो.'

'इतली पदवी कोणे दिली तुका?'

'हे मातयेन.'

'हांवूय हेच मातयेंत जल्मला.'

'म्हजेकडेन देवाचो शब्द आसा. देखून तुजो जीव शाबूत [...] जाय जाल्यार सागलां तसो वाग.'

हे तरेन कितलोच वेळ तांचेमदीं वाद जालो. थोरिनो [...] भरलो. आतां अंतरांबदला शक्त कामाक लागली. दोघांमदीं [...]





जालें. आपले कुडिची शक्ती पावना हें होलमतांच थोरिनोन ाद काडली. शोकातोन आपली तयारी दवरली. थोरिनोन ादिचो वार करतांच शोकातोभिंतर एक वेगळेच शक्तीन प्रवेश आनी ताची तरसाद मोडून उडयली.

'फाल्यांच्यान तूं हे मातयेची सेवा करतलो. तुजेबरोबरचेय बरोबर शेतांत कामाक देंवतले. तुमची मजुरी हांव फारीक करतलो. ी गाडी तुमकां व्हरपाक येतली.'

नांव आयकतांच कांपेरो हाडपी थोरीनोक दुसऱ्या दिसाक ांत काम करतना पळोवन लोकांक बरेंच अजाप जालें. ही खबर य गांवभर पसरली.

'कोण हो इतलो अखंड मनीस जाणें थोरिनोक शेताच्या कामाक यलो?' थोरिनो शेताचे मातयेर पांय दवरुन नकळो आसलो.'

गांवचे व्हडले व्हडले 'दादा' म्हणपी मनशांक शोकातोक मेळूंक पाची इत्सा तयार जाली. अशी कसली शक्त शोकाताकडेन आसा जाणून घेवपाची थोड्यांक उमळशीक लागली. कालमेरेन फक्त चें नांव आसलें पूण आज एक आक्रमक शक्त जावन तो मुखार यिल्लो. थोड्यांक हें अजाप कशें दिसलें जाल्यार थोड्यांक ताचो स्वास जालो.

दुस्वास जाल्ल्या मनशांनी शोकातोक कुशीन काडपाक येवजण ंडली. सरपंचाकय आपलें कदेल हालतना दिसपाक लागलें. देखून य शोकातोच्या दुस्मानांक मेळ्ळो. वचत थंय शोकातो आपलो क दाखोवंक लागलो. कोणाच्यान ताचें कांयच वायट करुंक जालेंना. अक्क्या गांवचेर वर्चस्व दाखोवन मस्त्या लोकांक थंड करीत लो. आक्रमण करप्यांक कावार करीत देवान सांगिल्ल्या प्रमाण लत रावलो.

सवका सवका मस्तो गांव शांत दिसपाक लागलो. चेडवां-ायलां मळार भोंवतना दिसपाक लागलीं. जुवान चेडवां आपल्या ांगणांत बिनदास्त खेळतना दिसपाक लागली. ल्हान भुरगीं तोंड ोडून रडपाक लागली. चाऱ्याचे श्रृंगार गांवचेर आपलो छाप सोडलो. ो सगळो वेव्हार पळोवन सगल्या गांवच्या लोकांनी एकठांय येवन क बसका घेतली. ते बसकेंत शोकातोच्या वावराचेर नियाळ जालो आनी ताकाच सरपंच करुन गांवची चावी ताच्या हातांत दिवपाचें थारायलें. शोकातोय खुशाल जालो. सरपंचाच्या कदेलार बसून शोकातो बरें निर्णय घेवंक लागलो.

त्याच गांवांत एक सुंदर अप्सारा कशी चली रावताली. ती जस्मीन, एका शेतकराची धुव आसली. आपल्या बापायबरोबर ती शेतांत वताली आनी बापायक आदार करताली. तिका आपले मातयेचो खुब मोग आसलो. शोकातोन गांवची नवसरणी करीत थावन तें आगळेंच खुशाल आसलें. आपल्या मनांत आनी काळजांत भिरांतीन वावरपासून ताका सुटका मेळिल्ली. दुसरें म्हळ्यार तें गुप्तीं शोकातोचो भाव रानसेनाचो मोग करतालें. ताचो मोग रानसेना फुड्यांत उक्तो जावंक नासलो पूण तो ताका वळखतालो.

एक दिस शेतांतले मातयेच्यो चिकलान भरिल्लें जास्मीन आपल्या घरा परततना ताका रानसेन दिश्टी पडलो.

'रानसेन!' ताणीं मारिल्लो उलो आयकून हे वटेन ते वटेन पळयतूच उरलो. तेन्ना जास्मीन ताचे फुड्यांत गेलें.

'रानसेन, तूं म्हाका खूब आवडटा.'

'हांव सरपंचाचो भाव म्हण?'

'तुजी आंगलट, तुजो चेरो, तुजी चाल-पालन...'

'पुरो पुरो आनीक गूण गायनाका.'

'मागीर तयार आसा मरे म्हाका आपली सांगातीन करपाक.'

'हां!...'

'म्हाका तुजेकडेन लग्न जावपाची खुब उमेद आसा. आमी तुमचे इतलीं गिरेस्त न्हय म्हण तुजो भाव म्हाका मानून घेवंचो ना जायत म्हण भियेता.'

'पूण हांव तुजेकडेन लग्न जावंक आसा म्हण तुका कोणें सांगलें?

'हीं म्हजी भुरग्यापणावेली इत्सा. तुवेंय म्हाका तशें उतर दिल्लें म्हाका सारकी याद आसा. तुवें घेतिल्लो म्हजो उमो म्हाका कातकुतल्यो करता. आता तुमी व्हड मनीस जाल्यात न्हय?'

'ओह! तर तें तू, आता येदें व्हडलें जालां? पूण तुका दिसता असल्या चिकलान भरिल्ल्या चेडवाकडेन हांव लग्न जातलो म्हण?'

'सुंदरताय अशी पारखीनांत रानसेन.'

'मागीर कशी पारखीतात?'

'तूं थोड्या वेळाखातीर आमगेर यो. हांव तूका सुंदरताय पारखूक शिकयता.'

रानसेन ताचेबरोबर चलत ताच्या घरा गेलो. घराकडेन



जस्मीनाचो बापूय ताचीच वाट पळयत आसलो. तो रानसेनाक पळोवन अजाप जालो. पूण जस्मीनान ताका समजायलो आनी आपूण नितळ जावंक भितर गेलें. ते म्हळयार जस्मीनाचे आवयन रानसेनाक च्या-फराळ हाडून दिलो. जास्मीन येता म्हळयार रानसेनान वाटेर घडिल्ली सगळी गजाल सांगली.

जास्मीन न्हावन-धुवन भायर आयलें. रानसेन ताका पळयतूच उरलो.

'इतली स्वरुपाय! इतली सुंदरताय! जास्मीन, तूं तर सर्गांतली अप्सरा दिसता.'

'देखून तुका हांवे सांगिल्ले सुंदरताय निकट्या दोळयांनी पळोवन पारखीनांत म्हण.'

'हांव चुकलों जास्मीन, तुका हांव खरेंच सांगता. तूं म्हजे कडेन लग्न जाल्यार हांव म्हजें भाग्य समजतलों. हावं तुका फाल्यांच म्हज्या भावा फुडयांत व्हरुन आमच्या लग्नाची परवानगी घेतां.'

'पूण बाबा, आमचो आनी तुमचो ताळ-मेळ जातलो मरे? ना जाल्यार वोगीच म्हजे धुवेक व्हरुन....'

'हांव एक फावट मनार घेतल्यार केन्नाच फाटीं सरना. आता जास्मीनाक आपणावपाचो हांवे निर्णय घेतला. हाचेर म्हजो भाव केन्नाच आड येवंचोना.'

'देवान तुज्या चिंतनांचेर बेसांव घातल्यार पुरो.'

खुशाल मनान दुसऱ्या दिसाक रानसेन जास्मीनाक घेवन शोकातोफुड्यांत गेलो. जास्मीनाक पळोवन शोकातो पिसो कसो जालो. इतलें सुंदर फूल आमच्या गांवांत आसून केन्नाच कशें दिसले ना हाची ताका खंत जाली. आनी रानसेनान जास्मीनाबाबतींत कितेंच सांगचे पयलीं जास्मीनाचो हात आपल्या हातांत घेयत ताचो उमो घेतलो.

'रानसेन, तूं म्हजेखातीर इतली सुंदर आनी देखणी चली सोदून हाडटलो म्हूण हांवे केन्नाच चिंतूंक ना.'

'पूण म्हज्या भावा....'

'पूण-बीण कांयच ना. पयलेच नदरेंत ती म्हाका मानवली. चल ह्याच वेळार थावन आमच्या लग्नाचे तयारेक लाग.'

'ही चली तुजेखातीर न्हय पूण म्हजेखातीर हांवे सोदून हाडल्या.'

'तुजेखातीर इतली सुंदर चली तुका सोबता? हांव ह्या गांवचो सरपंच, गांवचो पयलो मनीस. आनी ताचेखातीर इतली सुंदर च[...] तूं ना म्हण्टा? घडये ह्याच खातीर हांव इतलीं वर्सां लग्न जायनासतन[...] राविल्लों. रानसेन, हांव तूका आनीक चली सोदून हाडटलों. [...] म्हाका जाय.'

'चली म्हळयार खेळणें न्हय सरपंचबाब. आमी गरीब, हे मातये[...] सेवा करुन पोट भरतात. तूं आमचो वडील म्हण आमी तूका मा[...] दितात. पूण हाचो अर्थ असो न्हय की तुका जाय तें मेळटलें.'

'पूण जास्मीन...'

'हि मातयेचो सोपूत घेवन सांगतां, हांव फक्त रानसेनाकडे[...] लग्न जातलें.'

''इतलो हट्ट धरुंनका जास्मीन. हांव तुका सुखाच्या पाळण्यां[...] धोलयतलों. सगळीं सुखां तुज्या पायांकडेन घालतलो.''

''ताचे मानकरी दुसरें कोण तरी आसतलें. हांव न्हय.''

''रानसेन, समजाय न्हय ताका.''

''प्रत्येक वस्तूक किंमत आसता म्हज्या भावा.''

''म्हजे पदवेमुखार खंयचेय वस्तुची किंमत शुन्य आसा.''

''मागीर शुन्याखातीर कित्याक किजील निर्माण करता.''

''जास्मीनाची हांव किमत करिना.''

'जाल्यार ताच्या भावनांकडेन खेळटा? आमची दोघांचीय खु[...] जाल्या लग्न जावपाची. देखून आमी तुजो आशिर्वाद घेवंक आयल्यां[...] तूं म्हजो वडील म्हण आनी गांवचो सरपंच म्हण. आमकां आशिर्वा[...] दिवपाबदला तूं पुजेचें सामानूच मागता'

'म्हज्यान म्हजो अधिकार वापरुंक जाता.'

'एक अस्तुरेच्या भावनांक आश्रय दिवपाबदला जर तूं आपल[...] अधिकार वापरुन, आपली पदवी वापरुन तिच्या खुशयेचो ना[...] करुंक सोदता, जाल्यार हेच मातयेचो सोपूत, म्हाकाय देवान ए[...] अधिकार दिल्लो आसा, एक पदवी दिल्ली आसा.'

'तू म्हाका आव्हान दिता रानसेन?'

'हि मातयेन जायते मस्ते मनीस जल्माक घातले. आनी तु[...] वरवीं ह्या सगल्या मस्त्या मनशांक काबार केले. जाल्यार तुका दिसता[...] हे मातयेचेर परत मस्तो मनीस किल्ललो जाल्यार तो साल्वार जातल[...] म्हण?'

'म्हजो फुडार हांवे म्हज्या हातांनी बरयला.'





'त्याच हातांनी तूं तो पुसतलो.'

'रानसेन!'

'चल जास्मीन आमी आमचो फुडार थारावया.'

'इतली मस्ती भरली तुज्यांत? तुज्या भावाची तूं पर्वा करिना? वच्या सरपंचाची तूं पर्वा करिना? रानसेन, तुका ह्याच वेळार ज्यान ना करुंक जाता.'

'सगळयो गजाली तूं चिंतता तितल्यो सोप्यो आसनांत. तुजी वी म्हाका खबर आसा आनी आता म्हाका दिसता तुजो घडो ला म्हण.'

आपल्याच भावाकडेन झगडें नाका म्हण रानसेन जास्मीनाक वन वचपाक लागलो. शोकातोन तांचो रास्तो आडयलो आनीक ास्मीनाक आपलेवटेन ओडलें. जास्मीनान प्रतिकार केलो. रानसेन दीं धांवलो. शोकातोन ताचेर हात उखल्लो. मागीर तांचे मंदी डाय सुरु जाली. त्याच वेळार थंय देव प्रगट जालो. देवान रानसेनाच्या हातांत एक शस्त्र म्हूण मूठभर माती दिली.

'शोकातो तुका हांवे सांगिल्लें तुजेर जाचो अप्रिमीत मोग आसा ताचेकडेन तूं केन्नाच लडाय करचो ना म्हण. तुजेखातीर मरुंक तयार आशिल्ल्या भावाकडेनच तूं लडाय करता? एक चलयेक न्याय दिवपाबदला तूंच तिचो अपमान करता ? ह्या पयलींय तुका हांवे चेतावणी दिल्ली. तूं आपल्या खाजगी सुखांखातीर मनीसधर्म विसरलो. देखून तूका ख्यास्त फावता. रानसेन ह्या शस्त्राचो ताचेर वार कर आनी ह्या गांवच्या मुखेलपणाची सुत्रां तूं तुज्या हातात घे.'

रागाच्या भारांत अशिलल्या रानसेनान शोकातोचेर ती माती शेवटिली. आनी खऱ्यानीच शोकातो भस्म जालो. देवान रानसेन आनी जास्मीनाक आशिर्वाद दिलो.

•

# पिंपळावांठार



'व र पिंपळाचें बॉटेनिकल नांव फायकस रिलिजि ओसा.' हाका भारतात धार्मिक रुख मानतात. हाची पानां पळयात बारिक जाळीं जावंन उरता पानांची रचना पळयत वारें व्हांवता तेन्ना एक सळसळ तयार जाता." बॉटनिच्या प्रॅक्टीकलात, टिचर पिंपळाचेर म्हायती दिताली.

'हाची फुलां, बियां कशी आसतात?" नितिनान प्रस्न केलो.

'फळांत बियां आसतात. पास्की, सवणीं फळां खातात फळांत आशिल्ल्या बीयांतल्यान नवी झाडां तयार जाता. पिंपळा झाड खयूंय जाता. ताचें मुळ टॅप पध्दतीचें आसता. तें जमनीत घट्ट आसता. पिंपळ हुमटोवन उडयल्यार लेगित परतून मुळ धरता." उपरांत नितीन हेर भुरग्यां वांगडा प्रॅक्टीकल करपात उरलो. बापायन सांगिल्ल्यो काणयो ताका याद जावपाक लागल्यो. ताचे आदले घर पिपंळा वाठआरांत आशिल्लें. ते पळोवपाची ताका इत्सा जावपाक लागली.





मधुसूदन जोशी



'हांव देवा झाड.' सांजवात करपाक गेल्ल्या रतनबायक कोणाचो तरी आवाज आयकूक आयलो. वात देवाघुमटेत दवरुन तिणे भायर पळयलें. तीनसांज जायत आयिल्ली. अस्तंतीक नखेंत्र लखलखतालें. पिंपळाक प्रदक्षिणां घालून तीणें देवाक नमस्कार केलो. त्या व्हड रुखाचो खांदो तिच्या घरावटेन गेल्लो पुराय घराचेर छत्र धरिल्ल्या भाशेन तो पातळिल्लो. 'हांव देवा झाड' परतून तिका भास जालो. ती बेगोबेग पाराची सोपणी देवली. घराचेर पातळळील्या खांद्याचो तिका भंय दिसतालो. पावस-वारो केन्ना घात करीत काय? विचार परतून मनात आयले आनी ती कांचवली. देवाचें झाड हात कसो लावप? खांदी तरी तोडू येत ? जड पावलांनी ती घरात परतली. पिंपळार बशिल्ल्या सवण्याचो कलकल उणो जायत गेलो. घरांत रिगपी काळखाक दिवली, लापयाव फाटी सारपाक लागली. पुण घरभर मंद उजवाडाचेर जैत जोडून गुपाट काळोख भरुन रावलो. रात्रीतली लाकडां भगभगताली. चुलीवयलें आदण सळसळपाक लागलें. त्या इल्ल्याशा उजवाडांत रतनबाय रानपाक लागली. राती अचकित गडगडमारुन पावस सुरु जातो कानठाळयो बसपी आवाजान रतनबायक जाग आयली. विजेचो लखलखाट भोंवतणचो वाठार परजळायतालो. वादळ-वाऱ्यान हालपी झाडां-पेडांचा आवाजान रतन बायच्या काळजाचे ठोके वाडयले. ती तशीच हातरुणार पडून रावली. कडऽकड' आवाज करीत खंयचो तरी रुख आडवो जालो. रतनबाय उठली जनलातल्यान तिणें भायर पळयले. पिंपळा कुशीचो आंबो आडवो जाल्लो. पिंपळा मुळांत ताचो शेंणो पाविल्लो नमस्कार करपाक आडव्या जाल्या मनशाभाशेन तो रुख पिंपळाक नमस्कार करता अशें तिका दिसले. पावसान भिजिल्लो पिंपळ तिका विजेच्या लख लखांत भिरांकुळ दिसपाक लागलो. देवाचे नांव घेत ती हातरुणार लवंडली पावसाचे थिबकपी उदकाचो आवाज हळूहळू उणो जालो. रतनबायन कुस परतली. खुबळील्लो सैम थंडावलो तशे तिचे दोळे परतून जड जाले. खांदो मारुया काय घर दुसरीकडे काडूया. तिचे मनात खोलाये दड मारिल्ले द्वैत परतून वयर आयलें. निमाणे न्हिदेन विचारांक हारायलें. रतनबायक न्हीद लागली. सकाळ जाली. रतनबायक सवण्यांनी जागयली. फाटले दार उगडून ती मागील दारा आयली. राती आडवे जाल्लें आम्या झाड तिका दिश्टी पडलें. वाऱ्या वांगडा उबून आयिल्ली कचरां-पानां पडवेतल्या सोफ्यार पातळील्ली. तुमून उरिल्ल्या उदकान फाटल्या दारांतले पोरसूं फुगिल्ले. भायर येवन तिजे आंब्याचे पान तोडलें. मदलो देंठ काडून पान दोडले आनि ती दांतवज करपाक लागली. एक हात कमरार दुसऱ्यान दांत घासत तिणे वयर पळयले पिंपळाचे एक पान लेगित हालं नाशिल्ले. सकाळच्या पारार ताची पानां तिकतिकताली एक गुढ रुपडें घेवन पिंपळ आपल्याक पळयता अशें तिका दिसलें रतनबाय कोनशाक थुकली हांड्यातले उदक काडून तीणें चुळ भरली थंड उदकान तोंड धुलें पदरान तोंड पुसले. आनि ती घरात परतली.

चुलितलो गोबर कुशीक काडून तीणें नाल्ला किस चुलीत घाली. इंगळयाचेर फुक मारुन ती उजो पेटोवपाक लागली. धुमसत धुमसत किशीनी पेट घेतलो. त्या जाळार तिणे सोडण्णां चडयली आनि शेणी कुडके घाले धाकली लाकडां चुलीत सारुन ती लाकडां पेटपाची वाट पळोवपाक लागली. चुलीतलो धुंवर नळयातल्यान वाट काडून घरारयर पाळलो धुंवर पिंपळा पानांत रिगलो पानां मातशीं हालली. फानयेरे बशिल्लो कावळो कांव काव करित उडून गेलो. ताचो कान किनाटपी आवाज रतनबायच्या कानार पडलो. आयज बाबलीक सांगपाकूच जाय. पिंपळा खांदयेचे कितें तरी करुंक जाय. तोच विचार सकाळां परतून रतन बायक आफुडलो.

'हे' घर मांगर आशिल्लो. आजे मावान भांगाराचे घर केले. रतन बायन आयकिल्ली खबर मांगरा मुखार पिंपळाचा सान रुख आशिल्लो. मांगरामुखार सोबत आशिल्लो. पुण घरा मुखार पिंपळ सोबता? आजेमावन प्रसाद पाकळी करुन तो पिपंळ कुशीन रोयलो. घरापासून पैस लायिल्लो पिंपळ घरावाटेन फांद्यो वाडोवन वाडटालो. ताच्या फांदयाचोच रतनबायक भंय दिसतालो. फांदी केन्ना तरी घात करतली येतलो वतलो सुचयतालो पुण देवाचें झाड हात कोण लायतलो ? मारप कुशीन उरले. सकाळची कामां सोपोवन रतनबाय बाजारात आयली. सामानाची यादी तिणे कामतील्या दुकानात दिली. देवळांत वचून देवाक पांया पडता अशे सागून ती दुकानातल्यान भायर सरली.

सातेरीच्या देवळांत गुरव देवीची पुजा करतालो. रतनबायन देवीक हात जोडले. प्रदक्षिणा घाल्यो. ओणव्यान नमस्कार केलो खांबक तेकून गुरवाची पुजा जायसर ती बसून रावली. रतनबायक भायर बशिल्ली गुरवान पळयल्ली. रतनबाय पिंपळा खांदयेचे विचारतली हे तांका दिशिल्ले फुलांचे हिराळे घेवन तो गर्भकुडी भायर आयलो ताणे रतनबायक पळयलें, कामाचे किते ? हो प्रस्न ताणें नदरेन हेरलो.

'वाडीक एका मैराक विचारला.' ताणे हय म्हणत तर तुजे काम जातलें." गुरवान स्पश्ट पणान म्हळें.





"आसा तसो कोण?"

'असा... अब्दुल म्हण आसा. असली झाडां तो कापता. तो करता आनि रस्त्यावयली झाडां कापता तो.'

'तुमी बोलल्यात त्याच्याकडे"?

'प्रत्यक्ष मेळांक नाय. पण त्याच्या घराकडे निरोप ठेवन ायलय. देव-संबदाची झाडां कापता तुमची फांदी कापाक काय ाका?

'तसां न्हय पण देवाचां झाड'

'ह्या बगा देवीची प्रसाद-पाकळी घेवन आमी पुडे सरलोसत ाय. देवआन पश्ट शब्द दिला.'

'तरी मन चलबिचल जाता.' रतन बायन ओंठ पदरा ोतान पुसले.

'शेवटी माणसां कोणाची देवाचीच मां' गुरवान तिका धीर देत म्हळें.

रतनबाय जमनीक हात टेकयत उठली देवी मुखार रावन तेणे हात जोडले. दोनूय पोल्यार मारुन घेतलें. गुरवा फाटोफाट ती ेवळांतल्यान भायर सरली.

बाजारात कामतील्या दुकानाकडे ती रावली. 'नमस्कार' ुरवाक कोणे तरी नमस्कार केलो

'नमस्कार. शाब्बास ह्या बगे. होय तो अब्दुल देवीच्या समोर तुजा नाव काडलय आनि हो हजर.' अब्दुल हिच्या वांगडा जा. हिच्याच घराकडलो पिंपळ तोडूचो आसा.

'पिंपळ न्हय! पिंपळा खांदो' रतनबायन बेगोबेग म्हळें.

'तांच गे. जालामां तुजा काम. ह्याका घेवन जा आनि दाखय खंयची खांदी ती.'

पिंपळा खांदो तोडपाचो दिस थारलो. भटान सांगिल्याप्रमाण पिंपळा खांदो तोडसर रतन बायन उदकाची संतत धार धरिल्ली. सोवळें न्हेशिल्लो भट कळशेंतल्यान उदक पिंपळामुखार ओततालो. ताका कळश्यांनी भरुन उदक दिवपाक चार कामेरी रतनबायन आपयली. सकालां पिंपळा खांदो मारपाक सुरवात जाल्ली ल्हान ल्हान फांद्यो मारुन आता आडवे खोड उरिल्ले. दनपारां मानांयांनी विसव घेतलो. अब्दुला दनपारचो नमाज अदा केलो सांजे परतून खांदो मारपाक सुरवात जाली. ल्हान ल्हान धडे कापत तो व्हडलो खांदो निमाणो कापलो. रतनबायच्या घरात आयज भरपुर उजवाड पडलो. भायल्यान मात घर बोडके छत्र सांडिल्ले वरी दिसपाक लागले. सांजे तुपा दिवो घेवन रतन बाय पिंपळा म्हऱ्यात आयली. कितल्या वर्साचे काम आयज जाल्यान तिका खंय तरी खोस भोगताली. खंय तरी मनात देवा झाडाक दुखयल्याची खंत. तिणें दोळे धापले. हात नमस्काराक जोडले.

'हांव अस्वस्थ. देवा झाड.' कोणाचो तरी तिका आवाज आयलो. दोळे उक्तें करपाचे धाडस तिका जालें ना. ती आयकत रावली.

'हांव अस्वस्थ. तसो अश्वस्थामा तुमका खबर आसा. चिरंजीव. अतृप्त तृष्णेन जीण जगता. ताका केन्नांच मरण ना. तो सगळयाक आसता. खंयूय जाता. म्हजी तिच गत. हाव खंयूय जाता म्हजी खांदी मारली ? हांव बांयच्या देगेक वाडटा पळयला तुवेन देवा कुडी फाटल्यान ल्हान पिंपळा झाड रुजलां पळोवना तुवेन. हो वाठार म्हजो. हांगा हांव वाडटलो. मांगराचे घर करपाक तुमी म्हाका हांगा रोयलो म्हजी जागा तुमी घेतली म्हांका थंयच्यान तुमच्यांनी ना करु येता.' रतनबायक घुंवळ आयिल्ल्या वरी जाली. ती बेगोबेग सोपणां देवून घरा परतली. वाऱ्या वांगडा पिंपळा पानां सळसळपाक लागली. पिंपळ हासता अशें तिका दिसलें.

•••

'पपा पपा हे कसलें झाड?'

'पिंपळ म्हणटात ताका'

'तो हांगांच जाता?'

'हय ताचो होच वाठार. जाणा आदि आमचें घर हांगाच आशिल्लो. पिंपळा झाड पडून मोडले.

'मोडले?'

"हय. हो मातये ढिगारो म्हळयार आदल्यो वण्टी. पळय कितले पिंपळ किलल्यात ते ?

'पिंपळावाठार म्हणतात हो हांगां पिंपळा खेरिज कायचं जायना.'

•



# शंकरालो संसार



अशोक शिलकार



लाकडां भोरो शंकरान घट्ट बांदलो. तो कितलो जड आसतोलो हाचो अंदाज शंकरान घेतलो. कालच्यापरस आयचो भोरो ल्हव जाल्लो. शंकर मनांत चिततालो. सुंदऱ्याच्यान आता आदल्यासारके वजन पेलना. सावुद बरी नाशील्यान इबाडून गेल्या. कोयती कुराड घेवन शंकर घरांत भितर सल्लो. घराच्या पारव्याक गोडवालीच दोर खोयले. सोप्यार बसून तो विडी फुसकावूंक लागलो.

झरीर गेल्लें सुंदरें उदकाची दोड घेवन आयलें. घोवाक विडी फुसकायता तो सुंदऱ्यान पळयलो. हालींसराक ताका घोवाचो राग येतालो. पुण करतलें कितें एकदा लग्न जावन घोवाच्या सुवादीन जाल्लें. आपूण हाच्या वांगडा लग्न जायना अशें सांगून लेगीत आवयन बापायन शंकरावांगडा ताचें लग्न करुन दिल्लें. दोंगर ना, कुळागर ना, इल्लो शेताचो कुडको ना. भोरो व्हरुन पोटाची खळी भरपाची,



नासल्यार कसलोच सुन्द्र्याक आदार ना. जल्माक पडला तातूंतच सुख मानपाबगर दुसरो मार्गच नाशिल्लो. घोवाक पळोवन सुंदरें मनांतल्या मनांत बडबडापाक लागलें.

'सुणो कसो सोप्यार बसून विडयां पोतेरां फुसकावपाची. आनी हाच्यालागी जाता कसले काम.?' कसलो धंदो जायत हांच्या सारक्या बोण्या मनशाकडेन? कोणाक उपेगाक ना पडपी नाल्ला. बोणो! विड्येची पोतेंरा फुसकावपाची हेच म्हजा घोवाचे व्हडले काम. ताचो असल्या स्वभावाक लागून सुंदरें बेजार जाताले.

'भोरो बादलो रे?' सुन्द्र्यान धेंगसो घालीत घोवाक विचाल्लें.

'हय गो.' सोरपासरकी जीब भायर काडीत शंकरान सुन्द्र्याक जाप दिली.

'घट्ट बांदला मरे? काय हात गळसल्लेंवरी बांदला रे?' दात दातांक चाबडायत सुन्द्र्यान घोवाक विचाल्ले.

'सारके वचून पळय गो. बेश्ठेच पळयनासतना खळखळटा कित्याक? मनशान पळोवन उलोवचे.' शंकराची तकली मात्शी कुडली शंकराच्या ह्या उतरांनी सुन्दरे वोगीच पडलें. पळयनासतना उलयले म्हण सुन्द्र्याचे मन ताकाच विचार करुंक लागले. आनी सुंदरे भोरो घेवन वळवय वचपाचेच तयारेक लागले.

सुन्द्र्यान माथ्यार लाकडां भोरो घेतील्लो तेन्ना बरीच सांज जाल्ली. हेर भोरेकारां बाजारांक भोरो विकून परतून येवपाचो वोगोत जाल्लो सुंदरें वळवयची नेटान वाट्ट चलताले. तें वतना कोण वाटेर मेळटालो ताचेर ताचे लक्षच नाशील्ले. वता आसतना मनांत विचार घोळटालो, आयज घरांत किते फालत आसा.? किते किते व्यापार घेवन येवपाक जाय.

'खुब्ब उशीर केलो मगे सुन्दरे मावशेन.' वणवयसावन परतल्ली. भोरेकारां सुन्द्र्याक विचारताली.

हरशीय जाल्यार म्हूण सुन्द्र्याक सदाच कळाव. हे सगळ्या भोरेकारांक खबर आशील्ले. ताचो घोव पयली पयली कितलोय कळाव जाल्यार सुन्द्र्याक कांयच विचारी नाशिल्लो. तें घोवान कित्येय म्हणल्यार कानामनारय घे नाशिल्लो. घोव उलयलो किते आनि ना उलोयलो किते सुन्द्र्याक ताचे पडूकच नाशिल्ले. खबर आसूनय शंक कांयच उलय नाशिल्लो. मात्शे घेतकच मात सुन्द्र्याचे आंगार धावन वयतालो.

सुन्दरे वळवय भाटकारागेर पावले. तें सद भाटकाराकच भोरो घालताले. भाटकाराल्या मागीलदारां भोरो उडोवन सुन्दरे बलकांवार बशील्या भाटकारालागी आयलें.

'लाकडां भोरो घातला भाटकार.' सुन्द्र्यान घाम पुशीत सांगलें.

'मोठा घातला मगो.?' भाटकारान हांसतच भरेकान्नीव विचाल्ले.

'हय भाटकारा.' भाटकार आपणाक बारीकसाणीन सकयल्यान वयर मेरेन पळयता म्हणपाचे सुन्द्र्याच्या लक्षांत आयिल्लें.

'कितले दुडू गो सुन्द्र्या तुजा लाकडांच्या भोऱ्याचे.?' भाटकार विचाल्लें.

'चाळीस रुपया भाटकारा. सगळी भोरेकारां चाळीसानच घालतात. भाटकारा.' सुन्द्र्यान भाटकाराक जाप दिली.

'तुमच्या भोऱ्याचे पयशे वाडतच आसा मगो सुन्द्र्या तुमचीय चूक ना. बाणयांतल्यान वळवय बाजारात येवपाक कितली वाट पाया पोंदाक माड्डावपाक जाय. करचें पड्ट पोटाखातीर. घोव बरो जोडीक आशिल्ले जाल्यार तुका हे त्रास काडपा नाका आशील्ले. तोवूय सापडलो तुका बेबदो आसता एक एकल्याच्या नशीबांत. ताका तू तरी किते करतलें.?' भाटकार सुन्द्र्याक म्हणपाक लागलो. तशी सुन्द्र्यान लजेन मान सकयल घातली. भाटकार सुन्द्र्याक पळयतच कमराक लायिल्ली चावी सोदूक लागलो. भितर वचून तो पयशे घेवन आयलो.

'हे घे सुन्द्र्या दुडू.' भाटकारान शेंभर रुपयांची करकरीत नोट सुन्द्र्याच्या हातार दवल्ली. सुन्द्र्याचे हात फाटी फुडे जाताले.

'पुण - भाटकारा.' सुन्द्र्याच्या तोणातलें उतर तोणातूच उल्ले.





‘आसू गो. सगळे सारकेंच घेवन बसल्यार कशे तलें.’ भाटकार सुन्दऱ्याक सांगपाक लागलो.

शंभर रुपयाची नोट सुन्दऱ्याच्या हातार पडूटकच का खुब्ब उमेद जालीं. एका भोऱ्याचे इतले दुडू. नाकातरी ऱणू येता. फाल्या भाटकारान भोरोच घेवपाचे बंद केल्यार गीर भोरो विकूक कोणाच्या दारांत हेडटले. म्हजो भाटकार रो घेता हे म्हजें नशीब फळ्ळां म्हणपाक जाय. हो ाटकार म्हटल्यार सगळ्यापरस वेगळ्याच स्वभावाचो. बरो तलो राग आयल्यार वायटूयबी. कोणाक केन्ना दुखोवचोना. ायट बऱ्या प्रसगांक स्व:ता धावून वतलो. आपणालागी जे कतें आसा ते ना म्हणचोना

‘आमकां भोरो घालपाचो बंद करुं नाका. भोरो घाल दुडू घेवन वच.’ भाटकारान सुन्दऱ्याक सांगले तेन्नाच भाटकाराली बायल घरातल्यान भायर आयली. तिणेंनूय सुन्दऱ्याक तेंच सांगले. हातातले पयशे भाटकाराच्या बायलेक दिसत म्हण सुन्दऱ्यान आपणाली मुठ घट केली. भाटकान्न सांगता ते आयकूक रावलें.

‘भोऱ्याचे दुडू दिले ताका.’ भाटकान्नीन आपणाल्या घोवाक विचाल्ले.

‘हय.’ भाटकारान बायलेक जाप दिली. सुन्दऱ्याक भाटकार कित्येतरी सांगपाक सोदतालो पुण बायल येतकच ताका वोगीच रावचो पडलो.

‘सुन्दरे आता पसऱ्यावयली वाट चलपाक लागलें. किते किते घरात आपणाक जाय ते ताणेंन घेतले. रामल्या खातीर एक दुधाची पिवशी घेतली. सुन्दरे भाथ्यार व्यापाराची पिशवी घेवन नेटान बाणयातली वाट चलपाक लागले.

रामलो अभ्यासात गुल्ल जाल्लो. शंकर मात्शें कोपाचे मारुन आयिल्लो. सुन्दरे आजून येवंक ना म्हण बडबडटालो. इतल्यात कोणाच्यातरी पावलांचो आवाज शंकराच्या कानार पडटा. आवजावाटेन नदर करित शंकर पळयता. सुन्दरेच येयलां आसतले. ताचो अंदाज खरो थारता. सुन्दरे खर्शेंत खर्शेंत येता ते शंकराच्या नदरेत येता. लकत लकत बशील्ले कडच्यान उठून तो सुन्दऱ्याक दारांतच आडायता. दोळे तांबडे थंडग करुन तो सुन्दऱ्याक गीळू काय खावं म्हण आंगार धावन वयता.

‘सुन्दऱ्या भितर येवक नाका.’ आड्डावन तो सुन्दऱ्याक सांगता.

‘बाबा रामल्या पिवशी घे रे. घालता बाप्पाचें खोट; उड्यतां तेका खळ्यान. हांव सगल्याखातीर त्रास काडटा हो सोरो खावन अश्यो बोबों आनी हयेली मारता.’ सुन्दरे घोवाकडेन पळयत रामल्याक सांगपाक लागलें.

‘इतलो काळोख जायसर खंय आशील्ले.?’ सदांच येवंक तुका होच वोगोत. एकूय दिस दिसा उजवाडांत बेगीन येवंक जायना तुका. बाकीच्याक पळय गो. दिसा उजवाडा कशी घरा पावतात. आपूण सारको आसल्यार लोकांची तोणां उकती जायनात. सुन्दऱ्या तूच कित्याक वळवयच्या बाजारातल्यान येवंक उशीर करता.? घोव सददां तुजी खाज भागोवन लेगीत समाधान जायना तुजे... शंकराच्या ह्या उतरांनी बाणयांवाडो खळखळ्ळो.

‘तांदळाचो आसो केन्ना घरांत हाडीना. अपुराबायेचो आमचो एकलोच पुत. ताका केन्ना किते फाल्ता जाल्यार हाडूक जाणां.? लग्न जायत सावन सगळो संसाराचो भार हांवूच उबारता. म्हाका घरांत घेना जाल्यार तडकडून मरतोलो. हाच्या ताच्या दारांत भिख मागत हेडचो पडटलो. चाळवल्ली नागणीवरी सुन्दरे घोवाक विचारतालें.

रात बरीच जाल्ली. आता ह्या उपरांत आदण रान्नीर चडोवपाचे आशील्ले. सुन्दऱ्यान आता कांयच करप ना अशे ‘थारायलं. घोवाचो मोद जिरोवनी मात्सो. मदावला पाड पडलेलो. रामल्याक दुध पियेवंक दिवप. आपणे कोणप्यांतलो निरू पियेवप; जालें. रामल्याक वेगेत घेवन सुन्दरे हातुरणार पडलें. शंकराची सगळी रात बडबड चालूच आशिल्ली.

फातोड्डेर कोंब्या सादार सुन्दरें उटलें. घोव उसरां रात मेरेन बडबडत आशील्ल्यान आता सुस्त निदिलेकडेन आशील्लो. निजतना हातरुण लेगीत सारके घालूक नाशील्लें. आंगावयली मुस्तायकी घातिल्ली तशीच आशील्ली. पायातल्यो वाणो पायाकच आशील्यो. सुन्दऱ्यान भायर नदर माल्ली. भायर हय न्हयशें झळझळटाले. सुन्दऱ्यान तशीच झरीची वाट धल्ली. गोबर तणशेक लावन कळसो, कळसुली नितळ घांसली. कोळशाची बारीक पुड करुन दात घांसले. तोण



नितळ धुलें. दोड भल्ली आनी तें घराकडेन परतले. रामल्याखातीर बेगीन चा, चपाती करपाक जाय आशिल्ली. रामलो शाळेत वतकच दोंगरार लाकडी वचपाक जाय आशिल्ले. सुन्दऱ्यान थारायले. आयज हांवच भोरो बांदवप. घोवा लागच्यान भोरो बांदून व्हरता म्हण ताची आनी उतरां म्हाकां आयकूक नाका. कोण आयकून घेतलो ताची नस्ती उतरां. म्हाका आजून काम करपाक धाड मारुना. बरी हणहणीत आसा ही सुन्दरी. आतांय ह्या वयात कोणूय म्हाका पिसो जाता. सुन्दऱ्याच्या मुखार भाटकार स्पश्ट दिसपाक लागलो. कितलेय त्रास सोंसतले. रामल्याक खुब्ब शिकयतले. शिकयल्यार खंयतरी कामाक वचून तो आपणाल्या पोटाची व्यवस्था करतोलो. बाणयांतच उल्यार लाकडांचो भोरो घेवन वळवय गेल्याबगर कांयच जावचेंना. भोऱ्याचेरच जिवीत जगपाची सवय आशील्यान रामल्याकय तिच वांन्त्सा येतली. ना! ताका ही दिका पळोवंक दिवचोना. रामल्याक दाखयतलें हांव नवी दिका जी बाणयातल्या वाठारातल्या लोकांनी कोणेच पळोवंक ना. ताच्यां मिसळावंक जाय. बाणयांलल्या लोकापरस वेगळे कितेतरी. सुन्दऱ्यान निश्चय केलो तो रामल्याच्या फुडाराचो बदल घडवन हाडप.

'चा घे आनी शाळेत वच.' सुन्दऱ्यान रामल्याक सांगलें.

'बरें आवय.' रामल्यान सकयल देवील्ले कालसांव वयर काडीत आवयचे उतर आयकून घेतले. रामल्यान फकत घणसाबैलावरी मान हालयली. चा घेवन दप्तर फाटीक लायले. ताचाच भितर कितेतरी बडबडत हेर भुरग्यांवांगडा शाळेतली वाट चलूंक लागलो. सुंदरे आपणाल्या पुताक फाटल्यान पळयत राविल्ले.

'सुंदरे मावशे येयना गे लाकडांक. रातचे जागरण निवळूना दिसता.' विमलान वाटेर रावूनच सुन्दऱ्याक विचाल्ले.

'येता गो मात्शे राव म्हाका.' सुंदरेन भितर रावनच विमलाक सांगलें. सुन्दऱ्यान कळाव केलोना. विमलाची उतरां कानार पडना बराबर पाख्याची कोयती, तुवाल्या बोनर घेवन विमला फाटल्यान सुंदरे दोंगरावयली वाट चलपाक लागील्लें.

सुंदरे लाकडांक गेले. ते इतलो वेळ न्हिदेचें सवंग घेवन पडून आशील्लो शंकर उठलो. तोण धुले, विड्येचे पोंतेंर फुसकायलें. चुलीकडेन चा चपाती दंवरील्ली ताणेंन घेतली. सुन्दरे येवच्या आदी कालच्यो काजूच्यो मुणयो फोडपाक जाय आशील्यो. नासल्यार सुंदरे शंकराच्या गोमटेक धरपाचो भंय उप्रासील्लो. घायार घाय घालून शंकर मुणयो आडयो उदाऱ्यो परतून फोडपाक लागलो. लाकडां फोड्टना शंकर चितपाक लागलो. चार-पाच भोऱ्यांची तरी लाकडां फोडल्यात आपणेंन.

बाराबर अकरांक शाळा सुट्टा. रामलो आयलो फाटीक लायल्ले दप्तर घरांत दंवरुंन तो धांवन बाप्पालागी आयलो.

'बाप्पा फोडून जाली लाकडां.' रामल्यान बापायक विचाल्ले.

'सगळी जावंक ना रे. थोडी थोडी फोडपाची. ती तुजी आवयसारकी वातड. धायार घाय घातलें तरीकय फुटना. आवयेक समजावन सांगल्यार कळना. तीच अवस्था ह्या लाकडाची. कशींच फुटनात.' शंकरान पुताक सांगले. सान भुरगो जावनय बापायची आवयक उलयल्या दुस्वासी उतरांचो अर्थ कळपाक रामल्याक कळाव लागलोना.

'बाप्पा, आवोक कितेंय म्हणूक नाका.' रामलो रागान बापायक सांगपाक लागलो तसो शंकरान विशय बदलपाचो यत्न केलो.

'रामल्या आयज कितें शिकयले मास्तरान शाळेत.' शंकरान पुताक विचाल्ले.

'राष्टपिता महात्मा गांधीचो लेसन शिकयला. कितले तत्वज्ञानी आशील्ले महात्मा गांधी. सत्याग्रह करतना ताणींन देशाक शांतीकायेंचो संदेश दिल्लो. कोणाचीच हिंसा करवप ना. अहिंसेंचो ताणीन म्हान संदेश आमच्या देशातल्या लोकांक दिल्लो. अन्याय तांका कसोच सोंसनाशील्लो. महात्मा गांधी म्हणटाले, अन्यायामुखार वाकू नाकात. ज्ञानाचो आग्रो घरात आनी अन्यायाचो प्रतीकार करात.' रामलो सांगीत गेलो तसो शंकर अस्वस्थ जायत गेलो. रामल्याच्यां आंगात कितली तत्वज्ञांनां रिगल्यात म्हणपाचें शंकराक कळून आयले. आयज म्हजी परीस्थिती बिकट आशील्यान रामल्याखातीर हांव कांयच करपाक शकना हाचो म्हाकां खेद जाता. शंकर मनातल्या मनांत ढळढळयां रडलो.





ाक रामल्याक कांयच दाखोवन दिलेना. रामलो बापायक ानी मुखार सांगपाक लागलो.

'बाप्पा लहान भुरग्यानी आवयबापयची उतरां आयकून ंक जाय. आपणाल्या लोकांकडेन बरे सबंध दंवरपाक ाय. हाचोच अर्थ असो बाप्पा तुवेन आवयक लेगीत ांयच म्हणपाक जायना. बाप्पा तू राती आवयक नाका ाशील्ले उलयतालो. कितली त्रास काड्टा रें ती आमच्या ातीर. तुमकां तुमच्या मास्तरान कांयच शिकोवंक नाशील्लें.?' मल्यान बाप्पाक विचाल्ले.

रामल्याची उतरां आयकून बाप्पाक नाका पुरो जालें. ंकराक दिसलें. वोगीच हावेन रामल्याक विचाल्ले. आयज ाळेत किते शिकयले ते सांगपाक रामलो वोगी रावपाक ायला. तो मुखार मुखार बाप्पाक प्रश्न विचारीत रावलो.

''बाप्पा खंयचो मास्तर शीकयतालो. तुमकां.''?

'फुल्ल पोर्तुगीज राजवट आशील्ली आमच्या वेळार! ोर्तुगेजूच शिकपाक मेळटाली. हांव पोर्तुगेज शिकपाक ालोना. बाणयांतल्यान वळवय वचपाक म्हाका उबगण ेताली. शंकरान पुताक जाप दिली.

'सामकी आळशा कोड. हांव जाल्यार कितलोय ायस लेगीत वचपाचो बाप्पा. तुवेंन संद वगडायली. मातसो जेवीतांत शिकील्लो जाल्यार तुज्यांत सुधारणां जातली आशील्ली. म्हाकाय आयज गिन्यान दिवंक आदाराक उपकारतलो आशील्लो. शिकूक सवरुंक नाशील्यान बाणयांतच लाकडां जळोव फोडपाकच उल्लो. आसता एकएकल्याचे नशीब.' पुताल्या उतरां सरशी शंकर वोगीच पडलो. इतल्यात भोरो माथ्यावयलो सकला उड्यल्लो. रामल्याक आवाज आयलो. आपणाली आवो येयलीच म्हण तो आवाजा वयल्यांन धांवलो.

'आवो वोत लागले. खुब्ब पयस दोंगरार लाकडांक वच्चें पडाटा. व्हडलो ,जातकच हावूंय लाकूडाक वयतलो आवो. मागीर तुका कास्तीक व्हडलोशी पडचीना.' रामलो सुन्दऱ्यासरी उलयतच रावलो. सुंदरे सांसूक नजो जावनूय रामल्याची उतरां आयकतच रावली. स्वशैल्ल्यान सुन्दऱ्याकडेन बरोच वेळ मेरेन उलोवंक जालोंना. बऱ्याच वेळान मात्शे सावशीक जातकच सुन्दरे रामल्याक समजावन सांगपाक लागले.

'सामल्या खुब्ब शिक. हांगा रावपाचे चितूक नाका. बाणयावाडो म्हटल्यार दळडीरो वाडो. लाकडां भोरो व्हरपाबगर हांगा कांयच ना. तूं लाकडांक वचपाचे चिंतूक नाका. भोरो व्होरोन पोट भरपाचे तर चितूंकच नाका. तुका हांव खुब्ब शिकयतले. शिकतोलो मरे?

''हय॰ आवय हांव खुब्ब खुब्ब शिकतलो.' एके आगळे वेगळेच उमेदीन ताणेन आवयक जाप दिली.

रातच्या रागान सुन्दऱ्यान घोवांक कांयच जाप केलीना. मोन्यालीच रामल्याक, घोवाक वाडून सुन्दऱ्यानूय जेवन घेतले.

आयज घोवान बांदलेलो भोरो घेवन वचप ना. शंकरान बादिलो भोरो थंयच साणून फोडूक नाशील्ल्या बारीक बारीक लाकडाचो भोरो घेवन वचापचे ताणेंन थारायले. ताणेन आपणेंच भोरी बांदलो. शंकर हे सगळे सोप्यार बसून पळयत आशील्लो.

सदांच्याच वेळार सुन्दऱ्यान भोरो घेवन वळवयची वाट घाल्ली. चलतना सुन्दरे चित्ताले. आयज भाटकार कितले दुडू दितलो. चलता चलता खुब्ब कितें ताच्यात विचार येवन गेलो. काय बरे; कांय वायट आता त भाटकारागेंर पाविल्ले. मागीलदारा भोरो उडोवन तें भाटकारा लागी आयल्लें. भाटकार पयशे दितलो. म्हण ते भाटकाराक पळयत रावले.

''हे घे भोऱ्याचे पयशे.'' भाटकारान ५०० रुपयांच्यो दोन नोटी सुन्दऱ्याच्या हातार दंवल्यो. म्हज्ये मात्शे आयज तुवेंन एक काम करपाक जाय. आयज हांव सोडून घरांत कोण ना. सगळी भाच्याच्या लग्न सुवाळ्याक गेल्यात. बावराडेकूय बाराबर व्हेल्या. देखुन मान्यांत आयदनां घांसपाची तशीच उल्यात. ना म्हणून नाका. कळाव जाल्यार जावं. मात्शी घांसून दी. घरा जाय जाल्यार पावयता. आयची रात रावल्यार लेगीत उपकारता. म्हाका कांयच आडखळ ना. सुन्दरे गडबडले. ना कशे म्हणटले. सुन्दऱ्याच्यान ना म्हणपाक जालेना.

'कसलो विचार करता. भिरांत दिसता. तशे कितेंय



दिसता जाल्यार आयदनां घासून तरी दी. यो भीतर मान्ने दाखयता. अशें सांगतकच सुन्दरे भाटकाराच्या फाटल्यान चलपाक लागलें. सुन्दऱ्याक मान्ने दाखयले. मान्यांत खुब्ब आयदनां आशील्ली. ती घांसून काडटा म्हणटासर ताका बरीच रात जातली हे तें चितूंक लागले. ताकतिकेन ते आयदनां घांसपाक लागले. घासून जातकच भाटकारान आयदनां जाग्याची जाग्यर दंवल्ली. वेळ बरोच जाल्लो. भायर सुन्दऱ्यान नदर माल्ली. काळोख बरोच जाल्लो. भाटकारा सुन्दऱ्याक बारीक नदरेन पळयत आशील्लो. सुन्दऱ्याचे आंगपांग थरथरपाक लागले. अशा वेळार घस करुन लायट गेली.

'तुका जाय तितले दुडू दितलो हांव. तूं कांयच भियोवं नाका.' भाटकार सुन्दऱ्याक काळखांतच सांगतालो. अशा वेळार सुंदरे मनांत चित्ताले. हाच्याच आदारान रामल्याक शिकोवन व्हडलो करपाचो.

बऱ्याच वेळान लायट आयली. सुन्दरे आनी भाटक[ार] एकामेकाक लागी कांयच उलयलीना. सुन्दऱ्यान लाजे[न] मान सकयल घातली.

'चल सुन्दऱ्या मोटारान पावयता.' भाटकारा[न] सुन्दऱ्यांक सांगले.

'भाटकार म्हाका घरा पावंक येतलो. बाणयांत[र] लोक म्हटल्यार अळशीकावणे. एकाचे धा उलयतले. लोकां[क] भाटकार म्हाका पावंक आयलो म्हण कळ्यार... घोवा[क] कळ्यार... म्हजो एकलो एकसूरो पुत.... सगळे कितें चि[त्तां] चित्तां ना ना तरेचे प्रश्न सुन्दऱ्याच्या सामकार घोंटेंर बांदू[क] लागले.

•







# लज



रामनाथ गावडे



तेन्ना हांव आठ्वेक आसलो. शिकपाक जरी हुशार नासलो तरी गणितांत म्हाको लागं सारको कोण नासलो. पांचवी तें आठवेचें पयले सेमिस्टरमेरेन तरी वर्गांत म्हज्यापरस आनी कोणाकूच चड मार्ग पडूंक नासले. म्हणुनच आमचे जोशी टिचरिची म्हजेर खास मर्जी आशिल्ली. हरशीं ती रागान वायट. उखलिल्लें दवरिनासली. पयलो नंबर घेतल्या रामानय तिजेकडल्यान मार घेतला. पुणून म्हाकां याद जाता ते प्रमाण तिणेन म्हाकां आजुनय हात लावनासलो. म्हणुनच कांय हांव म्हज्या गणिती तत्वज्ञानान नेट मारतालो. चडकरुन आलजेब्राचो पिरेड आयलो म्हण्टकच आपशींच म्हजीं पाखां फुलतालीं. जणूकाय हांव त्याच वराची वाट पळयत इश्कोलाक वतालो. जोशी टिचर वर्गांत आयली म्हण्टकच कांयजाणांचे पांय आपशींच कडकडटाले. पुणून हांव मात तिणेन दिल्ल्या होमवर्काची बळयां याद करुन दितालो. सगळयांत चड मार खावपी तुकाराम तर त्याच खातीर म्हजेर जळटालो. हरशी तो म्हजो खास इश्ट. म्हज्या कादेनावेली



सोडयल्ली गणितां आपूण काडटालो. पुणून म्हजी तुस्त करपी जोशी टिचर ताची एक नंबरची दुस्मान, तशेंच गणिताचो आनी ताचो छत्तीसांचो आकडो आशिल्ल्यान तो म्हजेरय बेजारतालो.

अशाच कसल्यातरी रागान एकदीस ताणेन म्हजी चूक पीटी सराक दाखोवन दिली. मागीर त्या निबर काळजाच्या पाटलान म्हजें फाटीर फाटभर बडी मारली. हांव वांगडाच निन्रळो.

अशेंच एक दीस टिचरीन आलजेब्राची धा गणिता सोडोवपाक दिल्लीं. आनी सांगिल्लें, जितली समा सोडोवपाची उरतलीं तितक्यो पट्टयो पडटल्यो. एक उरल्यार एक पट्टी, दोन उरल्यार दोन आनी धावूय उरल्यार धा. हांव असलेच संदेची वाट पळयत आसलो. कोणाकोणाक मार पडटा तो म्हाकां पळोवपाचो आसलो. आनी तुकारामाच्या हातार पडटल्यो धा पट्टयो तर म्हजी एक खास उमळशीक जाल्ली. जणू फायची खोशी हांव आदीच अणभवतालो.

म्हाकां खबर आसलें, कितलीय रात जाली जाल्यार लेगीत तुकाराम येवन म्हजी चोपडी व्हरतलो आनी गणितां कॉपी करतलो. म्हणूनच हांवेन ते दिसा गणिता सोडयली ना. दोन-तिनदां तुकाराम आयलो. पुणून ताका पळोवन हांव लिपलो. ताणेन म्हजी चोपडी उगडून उगडून पळयली आनी म्हाकां सोदीत परत गेलो. आवयक आनी भयणीक हांवेन पयलींच खबरदार केल्ली. ताणी ताका कांयच नकळो जाल्लेवरी केले.

पुणून तो वगी बसपी न्ही. बरे रातचो परत येवन म्हाकां उठयलो. पुणून म्हजी कोरी चोपडी पळोवन निर्शेवन गेलो. तेन्ना हांव गणितां सकाळी सोडोयतलो अशें सांगलें. हरशी हांवेन ती गणितां वेगळया कागदाचेर पयलींच सोडोवन दवरिल्लीं. सकाळी उठून फकत ते चोपडेचेर कॉपी करपाची.

येवजिल्लें तशेंच जालें. सकाळीं तुकाराम आयलो ना. आळशी मनीस. सदांच प्रार्थनेक वगत जाता. आनी धा मिनटांची वाट माडयत आमगेर येतलो ?

हांव मुद्दाम वगत करुन जुस्त प्रार्थने वेळार पावलो. म्हजी चोपडी घेवन कोणाकूच कॉपी करपाक मेळुना. जायत्या जाणांनी गणितां सोडयल्ली. पुणून कोणे कितलीं सोडयल्या, तांतुतली कितलीं बरोबर आसा कितलीं चुकल्या हाचो पत्तो नासलो. प्रार्थना जायनाबरोबर तुकाराम येवन म्हाकां लाळेगोळे लावपाक लागलो. पुणून म्हजीच आनी दोन सोडोवपाची उरल्यांत अशें सांगून ताका पयसायलो. तरी तो आपलो हट्ट सोडिना जालो. म्हज्याच बांक येवन बसलो. पयलो पिरेड हिन्दी, दुसरो आलजेब्राचो!

वर्ग भरनाफुडें गांवकार सर येवन हजेरी घेवपाक लागल तेन्ना तो हांव 'नाकां म्हण्टा आसतनाच म्हजो बोटवो सासपुवपा लागलो. पुणून आपलेवशीं ताजें लक्ष ना तें पळोवन सर ता तापलो. ताणेन परत ताजो रोल नंबर घेतलो. तशें ताणेंन भियल्लेव 'यस सर' म्हणलें. जणू काय हाका आतां मान्याक व्हरपाचो आस हांव मनांतल्या मनांत हासलो. पाटील सराक सांगून म्हाकां मारपा लायल्लें, राव आतां जोशी टिचर तुजी कशी करड काडटा ती पळ म्हजेच फकत एक बडी पडिल्ली, आतां तुजेर धा पट्टयो पडटल्यो. येवजुनच हांव खोशी जाल्लो.

सर शेखचिल्लीचो धडो शिकयतालो. पुणून म्हजें मात्तूय ल नासलें. खंयचो शेखचिल्ली आनी कसलें किदें झाड हाण्टालो तें म्हांका पडू नासलें. एकदाचो तो पिरेड सोपल्यार पुरो अशें जाल्लं पुणून कसोच सोपनासलो. एकेवटेन तुकाराम उसुउसू करुन बेजा करतालो.

तुकारामाचें लक्ष ना तें पळोवन सर पिकार जालो. आनी ताका उठयलो, 'तुकाराम, किदें करता थंय? तुजे लक्ष आसा का ना रे!'

"आसा सर."

"आसा! जाल्यार सांग पळोवया, शेखचिल्ली कहां बैठा था और क्या कर रहा था?"

प्रस्न आयकून तो वगीच पडलो. बाकिचे भुरगे मात हांसताले तो किदें म्हण सांगतलो ? शेखचिल्ली खंयचो कोण हेंच ताका खब नासलें. हरशीं म्हाकां म्हण चडूच खबर आसलें.

तो कांयच उलयना तें पळोवन सर तापलो, 'तूं थंय गर्द करुन किद्याक बसला रे! चल-चल उठ, तुज्या जाग्यार बस. घराकडेन अभ्यास करिना ते करिना, इश्कोलांतय तुमकां शिकपाचें नासल्या इक्शोलाक तरी किद्याक येतात. आमची तकली खावपाक?"

तेन्ना तो अचळंय चोर कसो उठून आपल्या जाग्यार वचून बसलो. सराचो हेवटेन 'शेखचिल्ली' परत बेजार करपाक लागलो.

इतल्यान जे घटकेची हांव वाट पळयतालो ती घटका आयली. पिरेड सोपलो. आनी कांय खिणाभितरुच जोशी टिचर भितर सरतली. आनी मागीर घे! एक एकल्याक शेपलायत रावतली. हांव मात





ळयतलो, गुन्यांवकारांक शिक्षा दितना राजा जसो झेत मारता. ती ग्रोशी हांव अणभवतलो.

बरोच वगत जालो. टिचर येना जाली. तेन्ना एकल्यान दारार वन पळयलें, टिचर आयली आनी परत गेली. तशी भुरग्यांनी ग्रोशी उत्तायली. आरे! किदें जालें काय ? हांव दुबावलो. खुबजाणांची टान धडधडटली हड्डींय मंद जावपाक लागलीं. म्हजे व्हड खोशयेचेर वेरजण पट्टा अशें जातनाच टिचर भितर सरली.

येतनाच तिणेन ॲटम-बाँब घातलो -

'चला-चलात, तुमचे नोटबूक काडात. आयज म्हाकां कोणाचीच ॲक्सक्यूॅज आयकुपाची ना. म्हणुनच परत वचून ही पट्टी घेवन आयल्या. तुमकां कोणाक अभ्यास करपाचो ना. फकत फोल्गां नारुंक जाय. फेल जाल्यार मात आमच्या नांवान करन्नाय. टिचर सारकी शिकयना आनी टिचर सारकी दाखयना. चल-चल दाखय , तुजो बूक दाखय..." जणू काय तलवार घेवन डाकू भितर सरचो आनी भंय दाखयत एक-एकट्याकडच्यान लूट घेवंची, आनी ती मनासारकी मेळना जाल्यार सपासप वार करचे, तशी ती एक-एकट्याचेर दोन, चार मेळत तशो पट्टयो मारपाक लागली.

ती लूट बरी उमेदीन पळयत पळयत हांवें बोटव्यांत हात घातलों. पुणून बोटव्यांत म्हाकां चोपडी दिसना जाली. तें पळोवन मात म्हाकां शेळो घाम सुटपाकडेन पावलो. बोटवो रिकामी करुन परत परत सगळी पुस्तकां तपासली. तरीय चोपडी मेळना जाली. खंय गेली काय ? काय सकाळी बरयतना मेजारुच सांडली? च्ये! हांवे म्हज्या हातांनी चोपडी बोटव्यांत घातल्या. मागीर काडली कोणे ?

अवचीत टिचर म्हज्या बाकाकडेन पावली. म्हजो वांगडी, गोविदांन चोपडी दाखयली आनी दोन हातार पट्टयोय घेतल्यो. पुणून म्हज्या हाताक कांयच लागनासलें. हांव सामको आबूज जाल्लो.

टिचरीन हातात हात मुकार केलो. पुणून तिच्या हातार दवरपाक म्हजेकडेन कांयच नासलें. एका दानशूर राजान खट्टू जावचो तेवरी म्हजी गत जाली. तें पळोवन टिचरीचे हांसतें मुखामळ वांगडाच बदल्लें. दोळयांतली मायेची सुवात रागान घेतालो. ती समती तिडकली,

'रमेश, तुकां वेगळें सांगपाक जाय! तुजी व्हयी खंय?

तरी हांव 'तत.. मम..' करुन वगीच रावलो. तिका किदें सांगचें तेंच सुचना जालें. ती परत उसळळी...

'आरे, तुजो नोटबूक खंय? सोडयल्या मरे प्रोब्लेमां?'

'हय टिचर.'

'मागीर दाखय मरे तर!'

'टिचर, हांव नोटबूक..'

'घराकडेन विसरुन आयलो. हय मरे.'

'ना टिचर. पुणून..."

"पुणून किदें? काडुना मरे. मागीर कर हात फुडें. हांव कोणाकूच वगी रावपाची ना. तुमकां सवलती दिल्यार मागीर तुमी माथ्यार बसतले.'

'टिचर, हांव खऱ्यानीच सांगता. हांवें सगळी प्रॉब्लेमां सोल्व केल्यांत. पुणून नोटबुकूच मेळना. 'आतां मात हांव सामको रडूंक पावलो. जादू जाल्लेवरी म्हजी चोपडी ना जाल्ली.

'मेळना! कोणें काडलो तर. काय तुंवूय फटिंगपणा उलोवपाक लागलो. काडल्या मरे, चल तर. आत्ताचें आता घराकडेन वचून बुक घेवन यो. तुजें घर काय किदें पयस ना. पिरेड सोपच्या पयलीं पावतलो.

'खऱ्यानीच टिचर, देवाच्यान सर -'

'देवाक आनी मदी हाडू नका, तूं फटींग उलयता तो उलयता. देवाकय फटींग करता ? कर कर हात मुखार कर...'

म्हाकां नाईलाजान हात मुखार करचोच पडलो. दोळे दुकांनी उपाट भरिल्ले. खूब खूब दुखतालें. हातार पडटल्या पट्ट्यांनी म्हाकां दुख नासलें, तर हांवेन गणिता सोडोवन लेगीत जोशी टिचरिकडल्यान फटींग म्हणून घेवचें पडटा, तिज्या असह्य अशा उतरांचो मार म्हज्यान सोसूंक जायना जावन हांव भितरल्या भितर रडटालो. सगळ्या भुरग्यांमदी गणिताचो बादशाह आसून लेगीत अपमानी उतरांचो मार खातालो. म्हजें आयज मेरेनचे सगळयांत व्हड दुख्ख कशें म्हाकां दिसतालें. उपाट मोग करपी आजी मेल्ली तेन्ना लेगीत म्हाकां इतलें दुख्ख जावनासलें. पुणून आयज अशें अचकीत किदें जालें काय ? असो कसलो चमत्कार जालो काय ? मार खावन तकली सकयल घालून बशिल्लेकडेन म्हजी दोन दुकां म्हज्या निळया कालसांवाचेर पडली आनी भडक निळी जावन म्हाकांच हासपाक लागली. लज म्हणजे गजाल किदें तिचो हांव कटानकट अणभव घेतलो.

इतल्यान टिचरीन तुकारामाक उठयलो.



हांव तसोच नेटान बसलो.

हरशी म्हजें मन दुखावल्ले. पुणून जश्यो म्हजेर धा पट्ट्यो पडल्या तशो ताजेरुय धा पट्ट्यो पडटल्यो हे उमेदीन हांव ताका उमळशिकेन पळोवपाक लागलो.

पुणून ताणें नेटान आपली चोपडी उगडून टिचरीक दाखयली. टिचरीन बारीक पळयली आनी म्हणपाक लागली, 'वा! तुकराम, आयज तूं म्हाकां पयलेच फावट शाण्यावरी दिसलो.' अशें म्हणत हातांतही पट्टी अपुरबायेन ताजे फाटीर मारीत ताका शाबासकी दिवपाक लागली. ताजें कवतूक करपाक लागली.

तें पळोवन म्हजें दुखावल्लें काळीज चडूच जड जालें. जाल्ल्या अपमानाचेर मीठ चोळिल्लेवरी म्हाकां दिसपाक लागलें.

आरे पुणून ताणें गणितां सोडयली केन्ना ! हांव अजापलो. आनी इतली कठीण गणितां ताका दाखयतलो तरी कोण? पुणून ताजेकडली ती चोपडी खऱ्यानीच ताची मूं ? काय तीच म्हजी चोपडी? हय. ती चोपडी म्हजीच आसपाक जाय. साद्या पेपराचें कवर. फाटल्यान लायिल्लो तो कपिल देवाचोच फोटो आसपाक जाय. ती व्हयी सारकी दिसच्या पयलींच ताणेंन बेगि-बेगीन आपल्या बॅगांत दवरली. ती व्हयी आतां आपली म्हणपातय शाणेंपण नासलें आनी जर खऱ्यानीच ती व्हयी ताजी आसत जाल्यार म्हज्या फटिंगपणात आनी भर पडून आनिकय मार पडपाची शक्यताय आसली.

तें किदेंय आसूं. पिरेड सोपतकीर वा इंटरवालाक ती व्हयी कोणाची तें पळयतलोच असो निश्चेव करुन वग्गी रावलो. हांव ताजेकडेन गॅरिला युध्द खेळपाचे तयारेन आसलो. हांवेन सोशिल्ल्या दुख्खाची म्हाकां थोडितरी भरपाय करपाकूच जाय आसली. हांवेन चोपडेतलें अक्षर आनी कवर जरी सारकें पळोव नासलें तरी म्हजें भितरलें मन म्हाकां सांगतालें, ती चोपडी म्हजीच आसपाक जाय !

पुणून तोय शिटूक आसलो. ताणें दुसऱ्या आनी तिसऱ्या पिरेडा उपरांतूय म्हाकां लागी केलो ना. निमताय तशींच तयार केली. तरी हांव ताका इंटरवालाक धरतोच हे तयारेन आसतनाच तो आपले बॅग घेवन इंटरवाल जायनाफुडें चलूंक लागलो.

समतो स्टाफ रुमांत गेलो आनी गांवकार सराक कितेंदरी सांगून परतलो आनी नेटान घरावशीं चलत रावलो. हांवेन जायतो आडावपाचो यत्न केलो. पुणून कसोच आयकना जालो. कसलें तरी घराकडेन अर्जंट काम आसा अशें सांगून धांवल्लेवरी करपाक लागा मागीर मात म्हजो नाईलाज जावन हांव परतलो.

पुणून ताका हांव तसो सोडपाचो नासलो. इश्कोल सुट्ट जेविनाफुडें तागेर गेलो. पळय जाल्यार, तो ना.

ताजे आवयक विचारल्यार ती म्हणपाक लागली, 'आत अंभ्यास करुन खंयतरी वचपाक भायर सरला.' मागीर हांवेन ति विचारुन ताजें बॅग तपासलें. जाल्यार भितर म्हजी व्हयी ना. तें ताजी व्हयी पळयली. ताणें सगळी गणितां सोडयल्ली. हांवें जशें गणित चुकोवन अर्देच सोडिल्लें, तशेंच ताणेनूय अर्देच किद्य सोडलां काय ? रामान बी तें सारकें सोडयलां. पुणून हांव सोडयतना घुस्पल्लो. म्हणुनच तें अर्दे उरिल्लें. तशेंच तुकारामा अर्दे किद्याक उरलें काय ? हांव दुबावानसो घुस्पलों. मागीर ता बोटवो आशिल्लो तसो दवरुन वगीच हेवटेन तेवटेन सोदपाक लाग

इतल्यान खंयच्यान तरी धांवन धांवत तुकाराम आयलो. आ आबूज जाल्लेवरी म्हाकां पळोवपाक लागलो

"किदें सोदता रे ?"

"बूक."

"किदें?"

"कांय ना. बूट! तुवेंन नवे बूट हाडल्या खंय न्हीरे? ते ख आसा काय म्हण पळयतालो."

"ते तुकां ते दिसा दाखयल्ले न्ही रे!"

"आंऽऽ ते ते. तशें जाल्यार आसूं."

"न्ही. हरशीं तूं किद्याक आयिल्लो?"

"बेश्टोच... अंऽ तुकां प्रॉब्लेमां कोणें दाखयली.?"

"कोण दाखयतलो! तूं तर व्हडलो शोव मारपाक लागलो न रे? म्हणून हांवेंनूच जमता तशीं सोडयली. तें आसूं. यो. यो भाय यो. तुकां किदें दाखयतां.' अशें म्हणत तो म्हाकां खळयांत घेव आयलो. जणू काय हांव केन्ना एकदाचो घरांतल्यान भायर सरत अशें ताका जाल्लें. भायर हाडून ताणें दाखयलें किदें काय म्हळयार दारांत रोयल्लें चंदनाचें रोप. तें हांवे बरें पयलीं पळयल्लें. आत मात म्हजो दुबाव आकाराक येवपाक लागलो. होच चोर आसू ताणें आपल्यावेलो मार म्हजेर धुकलिल्लो. आनी आतां साव जाव तोंडार आसुरी खोशी हाडीत म्हाकां शाणेपणां सांगतालो. पुणून





ायकुपा शिवाय दुसरें हांव कांयच करपाक शकनासलों. चोरी रल्यार चोर. पूण कसो सिध्द करतलो?

ते दिसाच्यान हांव ताका कसोच पातयेना जालो. तोय कसली जाल करतना म्हजेकडेन सादुरताय बाळगुपाक लागलो.

हरशी आमी दोगय वांगडाच भोंवताले. एकठांयच खेळटाले. पुणून मनांतली बदलो घेवपाची भावना निवळंनासली. वेल्यान आमी एकामेकाचे बरे इश्ट, पुणून दुसऱ्यांकडेन गजाली करतना एकामेकाची ुसडेपणां सांगताले.

एक दीस देवळाकडेन किदें तरी आसलें, म्हण हांव खंयच्यान री धांवत येवन घराकडेन सायकल सोदपाक लागलो. पुणून ती ांयच दिसना ती पळोवन हांव चाळवलो. तेन्ना, साकयल घेवन ुकाराम गोळवाड्यार गेला. अशें भयणीन सांगतकच म्हाकां ताजी तिडक मारली. 'गोळवाड्यार किद्याक गोळ घेवपाक काय?' अशें म्हणत हांव आडवाटेन ताका सोदीत गेलो.

चलता चलतां आंगातली तिडक चडूच बळिश्ट जावपाक लागली. पुणून तो म्हाकां खंयच मेळुना, बऱ्या वगतान घराकडेन येवन पळयलें. सायकल आसा. पूण पंक्चार! म्हजी तिडक समतीच मस्तकाक मारली. तसोच उठलो आनी तुकारामाक सोदपाक गेलो.

ग्रावंडारुच खेळटना मेळ्ळो.

'किदें रे तुक्या, दुसऱ्याची सायकल म्होडून घालपाक तुकां मातूय वायट दिसना. तुजी साकयल तूं काट्या-खुट्यांनी चलयता?' म्हज्या आंगात राग खतखततालो.

'कितें ? ना रे. आमी कांयच करुना. खऱ्यानीच. देवाच्यान तर!" जणूकाय तो सामकोच साव आशिल्लो.

'मागीर, सायकल पंक्चार कशी तर!?

'किदें, पंक्चार? खऱ्यानीच सांगता, आमी सायकल खंयच घालूं नासली. नाजाल्यार ह्या नारुकच विचार. हांव आनी तोच देवळाकडेन गेल्ले. प्रसाद घेतला आनी खेळपाक जाय म्हण रोखडेच परतल्या...'

तो आपूण कसो साव हें तीख-मीठ लावन सांगतालो. आनी नारु 'हय हय' म्हणत ताका साथ दितालो.

म्हजी शाणपणां चलना जाली. तसोच परतलो. हांवेनूच पंक्चार काडलो आनी सायकल कोणाकूच दिवचोना असो निश्चेव करुन चावी करन दवरली.

थोड्या दिसांनी तुकारामानूय सायकल हाडली. बरी, लॅडीज, ती पळोवन म्हाकां वल्त मारीन-मारिनशें दिसपाक लागलें. पुणून ताजेकडेन सायकल मागप म्हणजे भीक मागिल्लेवरी जातालें.

पुणून एक दीस म्हजो धीर सुटलो. ग्रावंडार साकयल हाडिल्लेकडेन म्हजें आपशींच तोंड उगडलें.

'तुक्या, एक वल्त मारुन पळोवं रे?"

'नाकां, नाकां, आतांच व्हाळार धुंवन हाडल्या हांवें.'

ताजी तीं फटिंगपणा आयकून हांव वगीच रावलो. सायकल धुल्या काय ना ती सारकी कळटाली. राग तसोच गिळून वगीच रावलो.

इतल्यान खंयच्यान तरी नारु धांवत आयलो. आनी सोमतों सायकलीचे स्टॅंड काडीत तुक्याक म्हणपाक लागलो, 'तुक्या, रोखडोच तिट्यार वचून येतां रेऽ"

तेन्ना म्हाकां सांगिल्ली उतरां विसरुन तुकाराम ताका म्हणपाक लागलो, 'रोखडोच यो आं, "म्हाकां आयज बेगीन घरा वचपाक जाय."

'बरे बरे.' म्हणत नारु सायकलीचेर स्वार जावन नेटान गेलो. हांव मात तें चित्र पळोवन खट्टू जालों. मागीर आनी म्हजी खेळपाची इत्सा उरली ना. कसलें तरी निमीत सांगून घरावशीं चलत रावलो. बाकीचे म्हाकां 'राव राव' म्हण्टाले. पुणून म्हजें तांचेकडेन लक्षूच नासलें. जड जाल्लीं पावलां उखलीत रावलो..

आठूच दिसांनी मनाक थाकाय दिवपी एक घडणूक घडली. तुकाराम आनी नारु एके देवतेवेल्यान नेटान सायकल चलयतना शेकऱ्यांचेर निसरुन पडले. मागीर तसो चड मार लागून नासलो. पुणून तुक्याच्या पायांक बरोच मार लागिल्लो. पायांक प्लास्टर घातिल्लो. ते आयकून हांव मनांतल्या मनांत खूश जालो.

चार दिसांनी ताका घरा हाडलो. जायते जाण ताजी खबर घेवन आयले. पुणून म्हजें मन तागेर वचपाक तयारुच जायना जालें. अशा दुश्ट मनशाचेर किद्याक म्हण वचप? परत मन दुखोवन खेवपा खातीर ? लज करुन घेवपाखातीर? हांव वगीच रावलो.

पुणून दुसरे दिसा म्हज्यान रावूं नजो जालें. कसोय जाल्यार इश्ट. इश्कोल सुट्टकीर तागेर गेलो. पळय जाल्यार कोण कोण ताज्या म्हऱ्यांत बसल्यात. मात्शीशी काळखी कूड. हांव वचून दारारुच रावलो. कसल्यो कसल्यो हासत नेटान गजाली चलताल्यो. म्हाकां पळोवन



सगळे वगीच रावले. तुक्याक तर म्हाकां पळोवन कशेशेंच जालें. घडये चित्तालो जांवये, हो आनी मेल्लो किद्याक आयला काय ? पुणून रोखडेंच ताणें मन बदलिलें, 'आरे रमेश, यो मरे बस.'

पुणून थंय बसपाक खुर्ची रिकामी नासली. तेन्ना कोण तरी उठलो. ताका परत बसयत हांव हेवटेन तेवटेन किदेंय मेळटा काय म्हण पळोवपाक लागलो.

तेन्ना तुक्यान सांगलें, 'हऽ थंय एक स्टूल आसा. ताजेवेली ती पुस्तकां काड आनी घेवन यो.'

तसो हांव मुखार सरलो आनी ताजेवयली पुस्तकां काडून जनेलार दवरली. पुणून एक व्हयी उरली. ती म्हाका मात्शी वळखिचीशी दिसली. म्हणून हांवेन सारकीच पळयली. पानान पान नियाळ्ळें. व्हयी म्हजीच आसली, आलजेब्राची ! हांवेन अश्शे दोळे करुन तुक्यावटेन पळयलें. तो सामकोच आबूज जाल्लेवरी दिसलो. रागान म्हजें हद्दें वांगडाच फुल्लें. अपमानाचो बदलो घेवपाचो होच खीण अशें येवजून जाब विचारतलो म्हण नेटान पावल मुखार घालें

पुणून ताज्या दोळ्यांत भरतल्या दुकांनी म्हाकां आडाय खिणापयली हांसपी ताजें मुखामळ सामकें बाबडें जालें. ताजे दुकांनी बुडिल्ले दोळे म्हाकां सांगताले, 'रमेश उपकार करुन म्हा लज काडुनाका. हांवेन तुकां खूब त्रास दिले. खूब सतायलो. म्हणु देवान म्हाकां ही ख्यास्त दिल्या. पांय म्होडून घरांत घाला... ह हांवेनूच चोरी केल्ली. हांवूच गुन्यांवकार. हांव तुजे पायां पड्टां म्ह आनी आनी लज काडूं नाकां.'

तेज्या त्या भावनीक उतरांनी म्हज्या हद्द्यांत भरिल्ली रागा हवा आपशींच देंवली. ती व्हयी तशीच जनेलार दवरली आनी स्ट घेवन ताजेमुखार बसलो. तेन्ना ताजें हद्दें भरुन वतिल्लीं तीं दो दुकां कसली, तें फकत म्हाकांच खबर आसलें.!







# सत्ते फुडलें शाणपण

(दोन अंकी कल्पना)

*सुत्रधार*
*यमदूत*
*यमदेव*
*सत्या*
*शिवा*
*सुंदर*
*मंत्री, उमेदवार*
*इन्स्पेक्टर*
*हवालदार*
*जाण्टेलो*
*पांच वांगडी*



## पयलो अंक

**सुत्रधारः** नमस्कार...तुमी इतले सगले आयले तें पळोव
खूब खोस जाली, आपयता तितलेय येतलेच अशें समजू
हावें थोडींच आमंत्रणां धाडिल्लीं. खबर आयकुनच तुम
इतली गर्दी केली, म्हाका चड्डूच आनंद जालो. थोडें वाय
दिसलें कारण इतल्या जाणांची बसपाची सोय आम
केलीना. तरी तुमी आमचेच..हं..आमी तुमचेच समजू
ॲडजस्ट करतले अशी आस्त बालगितां.

करतां-करतां..नाटकूच सुरू करतां. कितें आसा
नाटक पळयतां पळयतां कांय गजालींचेर तुमचो विश्वा
बसचोना. कितल्योय हुयेली मारून सांगलें तरी तुमक
खरें दिसचेंना,अशे तातूंत कांय प्रसंग आसात. सुरवाते
म्हजोय विश्वास बसलोना. पुरावो मेळ्ळो तेन्ना हावें ख
मानलें आनी तुमच्या मनांतलो एक हुस्को काडू



भरत नायक







डोवपाखातीर, एक भिरांत पयस करपाखातीर आमी ळांत वेळ काडून हांगा आयल्यात.

हय... भिरांतच ती. सादिसुदी भिरांत न्हय . अख्खो संवसार काबार जावपाची भिरांत. सैमाची ही रचणूक नश्ट जावपाची भिरांत. मनीस होय एक सैमाचोच वांटो हें लक्षांत आसुंदी. कोण नश्ट करतलो! तेंच सांगपाखाती , प्रत्यक्ष दाखोवपाखातीर आमी हांगा आयल्यात. चल ...लायट पेटय....

(माचीभर उजवाड जाता. सुंदर, एक तरनाटें चली, ाचव्या हळदुव्या रंगाचो चुडिदार,ताचेर पाचवी हळदुवी ओडणी न्हेसून केंसांत सोबता ताचे परस चडूच फुलां ाळून एके लोखणाचे, दोडपाचे कदेलीर बसून जामोळ्यो देता. सत्या, एक बरो चित्रकार , सुंदराचें चित्र पिंतारपांत गुल्ल आसा.ताणे शुभ्र धवे कपडे घाल्यात. पिंतारपाचें सगळें सामान वेवस्थीत मांडून दवरिल्लें आसा. खावपा जेवपाचें सामान, जें तांणी बांदून हाडिल्लें, तें मात हांगा थंय दवरिल्लें आसा. फाटल्या पड्ड्याचें दावें अर्द पाचव्या झाडांनी भरिल्लें दिसता जाल्यार उजवें अर्द झाडां कातरून उडयल्ल्याचो देखाव दिसता. माचयेर एक बसपाक फावोसो मोठो फातर आसा.)

सत्या : तोंड उगडू नाका गो. चित्राचेंय तोंड उगतें जातलें.

सुंदर : म्हाका वाज आयलो रे सत्या. कितलो वेळ म्हूण अशें फातराबशेन एका जाग्यार बसून रावप ! कसलो चित्रकार रे तूं ! एक चित्र काडपाक इतलो वेळ. त्या दोंगरांचीं आनी झाडापेडांचीं चित्रां मात रोकडीं काडटा मरे तूं.

सत्या : तीं अस्थीर नात मनशांबशेन. जमनींत पांय रोंबून घट्ट आसात एका जाग्यार. केदें मोटें संकट आयलें तरी जाग्यावयलीं हालचीं नात, वाजेनात, जामोळ्यो काडिनात. फकत मनीस तांकां सुखान जगपाक दिना...... पुरो... ऊठ तूं. उरिल्लें हांव तुका पळयनासतना पिंतारतां.

सुंदर : कशें पिंतारतलो रे म्हाका पळयनासतना?

सत्या : आगो सुंदर, तूं म्हज्या दोळ्यांत इतलें घट्ट बशिल्लें आसा,की तुजें चित्र हांव दोळे धांपून लेगीत काडपी.

सुंदर : तशें जाल्यार म्हाका इतलो वेळ हांगा बसयलें कित्याक तर?

सत्या : आगो तूं दोळ्यांमुखार आसलेबगर म्हाका उर्बा येना.

सुंदर : पुरो-पुरो, चल आतां कितेंय खावन घे. भूक लागुना रे तुका सत्या ?

सत्या : भूक न्हय, तान लागिल्ली. ती भागली.

सुंदर : कितें पियेलो तर तूं?

सत्या : तुजें सौंदर्य पियेलों गटागट. आतां हें इतलें सुंदर चित्र पुराय केलेबगर म्हाका भूक लागचीना. तूं खा. हांव मागीर खातां.

सुंदर : म्हाकाय अजून भूक लागूना. तुका इल्ली च्या दिवं?..... नाका.. तूं च्यायेंत पिशोल बुडयतलो आनी रंगाची वाटी तोंडाक लायत म्हूण भंय. हांव एक पासय मारून येतां. तेवटेंतलो निसर्ग पळोवन येतां.

सत्या : तेवटेन उरलां कितें गो पळोवपासारकें ? ते बोडके दोंगर आनी मारून उडयल्लीं झाडां पळोवंक वता? हो ताजो तट्टीत निसर्ग पळोवन घे. फाल्यां हीं झाडां तुका पळोवंक मेळटलीं म्हणपाची खात्री ना.

सुंदर : कित्याक तर! म्हाका पुराय खात्री आसा. आमची चळवळ जैतिवंत जातलीच. हीं सगळीं झाडां वाचोवपांत आमी येसस्वी जातलींच.

सत्या : पूण शिवाची आजून कांयच खबर ना न्हय गो.मोबायल लेगीत ताचो एँगेज्ड मेळटा.

सुंदर : शिवा फाल्यां सोमतो लोकांक घेवन येतलो. तांकां समजावन भायर काडपाक मात्सो



वेळ लागताच न्हय रे. तातूंत त्या दुश्टाचे चमचे आसतलेच. ते आडमेळीं हाडल्या बगर रावतात।

सत्या : सुंदर, आमी चुकयलेंना मगो, पयलीं हांगा येवन. ताका आमी थंय एकटो दवरलो.

सुंदर : ताणेच चल सांगलां मरे आमकां. फाल्यांचे कामगार आयजूच येवन झाडां कातरूंक लागत म्हूण आमकां मुखार धाडल्यात मरे ताणे.(ताचो मोबायल वाजता) हॅलो..शिवा..

सत्या : शिवाचो फोन? काम जालें काय विचार.

सुंदर : (ताका हातानच वगी रावंक सांगता) आरे शिवा..खंय पावलां तुजें काम ? केन्ना येतलो?.......... वा..शाबास....वेरी गूड....फेन्टास्टीक.....आ...किर्ते जालें? किर्ते केलें ताणे ?.......बरोच पेट घालपाचो......लोकांनीच बडयलो मरे..?...बरें जालें......ना शिवा. हांगा कांयच गडबड ना.........आजून मेरेन कोण येवंकना...सगळें शांत...फाल्यांच येतले ते सगळे....बरें. (मोबायल बंद करता)

सत्या : किर्ते जालें गो सुंदर ?

सुंदर : एक गुंड आयिल्लो खंय, शिवाक मारपाक.

सत्या : मागीर...

सुंदर : लोकांनीच धरून ताका पेटलो .

सत्या : बेस्ट उडयलें लोकानी.

सुंदर : फाल्यां सकाळी येता खंय, साडे चारशें लोकांक घेवन. सगले पोटतिडकेन येतात . खबर आयकून पेटून उठले खंय. मरपाक लेगीत तयार आसात.

सत्या : गूड.....आतां आमी जिखलेच. .....सेव फोरेस्ट......

दोगांय : झिंदाबाद.......

सुंदर : भारत माता की.......

दोगांय : जय.........(दोगांय उमेदीन नारे दितात

सुंदर : सत्या...

सत्या : किर्ते गो सुंदर..एकदम गंभीरशें जालें.

सुंदर : हीं झाडां ,हे दोंगर आमी वाचोवंक शकतं म्हूण आमकां आनंद जाला खरो. पूण गोमट्यो उडयल्ले दोंगर, हीं जमनी भरव केल्लीं झाडां आमी वाचोवंक शकलींना म्हू तांणी आमकां कितले श्राप सोडले आसता न्हय.

सत्या : आमकां कित्याक स्राप गो सुंदर? आमच किर्ते? गुन्याव तातूंत. त्या दुश्टान ते आमचेर कितले अत्याचार केले विसर तूं.

सुंदर : ते प्रसंग हांव कशें विसरतलें.! त्या दुश्टा म्हज्या काळजार केल्ले घाय अजून जि आसात.....

सत्या : सुंदर, म्हाका कळटा तुजें दुःख. पूण हां तरी किर्ते करतलों. म्हजे धडपडीक को भीक घालता.! येद्या व्हडल्या शिवा आयकना.

सुंदर : हांव तुका शिणना रे सत्या........... आर तें. तूं काड तुजीं चित्रां... म्हज्या फाटल्या सामकीं दाट पाचवीं झाडां काड आं. सांगतां... म्हाका खूब आवडटा निसर्गाच्य सानिध्यांत रावपाक. म्हाका हांगाच राव दिसता .

सत्या : थंय कित्याक वचूंक सोदता तर तूं ?

सुंदर : त्या मरून पडिल्ल्या निसर्गाच्या दुखां वांटेकार जावपाक. तांचे यादीन दोन दुक गळोवपाक, आनी हे भुंयेचें सांत्व करपाक..... येतां हांव रोकडें. तोमेरे जातलें तुजें चित्र पिंतारून. (सुंदर वता सत्या आपल्या पिंतारपांत गुल्ल आसतन








काळो किट्ट यमदूत येवन खुर्चेर बसता. आनी सत्याक पळयत रावता. ताका दोन धर्वीं शिंगां आसात. काळ्या मुखामळार धवे दोळे भडक दिसतात. ताचे कपडे लेगीत काळे किट्ट. कांय वेळान सत्या ताका पळयता आनी अजापता.)

सत्या : आरे वा.... सुंदर...तसोच बसून राव. तुजो पोट्रेट बरो जातलो. हांव तुजें फस्कलास चित्र काडटां. दूत- ये सत्या, चित्रकारा, हांव तुजेकडसून तोखणाय करून घेवपाक येवना. म्हाका वळखता तूं ?

सत्या : तूं कोणूय आसूं . म्हजेर मात्सो उपकार कर . तसोच बसून राव.फाटल्यान ती व्हांवती न्हंय, पाचवीं झाडां, पलतडीन दोंगर, निळें मळब आनी तांतूंत तूं काळो काळो राक्षेस. सुंदर...खरेंच सुंदर .

दूत- ये.. सत्या, हांव राक्षेस न्हय. आतां थोड्याच वेळान तुका कळटलें हांव कोण तो. अजून तुजो थोडो वेळ उरला.

सत्या-आतां तूं नाटक करून दाखयतलो ?

दूत : कर्मभोग दाखयतलों तुजो कर्मभोग. सत्या..चल, तुजे तयारेक लाग.

सत्या : कसली तयारी ?

दूत-बिटकी कवळपाची. तुजे दीस भरले.

सत्या : हांगासलो वच म्हणटा ?......तूं हीं झाडां कातरपाक आयला काय किर्ते रे.

दूत : हांव झाडां कातरपाक येवना रे सत्या. तुका व्हरपाक आयलां.

सत्या : हांव खंयच येवपाक ना. म्हाका तुजीं तीं नाटकां बिटकां आवडनात. आनी म्हाका वेळूय ना. हांगा केदी व्हडली चळवळ जावपाची आसा तुका कल्पना ना . तें आंदोलन सुरू जावचे आदी म्हाका ह्या सृष्टिसौंदर्याचो आस्वाद घेवपाचो आसा. तांकां म्हजे चित्रकारितेंत बंदिस्त करचें आसा. आमचे फुडले पिळगेक दाखोवपाक, हे धरतेर झाड नांवाचो प्राणी आसलो म्हूण कळोवपाक. मनशान ताका जगपाक दिलोना म्हूण सांगपाक. आयज आमी डायनासोरार्ची चित्रां दाखयतात पळय तशें.

दूत : हांव तुका वयर व्हरपाक आयलां रे मनशा.

सत्या : वयर? सामको वयर? म्हणचें तूं म्हजो खून करतलो ? ये..... सारकें सांग, तूं कोण. कोणे धाडला तुका ? असो भेस बदलून आंगाक काळें सारोवन म्हाका मारपाक आयला ? त्या दुश्टान धाडला दिसता तुका. झाडां कातरपा आड चळवळ उबारल्या म्हूण एकेकट्याक काबार करपाचो कट रचला खंय ताणे. सांगून दवरतां, आमकां मारून ही चळवळ बंद जावपाची ना. आतां समाज जागरूत जाला.आमकां तुमी सोपोवं शकशात . सत्य तुमी केन्नाच नश्ट करूंक शकचेनात.

दूत : हांव मनीस न्हय रे सत्या. तूं म्हाका वळखुचोना.तुवें म्हाका केन्नाच पळोवंकना.

सत्या : कळ्ळें म्हाका, मनीस न्हय तूं. गूंड तूं गूंड. हांव सत्या, गुंडांक कसो वळखतलों. पूण तुका म्हजें नांव कशें कळ्ळें रे ? वदळच्यान तूं म्हाका सत्या सत्या म्हणटा.

दूत : आरे हांव यमदूत रे सायबा.

सत्या : यमदूत...म्हणचें यमाचो दूत ?...तुका यमान धाडला ? कित्याक ?

दूत : तुजो प्राण घेवन यो सांगलां.

सत्या : म्हजो प्राण आनी तूं व्हरतलो ? (हांसता) असलो कसलो कुसलेलो यमदूत रे तूं !

दूत : ये....सत्या, म्हाका कुसलेलो म्हणटा ? हांव यमदेवाक सांगपी. तो तुका वगी रावचोना. दूताक कोणे किर्तेंय म्हणिल्लें सोंसना



आमच्या देवाक.

सत्या : चल रे काळ्या. हांव एकटो आसासो पळोवन म्हाका फटोवंक आयला ? कितें झडटा काय पळयता ? हे घे पांच रुपया आनी लाग मारगाक. म्हाका डिस्टर्ब करू नाका.

दूत : हें म्हाका कित्याक ? हे दुडू वयर चलनात. आनी सत्या.. तूं एकटो नासलो. हांवें तुका एकटो केला.

सत्या : म्हणचें ?

दूत : म्हणचें तुज्या त्या सुंदराक हांवेंच हांगासलें पयस व्हेलां.

सत्या : तूं म्हाका ब्लेकमेल करपाक आयला ? तूं कितें उलयता तें तुका तरी कळटा मरे ? तें गेल्या उपरांत तूं आयला.

दूत : हांव यमदूत म्हणल्यार तुका खरें दिसना मरे ? राव, तुका दाखयतां. ( आसा थंयच रावून सत्याच्या हड्ड्याक बोट दाखयता. शॉक आयिल्लेवरी ताच्या हड्ड्यांत कळ मारता. ) आतां तरी कळ्ळें मरे ? अजून खरें दिसना ? (परतून तशेंच करता. परतून ताच्या हड्ड्यांत दुखता. ) कितें जालें ?

सत्या : हड्ड्यांत दुखलें म्हज्या.

दूत : हो तुका हांवें फकत नमुनो दाखयलो. हो पराक्रम एका बोटाचो. हांवें जर पांचूय बोटां तुजेवटेन केर्लीं,तर तुजें काळीज आकताक बंद पडटलें आनी हांव तुजो आत्मो घेवन वयर वतलों. मागीर तुजें तें सुंदरें धांवत येतलें आनी सत्या काळजा आताक येवन मेलो म्हूण हुयेली मारतलें. शिवाक फोन करतलें. शिवा येतलो आनी तुजें मडें उबारून व्हरतलो.

सत्या : शिवाकय वळखता मरे तर तूं.! (बोल्सांतलो मोबायल काडटा आनी सुंदराक फोन लायता) हॅलो..सुंदर, तूं खंय आसा गो ....बरें आसा मगो तूं ?....कोण फाटीक लागुना मगो तुज्या.......बेगीन हांगा पळोवया. हांगा एक काळो कुळकुळी मनीस आयला. म्हजेर अॅटॅक करता. धांवू यो.

दूत : बरेंच पयस पावलें तें. इतले बेगीन येवचेंन

सत्या : तुका हांगा रावन कशें कळ्ळें.?

दूत : तुका तें बेगीन आयिल्लें जाय?
(सुंदर मोबायल बंद करून बोल्सां दवरता. तेन्नाच यमदूत उजवो पांय जमनी मारता आनी त्याच वेळार सुंदर कोणेतरी ओडून हाडिल्लेवरी स्टेजीर येवन पडटा.)

सत्या : सुंदर, तूं लागीच आशिल्लें तर गो ?

सुंदर : ना रे सत्या. हांव खूब पयस पाविल्लें. इतलें बेगीन हांगा कशें पावलें समजना. कोणेतरी ओडून हाडिल्लेवरी दिसलें म्हाका कितें जालें रे ?. कोणे अॅटॅक केलो तुजेर?

सत्या : हो पळय...हाणे. आतां बसला तो वग्गी.

सुंदर : कोण रे . खंय कोण आसा हांगा?

सत्या : हो कितें.! कदेलीर बसला तो . दिसना?

सुंदर : कसलीं फकणां करता रे सत्या?

सत्या : फकणां न्हय सुंदर. हाणे, हाणेच म्हजेर अॅटेक केलो. अशें बोट दाखयलें आनी म्हज्या हड्ड्यांत कळो येवपाक लागल्यो. सामको मरता काय उरता जालें म्हाका.

सुंदर : सत्या.. हे खुर्चेर तर कोणूच ना. खुर्ची सामकी रिकामी आसा.

सत्या : कितें गो सुंदर हो येदो व्हडलो काळेलो मनीस दिसना तुका! तो पळयता मगो तुका. दोळे मोठे करून. पळय..आतां म्हाका पळयता. ये...आतां उलय मरे. वदळ हांव एकलो आसासो पळवन व्हडलो नेट










सांगतालो. कितें सांगतालो जाणा सुंदर, आपुणूच खंय तुका हांगासलो घेवन गेलो. हय गो सुंदर, हो घेवन गेल्लो तुका..

सुंदर : सत्या..कितें जालां तुका? असो कितें बडबडटा तूं? जोर बीन येवना मरे तुका . (ताच्या कपलाक हात लावन पळयता)

सत्या : सुंदर खरेंच सांग. हो येदो व्हडलो राक्षेस तुका दिसना?

दूत : ये....राक्षेस म्हणू नाका म्हाका.

सत्या : पळय ... तापलो पळय म्हजेर .

सुंदर : खंय कोण तापला रे तुजेर.

सत्या : हो..काळो काळो बैल.

दूत : ये.....सत्या...बैल म्हणटा म्हाका? बैल आमच्या म्हाराजाचें वाहन. हांव ते पदवेक अजून पावलोंना.

सत्या : पळयलें? आयकलें मगो? आतां कितें उलयलो तें तरी आयकलें मगो तुवें?

सुंदर : आतां कोण कांय उलयलोना. तूं एकटोच उलयता. तुज्या उलोवण्याबगर म्हाका कांयच आयकूंक येना, आनी कोण दिसयबी ना.

सत्या : कितें गो सुंदर? हो..हो.. दिसना तुका? इतलो काळो. धवीं धवीं शिंगां? शिंगां तरी दिसतात. (तें ना म्हूण तकली हालयता) पळय आं..आतां सारकें पळय. ये तुजे दांत दाखय रे. (तो दांत दाखयता) हे धवे दांत दिसनात? (तें ना म्हणटा) ये दोळे मोठे करून दाखय रे. (तो दोळे मोठे करता.) पळय..पळय..धवे फुल्ल दोळे.

सुंदर : खंय रे सत्या?

सत्या : हे कितें . आतां कशें दाखोवं तुका..... ये..मात्शी तुजी जीब भायर काड रे. ती तरी दिसता जाल्यार पळवया. (तो जीब भायर काडटा) पळय- येदी मोठी जीब भायर काडली. आतां तरी पळयलें मगो तुवें?

सुंदर : ना रे सत्या, म्हाका कांयच दिसना.

सत्या : तुज्या दोळ्यांक कितेंतरी जालां. हांव तरी दिसतां मगो?

सुंदर : तूं दिसता रे.

सत्या : हांव दिसतां आनी हो कसो दिसना?

सुंदर : अशें कितें करता रे तूं सत्या! सत्या, कितें जालां तुका? तुजे तकलेर कसलो तरी परिणाम जाला. खंयतरी भिलोना मरे?

सत्या : तुका सारकें दिसना. वयल्यान हांव भियेलां?

सुंदर : मात्सो हांगा शांत बस पळवया.

सत्या : थंय कसो बसतलों हांव. थंय तो बसला न्हय गो.

सुंदर : बरें ...हांगा बस.

(सुंदर ताका फातरार बसयता आनी कागदान वारो घालता. दूत उठून ताच्या म्हऱ्यांत येता)

सत्या : ये...हांगा येव नाका. थंयच बस. पळय गो कसो आंगार येता.

दूत : सत्या, सुंदराचो कांयच गुन्याव ना. आनी तुजीय कांय चूक ना. हांव तुका दिसता म्हूण ताका दिसना. जाका हांव व्हरूंक येतां ताकाच दिसतां.

सत्या : म्हणचें तूं म्हाका दिसता आनी ताका दिसना. अशें कशें? सुंदर, तुका खऱ्यानीच दिसना गो हो? आयकलें तुवें. आतां ताणे कितें सांगलें तें आयकलें. तो खंय फकत म्हाकाच दिसता. तुका दिसना. म्हाका तो व्हरपाक आयला म्हणून म्हाका दिसता.

सुंदर : कोण रे तो सत्या?

सत्या : यमदूत...यमदूत खंय तो. ताका खंय



यमदेवान म्हजो प्राण व्हरपाक धाडला.....सुंदर....आतां हांव....आतां हांव....

सुंदर : कांयच जायना तुका. वग्गी बस पळवया. दोळे धांप. मागीर कांयच दिसचेंना तुका. इल्ली च्या दितां ती पिये.

(सुंदर ताका थर्मासांतली च्या ओतून दिता)

सत्या : तूं घेता रे इल्ली च्या?

दूत : आमी तुमच्यो च्यायो बी घेयनात रे.

सत्या : ( च्या पिता).....सुंदर...ही निमणी च्या गो म्हजी.

दूत : तुजो वेळ लागी पावता आं.. मागीर म्हणशी हांवें तुका किर्तेच करपाक टायम दिलोना म्हूण.

सत्या : आं.. ....ह......य....

सुंदर : हांव शिवाक फोन करून आपयतां. तो तुका सायकियेट्रीका कडेन घेवन वतलो.

सत्या : पळयलें मरे? तें समजलें म्हाका पिशें लागलें म्हूण

दूत : समजूं.....तें म्हाका लागना.

सत्या : तूं ताका कित्याक दिसना रे?

दूत : आमी अशे सगळ्यांक दिसपाक लागले जाल्यार हे मनीस आमच्या कामांत आडखळी हाडटले. सगळे एकठांय जावन आमकां त्रास करतले.

सत्या : आतां तें एकटेंच आसा मरे हांगा. तें तुका कसलो त्रास करतलें! ताका तूं दिसतलो अशें किर्तेय कर. प्लीज...म्हजी एक इत्सा म्हूण. नाजाल्यार लोक म्हणटले, हांव पिसो जावन मेलों म्हूण. येदो व्हडलो चित्रकार पिसो जावन मरप......

दूत : हांव ताका दिसतलों अशें म्हज्यान करू येता. पूण त्याखातीर ताची मान्यताय जा[...] पडटा. मान्य आसा जाल्यार विचार.

सत्या : सुंदर, तूं ताका पळोवंक इच्छिता जाल्य[...] तो किर्ते तरी करतलो तुका दिसचें म्हूण.

सुंदर : हय. हांव पळोवंक सोदतां ताका. सां[...] ताका, पळोवया तरी.

सत्या : यमदूता..तें तयार आसा. चल दाखय तु[...] रूप ताका.

दूत : टेम्परि काय परमानेन्ट?

सत्य : टेम्परि आनी परमानेन्ट म्हणचें?

दूत : टेम्परि म्हणचें थोड्या वेळा पुरतें. परमाने[...] म्हणचें सदांकाळ.

सत्या : दिता जाल्यार परमानेन्ट दिवन उडय.

दूत : पळय आं..पर्मानेन्ट घेतली जाल्यार ता[...] मरचें पडटलें.

सत्या : म्हणचें.

दूत : म्हणचें तुज्यावांगडा हांव ताचोय प्रा[...] व्हरतलों.

सत्या : अशें कित्याक तर?

दूत : कारण म्हाका पळयल्लो मनीस ह[...] संवसारांत रावूंक जायना, असो आमच[...] कायदो आसा.

सत्या : आनी टेम्परि जाल्यार तें तुका पळोव[...] संवसारांत उरचेंना?

दूत : तें उरतलें पूण ती नदर उरचीना आनी त[...] यादूय उरचीना. म्हणचें म्हाका ता[...] पळयला हें तें सामकें विसरून वतलें.

सुंदर : किर्ते सांगता रे तो?

सत्या : तो म्हणटा, तुका खंय तो, टेम्परि नद[...] दिता. पूण ताका तुवें पळयला हें तूं थोड्य[...] वेळान विसरून वतलें.

सुंदर : उपकरता. पळोवया तरी यमदूत कस[...] दिसता तो.







त : बरींशीं दोन आंब्याचीं पानां घेवन यो.

त्या : आंब्या पानां?

त : हय रे. आंब्याच्या झाडाचीं पानां.

त्या : आंब्याचीं झाडां सगळीं त्या दुश्टान मारून उडयलीं. हेवटेंतल्या रानांत आसत घडये. पूण त्या जंगलांत वतलो कोण. त्या दुश्टाचे मनीस रावल्यात आसतले थंय कोयते कुराडी घेवन.

ूत : आतां मरतलोच मरे तूं. आनी भियेता कोणाक. हांव सांभाळटां तुका. चल. ...

त्या : हांव वचना.

ूत : बरें आसा. हांवूच हाडटां एक आंब्याचो ताळो. (दूत हात फुडें करून आंब्या ताळो तोडिल्ल्याचो अभिनय करता. आनी पयस साकून हाडून स्टेजीर उडयल्लेवरी हात हालयता. तेन्नाच स्टेजीर एक आंब्याचो ताळो पडटा.)

ुंदर : सत्या... हो आंब्या ताळो खंयच्यान आयलो रे.

त्या : ताणेच उडयला हाडून.

ूत : तातुंतलीं दोन पानां काडून दोळ्यांक पुसूंक सांग ताका.

सत्या : तुज्या काय म्हज्या.

दूत : जाका नदर जाय ताच्या.

सत्या : हां. समजलें. ....सुंदर, त्या ताळ्याचीं दोन पानां काडून तुज्या दोळ्यांक पूस खंय.

(सुंदर दोन पानां काडटा आनी दोळ्यांक पुसून दोळे उगडटा.)

दूत : हांव दिसतां काय ना?

सत्या : दिसता मगो..?

सुंदर : दिसता रे. पूण तो दिसना.

दूत : ताचो विश्वास ना असले गजालींचेर. म्हणून दिसना ताका. दी तीं दोनय पानां म्हजेकडेन. (सुंदराच्या हातांतलीं दोनय पानां दूत काडून घेता.)

सुदर : म्हज्या हातांतलीं पानां थंय कशीं गेलीं रे सत्या?

सत्या : ाणेच काडून घेतलीं.( दूत तीं पानां आपणाल्या दोळ्यांक तेंकयता.)

सुंदर : आवयस.. सत्या, तीं पानां काय बरीं हवेंत नाचतात पळय.

सत्या : आगो तो तीं आपल्या दोळ्यांक लायता.

दूत : घे. आतां लाय म्हूण सांग दोळ्यांक.

(सत्या पानां सुदराकडें दिता. सुंदर तीं घेवन वगीच रावता)

सत्या : ागो आतां लाय खंय तीं दोळ्यांक.

(सुंदर दोनय पानां आपणाल्या दोळ्यांक लायता आनी दोळे उगडटा. ताका दूत दिसता.)

सुंदर : आंवंय..शिंगाडें जनावर ?

दूत : ये...जनावर म्हणटा म्हाका ?

सत्या : सुंदर, ताका कांयच म्हणू नाका. यमदूत तो यमदूत.

सुंदर : हो यमदूत ? असलो घाणयारो यमदूत आसता ? हो ह्या जंगलांतलो आदिमानव नाजाल्यार वनमानव आसतलो.

दूत : ये.. तुवें केन्ना पळयला यमदूताक ? कसलो आसता ?

सुंदर : पिक्चरांनी बी पळयला आमी. काय बरो आसता, गुटगुटीत. पोट मोठें आसता. दोळ्यांक पळयल्यार भंय दिसता.

दूत : तो मनशाच्या कल्पनेंतलो यमदूत. खरो यमदूत असो आसता..असो. (सर्गांतल्या फोनाची रींग वाजिल्ल्याचो आवाज) राव आं..म्हाका यमदेवाचो संदेश आयलो. (एक



हात वयर उबारून मळबावटेन बोट करता. दुसऱ्या हाताचें बोट माथ्यार दवरता) नमस्कार देवा....हयवय. करतां हांव...हो पळय हांगा आसां,सत्या म्हऱ्यांत....तो चित्रकार देवा...... आनीक थोड्याच वेळान पावतां देवा. ...बाकी सगळीं कामां केर्लीं हांवें देवा. हो एकलोच उरला. ....ते पन्नास जाण मू ? तांकां सगळ्यांक हांवें मिनीबसींत चिड्डून चिड्डून भरले आनी बस घांटावयल्यान खोल देंगणांत उडयली. ते पन्नासूय आत्मे हांव वयर दवरून आयलों देवा...... गुदावांत आसतले देवा. ....तीं तिगां जाणां न्हय देवा, धबधबो पळोवपाक गेल्लीं. थंयच हांवें तांकां बुडयलीं. ...ते चौग जाण ?...तांकां हांवें दर्यावेळेर पिकनिकेक धाडले. थंय तांकां दर्यांत न्हावपाक लायले. तेय गुदांवांतूच आसात देवा.. ....देवा, जे फाल्यां व्हरपाचे आसात तांकां हांवें आकसिडेंत करून आसपितलांत दवरल्यात. सगलें काम सारकें जालां देवा. हें एकूच उरलां तें करून हांव रोकडोच येतां. (हात सकल काडटा)

सुंदर : ये पिशा.. तूं हांगा कित्याक आयला रे ? चल तुजे वाटेक. (सत्याक) मोडचे कितेंय आसल्यार उडय ताच्या हातार.

दूत : म्हणचें हांव उलयलां तें सगळें नाटक दिसलें ? तूं इतलें पयस गेल्लें, एका खिणांत हांगा कशें पावलें गो सुंदऱ्या ? हांवें हाडलें तुका ओडून. आमकां तसली शक्ती यमदेवान दिल्ली आसा, फटाफट कामां जावचीं म्हूण. तरी पटना तुका जाल्यार पळय...तुजो दावो पांय दुखता ?

सुंदर : ना. मातपूण दुखना.

दूत : आतां दुखतलो. पळय आं..(सुंदराच्या दाव्या पांयाक बोट दाखयता. तें पांय उसळ्ळो म्हूण आङ्डता ) हां..आतां उजव पांय उसळटलो. पळय आं..(दूत ताच उजव्या पांयाक बोट दाखयता. तें आवय आवय म्हूण आङ्डता. ) आनी कितें दुखो ?. सांग. पोट दुखोवं ? तकली दुखोवं ?

सुंदर : नाका. पटलें म्हाका. तूं खरोच यमदूत सत्या.. आतां कितें करया रे ? तूं खऱ्यानी वतलो मरे आमकां सोडून. मागीर आम कशें जातलें रे ? सत्या, तुजेबगर आमी क जगचें रे ?

(तें मोबायल नंबर लायता.)

सत्या : कोणाक फोन लायता ?

सुंदर : शिवाक आपयतां.

दूत : कितें करता तें बेगीन करात. आनी थोड वेळ रावतलों हांव.

सत्या : आगो, शिवा हांगा पावतलो केन्ना ? तो त म्हणटा थोडोच वेळ उरला.

सुंदर : कितलो वेळ उरला रे दूता?

दूत : तुमचे भाशेंत सांगचें जाल्यार...पंचाव मीनटां.

सुंदर : आवय . इतलींच . थोडीं वाडोवन मेळचींन रे?

दूत : तसलो वांटपणाचो वेवार करपाक आम मनीस न्हय.

सुदर : दूता...हीं झाडां जीं फाल्यां कातरू उडयतले तीं वांचोवचीं अशें तुका दिसना

दूत : जरूर दिसता. हीं झाडां म्हणचें तुमच वखदां.तुमचो प्राणवायु. तुमचें अन्न, पाव , उदक, हे वसुधरेचो आदार. तींच कातरून उडयलीं जाल्यार तुमी मनीस जगतले कशें?

सुंदर : हें जाणात मू तुमी. मागीर त वाचोवपाखातीर तुमी कांयच कित्याव करिनात?

दूत : कितें करूं सांग.





सुंदर : एक ल्हानशें काम करात. सत्याक एकूच दीस दवरात. आयज व्हरपाचो फाल्यां व्हरात. फाल्यांचें आमचें आंदोलन जाल्या उपरांत घेवन चलात. प्लीज.फाल्यां गेलो जाल्यार आमचे चळवळीक वजन येतलें.

सत्या : सुंदर...एक आयडिया. मरपाचोंच आसां जाल्यार त्या दुश्टाक मारून मरतां.

दूत : येदें व्हडलें पातक करू नाका. मनशांनी पृथ्वीचेर जो हल्लो चडयला, ताचेर उपाय काडपाखातीर काल देवांची एक व्हडली मिटींग चलताली. तांणी कितेंतरी येवजण केल्याच आसतली. म्हाका म्हजें काम करूंदी. (सुंदराचो मोबायल वाजता)

सुंदर : हॅलो..शिवा....खंय तूं.......बेगीन हांगा यो. .. ...हांगा सत्या सोंपत आयला ...पंदरा मिनटां भितर पाव.........कितें कितें कितें म्हणलें? ....तुका किडनेप केलो? .....कोणे रे?.........खंय आसा तूं आतां?.........गाडयेचो नंबर कितें? हांव पुलिसेक फोन करतां............कितें म्हणलें? पुलिसूच सामील आसात. हॅलो...हॅलो....(कट जालो).... आतां आमचें चळवळीचें कितें जातलें रे सत्या.

सत्या : कितें जालें गो सुंदर. शिवाक किडनेप केलो खंय?

सुंदर : हय. त्या दुश्टांनी सांपळो रचलो खंय.

दूत : हें किडनेप म्हणचें कितें?

सुंदर : आरे फाल्यां जी हांगा झाडांची कत्तल जावपाची आसा, ती आडावपाखातीर आमी चळवळ उबारिल्ली. ते जेन्ना झाडां कातरूंक येतले, तेन्ना चारशें पांचशें लोक झाडांक वेंग मारून रावतले. आमची ही चळवळ बंद पडची म्हूण त्या दुश्टान शिवाकूच उबारून व्हेलो.

दूत : किडनेप म्हणचें उबारून व्हरप.

सत्या : हय. ताका नाच केलो. लिपोवन दवरलो.

दूत : तो तुमकां हांगा कित्याक जाय?

संदर : तो आमचो लिडर मरे. तो नासतना चळवळ जातली कशी.

सत्या : मरच्या पयलीं हांव ताका मेळूंक सोदतां.

दूत : तुका तो हांगा आयिल्लो जाय मरे?

सत्या : हय......

(दूत दावो पांय वयर उबारून जमनीर मारता, तेन्नाच शिवा थंय येवन पडटा. ताच्या हातांत मोबायल आसा.)

सुंदर : आरे शिवा, तूं इतले बेगीन हांगा कसो पावलो ?

सत्या : तुका किडनेप केल्लो म्हण मरे.

शिवा : हय.... हांव तांच्यां हातांतलो सुटलो? कसो? म्हाका ते गाडयेंत घालून व्हरताले. एकटो म्हज्या कपलार पिस्तोल धरून बशिल्लो. बरें जालें. बरो सुटलों हांव. कोणे म्हाका सोडलो ताचें बरें जावं.

सुंदर : शिवा, आतां आमची चळवळ नेटान करपाची. एक लेगीत झाड कातरूंक दिवपाचें ना.

शिवा : कितें सांगूं तुमकां....काल हांव घराघरांनी भोंवलों. म्हजें म्हणणे पटलें तांकां. साडे चारशें लोक येवपाक तयार जाले. सगले तावातावान त्या दुश्टाचेर राग उक्तायताले. झाडां आपलीं सोयऱ्यां म्हणटात. ते झाड कातरूंक येतकच चौग चौग जाणांनी झाडाक वेंग मारून रावपाचें थरलें. झाडां वाचोवपाखातीर ते मरपाक तयार जाले. म्हाका बरें दिसलें. राती न्हिदूय बरी पडली. सकाळी उठून परतून थंय गेलों जाल्यार सगळें चित्र बदल्लें. कोणूच म्हाका लागी



रावलेनात. हांव दिसतांच दुसरे वाटेन चलपाक लागले. म्हाका पळवन दारां धांपूंक लागले. म्हज्या एका विश्वासांतल्या मनशान म्हाका सांगलें, रार्ती तो दुश्ट थंय सुटकेस घेवन आयिल्लो खंय. वीस लाख रुपया वांटून गेलो.

सत्या : शी... कसले लोक रे हे. दुडवांक लागून आवयक लेगीत विकपी.

शिवा : आवयकूच न्हय. देवाक लेगीत विकलो ताणी. त्या देवळाची गजाल विसरलो तूं?

सुदर : किर्ते जालें रे त्या देवळाचें.

शिवा : सत्या, सांग ताका त्या देवळाची खबर.

सत्या : आगो आमच्या गांवच्या त्या देवळांत आतां देव उरललोना.फकत मूर्ती आसा. एक दीस किर्ते जालें जाणा.......(काळोख)

* * *

(गांवच्या कांय लोकांचेर उजवाड पडटा. हे देवळाचे कमिटीचे वांगडी. ते बसकेखातीर एकठांय जाल्यात. सत्या आनी शिवा सोडून सगळे वांगडी हाजीर आसात)

वांगडी १ : मिर्टींग सुरू करात मरे. आतां रावता कोणाक. सत्याक झक मारू थंय. सत्या ना जाल्यार मिर्टींग कॅन्सल करतले किर्ते?

जाण्टेलो : शिवा आजून येवंकना न्हू रे.

वांगडी १ : शिवाय येवंना.....? तशें जाल्यार मात्शे वाट पळवया.

वांगडी २ : कितलो वेळ वाट पळयतले? आमोरी जावची जाली. आमकां आनी जायतीं कामां आसात.

वांगडी ३ : आमी बेकार आसा म्हणून येतात रे हांगा? देवळाचें काम म्हुणोन येतात.

वांगडी ४ : हय... वाड्यार एकूच देवूळ. तें व्हडलें करपाक जर आमकां कोण मजत करता जाल्यार करूं बाबडो.

वांगडी ५ : देवूळ बरें जावं आनी तेचेंय बरें जावं.

जाण्टेलो-कोणूय वचोन घेवन येयात शिवाक.

(एकटो मात्सो फुडें वचून शिवाक उ मारता. दुसरो एकटो ताचे कडेक रावून उ मारता.)

वांगडी २ : आरे तुमचे ते उले तेका आयकूंक येतात.

वांगडी १ : तो नकळो रे ..मिर्टींग आसा म्हुणोन... उले कित्याक मारता? ते दोगूय येय जाल्यार देवूळ अशेंच दवरपाचें मरे.

(पांच जाण वांगडाच उलो मारतात- शिवा...........

वांगडी ५ : हो पय मरे. हांगाच आसलो दिसता हो.

वांगडी ४ : सत्याय आसा मरे तर वांगडा.

वांगडी १ : तो तेका सोडटा.

(सत्या आनी शिवा य्रेतात. ताचे धवे कें आनी धवें खाड वाडलेलें आसा. गळ्यां रुद्राक्षांची माळ आसा)

जाण्टेलो : यो शिवा...बस...आमी तुजीच वा पयताले.

सत्या : म्हणचें म्हजी पळयनासले?

जाण्टेलो : अशें कशें.! सत्या आनी शिवा दोगू आमकां सदांच जाये.

सत्या : हें फकत सांगपापुरतें. सत्य कोडू लागत तुमकां. फाटले मिर्टिंगेंत सांगिल्लें हावें. खं आयकलां तुमी म्हजें. म्हाका तुमी भाय दवरला न्हय रे. आतां म्हाका मिर्टिंगें उलोवपाचो कसलोच रायट ना.

जाण्टेलो : अशें कित्याक म्हणटा रे.! सत्या आनी शिव म्हणचें देवळाचे दोन खांबे. किर्ते सांगलेलें रे तुवें फाटले मिर्टींगेन.

सत्या : हावें सांगिल्लें, भ्रश्ट मनशाचे, नागोवणेचे दुडू आमकां देवळाक नाका म्हण. आत





परतून त्याच विशयाचेर मिटींग कित्याक जाता.?

जाण्टेलो : ते सगळे जाये म्हणटात न्हू रे.

सत्या : सगळे म्हणटले देवळांत सोन्याचें बार घालया . तुमी आयकतले. बरें कितें तें पळोवंक नाका.?

वांगडी १ : पयसो खंयचोय हाडूं रे तेणे. तें आमकां कित्याक पडलां. तेणे केल्लीं पातकां तो भोगतलो. फाल्यां तो निवडून येतलो आनी गांवांत बरें बरें करतलो..

वांगडी २ : आमी पयशे घेतलेना जाल्यार आमचेर राग काडटलो.

वांगडी १ : निवडून येतलोच तो. सगळीं मतां तेकाच पडटलीं. हेंचीं दोगांचीं सोडून.

जाण्टेलो : शिवा... तूं उलय मरे कितें तरी.

वागडी १ : तो आनी कितें उलयतलो.! दोगूय एकूच ते.

जाण्टेलो : वगी राव रे मात्सो. मान रेस्पेत दिवंक कळटा काय ना रे तुमकां......? उलय तूं शिवा...

वांगडी ३ : आयकुया...आयकूंक कितें जालां.?

शिवा : पयशे घेवपाचें तुमी पयलींच थारायलां जाल्यार आनीक उलोवन फायदो ना. तुमी जाय तें करात. हांव उठून वतां. आनी ह्या देवळांत पांय दवरिना.

जाण्टेलो : हें आख्खें देवूळ तुवें उबें केलां मरे शिवा. तूंच उटोन गेलो जाल्यार अर्थ कितें उल्लो?

शिवा : हांवें कांयच करूंकना. जें कितें केलां तें ताणे म्हजेकडसून करून घेतलां. वाड्यावयल्या दर एकल्याचो पयसो आसा तातूंत. म्हणून हें देवूळ सगळ्यांचें. गांवांतल्या दर एकल्याचें. दर एकल्याक तें आपलें दिसता कारण तातूंत तांचो वांटो आसा. सेवा आसा. त्याग आसा. आनी त्याच खातीर ह्या देवळांत देव आसा. भक्तांच्या घामा कश्टांच्यो ह्यो वणटी मोडून जर तुमी ताच्या पयशांनी नव्यो बांदल्यो जाल्यार तें देवूळ गांवचें उरचेंना. तें त्या दुडवांकांराचें जातलें. असल्या दुडवांच्या देवळांत देव रावना. तें फकत चार वणटींचें रितें घर जातलें, देव नाशिल्लें. जीव प्राण नाशिल्ली. सोबेची इमारत जातली, टुरिस्टांक दाखोवपाची. . तुमकां देव जाय काय देवूळ जाय . (सगळे व ग्गी)

वांगडी १ : तो दिता ते पयशे घेवपाक कितें जालां रे.

शिवा : घेयात. पूण देवळाक वापरू नाकात. ह्यो गरिबांच्या घामा कश्टांच्यो वणटी मोडू नाकात. येथंय भायर एक व्हडली बाग करात. भुरग्यांक खेळपाक खेळा मैदान बांदात. देवळाक हात लावं नाकात.

वांगडी २ : तो देवूळ बांदून दिता तें नाका म्हणप म्हटल्यार मूर्खपणा मरे.

वांगडी ४ : बदलाक तो कितें मागता? फकत मतां. तीं दिवपाक जालां कितें. ......

वांगडी३ : देवूळ काय तेच्या नांवार जावचेंना मरे....? जाय जाल्यार सत्याचीं सुंदरशीं चार चित्रां लावया रे वणटींचेर

सत्या : लक्षात दवरात....सत्य ना थंय सत्या ना. सत्या ना थंय शिवा ना. आनी आमी दोगूय नात थंय म्हजीं सुंदर चित्रां नाकात.

जाण्टेलो : हें पळयात...आतां तो येतलो हांगा. तेका कितें तें सांगोंक जायें.

वांगडी ३ : आमी तेका जाये म्हणून सांगतले. कोणाक गांवचें बरें जाल्लें नाका तेणे गेल्यार जाता.

(वेंचणुकेक उबो राविल्लो उमेदवार येता. ताच्या वांगडा दोग जाण वावुरपी आसात. तांच्या हातांत पत्रकां बी सामान आसा. सगळे उमेदवाराचो जयजयकार करून ताका येवकार दितात. शिवा जाग्यावयलो



उठून फाट करून चलूंक लागता. ताच्या फाटोफाट सत्या वता. शिवा बशिल्लो त्या जाग्यार आतां उमेदवार बसता.जयजयकार चालू आसतनाच ल्हवल्हव काळोख जाता.)

* * *

सुंदर : मागीर त्या देवळाचें कितें जालें रे सत्या? आनी तो निवडून आयलो?

सत्या : स्वताक पावणेर काडपी मतदार आसल्यार असले मनीस कित्याक निवडून येवचे नात. ताणे गडगंज देवूळ बांदून दिलें आनी गांवच्या सगळ्या लोकांक सामके विकते घेतले.आतां तोच त्या देवळाचे उत्सव करता आपल्या खर्चान, आनी बसींत भरून लोकांक शिर्डीक व्हरून हाडटा.

सुदर : हं.... म्हणचें फाल्यां आमकां ते लोक मेळचेनात . आमचो प्लेन फेल जातलो तर.

शिवा : ना. आमी फाटी सरप ना. जाता तशी टक्कर दिवपाची. जीव गेल्यार उपकरता, पूण झाडार कुराड मारूंक दिवप ना. हांवें प्रेसाक कळयलां. प्रेसवाले मिडियावाले फाल्यां हांगा केमेरे घेवन येतले. आतां आमी तिगांनीच ही लडाय लडपाची.

सत्या : तिगां न्हय शिवा ...तुमी दोगांच. हांव आतां वतलों.

शिवा : खंय वतलो रे तूं?

सत्या : वयर... म्हजी चळवळ हांगाच सोंपली......

शिवा : खंय वयर ...?

सत्या : सामको वयर.

शिवा : कोण सांगता रे?

सत्या : तोच. जाणे तुका गुंडांच्या तावडींतल्यान सोडयला पळय तो.

शिवा : कोण रे तो... खंय आसा?

सुदर : शिवा... फाटल्यान पळय...

शिवा : (फाटल्यान पळयता)कितें आर फाटल्यान.

सत्या : ताका दिसचोना गो तो.

दूत : (ताळयेचीं दोन पानां तोडून आपणाल दोळ्यांक लायता)

शिवा : आरे .... हीं पानां अशीं कशीं उडटात?

दूत : घे, हीं पानां लाय ताच्या दोळ्यांक.

(सत्या तीं दोनय पानां घेवन शिवाच दोळ्यांक लायता तेन्ना ताका दूत दिसता

शिवा : हें आनी कसलें संवग.!

सुंदर : शिवा, ताका कांय म्हणू नाका. त यमदूत....सत्याचो जीव व्हरपाक आयल

शिवा : हो घाणयारो कितें व्हरतलो सत्याचो जीव ये, तूं सत्याक मारपाक आयला रे ? तुज असले जादुगार जायते पळयल्यात हां म्हाका वळखता ? व्हडले व्हडले मिनिस्ट लेगीत भियेतात म्हाका. शिवा हांव शि . म्हजे हात वयर मेरेन पावतात. कळ्ळें ?

दूत : वयर म्हणचें खंय ? सर्गार ? फकत म्हज सायबान यमदेवान सांगल्यारूच हां ताका सोडूंक शकतां.

शिवा : नंबर कितें तुज्या यमदेवाचो ? हां उलयतां ताचेकडेन.

दूत : ताका तुमचे मोबायल पावनात रे.

शिवा : तूं सत्याचें कांयच वायट करूंक शकचोन हांव सांगतां तुका, हो शिवा सांगता. सत्य तूं कांयच भिव नाका. हांव पळयतां ताक आत्तां धरून भितर उडोवंक लायत खुनाची धमकी दिल्ल्याचो आरोप लायत

दूत : कोण म्हाका धरतलो ? खंयचो कोण ? तूं मात्सो हात लावन दाखय पळोवया.

शिवा : असल्या बुरशाक हांव हात लायना.





त : हात लावपाक वीट दिसता जाल्यार फकत बोटूच तेंकोवन पळय.

ावा : कितें करतलो ? मारतलो म्हाका ? हो पळय लायलो हात.(शिवा ताका हात तेंकयतांच लायटिचो शॉक आयिल्लेवरी उसळून पडटा.)

ावा : सत्या, हो मनीस काय पावर-हावज रे ? ताका शॉक येता मरे. फाल्यां हाचो बरो उपेग करू येता.

त्या : शिवा तो खऱ यानीच यमदूत . म्हाका व्हरपाक आयला.

ावा : तूं इतलो भियेला कित्याक रे सत्या ? हांव सोल्व करतां तुजो प्रोब्लेम. आमकां जाय मरे तूं. तुज्या असलो चित्रकार आमकां जाय. सगळ्यांक जाय. ....ये, तूं वता काय ना हांगासलो ?

ूत : ताका घेतलेबगर हांव वचपाक ना.

ुंदर : तुवें पोसला रे ताका ? आवय बापूय कोण ना समजला ताका ?

ूत : हें पळयात. सांगून दवरतां. म्हज्या कामांत जो कोण आडखळ हाडटा ताकाय घेवन वचपाची मेकळीक म्हाका म्हाराजान दिल्ली आसा.

ुंदर : व्हर व्हर म्हाकाय व्हर

शिवा : म्हाकाय व्हर रे दूता. आमकां तिगांकूय व्हर. हांव जाप विचारतां तुज्या त्या यमराजाक. मनशांक बरेबशेन जगूंक दिना म्हणचें कितें ? मनाक मारता ताका घेवन वता ? हांगासले प्रोब्लेम कोण सोल्व करतलो. ही कितें हीटलरशायी ?

ूत : कसली शायी ?

शिवा : हिटलर....हिटलर म्हूण एक....आसूं तुका समजुचेंना तें.

दूत : बरें समजता म्हाका. हिटलर म्हणचें गायंडोळ.(हांसतात) नुस्तें उजरायल्ल्याबशेन मनशांच्यो गोमट्यो कातरतालो तो. आतां ताका गायंडोळाचो जल्म दिला. गायंडोळ जावन मातयेंत वळवळटा तो. हांवेंच व्हेल्लो ताचो आत्मो.

शिवा : तुवें ? तूं केन्नाचो रे ? ताका मेल्यार कितलो तेंप जालो. तूं तर भुरगो दिसता.

दूत : आमी जाण्टे जायनात रे. युगांच्या युगां अशेच उरतात. जाण्टे जातात, म्हातारे जातात, मरतात ते तुमी, मनीस. आमकां मरण ना. आनी जाणा मरे मनशा, आमचो म्हाराज, मनाक मारता ताका व्हरना. जाचें आयुश्य सोंपता ताकाच व्हरता.

शिवा : कित्याक सोंपतलें इतले बेगीन ? तो कितें म्हातारो जाला मरपाक ? जायना ताजेकडें जगूंक ?

दूत : आरे दर एकाक अमुकूच आयुश्य दिल्लें आसता.

शिवा : कित्याक अमुकूच दितलो तो ? आमी आमचे इत्सेप्रमाण जगतले.आमकां जाय तितलें जियेतले.

हाणे, ह्या सत्यान केन्ना मूय तरी चिड्डिल्या मरे ? केन्ना कोणाक वायट उतर तरी दिलां ? तो आपलो दीसभर चित्रां काडपांत मग्न आसता. झाडांची कत्तल करतात तांका व्हरचें सोडून तुमी इतल्या बऱ्या मनशाक व्हरतात ?

दूत : ताची फाटल्या जल्माची बाकी चड आसतली. ताचो हिशोब सारको टॅली जायना .

शिवा : कितें जायना ?

दूत : टेली जायना...टेली.

शिवा : खंय आसा हिशोब ? दाखय म्हाका. हांव



पळयतां. हांव म्हज्या ऑडिटराकडल्यान सारको टेली करून हाडटां.

दूत : हिशोब म्हजेकडेन ना रे मनशा. तूं वयर येवन ऑफिसांत चवकशी कर.

शिवा : आमकां वयर येवंक मेळटा?

दूत : येवंक मेळना. पूण हांव व्हरतां तुमकां. कांय व्हरूंक मात मेळचेंना.

सुंदर : आमचेकडेन आसा कितें व्हरपाक.!

सत्या : देवाक कितेंय भेटो बी व्हरूंक मेळचेंना म्हणटा दिसता तो.

दूत : भेटो न्हय.

शिवा : हांगचे पयशे, धन दौलत म्हणटा मरे तूं?

दूत : तें तर व्हरूंक मेळचना. त्याभायर आनीक कांयच उपकरना.

सुंदर : जेवण खाण?

दूत : जेवणा खाणाची गरज लागना थंय. म्हाका म्हणपाचें आसा..कपडो लत्तो व्हरूंक मेळचेंना.

शिवा : आमी कितें रावपाक वतात तर थंय? रात जावचे पयली येवपाचें. फाल्यां आमचें आंदोलन आसा, जाणा मरे तूं?

दूत : आरे एकूय कपडो व्हरूंक मेळना म्हणचें? आंगार कसलीच वस्त आसूंक जायना?

सुंदर : मोबायल घड्याळ मुदी सरपळी सगळें आमी हांगाच खंयतरी लिपोवन दवरुया.

सत्या : सुंदर, तुज्या आंगार भांगर बी आसल्यार काड.

दूत : वस्त आनी वस्त्र.

शिवा : वस्त्र म्हणचें.....? कपडे.?

दूत : हय. हें सगळें काडचें पडटलें.

शिवा : कितें म्हणटा रे. हे कपडे काडून येवपाचें? हांव तयार आसां.

सत्या : भितरली चेड्डी तरी घालूंक मेळटली मरे?

दूत : ना. तीय काडची पडटली.?

सुंदर : धीस इज टू मच.

दूत : टू मच न्हय . जसो आयिल्लो तसोच गेल्. एन्ट्री मेळटा. येतना तुमी कपडे घाल आयिल्ले.

सत्या : ना.

शिवा : हांव येवपी. यारे आमी सत्या...... सुंद हां.. आरे हाजें कितें?

दूत : तें कपडे घालून आयिल्लें?

शिवा : पूण तूं कपडे घालून कसो वता तर? काड मरे.

दूत : आरे हांव हांगासलो न्हय रे सायबा. हे थंय कपडे.

सत्या : आमकांय दी मरे थंयचे कपडे.

दूत : ते तुमकां मेळना. थंयचे कपडे घालप तितलीच पात्रताय आसची पडटा. जा देशाखातीर प्राण अर्पण केला, स समाजकार्य , धर्मकार्य केलां तांकांच थं कपडे घालूंक मेळटात. गांधिजी, सुभाष बोस, व्हडले व्हडले संत, समाज सेवव स्वातंत्र्य सैनीक, झुजांत प्राणार्पण केल्ल जवानांक बी थंय बरी वागणूक आनी ते कपडे मेळटात.

शिवा : गांधिजी थंय कसले कपडे घालता.?

दूत : तो एकलोच वालो न्हेसून आसत पृथ्वीवयल्या सगळ्या गरिबांक रोटी,कप आनी मकान मेळसर आपूण वाल न्हेसतलो म्हूण हट धरून बस तो..............कितें करता. येता.?

सत्या : पूण कपडे काडप म्हणचें....सुंदर, येता मो तूं.?

सुंदर : हांव येना. म्हाका नाका तुमचो सर्ग. ह हांगाच रावून तुमची वाट पळयतां. तु










वचून येयात.

वा : चल रे सत्या, काड कपडे.

त्या : तूं पयली काड.

वा : तूं फाट कर गो सुंदर......(काडपाक लागता)

त्या : हांव......हांव गाडयेंत बसून काडटां.

वा : गाडी आनी खंयची रे? थंय गाडी व्हरूंक मेळटा?

त : गाडी बिडी कांय ना. हांव म्हज्या भेंडाची • दोरी सोडटां. ते दोरयेक धरपाचें आनी म्हजे फाटोफाट चललेल्या भशेन फकत पांय हालोवपाचे.

शिवा : चलून पावतले केन्ना. आमकां बेगीन परतूंक जाय.

त : दोन मिनटां पसून लागचींनात. दोरयेक धरलें की आपशींच वयर पावतलीं.....हां.. बेगीन पावपाक आनी एक उपाय आसा. थापट मारपाचो. हांवें एक थापट मारल्यार सोमतो वयर वचून पडटलो.

सत्या : नाका....तुजें थापट नाका. आमी दोरयेक धरुनूच येतात.

सुंदर : परतून हाडून पावयतलो मरे बरेभशेन..? नाजाल्यार धुकलून सकयल उडयशी तांकां.

दूत : मानान व्हरतां तशे मानान हांगा हाडून सोडपाची जापसालकी म्हजी. वगीच आमी कोणाकूय धुकलून उडयनात. पातक्यांक आमी धुकलून नरकांत उडयतात. झाडां वाटावपाक वावुरतात म्हणचें तुमी पातकी न्हय. पातक्यांचेर खोंटो मारून आमी फुटबॉल लेगीत खेळटात.

शिवा : थंय फुटबोल गेमी आसतात.?

दूत : फुटबोल, वोलीबोल, क्रिकेट....सगळे खेळ आसात.

सुंदर : देव खेळटात.?

दूत : सगळे देव खेळटात.

सत्या : खंयची गेम चड बरी जाता.?

दूत : फुटबोल पळवपाक चड मजा येता.

सुंदर : बोल खंयचो हाडटात तर तुमी.?

दूत : तांकां बोलाची गरज ना. नरकांतल्या एका पातक्याक हाडटात आनी ताचेर खोंटो मारतात. एकेका देवाची शूट इतली पावरफूल आसता, तो बोल-म्हळ्यार पातकी इतलो पयस पावता....सामको परतून आसलो तसो नरकांत पडटा.

सत्या : आवयस...सगळ्यांत पावरफूल शूट कोणाची.?

दूत : भीमाची. ताचो बोल सोदपाक आमकां सगळें ब्रह्मांडभर भोंवचें पडटा.

सुंदर : भीम आजून आसा.?

दूत : आसा तर.अर्जुन! बी सगळे आसात थंय.

शिवा : आनी क्रिकेट खेळटना बोल कसलो आसता.?

दूत : तेच. नरकांतले पातकी. तांकांच धाडायतात.

शिवा : तातूंन फोरी मारूंक जाता.?

दूत : फोरी खंयच्यो. शिक्सरी मारतात सिक्सरी.

सत्या : वॅलिबोलूय तेच पातकी.?

दूत : हय.

शिवा : क्रिकेट पळोवंक मजा येतली न्हय. चल सत्या, याच आमी. तूं फाट कर गो सुंदर.

दूत : तुमी क्रिकेट पळवंक येतात काय हिशोब.?

शिवा : हिशोब हिशोब...

सुंदर : तुमी क्रिकेट पळवंक रावशात आनी परते येवपाक विसरशात. फाल्यां हांव एकटें पडटलें हांगा.



(सुंदर फाट करता. शिवा कपडे काडूंक लागता. सत्या भियेला.)

शिवा : (सत्याक) तूं इतलो कडकडटा कित्याक रे ? हांव आसतना तूं भिता ? हांव तुका कसोच मरूंक दिवचोंना.

सत्या : नाका शिवा....म्हजेखातीर तूं तुजो जीव धोक्यांत घालू नाकात. हांवूच वतां. एकटोच.(दूता म्ह- यांत वचून उबो रावता)

शिवा : सत्या...

सुंदर : सत्या....हें कितें करता तूं...?

सत्या : यमदूता..हांव तुजेवांगडा येवपाक तयार आसां.

दूत : म्हाका तुजे इत्सेचें खंय पडलां. टायम जालो म्हण्टकच हांव म्हजें काम करतलोंच. म्हाका कोणूच आडावंक शकना. तोमेरेन तूं जाय तितली मजा कर.

सत्या : म्हाका मजा करपाची ना. यमदूता, म्हजी एक निमणी इत्सा पुराय करूंदी.

दूत : कसली इत्सा ती पयली सांग. कसलीय इत्सा हांव मान्य करपी न्हय. मनशांचेर म्हजो साप्प विश्वास ना. फाटी एक फावट एका मनशान म्हाका कॅट केलां. आपली निमणी इत्सा म्हणूंक लागलो. मात्सो नातवाक मेळून येतां म्हणूंक लागलो. हांवें दिलें परमिशन. हो परतो आयलोच ना. पळय जाल्यार तो लगीनूच जावंक नासलो. नातू खंयचो आसतलो।

सुंदर : मागीर कितें केलें तुवें ?

दूत : मागीर देवान ताचें बेगीबेगीन लगीन केलें. भुरगें जालें. भुरग्याक मोग करूंक लायलो. व्हड जावचे आदीच ताचेंय लगीन केलें. तेन्ना ताका नातू जालो. जाल्यार हो नातवाचें तोंड कशेंच पळयना.

सत्या : मागीर ?

दूत : हांवें म्हजी शक्ती वापरली.

सत्या : कसली शक्ती ?

दूत : ताका ओडून व्हेलो आनी नातवा म्ह- र आपटिलो. तेन्ना तो मेला.

सुंदर : तुवें ताका आपटून मारलो ?

दूत : नातवाचें तोंड पळोवंक लायलें रे. ..अ भोगता तो.

सत्या : कितें भोगता ?

दूत : हाल हाल जातात ताचे नरकांत. आतां ता फुडलो जल्म कसलो मेळटलो जाणा ?

सत्या : कसलो ?

दूत : रस्त्यावयल्या सुण्याचो.

शिवा : पूण नातू जायसर जगलोच मरे तो ?

दूत : खंय जगला ? आमी ताका कोम उडयलो. नातू जायसर कोमांत. नातू जा त्याच दिसा आमी ताका शुद्धीर हाडत हां.....आतां तुजी इत्सा सांग पळोवया

सत्या : म्हजी तसली इत्सा न्हय. म्हजी सादी. ह चित्रकार. तुजें एक चित्र काडपाची म्ह इत्सा आसा.

दूत : म्हजें चित्र कित्याक रे ? तुवें म्हाका राक्ष म्हणलो, हाणे जनावर म्हणलें, हाणे बुरो म्हणलो.हांव साप बरो दिसना. म्हजें चि काडून कितें करतलो ?

सत्या : त्याखातीर न्हय. तुमची वळख जगलोका जावची म्हूण. मनशाचे आत्मे घेवन वचो यमदूत कसो दिसता तें मनशाक कळ म्हूण.

दूत : कळून कितें करतले ते ?

सत्या : तुजें चित्र घरांत लायतले. देवाची पु करतात तशी तुजी करतले. तुजीं देव बांदतले. उत्सव करतले.







: अशें.। .बरें आसा तर...चल काड बेगीन. वचपाचो वेळ जावचे आदीच सोपय आं..घंटा वाजली की हांव तुका एक सेकंद लेगीत दवरपाक ना.

त्या : घंटा कोण वाजयतलो ?

त : म्हजो म्हाराज, यमदेव. ताणे थंय घंटा मारली की म्हजे तकलेंत टण्ण जाता. चल चल बेगीन कर (दूत खुर्चेर बसता. सत्या चित्र काडपाक लागता. ) हालू नाका आं. चित्र वांकडें जातलें. मागीर लोक म्हणटले यमदूत वांकडो आसलो.

(सत्या चित्र काडटना शिवा आनी सुंदर कडेक फातरार बसून बारीक खबरो करतात. मदीमदी मोबायल लायतात.)

त : जालें रे ?

त्या : फुडली सायड जाली. आतां फाटली सायड. फाट कर.

त : फाटली सायड कित्याक रे ?

त्या : मुर्ती तयार करतलो ,पुतळो बी बांदतलो जाल्यार फाटली सायड जाय पडटा.

त : (फाट करून उबो रावता) बेगीन जावंदी.

त्या : तूं हालनासतना रावलो जाल्यार बेगीन जातलें. वा..तुजी फाट चड सुंदर दिसता. हां...तसोच राव. मात पूण हालू नाका. जालें म्हण्टकच सांगतां तुका हांव... हालू नाका आं. ...

(सत्या शिवाक आनी सुंदराक पळ काडपाक खुणायता. तिगांय आवाज करनासतना थंयचीं पळटात.)

दूत : (कांय वेळान हालनासतना ल्हवूच) जालें रे.? ....आरे जालें.?.......आरे सत्या, चित्र काडून जालें ? (दुबावान फाटल्यान पळयता. कोणूच ना. तो रागान दोळे मोठे करून पळयता आनी नेटान दावो पांय वयर उबारून जमनीर मारता, त्याबराबर सत्या येवन ढब्ब करून जमनीर पडटा)

दूत : कितें रे मनशा...तूं कोणाकडें खेळटा. इतलें तुका सांगलें तरी म्हाका फटवपाचो प्रयत्न करता मरे तूं ?

सत्या : चुकलों दूता...... हांवें फकणां केल्लीं.

दूत : कोणाचीं फकणां? यमदूताचीं ? तूं खंयच्याय फोंडांत लिपलो तरी तुका हांव ओडून हाडूंक शकतां.

सत्या : तेंच पळवपाखातीर केल्लें हांवें. असो तुवें पांय मारून म्हाका हांगा उडयतकच बरें दिसता....

दूत : उबो राव. (तो उबो रावता. यमदूत परतून पांय जमनीर मारता. सत्या उबो आसा थंयच जमनीर आपटता.) बरें.....दिसता न्हय . ?...आतां बस थंय आनी मरणाची वाट पळय.

सत्या : (कपलार हात दवरून फातरार बसता) शिवा आनी सुंदर खंय आसात ? तांकां कित्याक हाडलींना ?

दूत : तीं गाडयेकडें रावून तुजी वाट पळयतात.

सत्या : तांकां हांगा हाड.... प्लीज.

दूत : तांचेकडेन म्हजें कांयच कर्तव्य ना. म्हाका जाय फकत तूं.

सत्या : हांव मरतना म्हाका तीं दोगांय म्हऱ्यांत जाय.

दूत : तुका दिसता, तीं तुका मरणाचे दारेंतल्यान सोडयतलीं म्हूण.? पळोवया तरी कितलीं हुशार आसात तीं सुंदर आनी शिवा.

(दूत उजवो पांय वयर उबारून जमनीर आपटिता. सुंदर येवन स्टेजीर पडटा. उपरांत दावो पांय जमनीर मारता. शिवा येवन जमनीर पडटा. दोगांय थंयच जमनीर



बाबडीं जावन बसतात.)

दूत : मनशांनो, तुमी फकत मनशांक फटयात. आमकां फटोवपाचो प्रयत्न करू नाकात.आमची शक्ती तुमकां खबर ना. दाखोवं ? (तो आळये पाळयेन दोगांकय बोटां दाखयता तेन्ना तीं दोगांय तळमळटात आनी वळवळटात.)

दोगांय : सॉरी...सॉरी दूता...सॉरी म्हणलें मरे.........

(दूत बोटां फाटी घेता तेन्ना तांकां सू..जाता. सर्गांतल्या फोनाची रींग जाता. तीं तिगांय आपापलो मोबायल वाजलो समजून पळयतात.)

शिवा : कोणाचो मोबायल वाजलो ?

सुंदर : म्हजो न्हय.

शिवा : तुजो रे सत्या...?

(सत्या न्हय म्हूण तकली हालयता आनी दूताक बोट दाखयता. दूत एका हाताचें बोट माथ्यार आनी दुसऱ्या हाताचें सर्गाविटेन करून फोन घेता.)

दूत : नमस्कार देवा....हय देवा..काम चालू आसा देवा. हो चित्रकार मात्सो त्रास करता देवा. ताच्या वांगडा आनीक दोगां जाणां आसात. सुंदर आनी शिवा. खूब शापोती देवा. तिगांय मेळून म्हाका किर्ते किर्ते म्हणटात. काळो म्हणटात, राक्षेस म्हणटात , घाणयारो, बुरसो म्हणटात. आनी म्हाका फटोवंक सोदतात ... ना देवा, हांव कसोच फटवपाक ना. हांव सामको शादूर रावलां. तुमी दिल्ले शक्तीचो उपयोग करतां .......किर्ते म्हणटा देवा...तिगांकूय घेवन येवं.?..आयकना जाल्यार तशेंच करतां देवा.........आनी किर्ते देवा.?...सांगात देवा...आनीक कितले जाण आसात ?.... खंय आसात देवा.? ....हां..ते न्हंयेक बुडटी हाडली ?...बरें केलें देवा..हांव घेवन... सगळयांक.....बरें देवा, सगळ... गुढावांत उडयतां. (हात सकयल का...

शिवा : कोणाकडें उलयतालो रे दूता ?

दूत : आमच्या देवाकडेन.

शिवा : किर्ते सांगतालो ?

दूत : न्हंयेक पूर हाडून थोड्यांक सोंपयता... खंय. तांचेय आत्मे वांगडाच घेवन... सांगलां म्हाका.

शिवा : आमच्या विशीं किर्ते सांगलें ?

दूत : चड मस्ती करीत जाल्यार तिगांकय घे... यो म्हूण हुकूम दिला म्हाका.

शिवा : हें..हें चड जालें मरे त्या यमदेवाचें. ... मोबायल मात्सो म्हजेकडेन दी. हांव... उलयतां ताचेकडेन.

दूत : आमचे मोबायल दिवंक मेळनात रे.

शिवा : आरे म्हाका म्हत्वाचें उलोवंक जाय... ताचेकडेन.

दूत : तूं म्हाका सांग. हांव सांगतां देवाक. ... मेळटा तशें तशें हांव तुका सांगतां.

शिवा : बरें..कर सुरू.

दूत : (परतून वदळची पोझ घेता.) देवा, हो ... तुमकां किर्ते विचारूंक सोदता..... तो ... देवा, म्हाका घाणयारो बुरसो म्हणटा... (शिवाक) विचार रे मनशा..

शिवा : आमचो जीव व्हरपाचो अधिकार ताका कोण... दिलो काय विचार.

दूत : देवा, जीव व्हरपाचो अधिकार तुमकां कोण... दिलो काय खंय. ...हां...सांगतां दे... (शिवाक) ये...ब्रह्मदेवान दिला खंय.

शिवा : ब्रह्मदेवाक कोणे दिलो काय विचार.

दूत : देवा, ब्रह्मदेवाक कोणे दिलो काय विचा... तो. ...सांगतां देवा. ....ये मनशा, तें ता...







विचार खंय..... आं......? सांगतां देवा...ये, ब्रह्मदेवान स्वताच घेतला खंय.

वा : कित्याक ?

: देवा..कित्याक काय विचारता. ....हां देवा सांगतां. (शिवाक) आरे मनशा ताणेच तुमकां जीव दिल्यात. सगळे जीव ताचे मालकीचे. आपली वस्त तो आपणाक जाय तेन्ना व्हरता आनी दुसऱ्या खंयच्या तरी प्राण्यांत घालता.

वा : दुसऱ्या म्हणचें खंयच्या ?

त : आरे दुसऱ्या म्हणचें जनावरांत, सोरपांत, झाडांत, पक्षांत, सुण्यांत, गायंडोळांत.....आनी किर्ते विचारपाचें आसा ?

वा : आनीक खूब प्रस्न आसात.

त : देवा ताचे आनीक खूब प्रस्न आसात खंय.....आं.?.....हां देवा..हां.(हात सकयल काडटा.) आ..देव येता खंय हांगा. आतां सांबाळ तूं.

दर : हांगा येता खंय ?

वा : यमदेव येता....!.

त्या : आरे म्हज्या बाबा...

वा : येवंदी रे. बरें जालें. म्हाका सगळ्या प्रस्नाच्यो जापो मेळटल्यो.

त : हांव वतां म्हज्या फुडल्या कामाक.

शिवा : लोकांचे जीव घेवपाच्या कामाक मरे ?

त : हय. तेंच म्हजें काम. सत्याक व्हरपाचें काम म्हाराज स्वताच करतले.....रेस्पेदान उलयात देवाकडें.

(यमदेव येता. दूत नमस्कार करता. सत्या ताका न्हिदून नमस्कार करता. फाटोफाट सुंदर करता आनी शिवाक नमस्कार करूंक खुणायता)

देव : आसूं गो सुंदर. मनाविरूध्द नमस्कार करून कांय फायदो ना. (शिवा नमस्कार करता) सत्याः-देवा, बसात...

देव : खंय बस म्हणटा रे म्हाका? हे लोखणाचे खुर्चेर?

दूत : देव लोखणाचे खुर्चेर बसना रे. आसनार बसता आसनार.

सुंदर : आसन कसलें रे दुता.?

दूत : लाकडाचें नाजाल्यार फातराचें. ...ह्या फातरार बसात देवा. (देव फातरार बसता)

देव : तूं वच तुज्या कामाक.

दूत : वयतां देवा. (वचून परत येता)

देवा : परतून कित्याक आयलो.?

दूत : देवा , तुमकां उगडास करपाक आयलां.

देव : कसलो उगडास.?

दूत : सांबाळून देवा. ...हे मनीस नाडबुदीन पाटांगडे आसतात. वदळ म्हाका फटवपाचो प्रयत्न केलो ताणे. पूण हांव बदलोंना म्हाराज.

देव : हांव बदतलोंशें दिसता तुका.?

दूत : ना देवा. हरशींच याद करतां.

देव : कसली याद करता रे?

दूत : लाडवाची देवा.

देव : लाडवाची.? कसलो लाडू.?

दूत : अर्द लाडू देवा. तेन्नाचो.......

देव : हां-हां..याद जाली. चल तूं.

दूत : वतां देवा. (नमस्कार करून वता)

***(पयलो अंक सोंपता)***

**-दुसरो अंक-**

**शुत्रधार** : सत्तेफुडें शाणपण चलना अशी एक म्हण आसा न्हय.? ते म्हणीन चड वाट लायल्या. दर एकलो हीच म्हण मनांत घोळयता आनी



हात कांबरून वगीच बसता. देखून तांचें फावता. हांव तर म्हणन सत्तेफुडें फकत एकवोटाचेंच शाणपण चलता. पूण ताका लेगीत ते आयकनात. संप केले, सत्याग्रह केले, धरणां धरलीं मोर्चे काडले,सगळें उमथ्या कळशार उदक पडलें.

हांचीं कर्मां पळयल्यार, एकेकट्याचे गोमटेक घांस मारचोसो दिसता न्हय? पूण तुमी कोणाकोणाचे म्हूण गोमटेक घांस मारतले. कांय चोर सांपडटात, कांय सांपडनात. थोडे चोर साव कशे दिसतात, तर थोडे साव कशे वागतात पूण तेच एक नंबरचे चोर आसतात. स्वता यमदेव लेगीत भ्रश्टाचाऱ्यांक व्हरपाक आयलो जाल्यार गोंदळांत पडटा खंय. त्याखातीर ताका आमचो आदार जाय पडटा. आमी मजत केल्यार तार्चे काम सोपें जाता खंय. कशें तें तुमीच तुमच्या दोळ्यांनी पळयात. हां.... बरी याद जाली. फाटल्या दिसांनी पेपरार एक बातमी येताली. एक मंत्री कसलेंतरी उदघाटन करपाक गेल्लेकडेन नाच जालो. अजून सांपडलोना खंय तो. आनी केन्नाच सांपडचोना. हांव जाणा तो खंय पावला तो. तुमकां सांगूं.? सांगना. प्रत्यक्ष दाखयतां. पळयात........ ...चल रे.....लायट पेटय...

(माचीभर उजवाड जाता.पयलो अंक फुडें चालू. तोच दीस, तेंच थळ, तोच वेळ. तोच देखाव. यमदेव फातराच्या आसनार बशिल्लो आसा. यमदूत गेल्लो परत येता.)

देव : परतून कित्याक आयलो.?

दूत : देवा, तुमकां उगडास करपाक आयलां.

देव : कसलो उगडास.?

दूत : सांबाळून देवा. हे मनीस नाडबुदीन पाटांगडे आसात. वदळ म्हाका फटवपाचो प्रयत्न केलो. पूण हांव बदलोंना म्हाराज.

देव : हांव बदतलोंशें दिसता तुका.?

दूत : ना देवा, हरशींच याद करतां.

देव : कसली याद करता रे?

दूत : लाडवाची देवा.

देव : लाडवाची. कसलो लाडू?

दूत : अर्द लाडू देवा. तेन्नाचो.

देव : हां-हां.. याद जाली. चल तूं.

दूत : वतां देवा. (नमस्कार करून वता)

देव : ...सत्या,...कितें जालां रे तुजें ? तूं येवप कटकट करता खंय ? सगळे मनीस अशें करतात. जल्म घेवच्या वेळार लाय लायतात. मरच्या वेळार मात सोपेप तयार जायनात. जल्माक भियेना मरणाक कडकडटात. त्याचखातीर आ भूंयकांप करतात, वादळां करतात, सुना करतात, भरिल्ल्यो बसी उदकां उडयतात, विमानां ल्हासयतात, बो बुडयतात. आमकां जाय तितले जीव आ वांगडाच व्हरतात.

सत्या : देवा....तुमकां लाडू जाय.?

देव : म्हाका लाडू कित्याक रे.

सत्या : तो दूत लाडू लाडू म्हणटालो देवा. आय तुमचो बर्थडे बी आसा काय कितें.!

देव : आमचे बड्डे बी आसनात रे. जांचो बर्थ जा ताकां बर्थडे आसता.

सत्या : तो अर्द लाडू कित्याक मागतालो देवा.?

देव : लाडू मागनासलो रे तो. तो म्हाका या करून दितालो, अर्दा लाडवाची. तुमक कित्याक रे त्यो गजाली.? ती आमच देवांभितरली खबर.

सुंदर : सांगात न्हय देवा. आमकां बेठी उमळशीक लागली.

शिवा : आमकां गणीत घाल्लेबशेन घालून गेलो तो





या : कठीन गणीत. अर्धा लाडवाचें.

: कठीण कांय ना रे तांतूंत. तो म्हाका शिटकायतालो, तुमचेकडेन सांबाळून वेवार कर म्हणून.

वा : वेवार कसलो देवा?

: आरे एक फावट एका मनशान म्हाका फटयल्लो.

र : तुमकां फटयलो देवा?

व : हय.थोडे मनीस आसतात तसले.

वा : कितें केलें देवा त्या मनशान?

व : आरे त्या मनशान बरीच तपश्चर्या करून म्हाका प्रसन्न करून घेतलो. म्हणूक लागलो आपलें आयुष्य वाडोवन दी. हांवें मान्य केलें. इतली तपश्चर्या केल्याच न्हय ताणे. म्हणलें दिवया. हांवें तथास्तू म्हणलें. तर ह्या मनशान आनीक एक वर मागलो.

शिवा : कसलो देवा?

व : आरे तो मनीस गोड्यामुताचो .....डायबिटीस. आपणाक म्हणूक लागलो, गोड पचतलें असो एक वर दी. हांवें म्हणलें तें शक्य ना. तूं चड गोड खातालो ताचो हो परिणाम. तुका आनीक गोड खावंक मेळचेंना. सामको रडपाक लागलो. आपणाक म्हणूक लागलो गोड खूब आवडटा. दिसाक एक तरी लाडू खावपाची आपणाक परवानगी दी. नाजाल्यार म्हणूक लागलो, आपूण परतून तपश्चर्येक बसतलो. हांवें म्हणलें, बरें बाबा दितां तुका मान्यताय. पूण एक लाडू न्हय, तूं फकत दिसाक अर्द लाडू खावंक शकतलो. अर्धा वयर खाल्यार तुजी साकर वाडटली आनी तुका कितेंतरी जातलें.

सत्या : मागीर देवा?

शिवा : तयार जालो तो अर्द लाडू खावपाक.

सत्या : फुडें कितें जालें देवा?

शिवा : ताणे फटयलो कसो?

देव : हांवें एक दीस हाका वयर रावून पळयलो, जाल्यार हो अर्द लाडू खावंक बसला. पूण लाडू केदो .

सुंदर : लाडू आनी केदो आसतलो देवा!

शिवा : आसून आसून येदो आसत. (मुठी येदो)

देव : म्हाकाय तशेंच दिशिल्लें. पूण तो स्पेशल लाडू करून घेतालो....येद्दे मोठे..... वेंगेंत जायना येदे.

सुंदर : पळय कसो फटयलो देवाक.

सत्या : इतलो म्हूण फायदो घेवप खंय दिल्ल्या वराचो.

सुंदर : मागीर तुमी कितें केलें देवा?

शिवा : देव आनी कितें करतलो? एकदां वर दिलो तो दिलो.

देव : अशें कशें तर. आमी ताचेर रोकडोच उपाय काडटात. आमकां फटयतल्याक आमी सोपेपणी सोडनात.

सत्या : देवा...तुमी कितें केलें त्या मनशाक?

देव : गँगरीन.

सुंदर : ँगरीन........ म्हणचें कितें देवा?

देव : गँगरीन म्हणचें गँगरीन गो. दोनूय पांय कुसयले. इतले मेरेन कातरचे पडले. फुडल्या म्हयन्यांत सोंपता ताचो प्राज.

सत्या : फुडल्या म्हयन्यांत मरतलो देवा.

देव : मरतलो तर. वाडोवन दिल्ली पिराय सोंपली. जालें मरे? खाले मरे लाडू.

शिवा : बरी ख्यास्त दिली देवा तुमी ताका.(मात्शी नमळाय आयल्या) पूण देवा ...तुमी हे जे अकस्मात येवन मनशाक व्हरतात तें आमकां आवडना.




# DEPARTMENT OF LEGAL METROLOGY,

PANAJI - GOA.

## CONSUMER PROTECTION THROUGH LEGAL METROLOGY DEPARTMENT

**The Department of Legal Metrology carries out the following Statutory functions :**

i) Registration of weights and measures who intends to commence or carry on the use of any weight or measure in any transaction or for industrial production or for protection.

ii) Initial and periodical verifications of weights, measures, weighing and measuring instruments.

iii) Inspections and surprise visits to the traders premises Inspections under the Weights & Measures (Enforcement) Act 1985.

iv) Joint raids and weekly market inspections, and launching of prosecutions against the offenders.

v) Metrological control on Packaged Commodities, including inspections and surprise visits for the same.

vi) Metrological control on Manufacturers/packers of the packaged commodities, including the inspections and surprise visits to check the net content at manufacturers/retailers premises.

vii) Control on Manufacture/Repair/Sale of weights, measures, weighing and measuring instruments by issue of licences.

viii) Launching prosecutions against offenders, compounding the offences and filing cases in the Court of Law.

For any grievances, please approach - **"THE CONTROLLER LEGAL METROLOGY"**, Panaji-Goa. Tel. No. 2426432, **E-mail Address :** conlemet@goa.nic.in "Or approach : (1) **The Asstt. Controllers of Legal Metrology,** at Zonal Offices at **Mapusa/Panaji/ Margao/Panaji** H.O. and / or the Inspectors at their respective Inspectorial Units at -- **Mapusa/Pernem/Bicholim/Panaji/Ponda/Margao/Vasco/Curchorem/Sanguem.**



देव : आवडना म्हणचें? आनी कशें व्हरप तर. व्हरच्या पयली मायक लावन गांवभर पेरगांव घालपाचें?

शिवा : पेरगांव न्हय देवा. एक नोटीस तरी धाडची.

देव : नोटीस आनी कसली?

शिवा : म्हणचें आपूण तुका अमक्या दिसा व्हरपाक येतलों म्हूण पत्र बरोवन कळयल्यार तो आपलीं सगळीं कामां करून तयार रावतलो आसलो. बायले भुरग्यांचें, सगळें जाग्यार उडोवन तुमची वाट पळयत बसतलो आसलो.

देव : ये शिवा....तूं आमकां कितें पिशे समजला? आमचें येदें व्हडलें ऑफीस आसा तें कितें मुसकां मारपाक? तुमचे भशेन सरकारी ऑफीस न्हय तें. ताका आमी एक न्हय तीन पत्रां धाडल्यांत.

सुंदर,शिवा :-......तीन.,....?

सत्या : म्हाका एकूय मेळुंकना देवा. खंयच्या पत्यार घातिल्लें देवा?

देव : पत्तो. आमकां तुमचो पत्तो कित्याक लागता रे? आमचेकडें कितें पोस्ट ऑफीस आसा. पोस्टमेन आसा? आमचो वेवार डायरेक.

सत्या : पूण खरेंच देवा, म्हाका एकूय पत्र मेळुंकना.

शिवा : खंयचे तारखेर बरयल्लें आनी कितें म्हूण बरयल्लें सांगात तरी देवा.

देव : बरयलें? आमकां बरोवपाची कसली गरज? आमी तुमचेबशेन मनीस न्हय पत्रां बरोवन पोस्टांत उडोवपाक.......हें पळय...एक दीस ताका कुडकुड्याचो जोर आयिल्लो. मरता काय उरता अशें जाल्लें ताका. जाल्लें मरे सत्या?

सत्या : हय देवा. मलेरिया जाल्लो म्हाका. फालसिफोरम मलेरिया .

देव : ती म्हजी पयली नोटीस.

सत्या : ती नोटीस देवा?

देव : हय. दुसरी नोटीस तुका तीन वर्सां उ[...] धाडली. त्या दिसा तुजें प्रेशर सामकें [...] केलें हांवें. हॉस्पिटलांत व्हरचो पडलो तु[...]

सत्या : हय देवा.

देव : आनी तिसरे फावट तुका काळजाचो आ[...] आयलो. जाल्योना तीन नोटिसी.

शिवा : हीं दुयेसां म्हणचें तुमच्यो नोटिसी [...] आमकां खबरूच नासलें.

देव : कशें खबर आसतलें! तुमी केन्ना आ[...] अभ्यास केला? पयल्याच दुयेंसान [...] शादूर जावंक जाय. सगळें जाग्यार उडो[...] तयार रावपाक जाय. तुमी आपले [...] मारीत रावतात आनी सोंपलें म्हणट[...] कडकडटात. पूण मरपाक तुमी इ[...] भियेतात कित्याक रे? आयुष्यभर तुमी [...] बरें काम करीत तर वयर तुमकां [...] वागणूक मेळटलीच. दीसभर बरे बरे प्रोग[...] पळोवंक मेळटले.

सुंदर : प्रोग्राम कसले म्हाराज?

देव : कार्यावळी रे. डान्स, नाटकां, गाय[...] वाजपां.

सत्या : तसलेंय जाता देवा थंय?

देव : खूब मजा आसता. पूण फकत हांगा क[...] बरें करतात तांकांच. वायट करतल्या[...] हालूच सगळे. आमचें कोण आयकना त[...] तर हाल पळोव नज.

सत्या : हांव येवपाक तयार आसां देवा, पूण शि[...] आनी सुंदराक सोडून........

सुंदर : देवा..सत्य आसा म्हणून सुंदर आस[...] सत्याबगर हांव कशें जगूंक शकतलें ? स[...] म्हळ्यारूच हांव आनी हांव म्हळ्यार सत[...]








ा : ( नमळायेन) देवा..ह्या जगांत आयज बरें किर्ते उरलां जाल्यार तें फकत आमच्या तिगांत. तीं दोगांय म्हळयार हांव. एकामेकाबगर आमी हे धरतेर जगूंच शकनात. आनी आमचे बगर हे धरतेक अर्थ उरचोना. म्हणून आमकां दिसता, व्हरता जाल्यार आमकां तिगांकय व्हरात.मागीर हे धरतेचें किर्ते जाता तें जावं. पयलीच हांगा सत्याक म्हाका आनी सुंदराक रावपाक सुवात ना. वचत थंय अत्याचारी लोक आमकां धांवडायतात. आमी कोणाक नाका जाल्यात. आमकां तुमी व्हेल्यारूच बरें.

: अशें कशें जातलें ? म्हाका फकत हांगासल्या सत्याक व्हरपाचें आसा. तुमची दोगांयची अजून हांगा गरज आसा.

वा : ना देवा. म्हाका हांगा कोण मानीना. म्हजें कोण आयकना.

दर : म्हज्यो हांगा भोयो चल्लयात देवा. हांव दिसतांच म्हजेर तुटून पडटात. म्हणून हांगा रानांत येवन रावलां. आतां हांगाय येतात खंय ते म्हाका सतावपाक.

व : तुका किर्ते करतात गो सुंदर....सांग म्हाका.

दर : किर्ते किर्ते म्हूण सांगूं देवा! म्हजे राखणेखातीर जांच्या हातांत समाजान सत्ता दिली, तेच म्हजे हाल करपाक लागल्यात. (ल्हवुल्हवू काळोख जाता.)

* * *

(पुलीस चौकीतल्या ऑफिसाचेर स्पॉटाचो उजवाड पडटा. पुलीस इन्स्पेक्टर खुर्चेर बसला. खणांतली बाटली काडून एक घोंट मारता. हवालदार येता)

वालदार : सायब... एक सुंदरी येयल्या. तुमकां मेळूंक सोदता.

न्स्पे : सुंदरी.....? धाडून दी. (हवालदार वचूंक)आनी हें पळय... तूं भायरूच राव. कोणाक भितर सोडनाका.(हवालदार वता. इन्स्पेक्टर बाटली खणांत दवरता. सुंदर येता.)

सुंदर : इन्स्पेक्टरसायब, येदी व्हडली पुलीस चौकी आसतना हें चल्लां किर्ते.?

इन्स्पे : प्रस्न विचारू नाका गो. किर्ते सांगपाचें आसा तें सांग.

सुंदर : सगळ्यांक सांगून पळयलें. कोणूच कांयच करनात.फकत आयकून घेतात.

इन्स्पे : म्हाका सांग. हांव करतां.

सुंदर : इंस्पेक्टरसायब, रस्त्यावयले तवनास तरनाटे म्हाका त्रास दितात.

इन्स्पे : आरेरेरे.....त्रास दितात म्हणचें किर्ते करतात गो तुका?

सुंदर : म्हणचें वादिवपणां करतात?

इन्स्पे : म्हणचें एक्झेक्टली किर्ते करतात.

सुंदर : म्हजीं फकणां करतात. म्हज्या फाटल्यान लागतात. बस स्टॉपार उबें रावतां थंय येवन म्हाका तेंकतात. दोळे मारतात. बुरशीं बुरशीं सिनालां करतात.

इन्स्पे- कोण....?

सुंदर : कोण कोण म्हणून सांगू? सगळेच जाण. बर्सींत उबें रावतां थंय गर्दी करतात. म्हाका चिड्डितात.

इन्स्पे- वा...

सुंदर : वा किर्ते म्हणटात तुमी.

इन्स्पे : न्हय. तूं कम्पलेन करपाक आयलें म्हमून वा म्हणलें. तुजी तोखणाय केली. पूण कम्प्लेन घेवपाक थंय हवालदार बशिल्लो आसा.

सुंदर : तो घेना कम्प्लेन. म्हणून तर हांगा आयलां, त्या हवालदाराची कम्लेन करपाक.



इन्स्पे : हां... म्हणचें तूं हवालदाराची कम्प्लेन करपाक आयलां.

सुंदर : म्हजी कम्पलेन बरोवन घेतलीना जाल्यार हांव मंत्र्याकडें वतलें.

इन्स्पे : बरें आसा. हांवूच तुजी कम्प्लेन बरोवन घेतां. खूश.

सुंदर : हां..घेयात.

इन्स्पे : (पेपर पेन घेता) नांव कितें तुजें?

सुंदर : सुंदर दोंगरेकार.

इन्स्पे : वा......सुंदर....... कोणे त्रास केलो तुका?

सुंदर : सांगलें न्हय...त्या तवनास पोरांनी.

इन्स्पे : एकेकट्याचीं नांवां सांग. आतांच तांका धरून भितर उडयतां.

सुंदर : तांचीं नांवां नकळ हांव.

इन्स्पे : हांव कोणाक धरूं तर? बरें..... तुजेकडें कितें प्रूफ आसा?

सुंदर : प्रूफ कसलो?

इन्स्पे : येविडन्स....गवाय....तुका त्रास केलो म्हूण प्रूफ.... त्रास दितना कोणे पळयला. वा फोटो बी काडिल्लो आसा?

सुंदर : तें काम तुमचें.

इन्स्पे : फोटे काडपाचें?

सुंदर : कोण त्रास दितात तें सोदून काडपाचें

इन्स्पे : वा...म्हणचें आमी तुज्या फाटल्यान लागचें पडलें.

सुंदर : तुमी कित्याखातीर आसतात तर. चलया बायलांक राखण दिवंक शकना तर पुलीस चौकी कित्याक तर ती.

इन्स्पे : शाबास...म्हणचें सगळीं कामां सोडून आमी तुमच्या सारक्या चलयांक सेक्युरिटी दिवपाक भोंवचें पडलें. तुका कोणे जितें मारपाची धमकी बी दिल्या जाल्यार सेक्युरिटी दिवं येता. .....हें प... बाय...सुंदर... तूं खऱ्यानीच बिवटि... आसा. तुज्या सारक्या बिवटिफूल चल... रेसपेदान समाजांत भोंवपाक जाय.

सुंदर : हांव कितें तांच्या आंगार पडटां?

इन्स्पे : तशें न्हय. रेसपेदान म्हणचें तुज्या न्हेस... चलपांत, उलोवण्यांत आनी वागणु... मर्यादा आसल्यार कोण तुजे वाटेक व... झाडाचें फूल सुंदर दिसलें म्हणट... कोणाकूय काडीन दिसतलें. फळां हात... आसल्यार हात घालीन दिसतलें. अ... म्हाका लेगीत दिसलें. ....आनी त... मात्सो हात लायलो म्हूण कितें लुक... जाता. हांव काय तुजो कुडको काडचो... (हवालदार येता) भितर कित्याक आ... रे तूं.

हवालदार : सायब....मंत्री येता.

इन्स्पे : ये....मिनिस्टर येता खंय. तूं मात्शें क... राव. ताका थंय व्हर रे.

(हवालदार ताका धरूंक वता. तें ताचो ... फाफडून आपुणूच कडेकशें रावता. ... येता. इन्सपेक्टर आनी हवालदार स... मारतात)

मंत्री : कितें रे...कितें जालां...?

इन्स्पे : कांय ना सायब.

मंत्री : (खुर्चेर बसता आनी खणांतली बा... काडून घोंट घेता) काल तुवें ते चार ... धरिल्ले मरे?

इन्स्पे : कसले सायब?

मंत्री : रानांतलीं झाडां मारून लाकडां घेवन व... ते ट्रक.

इन्स्पे : ते कोणाचे सायब?

मंत्री : असले ट्रक कोणाचे आसतात.







पे : तुमचे सायब.

ी : जाणा मरे तूं. मागीर धरले कशे?

पे : चुकून धरले सायब. सोडटां. आतांच सोडटां.

ी : आनी कितें बरी खबर आसा?

पे : आसा सायब. एकदम बरी खबर आसा.

ी : भितर आसा?

पे : भायरूच आसा सायब..........ये , सुंदर बाय...अशें फुडें यो आनी सांग कितें तें. (सुंदर मुखार येता)

ी : वा.....सुंदर.....

र : म्हाका वळखतात सर तुमी?

ी : सुंदर चलयांक हांव सदांच लागीच्यान वळखतां.

र : सर...म्हाका कितें सांगपाचें आसा-

ी : राव...हांगा नाका....(इंस्पेक्टराक) भितर कोण आसा रे?

स्पे : कोण ना सायब.

ी : चल गो...तुका कितें सांगपाचें आसा तें भितर सांग.

(मंत्री ताच्या हाताक धरून भितर व्हरपाक तें -भितर कित्याक. हांगाच सांगतां- अशें म्हणून हात सोडवपाचो प्रयत्न करता. पूण इंसपेक्टर ताका धुकलता आनी मंत्री ओडटा. ताका भितर धुकलतना ताची ओडणी इन्सपेक्टराच्या हातांत येता. सुंदराच्यो भितरल्यान प्रतिकाराच्यो आड्डी.)

स्पे : तें एकट्याक आयकुचेंना. हांव सराक हॅल्प करपाक भितर वतां. तूं हांगाच राव.

(इन्सपेक्टर भितर वता. ओडणी हवालदाराच्या हातांत उरता. ती घेवन तो इन्सपेक्टराचे खुर्चेर बसता आनी खणांतली बाटली काडून तोंडाक लायता. काळोख जाता.)

* * *

(आशिल्लो तसो उजवाड जाता. यमदेव, सत्या, सुंदर आनी शिवा माचयेर आसात)

देव : इतलो त्रास करतात गो तुका हे दुश्ट ?

शिवा : देवा, उलयतां म्हणून रागार जावं नाकात. पूण तुमी लेगीत आमचेर अन्याय करतात. देव- शिवा.....

शिवा : त्या लाडू खायन्यांची पिराय वाडयतात आनी सत्यासारक्या तत्वाच्या मनशांक बेगीन व्हरतात. दुश्ट, गुंड, खूनमारे, भूंयखाय्रे, रानकातरे, दोंगरकातरे, चोर, नागोवणे, भ्रश्टाचारी हांका व्हड व्हड पिराय दितात. चड आनी चड शक्ती दितात.

देव : कोण रे ते ? वसुंधरेचे हाल करतात. म्हाका तांचीं नांवां सांग. असल्या सगल्या दुश्टांपसून हे वसुंधरेक वाचोवपाचें काम आतां ब्रह्मदेवान म्हजेर सोंपयलां. कालूच आमची बसका जाली.

सुंदर : देवा, हीं सगळीं झाडां कातरून दोंगर बोडके केल्यात तें तुमच्या दोळ्यांनी पळयात. हे दोंगर कातरून घरां बांदल्यांत तीं पळयात. हे लोक गरिबांक जगूंक दिनात. तांच्यो खोंपी मोडटात आनी कॉंक्रिटाचीं जंगलां उबीं करतात. पर्यावरण म्हणटात ताचें तांकां कांयच पडलेलें ना. गंगा यमुना सारक्यो पवित्र न्हंयो प्रदुशीत करपाक प्रोत्सान दितात. खुनमान्याच्या हातांत सत्ता दितात.हें अशेंच चललें जाल्यार फुडें फुडें मनशाक श्वास घेवपाक प्राणवायू मेळचोना. पावस नासून ही धरतरी एक सुको सडो जातली. लोकांक अन्नपाणी मेळचेंना.

देव : कोण रे ते ? म्हाका तांचीं नांवां सांगात रे. हांव तांकां सगळ्यांक वांगडाच उबारून व्हरतां.





शिवा : सगळ्यांचीं नांवां आमकां खबर ना देवा. पूण हांव सारको वळखतां आनी जाचीं हांव सगळीं कर्तुबां जाणा, हो दिसता तो पर्यावरणाचो इबाड करपी एका काळार म्हजोच इश्ट आसलो, तो आतां मिनिस्टर जाला. पर्यावरण मंत्री जाला आनी हें सगळें कातरप ताच्याच आदेशान चल्लां.

देव : नांव कित्याक सांगना रे तूं शिवा.?. तो मंत्री जांव नाजाल्यार मंत्र्याचो बापूय जांव. हांव ताका वगी रावचोंना.

शिवा : देवा , तें तुमीच सोदून काडात. कारण तो दुसऱ्याक चक्रावपांत खूब हुशार आसा. तो तुमकां लेगीत चक्रावपी आनी मागीर हांवें नांव सांगलें म्हूण म्हजो सूड घेवपी.

देव : ताका हांवें जितो सोडल्यार सूड घेतलो मरे तो?

शिवा : ना देवा, तो तुमकां लेगीत चक्रावन जितो रावपी. खांपो राजकारणी जाला तो.

देव : इतलो भिव नाका रे तूं. तुजें जर खरें आसत, तर हांव ताका धर्तेर कसोच दवरचोंना.

शिवा : म्हाका माफ करात देवा. ताचें नांव लेगीत हांवें घेतल्यार म्हजी जीब हळशिकेंत बुडयल्लेवरी जातली.

देव : कांय नज. तुवें ताचें नांव घेतलेंना तरी हांव म्हजी खाशेली शक्ती वापरून ताका हांगा हाडटां. शिवा तूं फकत दोळे धांपून ताची याद कर, ताचें चित्र दोळ्यांमुखार हाड. हांव तें पळयतां.

(शिवा दोळे धांपता आनी वग्गी उबो रावता. तेन्ना देव ताच्या दोळ्यांक पळयता.)

देव : हां....हो मनीस .......

शिवा : देवा ताका मनीस म्हणू नाका. ताका मनीस म्हणप म्हणल्यार अख्ख्या मनीसजातीचो अपमान. तो मनीस आसलो जाल्यार निवडून येवचो नासलो.

देव : राव. पयलीं तो खंय आसा तें पळयतां.(ट घुंवडायता आनी एकेकडेन करता.)....आरे तो कसलें तरी प कापता.

सुंदर : उदघाटन करता देवा तो. तीच हातांत कातर ताच्या पोटांत घालात देवा.

देव : सगलो लोक ताका ताळयो मारतात. त जयघोश करतात.

शिवा : ते सगळे मूर्ख लोक. तांकां सगळ्यांक प वांटून तो निवडून आयला.आनी त वांगडा ताका तेंकून तेंकून रावतात ते त चमचे. खावंक मेळटा म्हणून ताका द रावतात, आनी ताच्या दुश्ट कारस्थान पाळो दितात.

देव : राव. तुवें सांगलां तसो तो खरोच दु जाल्यार म्हाका ध्यानांत वचून पळवं नाजाल्यार वगीच तुजें आयकून च सोडून संन्यासाक ख्यास्त मेळत. ( परतून दोळे धांपता आनी दोनूय ह कानार दवरता.) हं...हय रे बाबा.! तु सामकें खरें. शंबर टक्के बरोबर. पूण म्हा ताचीं आनीकय जायतीं कर्मां दिसतात, तुका खबर ना. निवडून येवचे आदी सुपाऱ्यो घेतालो मरे. खून लेगीत करता जांचें आयुश्य सोंपलेंना तांका आडमृ दितालो. आब्बा...तो आकांतवाद्यांक म करता मरे. शी...शी...शी... ताचीं दुश्टप म्हज्यान पळव नज. (दोळे उगड कानावयले हात काडटा.)

शिवा : आतां तरी पटलें न्हय देवा तुमकां ?

देव : पटलें तर! हांवें सारकीं दोळ्यां पळयल्यांत मरे ताचीं फाटलीं दुश्कर्म असले दुश्ट मनीस हे धरतेर आसल्य







पृथ्वीची वाट लागतली.

र : देवा ताका आतांच व्हरात.

: हय..... ताका ताचेच गाडयेंत बसयतां आनी ओडीत हांगा हाडटां.

या : देवा, हांगा गाडी येना.

र : हांगा रस्तो ना देवा.

: रस्त्याची गरज ना. पळयात तुमी.

वा : ताका हांगा हाडटात देवा?

: सोडटां समजला ताका!

वा : देवा, तुमी ताचे कितले हाल करतात तें आमी कडेक रावन पळयतात. तो वगीच आमचो दुबाव घेतलो.

: म्हजेर विश्वास ना रे तुमचो?

गांय : आसा देवा...आसा.

वा : सांबाळून देवा.....राजकारणी तो.

(दूत दोळ्यांसामकार हात व्हरून मूठ आंवुळटा तेन्ना गाडी सुरू जाल्ल्याचो आवाज येता. तसोच मूठ आंवळिल्लो हात तो मात्सो वयर उबारता आनी आपले भोंवतणी घुंवडायता, तेन्ना गाडी फांस चलल्याचो आनी होर्न वाजयल्याचो मोटो आवाज येता. एकदम लागी हाडून तो मूठ सोडटा तेन्ना आवाज बंद जाता. उपरांत तो दावो पांय वयर उबारून ढब्ब करून रागान जमनीर मारता. त्याच वेळार मंत्री स्टेजीर येवन नाखयां पडटा.ताच्या हातांत कातर आसा)

त्री : आवयस...कितें जालें ? कोणे उडयलो रे म्हाका ? ॲक्सिडेंट जालो कितें रे. गाडी हवेंतल्यान गेली शी . .... ड्रायवर नासतना गाडी चल्ली कशी......? खंय गेलो रे तो ड्रायवर....? सस्पेंड करतलों तुका. आवयस...नाक फोडलें म्हजें.

देव : नाकूच न्हय. तुजें सगळेंच फोडटां आतां.

मंत्री : ....(शिवाक पळोवन)..आं...शिवा.....तुजें इतल्यार पावलें. म्हाका मारता तूं. तुजीं आंदोलनां, मोर्चे सगळे फेल जाले म्हणून हो उपाय काडलो. ह्या रानांत हाडून म्हाका मारूंक सोदता.

शिवा : हांवें हाडूंक ना रे तुका.(देव ताका बोट दाखयता)

मंत्री : आवयस.. कसलो मार घालता रे तू! कितें जाय रे तुका? तुजें काम करतां रे हांव. करतां म्हणचें करतां.

शिवा : म्हजें एकट्याचें तुजेकडेन कांयच काम ना. तुवें जें चलयलां तें बंद कर.

मंत्री : करतां रे........तुज्यो सगल्यो मागण्यो मान्य करतां. असो पेट घालू नाका.

शिवा : आतां म्हज्या हातांत कांय ना. आतां हांवे तुका ताचे सुवादीन केला. तुजें कितें करपाचें तें तोच करतलो.

मंत्री : कोण रे तो?

शिवा : तोच. तुकां मारता पळय तो.

(देव बोट दाखयता. मंत्री जमनीर पडटा)

मंत्री : पूण मारता कित्याक रे तूं. मारून कितें मेळटलें. तुका कितें जाय तें माग मरे. प्लॉट जाय, घर जाय, बंगलो जाय. जाय तें माग. हांव दितां तुका

शिवा : हांव मारना रे तुका.

मंत्री : तूं मारना.......? हय...तूं खंय मारता....तूं मारना. पूण मारता कोण तर? सुंदराकडें अशें मारूंक जावचेंना. ताका मारुंकूच कळना. हो..हो..सत्या मारता रे? (देव बोट दाखयता)

सत्या : आमी कोणूच मारनात तुका. तुवें आमकां खूब त्रास दिले तरी आमी तुजें वायट

केलेंना.आतां तूंच भोग तुज्या कर्माचीं फळां.

मंत्री : पूण मारता कोण रे म्हाका?

सुंदर : तुका तुजें कर्म मारता. म्हजें अस्तित्वूच नश्ट करूंक मुखार सरला मरे तूं? कितलें सोसलें हांवें. हांव तुका मारूंक शकना न्हय? आमचे वतीन कोणतरी तुका ख्यास्त दिता.तुज्यापसून आमकां राखण दिवपी कोणतरी आसा.

मंत्री : कोण गो तो? लिपून कित्याक मारता? ताका हाडात म्हज्या सामकार. पळयात हांव ताका कसो काबार करतां तो. म्हाका अजून वळखलेनात तुमी. (देव बोट दाखयता)....म्हज्या सामकार कित्याक येना. तोंड दाखय रे म्हाका तुजें.

देव : दाखयतां... म्हजें सगळें रूप दाखयतां तुका. आनी तुजीं दुश्टपणां सांसणाचीं सोंपयतां.

सत्या : देवा, आंब्याचीं पानां हाडूं?

देव : नाका. आतां ताका हांव संवसारांत कसोच दवरचों ना. सोमतो व्हरून नरकांत उडयतां . सारकेंच दाखयतां ताका म्हजें रूप. (ताच्या केंसांक धरून पळवंक लायता.) पळय रे....पळय...दिसना..(एक थापट मारून ताका जमनीर उडयता)....आतां दिसता....?

मंत्री : हो...हो आनी कोण रे नाटकी? हो म्हाका मारता. हो... तुकां दाखयतां हांव...

देव : ( बोट दाखयता. तो निन्हळटा)

मंत्री : आवयस...! खंयच्यान मारता रे तूं. ये नाटक्या...कोण तूं? असलो भेस करून म्हाका सोंपोवपाक आयला? आरे मंत्री हांव मंत्री. कोणाक आयकुपाचों ना. ..कोण्णाक...

देव : ( बोट दाखयता)..........

मंत्री : आवयस..सॉलीड मार घालता मरे तूं! पूण मारून प्रस्न सुटा? तुका कितें जा माग रे. कितले दुडू जाय?

देव : ( बोट दाखयता)

मंत्री : आवयस..तूं खऱ्यानीच नट , नाटकी व जादुगार रे? खंयच्यान मारता तेंच कळ तुका नाटकाक पयशे जाय मरे? हांव दि पयलें बक्षीस जाय. तेंय दिवंक लायतां. नाटक फॉरैनाक लेगीत धाडटां. पूण अस मार मारु नाका. जाम केलो मरे तुवें म्ह मारून...आरे शिवा..तूं तरी सांग मरे ता काय तूंय सामील आसा रे ताका? हां...त तिगांय कोमिनार जावन ह्या गुंडाक हाड म्हाका मारपाक. ये गुंडा...तु सांगतां..हाणी तुका सुपारी दिल्या त परस धा पटीन हांव चड दितां तुका....

देव : (बोट दाखयता)

मंत्री : आरे म्हजो गुन्यांव कितें तें तरी सांग. ह कोणाचें वायट केलां?

देव : तुवें कोणाचें बरें केलां तें सांग.

मंत्री : हांवें ..हांवें कितल्या जाणांक सिरवि दिल्यात.

देव : एकेकट्याचे कितले लाख घेतले?

मंत्री : जाणट्या म्हातऱ्यांक घरा बसून पेन्श दिलां.

देव : कोणाच्या बोल्सांतलें?

मंत्री : देवळां बांदपाक दुडू दिला.

देव : इतलो दुडू खंयचो हाडलो? आरे दुश्टा. पयली वादिवपणां करतालो मरे. . लोकांच चेडवांक उबारून व्हरतालो. सुपाऱ्य घेतालो. खून करतालो. मारामारी करताल इतलें करुनूय तूं मंत्री कसो जालो? शिकला कितें रे?

मंत्री : मंत्री जावपाक शिक्षण लागना.







: निवडून कसो आयलो?

: पयशे वांटून. धमक्यो दिवन.

: कसल्यो धमक्यो दिल्यो?

: निवडून आयलोंना जाल्यार घरांत भितर सरून मारतलों म्हूण. अख्खो गांव काबार करतलों म्हूण. सगले अशेंच करतात.

: लोक तुका इतले भियेले कित्याक?

: हांव मारपी म्हूण जाणात ते.

: तुका आमी ह्या संवसारांत धाडलो,तो हे धतरिचें बरें करपाक केलें तुवें बरें? तुका बुद्दी दिल्ली ताचो बरो उपयोग करचो सोडून तुवें वायट उपयोग केलो. हीं झाडां कोणे कातरलीं रे? हे दोंगर कोणे पोखरले?

: हांवें केलां तें. घरां बिल्डिंगो बांदून धरती सुंदर करपाक.

: तुज्या बापायची रे ही जमीन? एक झाड केन्ना रोयलां रे तुवें?

: वनमहोत्सवाक रोयतां हांव झाडां.

: दुसरे दिसा मरतात मरे तीं. त्या निमतान नागयल्लो पयसो मात उरता तुमचे तिजोरेंत. कितलो भ्रश्टाचार करतात रे तुमी? दुडवांक लागून पृथ्वीचो इबाड करतात.

: म्हाका तांणी निवडून दिला. पांच वर्सां म्हज्यान कितेंय करू येता.

: वायट मार्गान कोट्यांनी दुडू एकठांय केलो मरे तुवें? आतां पळोवया तो दुडू तुका मरणांतल्यान वाटायता जाल्यार..

: तूं म्हाका मारून उडयतलो? जितोच?

: (बोट दाखयता)......

: आरे म्हजें आयकून तरी घे...

: कांयच उलोव नाका. उडक्यो मारपाक हुशार मरे तू? आतां मार उडक्यो माकडाभाशेन, ह्या पक्षांतल्यान त्या पक्षांत. त्या पक्षांतल्यान परतून ह्या पक्षांत. लजूय दिसना रे तुकां? सामकी भाजून खाल्ल्या?

मंत्री : लज आसली जाल्यार हांव मंत्री जावंक पावचो नासलों. आमकां लज आसना . लज तांकां दिसूंक फावो, आमकां परतून परतून निवडून दितात तांकां.

देव : जांणी तुका निवडून हाडलो तांची तुवें सेवा करूंक जाय. वयल्यान तूं ताकां रस्त्यार हाडटा? तांचीं घरां खोंपी मोडून उडयता. कितले खून केले रे तुवें? कितल्या जाणांचे संवसार उबंतरा उडयले?पयशे वांटून वांटून कितले फावटी निवडून आयलो रे तूं?

मंत्री : आरे पूण तें खातें-

देव : ही धरती तुजी रे? तुवें रचल्या. हे दोंगर तुज्या बापायचे? हीं झाडां तुज्या आज्याचीं?

मंत्री : तर कोणाचीं. तुजीं?

देव : (बोट दाखयता) सत्या... सांग ताका हांव कोण तो......(सत्या ताका ल्हवूच कानांत कितेंतरी सांगता.)

मंत्री : म्हणचें यमदेव....? खरो यमदेव...? वयर साकून आयला....?

सत्या : हय.

मंत्री : मेलो म्हणटकच मनशाचो जीव व्हरता तो?

सत्या : हय

मंत्री : मेल्या उपरांत व्हरता तो मरे?

सत्य : हय रे पापया.

मंत्री : हांव खंय मेलां तर आजून? मेलो म्हणटच यो म्हूण सांग ताका जीव व्हरपाक.

सत्या : तूंच सांग

मंत्री : ये यमदेवा...म्हजो प्राण व्हरपाक आयला जाल्यार हांव मरतकच यो. मरच्या पयली प्राण कसो व्हरतलो रे तूं?

देव : (दोन बोटां दाखयता. मंत्री चडूच वळवळटा)

मंत्री : आरे-आरे कितें करता रे?

देव : पयलीं मारतां मरे तुका. मागीर तुजो जीव



व्हरतां. ही धरती कातरून उडोवपाचो अधिकार तुका कोणे दिलो रे?

मंत्री : सांगतां..सांगतां.....

देव : कांयच सांगू नाका. म्हाका सगळी खबर आसा. हांवें सगळें दोळ्यांनी पळयलां. कितल्या प्राण्यांक आडमृत्यू दिलो रे तुवें ! ह्या सगळ्या झाडांक जीव आसा म्हूण जाणा मरे तूं ? एक झाड मारप म्हळ्यार एक खून करप. तुज्या असल्या मनशाक हे धरतीर दवरल्यार पृथ्वीची वाट लागतली. आतां तुकां व्हरतां हांव, मागीर पळय तुजे कसले हाल करतां ते.

मंत्री : चुकलों देवा. हांव सामको चुकलों. हें अशें आसता म्हूण म्हाका खबर नासली.आतां समजलें. आतां पश्चात्ताप जाता म्हाका. माफ कर देवा.....गुन्यांव भोगोस........हाचे फुडें अशें केन्नाच करचोंना....पातकी हांव. खूब पातकां केल्यांत हांवें...हाचे फुडें बरो मनीस जातलों. लोकांची सेवा करतलों. जितलीं झाडां कातरल्यांत ताचेपरस चड रोयतलों. दोंगर परतून भरून काडटलों. बांदल्यात त्यो बिल्डिंगो मोडून आसलीं तशीं गरिबांचीं घरां बांदून दितलों. पूण त्याखातीर म्हाका थोडो टायम जाय. हें सगलें जालें म्हणटकच हांवूच येवन सरंडर जातलों.

शिवा : सगळें फट देवा....बंडलां..हो कांयच करचोना. हाचेर विश्वास दवरू नाकात ...

मंत्री : करतलों देवा.....देवाच्यान..तुज्यान करतलों....म्हाका एकूच चान्स दिवन पळयात. हांव सगळें जाग्यार उडयतां. सगळ्यांचें बरें करतां.

सत्या : नाका देवा...ताचें आयकू नाकात.

सुंदर : दोन तोंडांचें माळूण तें. करता म्हणटलो आनी आमकां चड त्रास करतलो.

मंत्री : ना देवा. हांव खरेंच सांगतां, म्हाका पश्चात्ताप जाला. हांव कित्याचेरूय हात दवरून सोपूत घेतां. बायले भुरग्यांचो कोणाचोय सोपूत घेवन सांगतां.

देव : बरें आसा. एक फावट विश्वास दवरतां तुजेर. आनीक दवरचोंना. एक चान्स दितां तुका. आनीक केन्नाच दिवचोंना.

शिवा : देवा...

सत्या : नाका देवा.....

सुंदर : तशें करू नाका देवा....

मंत्री : प्लीज देवा....प्लीज...पांया पडटां. तूं सांगता तें आयकतां. (न्हिदून पांया पडटा)

देव : एके अटीर सोडटां तुका.

मंत्री : मान्य देवा....म्हाका तुमच्यो सगळ्यो अटी मान्य.

देव : दिसाक एक झाड रोवचें पडटलें.

मंत्री : दोन रोयतां. आनी शिंपून व्हड करतां.

देव : दर दिसा शंबर गरिबांक जेवण घालचें पडटलें.

मंत्री : दोनशें घालतां. पोटभर वाडटां.

देव : दुडू घेयनासतना नोकऱ्यो दिवच्यो पडटल्यो.

मंत्री : एक पयसो घेवचोंना. घेतल्या तितल्यांक परते दितलों.

देव : भ्रश्टाचार बंद.

मंत्री : सामको बंद.

देव : तुजेकडेन जितलो दुडू आसा, तो सगळो गरिबांक वांटून सोंपोवपाचो.

मंत्री : आयच्यान सुरू करतां.

देव : .आनी एक अट.

मंत्री : सांग देवा....

देव : तुकां सोडटां. पूण तुज्या बदला तुजे बायलेक व्हरतां.

मंत्री : व्हर देवा, व्हर......जाय जाल्यार म्हज...





भुरग्यांकय व्हर.

: ऊठ. सोडलो तुकां.चल.....

(मंत्री उठा आसतना बोल्सांतलें पिस्तोल काडटा आनी यमदेवाचेर जोकता)

: तुवें म्हाका सोडलो....हांव तुका खंय सोडटां तर? तुका सोडलो जाल्यार तुज्यो सगळ्यो अटी मान्य करच्योच पडटल्यो.

( फार पेटयता.पूण देवाक कांयच लागना. ताच्यो गुळयो सोंपतात तेन्ना देव ताका तीन बोटां दाखयता. तो चडूच वळवळटा, फडफडटा आनी आरीचें जावन पडटा. तिगांय ताका बारीक पळयतात)

वा : मरूक ना देवा.

त्या : जितोच आसा.

दर : पळयता.म्हाका.

ा : तसोच दवरला ताका हांवें. पारालिसीस...... तो पळोवंक शकतलो. पूण उलोवंक शकचोना. हातपांय हालोवंक शकचोना. आयुश्यभर असोच धरून पडटलो. हीच ख्यास्त फावो ताका.

वा : अशें कित्याक केलें देवा?

त्या : तो हे धरतेर आसपूच म्हळ्यार धरती मातेक कितल्यो यातना जातल्यो.

दर : हाची सेवा करपाक हाचे बायलेक मरसर त्रास.

वा : देवा, असो आर जावन पडलेलो आसतना लेगीत तो कसलीं कारस्थानां करीत सांगू नज. ताका हांगासलो व्हेल्यारूच बरो.

व : खरें तुमचें. हाचें वारें लेगीत लागल्यार बऱ्या मनशाची मती भ्रश्ट जातली.

(देव पांचय बोटां ताचे वटेन जोखता. मंत्री जीव गेल्लेवरी आवाज करता. आंग ताचें विचित्र तरेन हालता आनी एकदम जीव सोडटा. देव ताचो प्राण मुठींत धरता, कमरेची पोती काडून तांतूंत उडयता आनी पोतयेचें तोंड बांदून पोती कमरेक खोयता.)

देव : आयज सावन हे वसुंधरेची राखण करपाखातीर दुश्टांक काबार करपाच्या वावराक लागतां हांव. सत्या, शिवा आनी सुंदरा, असल्या दुश्टांपसून हांव तुमकां अभय दितां. तुमची तिगांयची पिराय वाडोवपाचो प्रस्ताव हांव ब्रह्मदेवाकडें माणून तो पास करून घेतलों. आनी हाचेफुडें जो कोण पर्यावरणाचे राखणेखातीर वावुरतलो ताका व्हड पिराय दितलों अशें हांव वचन दितां.

सत्या : देवा..म्हाका व्हरना ?

देव : हे वसुंधरेक तुमची तिगांयची गरज आसा. आतां तुमचो वावर वाडुंदी. ही धरा आशिल्ली तशी परतून फुलयात, फळयात, पाचवी चार करात.

तिगांय : हय देवा. आमी आयचच्यान कामाक लागतात.

देव : तथास्तू.....

सुंदर : देवा, एक याचना करतां.

देव : कर सुंदरा...जरूर कर..

सुंदर : तुमकां आनी यमदुताक पळयल्लयाची स्मृती आमकां थोड्याच वेळापुरती दिल्ली , म्हळ्यार टेम्परररी दिल्ली. ती परमानेन्ट करची अशी आमची मागणी आसा देवा.

देव : तुमची मागणी हांव तात्काळ मान्य करतां, कारण ही गजाल संवसारांतल्या सगळ्या मनशांक कळूंक जाय. तातूंत जे दुश्ट आसात ते सुदारले जाल्यार बरेंच जालें. नाजाल्यार म्हजो उपाय आसाच. तुमी ही गजाल गांवागांवांत वचून लोकांक सांगपाचें सत्कार्य करात.

तिगांय : हय देवा...आमी आयचच्यानूच सुरवात करतात.

देब : तुमचें बरेंच करतलों हांव. हे गजालीचो जो कोण प्रचार करतलो, ताचें बरें जातलें. ताका



व्हड पिराय आनी बरें आरोग्य लाबतलें.

(तिगांय यमदेवाक पांया पडटात. देव तांकां आशिर्वाद दिता.)

सुंदर : देवा..हाचें कितें करया.(मंत्र्याचें)?

देव : फुडलो जल्म ताका हांव मनशाचोच दितलों. पूण कुड्डो, भेड्डो, मोनो, थोंटो, रोगी, निराधार, निराश्रीत भिकारी करून ताचे हाल हाल करतलों. सद्या ताचें हें शरीर हेत्या देंगणांत उडयात.त्या जनावरांचें तरी पोट भरुंदी. तेच लायकीचो तो. ताका अग्नी दिल्यार अग्नीदेवाचो अपमान जातलो. असल्या दुश्टांक जो कोण अग्नी दिता ताका अग्नीदेव शाप दिता. तुमी ते श्राप घेव नाकात.

शिवा : देवा, असले दुश्ट ह्या संवसारांत जायते आसात.

देव : कळ्ळें म्हाका तें . तांकां सगळ्यांक सोडून काडटां आनी तीच ख्यास्त दितां. बेगीन वतां (पोतयेक हात लावन) हो त्रास करता म्हाका. पळय कसो धडपडटा. (पोतयेर थापट मारून) वगी बस रे थंय. ..............आयकात....सगळे आयकात....वचच्या पयलीं पृथ्वी वयल्या सगळ्या लोकांक कळीत करतां, हे धतरिक त्रास दिवपी. पर्यावरणाचो इबाड करपी, गरीब धाट्यांक पिडापीड करपी, सत्तेचो गैरफायदो घेवपी, दूश्ट, चोर, खूनी, पातकी,आकांतवादी जर तुमकां सांपडलो तर रोकडेंच म्हाका सांगात. आयुश्य सोंपलेंना तरी हांव तांकां तात्काल व्हरतलों आनी गायंडोळाच्या जल्माक घालतलों.

भिव नाकात. व्हडलें कांयच करप ना तुमी. फकत दोळे धांपून प्रार्थना करात. मनांतल्या मनांत त्या दुश्टाचें चित्र दोळ्यामुखार हाडात आनी नांव घेयात. कोणाक कांयच कळचेंना. सामकें गुपीत. तुमचे म्हजे भितर. तुमी तांकां कांयच करूक शकनात जाल्यार इतलें तरी करात. तरेचें तुमचें सहकार्य मेळत जाल्यार अ ही धर्तरी असल्या दुश्टांपसून वाचो शकतले. आसा ताचेपरस सुंदर कर शकतले.

(यमदेव वता. सत्या, शिवा आनी सु तिगांय खोशी जावन नाचतात आ गायतात)

ही धरा वसुंधरा
येतली आतां तरतरा
दोंगरा तेंगशो जातल्यो जित्यो
शेवणीं येतलीं आपल्या घरा
धरती जातली पाचवी चार
फुलां फळां जातली रास
हे भुंयेर अमर जातले
सत्या शिवा सुंदरा.

**- सोंपलें -**







# बाप्पाय ना आनी पुडवेंय नां....



बाप्पा : जाण्टेलो पुडवेकार-तांबडे फुनेलाचें माथें पिराय ४५-५० वर्सां

व्हनीबाय : बाप्पाली बायल पि. ४०-४५ वर्सां

बाबलो : घरांतलो अपेशी चेडो - २५ तीस वळां

जनीबाय : चामात्र - घरांत झाडू मारपी - पि. ३०-३५ वर्सां.

जुवांव : घराभायले काम करपी किरिस्तांव सेरव्हेंत पि. २५-३० वर्सां

शाणू घरांत येवपी मडवळ. पि. २५ ते ३० व.

देखाव : [सकाळचे सात जाल्या आनी बाप्पा माथ्याक बांदून न्हिदला. आजी घोरेता! ईतल्यान अलार्म वाजता. बाप्पा न्हिदला थंयच्यान बंद करता आनी कूस परतून न्हिदता. (थोडो वेळ वता आनी व्हनीबाय येता. बाप्पाक उठयता...)]



दो. विनय मं. सुर्लकार



व्हनी : उट्टात मूं? सकाळ जावन सूर्य पसून अुदेलो. वरां कितली जाली ती तरी पळेयात! तो अलार्म कित्याक लायतात देवाक खबर? हांचें हें अशेंच एकदा न्हीद लागली की कुंभकर्णाच्या बापायक पसून हे फाटीं घालतात हांकां आतां साडेआठाच्या बसीर बेळगांवां वचूंक जाय. आनी कानाकडे ह्यो अलार्म वाजून पसून हे उठना म्हणजे अजाब न्हंय! (विचार करता) हय. वय अशेंच करुया. (व्हनीबाय भितर वचून हाताच्या पोश्यान उदक हाडून पच्च करुन बाप्पच्या तोंडार मारता. बाप्पा खडबडून उट्टा सो पळोवन) तुमकां आज चलयेकडे बेळगांवां वचूक जाय!

बाप्पा : कितें बेळगांवां वचूंक जाय? (उठत) हय मगे पापये! मागीर म्हाका उलो मारुन उठोवचो सोडून हो सामको अभिशेक गे कित्याक केलो सकाळी उठून? तशी म्हजी न्हिद सामकी जागृत; सट्ट जालें की फट्ट करुन हांव उट्टा?

व्हनी : कितें? उलो माल्लो ना. उलो मारुन मारुन ताळो पुसून सरांटलो म्हजो!

बाप्पा : आलर्मूय कसो वाजलो ना?

व्हनी : पळेले, हेंच तें! अलार्म वाजून तर गेलोच मागीर हावेंय गजाल केली तुमचो अलार्माचो गजर आयकून बाबलो पसून कामाक लागलो. बरें ते जांव तुमी बेळगावां वचपाची तयारी करता मूं ?

बाप्पा : आगे बाये बेळगांवां आनी वचूंक जाय दिसता. शी यादूच ना, कितलो वेळ जाले गे म्हजे घरकांन्नी कितें? सव्वासात? बरें उदक तरी तापयलां ?

व्हनी : कित्याक तर ? सकाळी पांचाक उठून बरो हावें हांडो तापयला. पुण हालीं हे पयपां फुट्टात न्हंय. उदक तापोवन च्या केल्या मात! नळाक उदंक नां आतांच बाबल्याक धाडला बांयचेर पळोवया उदक मेळटा जाल्यार.

बाप्पा : कितें बाबल्याक धाडला बांयचेर, उदक हाडूंक? मागीर तो त्या बांयचेर पडलोच म्हणून समज! आगो हांगा तो मात्र्यान दियार न चुकतां धा दा पडटा तो थंय बांयत पडले शिवाय आसा ? बरें हावूंच पळेतां खंय पावलो तो?

व्हनी : तशें जाल्यार, बेळगांवच न्हायात चलयेगेर; थंय उदक बंब सगले आसा

(भितल्ल्यान बाप्पा - आरे उठ धोरा उठ अजून न्हिदल हांगा गरादी पोंदा गुटली करुन. आगे तू व्हय गे म्हण्टार्ले बाबलो उठून कामाक लागलो, हो कोण? बाप्पा कान पिळीत हाडटा)

बाबलो : बाप्पा, जरा सकाळींच उठलो मियां तुमचो गजर अयकून उठून फिरुन आयलो. म्हटले थंडी पडल्या सा. तेन्न परतून न्हिदलो गुटली करुन

बाप्पा : बरें आता तोण बीण धुवचे पयलींच उदक हाड (दारार मारुन जनीबाय येता)

जनीबाय : बाय ये बाय खंय गेली बाय ?

व्हनी : कितें जनीबाय, आज खंय तूं, सकाळीच शी आयल्या? फाटले चार दीस काय तूं सान्न मारुक येंवक ना. आजूच कोणे सांगले तुका हांव बरी नां म्हणून ?

जनीबाय : बाय किते सांगू बाय. खरीच सांगता, चार दीस हांव सामकी दुयेंत आसली सामकी आंगाची फडाफड जाताली म्हाज्या. मागीर तशीच मरत मरत ते साउदीच्या काझांत वचून पिल्लां घेतल्या तेन्ना मात्शी फडाफड कमी जाल्या. बाय तुका बरें नां बाय! किते जातां बाय तुंका?

व्हनी : पुरो आं तुजे भवस्थळे, कांय जायना म्हाका आगे तूं बरी ना तर कित्याक आयली ?

जनीबाय : बाय-बाप्पा बेळगांवां वता?

बाप्पा : (भीतर येत) कोणे सांगले तुका जनीबाय? बाकी तू हाली आयकना गो! कॅरमान तुजो चलो आल गोवा चांपियन जालो खंय!?

व्हनी : हय गे जनीबाय ! मागीर तुवें मजा माल्ली तर ! म्हजोय चलो गोपी चार वर्सां पयलीं चौथो चांपियन जाल्लो पिंगपोंग गेमीन न्हय वो ?

बाप्पा : हय तर ! आनी ताका मेळिल्ल्या त्या कवचेंच्या कोपान ही सदांच च्या पिता न्हय गे ?







नी : पुरो म्हळयार फकाणां ! बरें जनीबाय आमकां परबी केन्नां ?

नी : कसली मडसरेची परबी घेवन बसल्या बाय ? येदी व्हडली कपां हाडल्या पुण तेच्यांतल्यान च्या आनी पेज पसून पिवंपाक जायना कसली कपां तीं

प्पा : आगे बाये तूं तातून च्या आनी पेज करुक लागली? तरी बरे मटण झिजयले नां?

नी : बरे जनीबाय आज तूं सकाळीच शी आयल्या. ती कामाक काय.....

नीबाय : बाय, बाप्पा बेळगांवां वयताच न्हय तेन्ना म्हळळी म्हाका येताना अेक ल्हानसो ट्रंक घेवन येयात (हात बरोच व्हडलो)

नी : बरे सदा भशेन पयशे हाडूंक ना मंगे ? हाडटकच दितली मगे ?

ाप्पा : हें तुजे सदाचेचं ! बरे चल भायर पोर्सान सान्न मार !

ाप्पा : आगे वरां कितली जाली गे? पावणे आठ? आगे बाये आठाच्या बसीर वचूंक जाय न्हयं ? (जुबांव फाटल्यान पळेत खरशेत येता.) कोण जुवांव रे ? तूं रे बाबा इतले सकाळचो सो आयला ? पांय, मांय बरी आसा मूं? न्हंय, हरशी तूं सकाळची णव जायसर केन्ना खुमणे दाखयना आनी आजूच सो बेगीन आयला ? तुकाय कळळे हांव बरो ना तो?

जुनांव : बाप्पा तूं बोरो ना बाप्पा? हांव नोकोच आहलेलो वगीच हांव येयलेलो

बाप्पा : बाप्पा बेळगांवां वता म्हणून! हय मरे ? बाबल्यान केन्ना कान फुकलो तुजो? तुमी चोरुन शिगारां ओडटना?

जुनांव : ना बाप्पा हांव चोरुन सिगांरा ओडीना, तोच ओडटा चोरुन इडयो आनी इचाल्यार सांगता की पोंटान बरें नां म्हूण ओडटा फूय तो !

बाप्पा : आरे जुवांव, विड्यो ओडून पोटान जाता तें थांबतालें जाल्यार हे दोतोर आनी कित्याक जातालें? सगळेच जाण विड्यो फुसकायत बसतले आसले.

जुवांव : तूं बोरो नां बाप्पा. फोटींग मुरे तो बाबलो हांव मेरशेच्यान धांवत येयलो

बाप्पा : आरे जुवांव इतले सकाळीं धांवत येवपाक कसले काम जालें तुजें ? तू आमचे मेज पुसूंक आयला काय म्हजें बॉल्स? आं?

जुवांव : बाप्पा तूं बेळगांवा वोयताच न्हू ? म्हाज्या भोयणीचे काजार आसा न्हूं?

बाप्पा : आसा पुता हांव कितें व्हनीक घेवन दांस करपाक येवक जाय काय ?

जुवांव : तेन्ना म्हूळे म्हज्या भोयणीच्या घोरा दिवपाक सोवायशींच चार काफडां घेवन यो आं. जोरीची बा जाता.

बाप्पा : तूं म्हण्टा जोरीची बा चोलता तीं, जरीची कापडां कितली म्हारग ती जाणां तूं?

जुवांव : कितें फोकाणां कोत्ता ?

बाप्पा : ओर म्हजेंच केलें तुवे फकाण ! पैशे हाडल्या काय पगारांतल्यान कापपाचे ?

जुवांव : पागामेंनातल्यान कापल्यार जाता ? (चिंतता) ओय तोशेंच केल्यार जाता !

बाप्पा : आरे सभाग्या तशें केल्यार जाता व्हय तूं तोहेंच कोत्तोलो. बरें, वयर वचून झाडांक उदक घाल

बा. : आगे म्हजी ती धुल्ली जुदी खंय दवल्ल्या सांग पळोवया?

व्हनी : (येत) ती तुमची धुल्ली जुदी, फाटल्यान सामकी लेळिल्ली म्हणून हांवें पयरुच ती शाणू मडवळागेर दिल्या.

बाप्पा : दिली मूं शाणूकडे धुवपाक बेस बरें केलें आतां येता ती दिवाळी सोडूच फुडले दिवाळेक घेवन येवंदी (अशें म्हणपाक शाणू मडवळ मुस्तायकी घेवन भितर सरता)

शाणू : कित्याक तर बाप्पां, हांव घेवनूच आयलां तुमची सगळी मुस्तायकी

बाप्पा : कोण शाणू रे आवयस ! बापूय बी बरो आसा तुजो?

शाणू : काय चिंता करुं नाका. आमची सगळी मंडळी एकदम बरी आसा !

बाप्पा : तुमची मंडळी ठीक रे ! पुण म्हज्या काळजांत कसलें



ठाकू जाले जाणां? आरे सदांच तूं म्हयन्या बगर तुजें खुमणें दाखोवपी न्हय. तो आज तीनूय दिसांनी दिस्टी पडटा. म्हण्टकच अेक तर तुजो बापूय बरो ना जांवक जाय ना जाल्यार तुकाय कळूंक जाय कीं हांव बरो ना म्हणून !

शाणू : म्हणजे तुमकां बरें ना तर...? पूण म्हाका त्या जुवावान सांगले कींऽऽ

बाप्पा : बाप्पा बेळगांवां वता म्हणून! हय मरे ? बरें तूं म्हाका फेर्र मारुंक आपयला?

शाणू : बाप्पा, तुमकां फेर्र मारुंक न्हय. तर म्हाका फेर्रहाड म्हणून सांगूक येयलां.

बाप्पा : किते फेर्र हाड म्हणून सांगूक आयला ? बाकी तुकाच न्हंय कोणाकूय संवय ती ! गोंयां भायर वता जाल्यार कितेंय हाड म्हणून सांगप ना जाल्यार ल्हानशीच वस्त म्हणून २० मणाचो साक अळंग तेकोवप. पुण हो साक व्हरता म्हण म्हज्या नाकी नंव आनी कानीपायी तिनतेरा जाता तें कोण पळेता ? बरें! तुका फेर्र जालें ! तुज्या बायलेक, चलयेक कांय नाका?

शाणू : नाका आं बरी याद जाली बाप्पान पुडव्याचो जोड सांगला.

बाप्पा : कितें लाडूबाबान पुडवें हाडूंक सांगलां ?

शाणू : बाप्पा एकोंडे पुडवें न्हंय पुडव्याचो जोड ! दोन पुडवी!

बाप्पा : बरें. तुका फेर्र हाडटकच तरी हाडटलो म्हरे मुस्तायकी बेगीन.

शाणू : बाप्पा तुमी फक्कव फेर्र हाडात ! सामकी पंदरा पदरा दिसांनी हाडटा न्हंय मुस्ताकी

बाप्पा : इतलेंय करुन तेंच मरे? पंदरा दिसांनी. बरे, फेर्राचे पैशे तरी हाडलया?

शाणू : बाप्पा पयशे? म्हाकाच थोडे जाय आसले फाटले नाका ह्याच मुस्ताकीचे दियात

बाप्पा : बापाय म्हज्या, फाटल्या दिवाळेक व्हेले तेनाच, ह्या फेर्राचे ना आनी वयल्यान तुका पैसे

शाणू : वयल्यान नाका बाप्पा सकयल्यान दियात

बाप्पा : पळेतां भितर कितले आसा ते ? (भीतर वता) सुनपरान घेवन येता) आगे हें पळेलां, सुनापरांन्ताचेर कितें आयल तें? अस्नोडेचो पूल पावसाक लागून मोडला आन आयच्यान रहदारी आठ दीस बंद आसतली.

बाबलो : (भीतर येता) होय बाप्पा कालूच म्हाका बां रिजर्वेश करताना ड्राव्हरान सांगलेला की खंयचोसो पूल मोडल सात आनी आठ दिस हडेच्यो गाड्यो हडेन आनि तडेच्य गाड्यो तडेन रावतल्यो.

बाप्पा : पाड पडले तुजें ! सदांच तूं अर्द सागनास्तना तुवें गोदो जालो ना. चल जुवांवाक सांग की हांगाच माशेलकारागे कापडां घे आनी जनीबाबाक आमचो तो भितल्लं पोत्रो ट्रंक दी आनी शाणू तूं बापायक म्हजे नवें पुडं व्हरुन दी.

शाणू : बापायच्या पुडव्याचे सामके बारा ब्रेस्तार आनी तेर सुक्रार जाल्ले म्हणून बापायन बाप्पा बेळगांवां वत तेन्ना सवायश्यो जोडव्याचो जोड हाडूक सांगिल्लो पुण आतां तेगेले फसले बाप्पायक सांगता की बाप्पाय न आनी पुडवेक ना....

बाप्पा : शाणू म्हणूक चुकता तूं : आरे बाप्पाय ना आनी पुडवेंय ना न्हय. बाप्पा आसा पुण पुडवेच ना. आरे बाप्पाय ना आनी पुडवेंच ना न्हय. बाप्पा आसा पुण पुडवेच ना. आरे बाप्पाच ना जालो तर व्हनीक रे कोणऽऽ आं. ऽऽऽ (हांसता).

(सोंपता)

पड्डो पडटा





122nd Year of Achievement

# Quality Innovations, Record Performances



**Mormugao Port Trust (MPT)** has over the years embarked upon a series of innovative and quality enhancement measures that have led to record performances this year. This has been possible due to the fullest co-operation from the employees and all other stakeholders. The measures have contributed to higher traffic handling and increased operational output.



- Handled **34.24 million tonnes** of cargo during 2006-07, an increase of 8**per cent** in the total throughput over the 2005-06 figures of **31.69 million tonnes.**
- Export of Iron ore increased to **26.66 million tonnes** in 2006-07 from 25.31 million tonnes in 2005-06.
- MOHP at berth no.9 loaded an all time record quantity of **12.53 million tonnes** of iron ore surpassing the previous best of 12.41 million tonnes handled in 2004-05.
- MOHP at berth no.9 unloaded an record quantity of **12.76 million tonnes** of iron ore surpassing the previous best of 12.06 million tonnes handled in 2004-05.



- Cargo of **4.86 million tonnes** was handled at Mooring Dolphins as against 3.65 million tonnes in 2005-06, an increase of **33 per cent**.
- During 2006-07, **84** calls were made by cruise vessels with **42255** passengers against 61 calls with 299279 passengers in 2005-06
- Coke/Coal traffic increased to **5.09 million tonnes** in 2006-07 from 4.11 million tonnes in 2005-06.
- Rail traffic increased to **5.01 million tonnes** in 2006-07 fro m 3.53 million tonnes in 2005-06 registering an increase of **42%**.



*Besides ensuring the highest performance levels, MPT has plans for modification to MOHP, installation of a wagon handling system and development of cruise shipping and enhanced sea port facility that will promote economic growth in Goa and the nation.*




**MORMUGAO PORT TRUST**

THE NATION'S PRIDE

HEADLAND SADA, GOA 403 804, INDIA.





॥ श्री ॥

दादलो मनीस पात्र विरहीत कोंकणीतलें
पयलें दोन अंकी थरार, आंगार कांटो हाडपी नाटक....

# कुवाडें

सम्राट बोरकार

- पात्रां -

* हर्षना
* मा
* माया
* ममता
* कलावती कलसांवकार
* कामणें
* नर्स
* डॉ. नेस्ट्रिड
* इंस्पेक्टर किरण





अंक पयलो

देखाव पयलो

(एका उच्चवर्गीय घरण्याक सोबसारको प्रशस्त हॉल. मध्यभागी दार उजव्यान किचन आनी बाथरुम तर दाव्यान एका चलयेचो बेडरुम आनी स्टडीरुम वण्टीक तेकून एक कांदबरींन खचाखच्च भरिल्ली आलमार दिसता. वण्टीर राणटी मुखवट्यांचेय शोभीकरण केल्ले आसा. मदी एक ल्हानशी टिपाय, कडेक दिवाण. माचयेर उजवाड, किचनाचे कडेच्यान स्टेरकेस दिसता.

दावे वटेनच्यान एक चली, पिराय सुमार अठरा, न्हावपाक वचपाचे तयारेन माचयेर येता. किचनाच्या पडद्याकडे वचून हळू पळयता. तोंडान बोटा घालता. हे हर्षना)

हर्षना : आँ... खंय गेली काय ही. (ती स्टेअरकेस बाथरुमाकडेन वता. हे दोन सपणां चडटा परत देवता.) माँ.... माँ.... (आवाज ना) (मुखवट्यार



सम्राट बोरकार



आनंदी झळक खांदावेलो टॉवेल काडून कडेकच्या खुर्चेर उडयता. वचून कादंबरीच्या आलमारीकडे उभे रावता. एक कादंबरी काडटा) ही वाचून जाल्या.... दुसरी पळोवया (दुसरी काडटा).. हीय वाचल्या ... (तीसरेक हात घालता).. शी रॉमेण्टीक ... आय हेट रोमेन्स.. (चवथेक हात घालता)... शैतानी चुडैल ... (नाव वाचता तोंड वायट करता) चूडटी लाय हाडून हिका. शैतानी चुडैल खंय... नातर किंतें शैतानी चुडैल ! (कादंबरी दवरपाक).. एक काम करुया, माँ नाही घरी, वाचूया कादंबरी, (तशीच कादंबरी घेता आनी दिवाणार येवत लवणटा. इतल्यान सपणावेल्यान माँ देवता).

माँ : (भेणार हात दवरुन दोळे वरशे करुन हर्षनाक पळेता) शू... शू..

हर्षना : राव गे मातशी (तेवटेन पळेनासतना)

माँ : हर्षना..

हर्षना : (नदर तेवटेन वता तोंड हिरमूसता. कादंबरी लिपोवपाचो यत्न करता)

माँ : कितें लिपयता?

हर्षना : हे काय ना.. सोदता... सोदता

माँ : कितें सोदता

हर्षना : कितें सोदता? ... (येवजीता) तुवालो सोदता.

माँ : तो पळय खुर्चेर रावन तुका पळयता

हर्षना : सामके लोक आवटे. तुवालो आंगान कितलो बारीक करतात

माँ : एक काम करता, तुका आंग पूसपाक गादीच एक करुंक लायता. नाटकां करतां, चल पयली न्हांवक, साडे णवांक हांव तुच्या फाटल्यान लागिल्ले न्हा म्हूण. टायम पळय, साडे बारा जायत आयली

हर्षना : तूं म्हूण माँ.. कोणाकुच सोडीना. टायमाफाटल्यान लागली!

माँ : तूं गजालीन घोव सांडू नाका. न्हावपाक चल पयली

हर्षना : life... so boring.

माँ : तूका जाय ते कर, न्हांव नाका

हर्षना : (खूशालभरीत) Thank you, Mom (वचू दिवाणार लवणटा)

माँ : परत लवणले ती पुस्तकाच काडटा आनी अुज्यां घालता. (आवाज चडोवन) न्हांवक चल पयली (हर्षना, बूक धापता आनी मान सकल घालून स्टेअ केसीर चडपाक) घे... तुवालो नाका? (सकल येता तुवालो घेता आनी परत वता, स्टेअरकेसीर चडट आनी तीका चाळोवन दाखयता) (वळून) आता कि उरलें?

हर्षना : ना.. काय ना. (भितर वयर धावता)

माँ : शी बाबा, आताच्या ह्या चलयांचेर कसलो सांवा आयला देव जाणा. (आंतरुण, हॉल निवळ करता संवसारचे कायच पडून गेले ना. आमी कितें जल्माव येतना आवयच्या पोटांतल्यान अशीच भायर सरलीं आमीय केन्ना तरणाटी आसली पूण ही असल पुस्तकां केन्ना हातांत घेतली ना... पुस्तका-पुस्तक बरी याद जाली आयज सांजेर पुस्तक प्रदर्शनाव वचपाक जाय ना जाल्यार सुलेखा बेजारतलें. ह पुस्तका प्रदर्शना कमी आनी स्वताचे प्रदर्शन च करता. (हर्षना परत येता)

माँ : आगो तू आजून न्हावंक गेले ना.

हर्षना : माँ यादूच ना

माँ : कसली

हर्षना : आयज सोमार न्ही गे.. हांव सकाळीफुडेच न्हालां

माँ : धन्य गो बाये तू

हर्षना : आता तरी कडेक सर म्हाका पुस्तक वाचूंदी

माँ : तें काय एक ना. पयली तयारी कर

हर्षना : कसली गे तयारी.

माँ : घे म्हाकांच विचार. आगो आयज तारीख कितली?

हर्षना : आयज आयज (पेपर पळेता) सोळा जून.... आँ...

माँ : आँ... कितें अठरावेर तुजो जल्मदीस, तु काय एक कानामनार घेना. म्हाकाच पळोवचें पडटा.







: माँ म्हाका हे बर्थडे बी पटना गे. दुडवांचो बेठीच अिबाड

: बाये, अठरावो जल्मदीस जिवितांत एकदाच येता आनी ह्या तारखेसान तुज्या जिविताक नव्यान सुखात जावपाची आसा. ह्यामुखार हे सगळे वैभव, ही मालमत्ता तुवेंच सांभाळपाक जाय.

: Life so boring.

: boring आसूं ना जाल्यार बांय असू, हांवे रायकारक फोन केला, तो भांगरावस्ती घेवन येतलो आनी राव गो, काल तूवे कपड्याचे शॉपिंग केले?

ा : Oh no... यादूच ना

: माका सांग तुकां कसल्यो तरी यादी अुरता. (हर्षना फाटी वता पुस्तकांच्या आलमारींतल्यान एक गिफ्ट काडटा. काडून माँक दिता.) हे कितें?

ा : माँ आता मात तूं सामकी हिंदी फिल्मातली टिपिकल आवय सोबली. wish you a many many happy returns of the day (हर्षना माँ ।क वेंग मारता. माँ दोळे पूसता, लिपया)

: (गिफ्ट उघडटा) डायमण्ड रिंग! आगो बेठेच अितले दुडू कित्याक खर्च केले?

ना : माँ तुज्या मुखार ह्या रिंगाचे मोल शुन्य

: बरे पोपटावरी उलोवंक शिकलें. (गिफ्ट धापता)

ना : आगे ते कोणाक धापून दवरता? घाल... ते ना हांवच घालता. (रिंग घेता आनी मॉचे हाताक घालता) हांगाच राव हालू नाका. तूका Magic दाखयता. (वता आनी लायट बंद करता. वाटेर येतना दिवाणाक आपडटा किंळाच मारता)

: आगो कितें जालें? वता आनी लायटीक हात घालता. पळय जाल्यार हर्षना दिवाणाक आपटून पडला. ताज्या दिमयेक मार बसला) आपटले मगो. हजार फावटी सांगला नाका जाल्ली अवचित्रपणा कंरु नाका म्हूण. कसली गरज आसली, लायट काडून आपटून घेवपाची.

हर्षना : (हूंदके दित) आगे काळखांत ह्या रिंगाचो डायमण्ड शायन जाता. तो हांव तुका दाखोवपाक सोदतालें.

माँ : सारखी दाखयली शायनींग. राव पळोवया, खंय मार बसला तो. (कपडे वयर करुन पायाकडे सकल्लो भाग पळेता) राव ... हांव Iodex घेवन येता.

हर्षना : अगे म्हाका कायच जावना. (माँ भितर वता, उदक घेवन येता)

माँ : पयली हे पी.

हर्षना : पी? आयडेक्स?

माँ : उदक ते. घे आयडेक्स, राव हाडटा (ती Iodex हाडपाक भितर वता. हर्षना उभे रावता. हॉलाचे कडेक वता, थंय वण्टीर जोडप्यान एका दादल्याचो आनी बायलेचो हार घातिल्लो फोटो आसा. प्रेक्षकांक पाठमोरे. माँ Iodex घेवन विंगेकडेन उभी)

हर्षना : आई... बाबा... याद आसा म्हजी तुमका. समज येवचे पयली आई तू म्हाका साडून गेली आनी जेन्ना समजूपाक लागले तेन्ना बाबा तूंय बी म्हाका अेकट्याक ह्या संवसारान सोडून गेलो. पूण माँन म्हाका खूब मोग दिलो, माया दिली. म्हाका जल्मदात्या आवय बापायची अुणीव भासपाक पडची ना हाजेर विचार केलो. कोण स्वात पोटाच्या गुळ्याचेर जितलो मोग करीना, तीतली ममता ह्या सावत्र आवयन म्हजेर केली.

.... आयज संवसारांतली, खंयचीय सुखी साधना विकती घेवपा इतलो दुडू तुमी म्हाका दवरुन गेली. पूण ज्या मनशावांगडा सुखाची चव कळटा, तीच मनशा जर कडेक ना जाल्यार कितें फायदो ह्या जगण्याचों

....किते फायदो ह्या जगण्याचो (हूंदके दित रडटा. हेवटेन माँच्याय दोळ्यान दूकां येता. ती स्वताक सावरता आनी फाटल्यान वचून हर्षनाचे खांद्यार हात दवरता. हर्षना दूका लिपोवपाचो फटकीरो यत्न करता. माँ ताचे फाटल्यासान हात



भोंवडायता. हर्षनाच्या बांद आवरेना आनी ते दूकां गळगळयत रडटा)

माँ : पिशे गोऽ पिशेऽऽऽ म्हजें पोर सामके पिशें (तिच्या दोळ्यांत दूका)

हर्षना : नाका गे तू रडूं नाका पळय लोक कसो शांत जालो.

माँ : (हांसता) हांव पुस्तक प्रदर्शनाक वता. सुलेखा दिदीचो फोन आयल्यार सांग हांव थंय रावता म्हूण

हर्षना : सुलेखा दिदी आनी पुस्तक प्रदर्शन?

माँ : काय न्हय गो, नवो तोडो आनी चपलाहार केला!

हर्षना : हा म्हणटकंच आपल्याचे प्रदर्शन!

माँ : (दोगांय हांसता) आनी हे पळय. जेवन घे, सगळें रांदून दवरलां. शीत कुकराक आसा. दाळ तोपांत आनी चपात्यांचो डबो

हर्षना : आँ

माँ : डब्यांत चपात्यो!

हर्षना : हांव सगळे खाता. तू चल तुका बेठोच कळाव जातलो. मागीर सुलेखा दिदीचो फोनार फोन (फोन वाजतां)

माँ : सुलेखा दीदी वाजले... म्हण्जे फोन वाजलो. (दोन-तिनदा रिंग जाता आनी कट) सामकी अुमळशीक लागल्या आसतली. बरें गो हांव चल्ले.

हर्षना : सांभाळून चल हांगा थंय बशींतल्यान हात भायर घालू नाका. तकली भायर घालू नाका.

माँ : बरें सायबिणी बरे (भायर वता, हर्षना दाराक खिळी घालता)

हर्षना : (आळस काडटा) माँ नाही घरी, वाचत बसा कादंबरी (हातांत येदोळ लिपयल्ली शैतानी चुडैल कादंबरी काडटा) त्यातल्या त्यात ही आहे बरी. (कादंबरी उघडून बसता. अुजवाडा येवजणेंत बदल. पाना परततां तशी मुखवट्यार भयानक हावभाव, एक बोट तोंडात, नाखटा खाता. इतल्यान माजरांची किचनांत म्यांव करुन उडकी. हे आंग काडटा. किचनांत पेले पडटा (किचेनात पळेता) हे बिलू, तूका माँन आयदना घाँस म्हळा? परत डिस्टर्ब केल्यार पळय तूका. हांव खंय पावल्ले, आँ... ह (परत वाचपाक गुल्ल. हे खेपो चडच भया हावभाव. ताळो सुकिलेलवरी. आंग कवळून काल वाचता.)

(दारार माँ ची एन्ट्री हातांत तुटील्ले चप्पल)

माँ. : हर्षना... ये हर्षना (ते भानार ना) (माँ ताचेसरी आनी ताचे खांदार हात दवरता. ते सरशी ते भि किळांच मारुन हातांतले पुस्तक सोडून ति माचयेर फूल झोत.)

हर्षना : आँ.. तूगे ! ... म्हाका दिसली शैतानी चुडैल

माँ : कितें?

हर्षना : ... शैतानी चुडी.

माँ : म्हणजे?

हर्षना : तूका कळचे ना ते. (माँ वचून पडिल्ली काद काडटा. वाचता)

माँ : शैतानी चुडैल?... आँ हीच तूजी ती शेतानी चु नाका आशिल्लो कसलोय कचरो वाचता आत भुरगी तूमी नाका आशिल्ले वाचपाची चड ह वाचपाकूच जाय जाल्यार रामायण वाच महाभ वाच.

हर्षना : आनी लदाय मार.

माँ : आनी ही असली पुस्तकां वाचून भुतांवागडा गज मार.

हर्षना : मारतले

माँ : धरुन एकदीस व्हेल्यार पूरो भूतांनी

हर्षना : भियेता काय कितें? काडून हातात दितले

माँ : कितें? (अजापता)

हर्षना : (तिच्या हातांतली कादंबरी घेवन) ही कादंबरी माँ नाही घरी वाचत बसा कादंबरी. पूण राव पूस्तक प्रदर्शनाक वता म्हण्टाली हे वाण प्रदर्श करता.

माँ : कितें सांगू तूका. भायर गेटीक मात्शी घूस्पाली अ पडली







: काय लागून बी ना गे

: पंचवीस ठाके पडले

: आँ

: व्हाणेक! राव गो, तुवे जेवन घेतले

: मात्शी राव, ही कादंबरी पयली पूराय करता

: चड लाग नाका. यो भितर, वाडटा (माँ भितर वता. हर्षना पर गुल्ल)

(भितरल्यान) आगो यो वाडला, बेगीन यो नातर माजर बी तोंड घालीत.

ा : आयले (उटता) करा बेगीन तयारी, नाही तर आई बोंब मारी.

: (हात पुशीत भायर) कितें म्हळे?

ा : ना तु जेवना काय म्हूण...

: आयज सोमार, उपास.

ना : हे मात तुमच्या सगळ्या आवयंचे बरे. तुमी केल्यार मात उपास, चलयांनी केल्यार Dieting. (हांसत भितर वता. माँ येता खुर्चेर बसून पेपर वाचता. इतल्यान फोन खणखणटा)

: हे सुलेखा एक लागला फाटीक. (फोन उभारता) हॅलो सुलेखा. ... आँ सॉरी... कोण तू... (तोंड पडटा)... (भितर हर्षनाचो कानोसो घेता. संशयास्पद वागणूक)... ना...ना... हय... करता ... तूं म्हाका सुखान कित्याक जगपाक दिना.... ह्या सुखान तुजो काय एक वांटो ना... मागीर तुका जाय तरी किते... आता हांव तुजो स्विकार करपाक शकना... हांगां येता? मात हे ना ते नाते उभारु नाका... यो तू... मागीर उलोवचे.

.... हर्षनान जर समज विचारले तूं कोण... कितें सांगू? (तेवटेन फोन दवरता) (हाज्या हातांतल्यान फोन गळटा. शुन्य नदरेन ती पळेता. अुजवाडा येवजण बदलता. फक्त तांचो मुखवटो दिसता.)

र्षना : (हात पुशीत भायर, माचयेर फूल झोत) माँ... (तीणे आयकूंक ना. परत) माँ... (हात लायता. ती भानार येता) कितें जाले?

कोणाचो फोन? तू इतली घामाघूम कित्याक?

माँ : (सावरासावर करित) (पेपर उभारुन) ही बातमी वाचून मन सुन्न जालें.

हर्षना : कसली बातमी?

माँ : कांद्याचे भाव वाढले!

हर्षना : दाखय पळोवया

माँ : कितें कांदे?

हर्षना : ना गे. पेपर (पेपर पळेता) माँ, हो गेल्या वर्साचो पेपर. कांदे आता सवाय जाल्या. नाका आशिल्ली टेंशना घेवपाची तुमका वायट सवय. (इतल्यान परत फोनाची बेल वाजता. माँ काचवेता) (हर्षना उखलपॉक वता.)

माँ : बाय, राव हाव पळेता. (उठून फोन घेता) .... (कानाक लायता, सुस्कारो सोडटा. हर्षनाक कुखानी आपयता, फोनार हात दवरुन) सुलेखा दिदीचो फोन. तिका सांग हाव... हांव घरा ना म्हूण. (हर्षना हासता, फोन घेता)

हर्षना : दीदी हांव. भितर गॅसीर भाजी दवरील्ली .... माँ... माँ... गेल्या (माँचे पुस्तकाचे हातवारे).. ह्या पुस्तक प्रदर्शनाक ...कितल्याक.. (माँ कुरुवानी टायम सांगता)... जाले अधवर .... कितें?... बरे सांगता हांव येतकीच. (फोन दवरता) (हासता)

माँ : आगो हांसपाक कितें जाले?

हर्षना : पुस्तक प्रदर्शन आयज न्हय, फाल्या सांजेर खय. दिदी चूरचूरे करी तुका बेठीच फुकटची पावट पडली म्हणू. मुजरत तुका फाल्या प्रदर्शनाक व्हरपाक हांगां येता म्हण्टाली.

माँ : फाल्याचे फाल्या. हर्षना अशे हांगां बस. आता योग्य वेळ आयला, तुका अेक गजाल सांगपाची. तु जाणा, तुज्या बाबाकडे हांव दुसऱ्यापणांत लग्न जाल्ली. तुजो बाबा लाखांत अेक मनीस आसलो. वताना तांणी म्हजेर तूजी जापसालदारकी सोपयली. त्या



जबाबदारीक हांव कितले खरें थारले, ते म्हाकां खबर ना.

हर्षना : माँ... आयज जर बाबा आशिल्लो जाल्यार ताका तुज्या विशी अेकय खोड दिसून येवपा सारकी ना. हांवे तुका दुसऱ्या आवयच्या नदरेंतल्यान केन्नाच पळेवंक ना. आईन म्हाका जल्म दिलो, पूण ल्हानाचे व्हड तर तुमीच केलां. हांव खरे नशिबवान, देवा म्हाका नशिबांत दोन आवयो दिल्यो. तुमचे लागी म्हजी एकय तक्रार ना.

माँ : पूण ते म्हजे कर्तव्य. आता ही एक फक्त निमणी गजाल अुरल्या ती तुज्या हातांत दवरतकच हांव सुटले. (उठता. आलमार उघडटा. फायला काडटा) घे.

हर्षना : हे कितें?

माँ : बाबाचे मृत्यूपत्र. वाच.

हर्षना : (ते वाचता) ना हो सगळो व्याप म्हजेलागी जमचो ना.

माँ : जमोवन घेवचो पडटलो.

हर्षना : म्हाका एकट्याक सोंडून तू खंय वतली तर?

माँ : हांव तुज्याच वांगडा आसतले. आता ह्या सगळ्या मालमत्तेचो गाडो तुवेच सांभाळपाक जाय. (परत फोन वाजता)

हर्षना : सुलेखादीदीच आसतली (फोन घेता)... हॅलो... हॅलो... हॅलो... कट जालो दिसता. (फोन दवरता)... माँ.. हांव गार्डनीग करपाक वता.

माँ : सगळे मांत भिजया नाका

हर्षना : Oh no... Life so boring (म्हणत भायर वता)

माँ : उदकान नाचपाक ह्या चलयेक सांगूच नाका. (परत फोन खणखणटा) (माँ काचवेता. फानासरी वता. उखलता. परत दवरता. फोन कट. भितर वचपाक, फोन परत रिंग. फानासरी येता. फोन उभारुन कानाक लायता)... आयकता... कित्याक म्हज्या फाटल्यान लागला. ... तुका जाय ते व हाव तुज्या पाया पडटा... (तकलेर आटयो)... (प कट जाला, दवरता) (ती खुर्चेर बसता, कपल हात लावन, हुंदके दित रडटा, फोकस तिचर (माचयेर काळोख)

## प्रवेश : दुसरो

(हर्षना दिवाणार लवणून कादंबरी वाचता. दार बेल वाजता )

माँ : (भितरल्यान) हर्षन... दार उघड कोण आय दिसता. म्हजे हात ओले आसा.

हर्षना : (हर्षनाक शिंक येता. ते कडेकचो एक कपडो हात घेता. दार उघडटा. दारात दोन मॉडर्न बायल मन अेक विशिंतली दुसरी तिशींतली. टिशर्ट पे चुडीदार पेहराव. माथ्यार हेट. दोळ्यार गोगल आ भोंवडेर आयिल्ले वरी बॅगा... एकटे माया दु ममता)

(हर्षना तांका पळेत उरता)

माया : हाय. हॅलॉव...

ममता : ममता तू वगी कित्याक? तूंय उलय. तें कशे उलय पळय. आता ममता उलयता (मायाक) हे मा आमी खंय पावली?

माया : जाली तुजी प्रश्नांची सरबती सुरु? हाकाच ला हांव तुका खंय व्हरना.

ममता : (स्वताक) अशे कशे गो ममता तूं? दुसऱ्या कित्य इरार करता? आता ममता रागार जावन चलयेक विचारतले. (हर्षनाक) कितली मस मारल्या गो तुमका, आताच्या व्हावरांड्यांक. अ तोंड कितें पळेता? चल पयली मालकिणीक आप (बोवाळ पळेवन माँ हॉलांत येता. माँ तोंडवेले कस तरी हांव भांव लिपोवन. ती हांका दोगांकूय पळो बेजारल्या.)







(माया, ममता भितर सरता)

ा : (स्वताक) ममता अशें उभे रावन तोंड कितें पळेता? चल विचार तिका आमी भितर येव काय म्हूण (दोगाय भितर सरता तेवरी ममता विचारता) आमी भितर येव.

: बाय ममता तू वगी रांवक कितें घेतले

ा : म्हाका कित्येय थंड चलता.

: कर्मभोग

ा : (मॉक) आमी भितर येव? (दोन पावला भितर)

: खंय? तांच्या किचनांत वतां?

: आगो आयल्याक तूमी दोगांच बडबडटा?

ा : (कुरवांनी, कोणगे ही?)

ा : आमी...

ता : ममता तू वगी कित्याक? (माया वगी रावता) अुलय किते तरी. आता ममता अुलयतले. (पोझ घेवन)आमी हिजी मुंबयची बालमैत्रिणी पूण राव गो तू कोण? (हर्षनाक)

: ती म्हजी धूव! (माया खोंकता)

ता : (मायाक) गूळी घे.

ा : कसली निदेची?

ता : खोंकली येतां जाल्यार खोकंलीची घे न्हीद येता जाल्यार न्हिदेची घे. पूण गुळी घे.

ा : गुळयो मागीर घेता. म्हाका तू फारान मारुन उडय. सुठतले हांव. येतना आख्खे वाटेर, खंय पावली? खंय पावली? ये ते कसले देवूळ.. जीव नाक पूरो केलो.

(हर्षना हांच्या अुलोवप्यान बेजारता)

ना : माँ तांका भितर तरी हाडून बसय. (मॉं तांका बसपाक खुर्च्यो दिता) बसून घेयात. प्रवासांत पूरो जाला आसतले.

ता : ममता तू वगी कित्याक? अुलय किते तरी. (माया कपलाक हात मारता) (माँ) येन्ना पूरो कशें जातले? प्रवासाक तर आता सुरवात जातली.

माँ : म्हणजे

माया : (ममतांक) हांव अुलोव?

ममता : ममता, अशे कितें करता? दुसऱ्याकूय अलोवंदी, आता ममता मायाक अुलोवपाक सांगता (मायाक) अुलय आता.

माया : (माँक) आमी गोंय दर्शनाक आयल्या. गोयचे दर्या, दर्यावेळी आनी देवळा पळोवपाक आयल्या. एक change.

माँ : (हर्षनाक) बस गो हांचेवांगडा गजालीक. हांव कित्येय हाडटा

हर्षना : तू बस. म्हाका पाशियेस ना. हांवच कित्येय घेवन येता. (हर्षना भितर वता)

माँ : जायती वर्सा जाली मुंबय येवन गेल्यार

माया : पुराय बाव्वीस!

माँ : मुंबय जायती बदल्ल्या म्हूण आयकल्या.

माया : हांगा दर उजवाडील्या दिसा मनशां बदलतात. मुंबयचो बदल काय न्हय!

(ममताक) तू वगीशे बसलें? सोंपले प्रश्न

ममता : ममता पळय माया तुका उलोवपाक सांगता. उलय (माँ) तुमगेर बांय आसा.

मया : बाय कित्याक? जीव दिवपाक

ममता : ना. म्हाका बांयचे उदक पिवपाक जाय

माया : एक काम करुया, तुका बांयत बुडोवन काडूया.

ममता : ममता वगी राव नाका. सडेतोड जाप दी. (मायाक) घर तांचे, बांय तांची. म्हाका बुडोवन काडी तू कोण? (हर्षना दोन ग्लास घेवन येता. ही पियेता)

माँ : मागीर कसो कितें प्लॅन तुमचो

माया : (ममताक) हांव अुलोव कि तू अुलयता? (हर्षना कडेन बसता)

ममता : ममता अशें येवाजिता कितें? (मायाक) तूंच अुलय. ममतान मायाक अुलोवपाची संद दिली. (मया कपलार हात मारता)

माँ : (मायाक) तूजो timepass बरो जाता आसतलो.



(ममताक पळोवन)

माया : तूमी ताचेवांगडा दोन दिस रावात मागीर कळटले तुमका. ऑ तू प्लेन विचारी. तसो व्हडलो ना. आमी गाडी भाड्याक घेतल्या. आयज सांजेर भोंव भोंव भोवतली. राती एका लोजींगात रावताली. फाल्या सकाळी परत शूट.

ममता : (हर्षनाक पळेवन) ममता, ते पळय चली कशे थंड बसला.

माया : तूय बी तशेच बस.

ममता : बस कांय पिक-अप!

माया : ऑं... पिक-अपी वेल्यान बरी याद जाली. (हर्षनासरी वचून) तूंय बी यो न्हय आमचेवांगडा बरी कंपनी जातली.

ममता : कायना जाल्यार फॅक्टरी तरी जातली. (स्वगत) ममता, कसले गो पचके जॉक मारता. पळय तांची तोंडा, ती हांसू लेगीत ना. आता ममता त्या चलयेन विचारतले. (हर्षनाक) राव गो, तुजे नाव विसरले पळय. कितें गो नाव तुजे?

हर्षना : हर्षना! (ममताक आयकूंक आयले ना)

ममता : कोण ना?

हर्षना : हर्ष-ना.

ममता : हर्ष-ना खय गेला तर तो?

माया : सायबीणे ताचे नाव हर्षना. हरशना

ममता : तू खरशना?

माया : बंद कर तुजी शाणपणां. कसली चलयल्या ही हलकटपणा.

ममता : पूरो तुजी पिशेपणां.

माँ : चल्ला कितें?

ममता : हांवे तुमकां पळोवन कविता केली!

माया : (माँक) ताजे सोडा हर्षनाक आमी आमच्या वांगडा व्हरू. आमकाय गोंयचे तितलीशी खबर ना. आधार जातलो.

हर्षना : (माया/ममताची नदर चुकोवन, माँक ना)

माँ : ताकाच विचारा (हर्षना हिरमूसता)

ममता : (माया) तें यतले. ते येता जाल्यार हांव तुका व ना.

माया : (हर्षनाक) प्लिज. ना म्हूण नाका. प्लिज म्ह पळय.

ममता : (मता, हर्षनाच्या दोनय हात धरुन ओडटा) म वगी राव नाका आता ममता हर्षनासरी वतले उ ताका ओडटले.

हर्षना : माँ...

माँ : चल गो बाय. एका दीसाची तर गजाल. हांगा र काय तू व्हडले दिवे लावचे ना. भोंवन तरी मनशान म्हण्टा तें आपल्या घरातल्यान केन्ना वे भायर सरपाक जाय

हर्षना : (माँक) ती मुडार आसात. म्हाका व्हेल्यार तांका बोअर करतले म्हाका पिकनीक बी एन्ज करपाक कळना

माया : ममता आसतना भिने का नही.

हर्षना : दुसरे पावट केन्ना तरी

ममता : ममता तू वगी कित्याक? कित्येय उलय तरी. राव गो ममता तू किते उलयतले? तू एक काम क तू वगीच राव मायाक पळोवंदी

माया : उपकार (हर्षनाक) तुका घेतल्यार शिवाय अ हांगासरली हालची ना. (ममता आपूण आंग हालो दाखयता) तू किते करता?

ममता : warm-up करता.

माया : warm-up जातकच close-up कर आ मागीर seven-up कर, पूण कित्येय कर. shu up कर (ममता ओठार बोठ धरता) (हर्षना हांसत

माँ : हर्षना चल गो तांचे वांगडा. कितलो आग्रो क पळय ती फाल्या मागीर अेकदा संवसाराच जाळ्यात अडकली म्हण्टकच काय मेळना.

हर्षना : Life... so boring

ममता : ममता, हे तशे आयकूपाचे ना (हर्षनाक)





बोल सखी बोल तेरा राज क्या है
क्या है तेरे खुशी का राझ
तु बता दे मुझको आज

पिकनीकेक या, पिकनीकेक या (अेकवटेन ममता आनी दुसरेवटेन माया, हर्षनाक हाताक धरून, पिकनीकेक येवपाची गळ घालतात.)

(अुजवाडाचो झोत ह्या तिघांचेरच दवरुन माचयेर काळोख करप. पद चलतना, तर्फ्यो परत्यो करप. आता प्रशस्त बंगल्याच्या हॉलाच्या जाग्यार एक पोरनी हवेली सदृश्य घर दिसतले. घराची येवजण हे परी. धावे वटेन मेन एण्ट्री. मधल्यान भितरली कुड अुजव्यान जनेल. मध्यभागातले भितरले कुडीकूय, दोन वटेन व्हडली जनेलां. वण्टीचो एक भाग कपड्याचो (मदी चीर) आसप गरजेचे. घराची सजावट पोरण्या हवेली सारकी आसची काळखे फर्नीचर. सगळे धव्या कपड्यानी धुळ्ळ जमचो न्हय म्हूण धापून दवरला. उजव्या वटेन एक आराम खुर्ची (धोल्तेर) खुब गरजेची. मध्यभागी झुंबर)

ा/ममता: येता काया ना

ा : बरे सायबिर्णींनो चल या.

ता : हिप हिप हुर्रे

(माँ भितरसान बँग पॅक करुन हाडटा. इतलो वेळ ती भितरच आसली)

: घे बेग रेडी

ना : माँ... बरी करुन गे

: तूय बी बरें करुन

ा : काय येवजी नाका, आमी दिस्त उडयता. (तीघांय मधल्या दारांतल्यान वता सेटाची मांडावळ प्रेक्षकांच्या अजून लक्षांत येवची ना. ताका दिसतले ती येदोळच्या हाँलांतल्यान पासार जाल्या)

## देखाव : दुसरो

(Background Music: वादळ-वारे सुटलां वीजो कडकडटा, झाडांची पाना जनेलांतल्यान डोकावता, कानटळ्यो बसपा सारको आवाज. हळू हळू हो आवाज कमी आनी गाड्येचो आवाज नेट धरता गाडी बंद पडिल्ल्याचो आवाज)

(माचयेच्या मधल्या वण्टेर तीन सांवळ्यो. अजून हवेलीचे दर्शन प्रेक्षकाक जांवक ना. सकळे संभाषण वण्टीर दिसतल्या सांवळ्यामदी)

ममता : माया, गाडयेक कसली पिडा मारली?

माया : गरम जाल्या. स्टार्ट जायना. आनी पावसाचीय व्हडली दडक येवपाची आसा, काया अेक दिसना सगळ्याक काळोख.

(तिनय सांवल्यो अुलयता अुलयता हांगा थय पळत चलतल्यो. हेतू हो की ती कडेक खंय घर दिसता काय म्हूण पळेता.)

माया : हर्षना, तू वगी शे?

हर्षना : (भियेला) रातची नव जायत आयली. आनी हांगा कडेक तर काय अेक दिसना. रात कशी काडपाची?

ममता : ममता तू वगी कित्याक? कित्येय तरी अुलय. आता ममता अुलयता. हे सगळे कारस्थान मायाक लागून. तुजीच मगो ही powerful planning

माया : आगो म्हाका खय खबर गाडी अशी अंत्या वेळार घात मारतली म्हूंण. हांवे येवजिल्ले रात एका लॉजींगांत काडपाची. पूण म्हाका दिसना, हांगा तसली कित्येय लक्षणा आसत शी.

हर्षना : मागीर? आता कितें?

माया : चलत रावया, खंयूय कित्येय तरी सापडटले.

ममता : ये... ते पळेयात झोगलांच्या अुजवाडाक अेक हवेली झळाकता. या चलया. कित्येय आसरो मेळटलो.

(सावळ्यो दिसपाच्यो बंद. परत कानटळ्यो बसपाचो जोगलाचो आवाज हळू हळू ह्या अुजेडांत हवेलीच्यो वण्टी स्पश्ट अदीमदी जाणवपाक लागतल्यो. झूंबर



सगळोच हालतलो. वारे सुटला हॉलाचे धावे वटेन मुखेल दार. ही तीघांय तेवटेन पावल्या. दार खटखटयता) घरान... ओ घरान

माया : कितें? ओवळीक घेवन आयला. म्हका दिसता घरांत कोण एक ना (दार वाऱ्यान कटाकटा उघडे जाता)

हर्षना : दार उघडेच आसा. देव पावलो. (तिघाय भितर सरता आप आपली बॅग सकल दवरता. तिघाय हेवटेन तेवटेन भोवत हवेली नियाळटा.)

माया : जालो आयच्या रातचो प्रश्न सुटलो

ममता : ममता तू वगी कित्याक? अुलय कित्येय तरी! रावपाचो प्रश्न सुटलो. पोटा पाणयाचो किते? (अेका बॉक्साक आदळटा)

हर्षना : काळखांत कित्याक भोवता लायटी बटण खंय दिसता जाल्यार पळेयात (इतक्यात हर्षनाचोच हात वण्टीवेल्या एका बटणाक लागता माचयेर तो zero bulb, एका फोटवा सामकारा आसा. माचयेवेली दर अेक गजाल आता स्पष्ट जाणवता)

माया : (व्हडान) घरात कोण आसा?

ममता : ममता तू वगी कित्याक? तूय अुलय कितें तरी. आता ममता विचारतले. घरात कोण आसा? ममता म्हका दिसता घरात कोण ना. कारण कोणाचोच आवाज ना. ममता, ममता अशें एका जाग्यार रावन कितें पळेता? मायाक आनी हर्षनाक सांग, भितर वचून पळेयात, कोण दिसता जाल्यार आता ममता मायाक आनी हर्षनाक विचारता.

हर्षना : ममता-ताई, काय अेक विचारु नाका

ममता : कित्याक?

हर्षना : तू किते विचारतले ते आमका कळले?

ममता : बरे बाये हांचे हांव अुलयनासनताय हांका सगळे कळटा. ममता, तू मात पिशें तूकाच कायएक कळना.

माया : मम्मो आता तू वगी रावपाक किते घेतले?

ममता : ममता माया तुका विचारता, किते घेतले काय म्हूण? वच आतां मायाक ठणकावन सांग, आपल्या थंड









कित्येय चलता म्हूण. आता ममता मायाक विचारता...

: वगी राव. आयिल्ल्याक बडाबडा बडा.

: माया तू हाजेवांगडा गो कशे दिस काडटा

: हाका वगी करपाक म्हाका दिस्त खबर आसा पळेतले?

: ना... नाका.. नाका

: मम्मो स्टेच्यू! (ममता आशिल्ल्या त्या पोझिशनान पूतळ्यावरी)

: आगो ते घट जाले. आता किते?

: आता कितें? पळय (माया दोन ताळो मारता, ते वरी ममता मूळ रुपांत ममता घुस्मठलेवरी)

ना : हांव खंय आसा? हे कोण? तू कोण? फोटवाक पळेता...(वण्टीर थंय एका बायलेचो व्हडलो हॅण्ड पॅण्टेड चित्र आसा) ही कोण

ना : आत किते जाले? हिचे?

: अशेंच जाता एकदा स्टेच्यू करतकच हे फाटले सगळे कांय खिणा पूरते विसरता. मागीर ताका सगळी परत याद करुन दिवची पडटा देखून ताका परत परत स्टेच्यू करुन उपकारना. आमचेच तकलेक बिशल्ल्या जाग्यार ताण.

ता : हांव कोण? (मायाच्या गळ्याक हात घालता) सांग सायबिणे सांग

या : (गुदमरता. हर्षना दोगांकूय सोडयता) राव राव सांगता. तूं ममता! हांव माया आनी हे हर्षना... आमी मुंबयसान गोंया पिकनिकेक आयल्या आमची गाडी बंद पडल्या. अडेकडेक कोण ना वादळ वारे सुटला. आमी आसऱ्याक ह्या हवेलीत पावल्या पूण हवेलीत जीतो मूस लेगीत ना.

ता : ममता. कळ्ळे मगो ? ममता तूका भूख लागल्या दिसता. (हर्षनाचो आनी माया सुस्कारो सोडटा)

र्ना : नाका आनी ताका परत स्टेच्यू करुंक

ता : (पाय आपटून) म्हाका भूख लागल्या... म्हाका भूक लागल्या

माया : म्हाकाच खा. (मम्मा ताचे सरी तोंड करता) रानवटी मगो हे सामके हरवेंच खांवक सोदता.

हर्षना : राव म्हका दिसता म्हजे बॅगांत थोडी फळावळ आसा, मागीर जेवणाचे कित्येय जमता जाल्यार पळेवया (हर्षना बॅग उघडटा केळी काडटा दोगांकूय दिता)

ममता : हे कळी शिव शिव शिव !

माया : खंय शिव, खय शिव !

ममता : तसलो शिव न्हय, शिव म्हळ्यार म्हादेव!

हर्षना : तो हांगा रातचो कित्याक?

ममता : आगो हे सगळे केळ्यांन लागून. आयज सोमार. आवयन म्हाका सोमारचे non- शिवरांक खाव नाका सांगला.

माया : मर उपाशी (हळू)

ममता : ममता, अशे वगी कित्याक? पोठाक भूख लागल्या मगो खा केळी. आनी उडय साली जळमळी. (खाता आनी साल शेवटीता.)

हर्षना : Life.... so boring पूराय रात काडपाक जाय

ममता : हे आमी अंताक्षरी खेळूया. सुरु करता हाँ... शायद मेरे शादी का खयाल दिल में आया है, इसिलिए मम्मीने मेरे तुझे चाय को बुलाया है। है... ह....ह.. (मायाक) म्हूण

माया : ह... (येवजीता)

ममता : कळनाऽ भेण्डीऽऽ भेण्डीऽ

माया : राव जाली याद<br>हम तुम एक कमरें में बंद हो<br>और चाबी खो जाय<br>य...य... (हर्षनाक)

हर्षना : यार बीना चैन कहा रे<br>यार बीना चैन कहा रे<br>यार नही प्यार तो मिला<br>अरे प्यार चाहिए

माया : ए.... ए.... (ममता)



ममता : ए (येवजिता)

माया : भेण्डीऽ भेण्डीऽ

ममता : हॉं ए. डिक चाक, ए डिक चाक
शायद मेरी शादी का खयाल...

हर्षना : This cheating येदोळ तुवे हेंच म्हणील्ले, आनी राव गो, तुका ए आयला... हे कितें डिक चाक?

ममता : आवय ममता, ही सामकी अनाडी मगो. हांका दोगांकूय काय कळना

माया : ह्या डिक चाकाचो अर्थ म्हाकाय समजूंक ना.

ममता : (ताळी मारुन हासता) डिक चाक हे हांवे रिमिक्स केले!

माया : ना... ना... चिटिंग रडी.. रडी..

ममता : रडी रडी सोलाकडी, रडी रडी सोलाकडी (बोवाळ घालता)

मया : मम्मो स्टेच्यू! (ममता स्तब्ध)

हर्षना : Oh my God, आत कितें? रातभर हाका अशेच दवरता?

माया : राव... मात्सो सुशेग घेवन सुटका करता ताची. (दिर्ग स्वास घेता, ताळी दोनदा मारता. ममता पूर्ववत)

ममता : हांव खंय आसा? हांव कोण? तू कोण? (हर्षनाक) तू कोण? (मायाक) ती कोण? (त्या व्हड फोटवाक) (माया ममताच्या कान कुजूबजू करुन सांगता. हर्षना आपल्याच्या कानांत बोटां घालता. सांगून जातकच माया हर्षनाक कानांतली बोटा काडटा)

हर्षना : झाले सांगून? नाका आनी परत ताका स्टेच्यू करपाक.

हर्षना : Life so boring

ममता : ये हांव सांगता. ममता तूं तांका ठणकावन सांग, आता आमी भेण्ड्यांनी खूळूया. आता ममता वचून दागांकूय सांगतले...

माया : नाका सांगू कळ्ळे आमका

ममता : ममता तूसी ग्रेट हो. तांका साग नासतना सगळें कळटा

हर्षना : पूण राव गो आताच आमी भेण्ड्यांनी आता आ परत...

ममता : येदोळची ती अंताक्षरी, आताच्यो भेण्ड्यो

माया : अंताक्षरी... भेण्ड्यो... फरक कितें?

ममता : कट्टी गे

माया : घेतली

ममता : उदक ओत

माया : ओतयले

ममता : आता नाक बुडय!

माया : (उस्तूरे वता) इं.

ममता : अंताक्षरी म्हळ्यार हिंदी पदांच्यो भेंण्ड्यो आनी भें म्हळ्यार मराठी गीतांची अंताक्षरी (हा..हा.. कर हासता)

माया : रातची हांसपाक उपकारना, भूता येता.. भूतावेल्य याद जाली. आमी Planchat (प्लेनचॅट) करुं

हर्षना : प्लेनचॅट म्हळ्यार

ममता : ममता ही कितें भानगड. मायाक सविस्तरान विच आता ममता मायाक सविस्तरान विचारतले. माया

माया : कळ्ळे

हर्षना : ममता तुसी ग्रेट हो. तांका सांगनासताना सग कळटा. (ममता) तू उलोवचे बदला हांवच उलय

माया : आता मदी गडबड नाका (हर्षनाक) मेणवात आर आसल्यार दी... मदी कोणे कसलोच प्र विचारपाचो ना.
(हर्षना मेणवात काडून दिता)

हर्षना : म्हजेलागी फस्क ना

माया : ममता तुझेकडेन आसा

ममता : हाव किते विडयो फूकता?

माया : चूक जाली सायबिणे म्हजेकडेनच एक लायट आसा.
(लायटर काडटा)

ममता : No Smoking

माया : हॉं आता पळेयात. ही मेणवात हांव पेटयता (मेणवा







पेटयता)

ा : पेटली

: तुका आता मदी अुलयल्यार पेटयतले.

ा : स्टेच्यू करुं? (ममता वग्गी)

: (मध्यभागी मेणवात पेटयता |•| आनी तीघांकूय अशी बसयता पेण्टीतल्यान रुपयाचे नाणे काडटा) घे रुपयाचो नाणे.

ता : आता किते घालता गाराणे

ा : स्टेच्यू! ...... (ममता स्टेच्यू जायना) (मायाक) आगो हे खेपो स्टेच्यू जावक ना!

ा : तशे न्हय ते हें अशें मम्मो स्टेच्यू (तेसरी ममता स्टेच्यू जाता) ऑ पडली पाड (दोनदा ताळी माता) ममता पूर्ववत आसा.

ता : हांव खंय आसा? आंव कोण? तू कोण? ती कोण (फोटवाक पळयता)

(माया ममताच्या कानात कुजबूजता, हर्षना कान घापता, सगळे सांगून जातकच, ममता हर्षनाक कानांतले हात काडपाक लायता)

ा : आता मदी अुलयशी जाल्यार आवयक खायशी, (येवजीता) हांव थंय पाविल्ले... नाण्यार... हेण नाणे हांगा मेणवातीच्या मूळाक दवरता आता आमी तिघांनीय आपले मदले बोटाचो स्पर्श ताका करपाचो. दोळे धापपाचे आनी आत्म्याचे नामस्मरण करपाचे.

र्ना : माका भिरान दिसता

ता : मै हूँ ना ... (वग्गी)

या : आगो, ह्या आत्म्याक आमी आपयतली, आमी सांगता ते काम ताका करचे पडटाले. ताच्यान आमचे काय अेक वायट करपाक जमचे ना.

र्ना : तू म्हण्टा जाल्यार विश्वास दवरता पूण आत्मो कोणाचो हाडटली?

मता : हे म्हजो आत्मो घेया.

या : आत्मो फक्त मेल्ल्या मनशांचो आसू येता... आनी गजाल नंबर दोन, त्या आत्म्याचे वास्तव्य ह्या घरात जाल्ले जावपाक जाय

हर्षना : पूण हे घर तर आमका अणवळखी. Now what

माया : अडेकडेक कित्येय मनशाची खूण दिसता जाल्यार पळयात.

ममता : (ममताचे लक्ष त्या वण्टीवेल्या फोटवार वता) तीका हाडा

माया : उटून नाव पळें तिचे?

ममता : (उटता, नाव पळेता) सौ. कलावती कलसांवकार

माया : यो बस. आता हांवे येदोळ सांगिल्लेवरी सगळी बसा. नाण्यार चड प्रेशर घालू नाका. फक्त स्पर्श (सगळी बसता. वारे वादळ आवाज, खोलयो अुसळप चालूच आसा) दवरलो. घेयात नाव. मानांतल्या मनांत नामस्मरण करा. कलावती कलसांवकार हांगा यो. कलावती कलसांवकार हांगा यो... (हळू हळू तिघत्तंय पूटपूटपाक लागता मध्यभागी ... कडेक जंय वल्तेर आशिल्ले तिचेर झोत पडटा.. पळय झाल्यार थंय एक जख्खड म्हातारी बसून हांका नियाळटा तीचे घोलप चालूच आसा. जोगलांच्या अुजवाडांन ती प्रेक्षकांक दिसता. फाटल्यान भयानक आवाज, भिषण शांतता. ती कलावती आपल्या जाग्यावेल्यान उठून अशी एक पासय मारता आनी तांचे वांगडा बसता. तांचे हातार हात दवरता आनी मेणवातीर फूक मारता, तेवरवी ही तिघत्तंय दचकता आनी बशिल्ल्या जाग्यावेल्यान फाटल्यान वळटा)

ममता : को... को... कोण तू?

कलावती: हांव कलावती कलसांवकार

ममता : म.. म... म्हणजे आत्मो... ?

कलावती: कसलो आत्मो? आत्मो बित्मो काय न्हय. हांव ह्या घराची मालकीण फाटलेवटेन माल्शी गेल्ली. परत यो जाल्यार म्हाका तुमी दिसली. भायर ती गाडी तुमचीच दिसता. बंद पडल्या आसू ये काय Problem ना. आयची रात तूमी हांगा सारल्यार जाता

माया : (हळू तिका हात लावन तिचे अस्तित्व जूणन



घेवपाचो यत्न करता...) ये... ही खरी.

हर्षना : तुमचे खूब उपकार

कलावती: हातूंत उपकार ते कसले? अडिल्ल्या नडिल्ल्यांक सदांच पावपाक जाय, जाल्यारुच तुमका मोक्ष प्राप्त जाता आनी देव पावता.

ममता : म्हातारचाळ जालो सुरु (कलावतीक आयकूक आयले ना)

कलावती: तुमी बसात हांव तुमचे खातीर जेवणाची व्यवस्था पळेता

ममता : ममता तूं वगी कित्याक? तुय अुलय कितें तरी (कलावतीक) तांका भूख लागल्या नासूये पूण म्हाका लागल्या.

कलावती: ताटाक येवन गाडगो लिपोवक उपकारना. बरे हांव जेवणाक लायता (ती भितर वता)

हर्षना : म्हजो तर विश्वासच बसना, देव दिता जाल्यार नळे फोडून दिता (इतल्यान वेल्यान एक नळकूटी पडटा)

ममता : हाका मण्टा देव दिता देवचार नाडटा.

माया : (इतल्यान लायट वता सगळी सांसपीता) हे लायटर हाताक लागता जाल्यार पळेयात.. (जनेल्यातल्यान ती म्हातारी धवेफुल्ल कपडे परिधान करुन हांचो बोवाळ पळेता) (लायट येता पूण कडेक ममता ना...) (म्हातारी नाच जाता)

हर्षना : म्हाका दिसता हांगा सदांच लायटीचो लपंडाव चालू आसता. (कडेक नदर वता) ये.. हे ममता खंय... (दोयाग काचवेता)... ममता .... ममता...

माया : ममता.. ती आजीबाय जाण्टेलीय दिसना... कलावती ... कलावती..

हर्षना : ममता.... ये ममता

माया : यो तुजो गळोच दामता (ममताक हांचो बोवाळ खबर ना. ते फाटलेवटेन गेल्ले, ते विंगेकडे पावपाक..)

हर्षना : माया.. ते खंय पळून बी वचत.

माया : तें चड पळून वतले, तेच कोणाकूय पळेत.

हर्षना : पूण रिस्क नाका. अेक काम कर. ताका आसा थंय स्टेच्यू कर. (ममता आपलेच गूंगेन माचये पावपाक)

ममता : भलतेकडेन पळेवन, मम्मो स्टेच्यू (ताचो स्टेच जाता, लोकांक दिसता. पूण हांका दोगांकूय दिसपा उपकारना. ममताची जीव सोडोवपाक आगतूव इतल्यान स्टेच्यू पडटा. हांचे लक्ष वता. ही दोघा उठून ताका उभारता...)

हर्षना : (मायाक) जिवांत जीव हाड ताच्या

माया : पाड पडो म्हाका आनीक पाशियेंस ना. दोन ता मारल्यार ताच्या जिवांत जिव येता. मार्ग विचारतले. हांव खंय आसा? हांव कोण? तू कोण ती कोण? ... (फाटल्यान फोटवाक पळेता फोटवा फ्रेम रिकामी भितर फोटो ना)

हर्षना : (किळांच) हे... हे.. कितें?

माया : राव गो... हया फोटवांत खऱ्यांनीच फोटो आसलो हांवे काय आयिल्ल्याक ताचेर नदर उडोवक ना.

हर्षना : म्हज्याय मतींत ना.

माया : घडये नाशिल्लो

हर्षना : राव ... ममताकूच विचारुया.

हर्षना : पूण ताच्या जिवात पयली जीव हाडपाक जाय... पू राव गो, माया हे स्टेच्यूचे प्रकरण अजून म्हज मतीत गेले ना.

माया : ते एक मनो विश्लेराणात्मक प्रकरण. म्हण्जे जात कितें. हे ल्हान आसतना खुब हट्टीपणा करुन त्रा करी. मागीर ताचे आवयन ताचेर हो स्टेच्यु परिणाम घडोवन हाडलो. जेन्ना ताका मम्मो स्टेच आयकूंक आयले रे आयले तें. स्टेच्यू जाता.

हर्षना : पूण हें अशे केन्नाच्यान?

माया : ते दोन वर्साचे आसले तेन्नासान

हर्षना : तरीच! बरे हे खेपो ताका हांव सोडयता. कानां बोटा घालपाची आता तुजी पाळी. दोन ताळ मारपाच्यो मगो? (हर्षना ताचेसरी वचून दोन ताळ मारता ते सारके जाता. हर्षना मागीर ताच्या कानां







फूतफूतता. ममता सारके जाता.)

या : पूण राव गो तू गेल्ले तरी खंय? आमी सामकी भियेली

मता : ममता तू वगी कित्याक? अुलय कितें तरी. आता ममता तांका ठणकावन सांगतले. हांव फाटलेवटेन गेल्ले कित्याक गेल्ले....

र्षना : आसू ताची काय एक गरज ना... पूण ही जाण्टेली कलावती गेली खंय काय. (ती तेन्नाच दार उभी)

लावती: येयात, चलयांनो वाडला तूमका. (तीजेफाटल्यान तिघाय भितर वता. वादळ वारे चालूच, त्या फ्रेमीचेर उजवाड. भितर कलावतीचो फोटो आसा. हे करतना एक काम करपाचे. फोटवाक दोन्ही वाटेन फ्रेम करपाची. एके वटेन खाली आनी दुसरे वटेन फोटो. ताका भितर फाटले वटेन रावन बदलुक मेळटा तीशी योजना करपाची. झोगलांचो अुजवाड त्याचे फोटवाचेर. उजवाड झुंबराचेर, झुंबर हालता. तीसरो स्पोट त्या धोलपाचे खुर्चेर. कोण एक नासतना ती खुर्ची धोलता... काय खिणान ही तीघांय हात पुसत भायर येता. तांचे जेवण जाला.)

ममता : कित्येय म्हणात म्हातारी रानता मात बरी.

हर्षना : वगी राव, ती पळय येता फाटल्यान (येतना ही तांचेपसत हांतरुण हाडटा)

कलावती: घेयात... सुशेगात न्हिदात हांव भितरच आसतली कित्येय लागल्यार कळयात...

ममता : आज्जे.. जळारां बी लागना मगे हांगा?

कलावती: तसो जळारांचो त्रास ना पूण ही गावांवेली रस्ताद सुणी भलतोच आवाज काडून भूंकता. खरें म्हळ्यार त्या आवाजान आंग शिरशिरता. पूण भियेवपाचे काय एक कारण ना. .... तूमी आता न्हिदात (तिघाय न्हिदतात. हळू हळू लायट फेड आउट... हळू हळू मंद काळोख सुणीं भुकता....... )

(भयानक वातावरण. हर्षनाक पयली जाग येता ते उठता आनी आळस काडटा. कडेक नदर वता. अेकटेच कोणतरी तोंडार पांघरुण घेवन न्हिदील्ले आसा... ते ताच्या तोंडावेल्यान पांघरुण काडटा)

हर्षना : माया.... मागीर ममता खंय गेले? (हर्षना मायाक हलोवन अुटयता. सामकी तांबशी फातोड) माया... माया... उठ.

माया : आगो दी गो न्हिदपाक सकाळी बौंब मारपाक कितें जालें?

हर्षना : ममता... ममता... आपल्या जाग्यार ना. (हे आयकनाफुडे ते सामके उठून बसता. अडेकडेक दोगांय पळेता... ममता... ममता.. म्हूण दोगांय अुलो मारता. मदल्या दारांतल्यान भितर वता)

माया : ती जाण्टेलीय ना (भितरलन भायर येत म्हण्टा) (हर्षना भायरुच आसता. ताची नदर वण्टीर ते स्तब्ध. तोंड उघडेंच. त्या विचित्र अवस्तेंत हर्षनाक पळोवन माया भिता ) किते जालें? (हर्षना त्या फोटवाकडेन अंगुली निर्देश करता. त्या फ्रेमीत आता फोटो स्पष्ट दिसता. इतल्यान दोगांचीय नदर कडेक दारासरी वता. वयर झोत. थंस ममताचे गळफास घेतिल्ले मडे लोबकळटा. दोगांय हुयेली मारता. झोगलांच्या अुजवाडांत ते मडे भयानक दिसता. हांगा फक्त ममताच्या चुडीदारात कित्येय भरुन लोंबकळटाना दाखोवपाचे, तोंडाचो प्रश्न येना कारण, मान लटकल्ली आसतली आनी तकलेवेल्ले केस तोंड लिपयतले. हळू... दुसरो स्पॉट धोलतल्या खुर्चेर. थंय धवे कपडे घालून भूताच्या रुपान ममता बसून हांका दोगांकूय नियाळटा. तांची दोगांचीय हाका फाट आसता.)

(दोगांय मुखेल दार उघडपाक वता जाल्यार ताका भायल्यान खिळी. दोगांय जिवाच्या आकांतान दार धडायता. दोगाच्योय हुयेली, बोवाळ चालूच आसा)

माया : दार कोणे बंद केले?

(इतल्यान दार उघडून एकटी तरणाटी बायल मुखेल दारतल्यांन, जे धावे वटेक आसा, तांतूतल्यान एन्ट्री घेता. ही दोगाय दारासरी धावता. तीचे नाव कामणे.



ती एक व्हावराडी. दोघाय तीका पळैत अुरता. तीय बी अजापता.)

कामणे : तुमी दोगाय भितर कशी? (चावी दाखयता) कुलप तर हावें आताच अुगडला... सांगा तुमी कोण? (ती दोगांय कावरीबावरी जाल्या ती दारारुच उभी. दोगाय तीचेसरी वता आनी फाटल्यान पळेनासतना तीका वयर कुरुवांनी पळोवपाक लायता. ती पळेता, तीका काय एक दिसना.)

कितें ... कितें आसा? तुमी इतली कित्याक भियेल्या? कोण आसां थंय. (ती वचून बोर्डाक हात घालता, बल्ब पेटता, त्याच खिणाक माचयेर मंद उजवाड. दोगांय वळून पळैता थंय आता मडे नासता. मड्याचे कसलेंच अस्तित्व आसना. खुर्ची धोलत आसा आनी हे सगळे नाट्च एका जनेलांतल्यान ती जाण्टी बायल पळैता जाल्यार, दुसऱ्या जनेलांतल्यान ममताचे भूत पळेता. दोगांच्या मुखवट्यार तितलो उजवाड आनी कोणाचे थंय लक्ष ना. दोगांय भूता एकमेकांक पळैता आनी... झोगला सुरुच आसा हर्षनाक घुवळ येता. हे.. हे.. धर हाका... (दोगाय ताका सांभाळटा) (लायट फेड आउट)

**पडदो पडटा**

**अंक पयलो समाप्त**

------------------------

## कुवाडे

### अंक दुसरो

(पयल्या अंकाच्या शेवटाक मडे ना ते पळोवन हर्षनाक घुवळ येता. कामणे आणी माया ताका सांभाळता. दुसऱ्या अंकाची सुरवात. उजव्यान जंय धोलपाची खुर्ची आसा. ताचेर बेशुद्ध हर्षना बसला. ताच्या कपलार धव्या कपड्याची पट्टी आसा. दुसऱ्यावटेन खुर्चेर माया बसला ते डुलता. घड्याळाचेर फातोडेचे तीनाचे टोले पडटा. ते सरशी मायाक जाग येता. जाभय काडटा. भितरल्यान कामणे एक ल्हान लेप घेवन येता. ते ताच्या कपलावेली ती पटी काडतले, उदकात बुडयतले आनी परत दवरतले. हर्षनाचो समोरो प्रेक्षकांक. एक स्पॉट ताचेर, दुसरो हेवटेन मायाचेर.. कामणे कडेक उभे रावता.)

माया : जोर निवाळला?

कामणे : अजून मात्शे दगदग आसा. पूण एक सांग तुमी सगळे तेर्र सोडून हांगाच रातीची झोळपेपाक शी पावली.

माया : हांगा मरपाक कोण येतालो...? हांगासरल्यान पासार जातना गाडी बंद पडली कशीच स्टार्ट जायना आनी दुसरे वाटेन वादळ, वारे, पावस... गडगड.

कामणे : मागीर

माया : उपाट काळोख, एकमेकांक दिसनासली... चलत रावली. एका सोगलाचे उजवाडांत ही हवेली दिसली. कित्येय आसरो मेळत म्हूण चलत रावली .

कामणे : भितर कशी सरली?

माया : दारार कितलेशोच थापो मारल्यो. कोणाचोच प्रतिसाद-अुलो ना. हळू दार धुकल्ले पळय जाल्यार सताड उगडे. काय खिणाक दिसले आमच्या अुल्याक देव पावलो (हर्षनाक जाग येता. ताच्यान अुलोवपाक त्राण ना. ताचो मुखवटो प्रेक्षकावटेन, हाका दिसना)

कामणे : पूण... हे कशे जातले? कुलपाची चावी तर म्हजेलागी आसली. (हर्षना तांचे चलतले अुलोवप आयकता. ताच्या मुवट्यार अंश आसा)

माया : खुद्द मालकीण घरात आसली. ती फाटलेवटेन गेल्ली दिसता. पावता म्हळ्यार तीका मात्सो कळाव जाल्लो.

कामणे : मालकीण?.... कशी आसली?... मण्जे दिसपाक?

माया : तू जणू अशे विचारता की तुवें, तुज्या मालकिणीक आयजगायत पळोवंक ना.

कामणे : हे जावपाकूच शकना...

माया : फुडले तरी आयक. ती बायल खुब बऱ्या काळजाची







आमच्या जेवणाची लेगीत तिणे सोय केली. न्हिदपाक आंथरुणां दिली.

मणे : जेवण? आंथरुण? .... खंय दिसना शे. आंथरण

या : ही पळय हांगाच आमी न्हिदलेली... (सकल पळेता. हांथरुणां ना.).. ऑ.. हांगाच... हांगाच... घातलेली. खय गेली आंथरुणा?

(हर्षना गजालींनी भियेला. आंग कवळून बसता. ताचे दोगांचेय लक्ष वता. कामणे वचून तकलेक जोर आसा जाल्यार पळेता...)

या : देवला?

ामणे : देवता. (दूसरी पटी दवरता).. बाय. काय जावंक ना. अशे भियेंव नाका (ताचे कांबळ घालता) घाम येवंदी. जोर देवतलो. (मायाक) ताच्या बोठांत किते आसा ?

ाया : ना ताचे लग्न जावक ना. (हांचे अुलोवप चालू आसतना ममताचे फाटल्यान येराझाऱ्ये हाका कोणाक दिसना)

ामणे : तसले न्हय जेवणाचे विचारी हांव.

ाया : जेवण जाला आमचे

ामणे : जेवण घेवन भायर सरलेली दिसता.

ाया : हे... ते जाण्टेले मालकिणीनच घातले आमका.

ामणे : कितें? कोण ही मालकीण..

ाया : राव ऑं.. याद करता तिचे नाव... हॉ... कलावती कलसांवकार

ामणे : कोण कलावती? तू जाग्यार आसा? ती कशी दिसताली...

माया : पिकलेल्या पानवरी. सामकी स्कॅप जाल्ली.

कामणे : तीणे... तुमका स्वताच्या हातान वाढले?

माया : हय वाढले भरोवपाचे तितले उरले. (प्रश्नांन ताच्या बेजारल्या)

कामणे : हे घडपाकूच शकना

माया : कित्याक

कामणे : (उठता) कारण तीका हो संवसार सोडून गेल्यार दोन वर्सा जाली (हे आयकनाफुडे, मायाचे तोंड धवे पडटा. हर्षना कडकडटा. तोंडावेल्यान कांबळ घेवन, आंगाची पोटली करता. पोठली कडकडटा)

माया : ती मेल्ली ... बायलमनीस... म्हणजे...

कामणे : हय... ती एक काणी. एकातेपार ही हवेली गजबजलेली आसताली. जेवणाच्यो कितलेशोच पंक्ती उटतांल्यो. कलावती, तीचो घटकार आनी वाढिल्ली धूव. धूवेक लग्न करुन दिल्ली. पूण घोवाघरा तीका पिडपाक लागले. तीणे व्हावत्या न्हयत घालून घेतले. हार्ट ॲटॅक येवन घरकार सोपलो. कलावती सामकी निखळली. आनी तीणेंय जीव सोपयलो.

माया : कसो

कामणे : फाटलेवटेन भितोडेक बांय आसा, तातूत घालून घेतले

माया : ...आनी राती त्यांच बायच्या अुदकान आमी हातपाय धूले, उदक पियाली.

कामणे : पूण म्हाका अजून घडिल्ले गजालीचेर विश्वास दिसना. घडये तुका भास जाला आसतलो.

माया : भास?... तशें आसले जाल्यार भास हो म्हका अेकट्याक जावपाचो आमका तिघांकूय न्हय.

कामणे : तिघांकूय? ... तिसरे कोण... खंय आसा.

माया : तेच... आमी तिघाय निदलेली. (हर्षनाचे कडकडप वाढटा) ह्या हर्षनाक जाग आयली. पळय जाल्यार आंथरुणार ते ना. सोदासोद जाली. कलावतीय नासली. इतल्यान वयर नदर गेली. वयर ताचे मडे लोंबकळटाले. आमी आकांताच्या भयान भायर वचपाक, दारन खिळी. तेन्नाच तुवे भायल्यानसान दार उघडले. फाटी वळून पळय जाल्यार मडें नासले... आनी उपरांतचे तर सगळे तुज्या समक्षूच घडला.

कामणे : म्हणजे... हाजो अर्थ... हांगा भूताटकी...

माया : पूण तूं हांगा इतले रातचे कशे पावले?

कामणे : कित्याक म्हाका अधिकार ना? हांव हांगा येवंक



शकना...?

माया : तूजो ह्या हवेलीकडेन कितें संबंध?

कामणे : हांव म्हज्या आवयच्या खबरीक आयिल्ले! (हर्षना कांबळीच्या खाचीतल्यान हळू कामण्याक पळेता. दोळ्यात भिरांत. आंगाची गुठली)

माया : को... कोण... तूजी आवय? ती हांगा कितें करता?

कामणे : (कुत्सित हासता)... जाणा जावन घेवपाक जाय?... (वेगळ्याच स्वरान फाटल्यान पळेवन, घोगऱ्या आवाजन) आये... आये... खंय... गे... पोर येयला तूजें... (इतल्यान मधल्या दाराच्या फटीतल्यान कलावती माचयेर येता)

कलावती: बाय... हे... बाय (घोगरो कडकडो आवाज) (माया जाग्यार उसळटा वचून हर्षनाक वेंग मारता. दोगांच्योय हुयेली)

(कलावती कामण्याक थयच बसयता. आपूण भितर वता आनी जेवणाचे ताट हाडटा. ताका भरयता. हांगा ही दोगाय भियेल्या ) (स्वासार स्वास वाढत आसा)

कामणे : आये... सोलाकडी बरी जाल्या. शेर्त तुवें करुंक ना ती कोणे केल्या गे...

कलावती: तुका आवडली मगो? जाले.

कामणे : आनीक पेलो हाड गे

कलावती: (भितर पळेवन) ममता... यो तुजो गळोच दामता... बायक म्हज्या सोलकडी हाड. (ममतान धवेफुल्ल कपडे परिधान केल्या).

ममता : (सोलाकडी हाडटा) ही इतलीच निमणी उरलेली.

कलावती: म्हज्या तोंडाक कित्या पळेता? वतय ताज्या पेल्यात.

ममता : (कलावतीक) मावशे.. म्हाका आंथरुण दी म्हाका न्हिद येता. (कामणे हासता)

कलावती: भूता रातची न्हिदना. दिसाचे न्हीद मागीर. (कामण्याचे जेवण जाता.) (ममताक) पोरा ताट व्हर ते भितर (ममता ताट घेवन भितर)

कामणे : (दोगाय अेकमेकांक कुरवाळता) आये... म्हाक एक काणी सांग...

कलावती: पाड पडो पोराचे ह्या. मेल्यारुय जगपाक दिना.

कामणे : मेल्यारुय जगपाक दिना? नाच दिवचे. काणी सांगचीच पडटली

कलावती: राव (ममताक उलो मारता) ममता.. भायर यो (ते भायर) काणयो कळटा गो तूका.

ममता : ममता तू अशे वगी कित्याक? पळय ती कलावती तुका काणी सांगपाक सागता. तुज्यान काणी सांगपाक जमतली? ना मगो मागीर सांग तर तशें तिका. आता ममता कलावतीक ठणकावन सांगतली...

कामणे : काय एक सांगपाची गरज ना. कळले आमका.

ममता : ममता तूसी ग्रेट हो. तू उलयनासतनाच ताका सगळे कळटा.

कलावती: ते काय एक चलचे ना. तुका काणी सांगचीच पडटली. नाजाल्यार हांव तुका जितेंच मारतली.

ममता : एकदा मारुन म्हाका भूत केला. भूताक मारुन कितें करतली?

कलावती: भूतकाळ

ममता : नाका... नाका... सांगता

कामणे : सांगठा दर्यान. (कलावती) आये म्हका सांगठा जाय.

कलावती: नस्ती हट्टीपणा नाका. पयली ते सांगता ते आयक. सांग गो

ममता : ममता आता अशे येवजी नाका, तोंडाक येता ते बरळ.
अेक आसलो राजा, अेक आसली राणी
दोगाय मेळून, गाताली गाणी

कलावती: गाणी?... पदां. आता तूका एक म्हणचेच पडटले. नाजाल्यार....

ममता : ना... नाका.. म्हण्ट. ममता, अशे कितें येवजीता. किते येता ते गा.
शायद मेरे शादीका खयाल दिल में आया है
इसिलिए मम्मीने मेरे तुझे चाय को बुलाया है





कामणे : आये तुका ते साखरीची चा दिवन मारपाक उठला. (ममताक) तूका खबर ना गो आयेक डायबीटीस आसा ती?

ममता : भूतांकूय डायबिटीस? तेश जाल्यार हार्ट ॲटॅक, कॅन्सर, एड्स बीय जाता आसतलो.

कामणे : आयेची फकाडां मारता? आता तुका म्हाका लागून पद म्हणचे पडटले. नाजाल्यार तूजो हाव Past Tense करतले

ममता : आलिया भोगासी, आता भोगा

कामणे : हे मराठी चलना, किते ते हिंदीत म्हूण

ममता : ममता, आता कितें करतले? हिंदीतले तर तुका एकच पद कळटा. तेच म्हळ्यार बरे.
ए डिकचाक ए डिकचाक डिकचाक
शायद तेरे काजार का खयाल
मन मे आया है, इसीलिये अम्मीने तेरे मुझे कॉफी को बुलाया है
(कामणे आनी कलावती ताळ्यो मारता)

कलावती: कितल्या तेपान All India Radio ची याद जाली. (ममता वळपाक ) खंय वता? काणी कोण तुजो बापूय सांगतलो?

ममता : ममता ममता तिणे तुजो बापूय वयर काडलो आनी तु खपून घेता? तीका कितें ते ठणकावन सांग. आता ममता तीका सांगतले. ये म्हजो बापूय वयर काडपाचो गरज ना.

कलावती: हय? कितें करतलें?

ममता : करचे ना. फाल्या हांव सोलाकडी करचे ना...

कामणे : बरें बरें ना काडीना तुजो बापूय वयर

ममता : तुमका काणेचो इतलो धोस्त आसा जाल्यार... ह्या .. त्या.. हर्षनाक सांगपाक लाया. आमी जेन्ना ताच्या घरा पावल्ली तेन्ना ते शैतानी चुडैल वाचताले. सांगतले ते.

कलावती: हय.. गो ये ते (हर्षनाक पळेता. दोगांकूय घामाच्यो पावल्यो ओतता) हांगा यो गो (माया हर्षनाक वेंग

मारता)

माया : वचू नांका...

कामणे : (व्हड आवाजन) ये... सोड गो तेका.

माया : ना सोडी ना... (घट्ट वेंग मारता)

कलावती: (ममताक) म्हज्या तोंडाक कित्याक पळेता? ओडून हाड ताका. (ममता तोचसरी वता. हर्षनाच्या हातक घठ धरता. हर्षनाच्यो मम्माच्या नावान बोबो हुयेली. माया ताका सोडपाक तयार ना. मया ममताचे नरडेक घठ धरता)

ममता : मेले... मेले... सोड गो.. म्हाका (मया कशेच सोडपाक तयार ना. कलावती कामण्याक कुरवांनी कितें तरी सांगता. कामणे भितर वता भायर माचयेर येता. दोनूय हात फाटी. हातांत कितें तरी लिपयला. परत कलावतीक पळेता. कलावती कुरु करता. ते सरशी ते फाटल्यान लिपयल्लो सोठो काडून मायाचे बोडक्यार मारता. माया किळांच मारुन घेरी येवन पडटा. कलावती वचून ताच्या गळ्याचो चावो घेता.)

(ममता आनी कामणे, मायाक ओडीत मधल्यान भितर व्हरता. भितर वचून माया टिशर्ट-पेण्ट काडून कसलेय धवेफुल्ल वस्त्र परिधान करतले. माचयेर फक्त कलावती आनी खुर्चेर आंग चोरुन, पुराय थरकापील्ले हर्षना. ममताचे ते मडे परत हुमकळपाक लागता. ते हर्षना शूः शूः करता. हर्षना पूराय भियेला. हर्षनाच्या आंगावेली कांबळ आपूणच गळटा आनी ताचे सामकारल्यान सरपटत विंगेत वता. एक सुतली बांधुन ओडपाची हर्षना चड प्रतिकार करपाक शकना. धिमयांनी तोंड खुपसून ते बसला. पूराय कडकडटा. इतल्यान ताच्या समकारासान येदोळ ते कामणे बशिल्ले स्टूल विंगेत सरपटत वता. कांबळ वता. ताचे उलटे स्टूल ओडून व्हरपाचे. साधो प्रयोग. हर्षनान धोलते खुर्चेर धोलपाक जाय. इफेक्ट असो जावपाक जाय की जणूं कोण तरी ती हालयता. किचनात भितर ताठां पडपाक जाय. काय वेळ स्तब्धता आनी अचानक शांतता चिरीत माजराचे म्यॉंव. उपरात एकट्यान हेवटेन आनी दुसऱ्यान तेवटेन रावन, प्रेक्षकांक दिसना त्या हिशोबान रावपाक जाय. एक टॅनिस बोल पूराय धवो रंगोवपाचो. आनी दोगांनीय तो हेवटेनच्यान तेवटेन आनी तेवटेनच्यान हेवटेन उडोवपाक जाय सांगताक सोभसारके Background Music तो मेरेन मायान धवे कपडे परिधान केल्ले आसतले. तोंडार ताच्या दूपट्टा अुडोवन, ममता कामणे ताका माचयेर हाडटली. बॉलाचो खेळ बंद. कलावती जाग्यावेली उठतली. तीचो दूपट्टो वयर काडटली आनी आपल्याचे कपलाकडलो भाग दामून दिष्ट काडटली. मायाची मान एकवटेन लवणिल्ली आसतली. कार तिका येदोळ कलावतीन घास मारिल्लो आसतलो.)

कलावती: बाये, तुमका पळेल्यार दिसता जणू तूमी धालांच्या माणार फुगड्यो घालपाक आयल्या.

ममता : तीका पयलीच सांग आपल्या धालो बिलो कायच कळना म्हूण. आता ममता मावशेक सांगता. मावशे म्हाका धालो येना.

कामणे : आमी कितें मेली? आमका येना? आमी शिकयता. आमी आसतना तू कित्याक भियेता. (कलावतीक) आये.. सारके मगे. धालो घालपाचे बरे आसा, पूण गायतलो कोण? ममता, तू नाका गो गांवक. शायद मेरी शादीका खयाल... हे एकच कळटा तूका

कलावती: माया म्हण्टले कितें माया?

माया : (उमेदीन) गोविंदा आला रे आला
मंत्री म्हणून निवडून आला

कामणे : पयलीच सांगता मागीर सांगू ना बी म्हूण सांगू नका.

ममता : पयली कितें ते सांग तरी

कामणे : हांगा मराठी चलची ना!

ममता : मायाक आमच्या हिंदी भेस बरी जमता.

माया : हे... हे... ना... ना... आमी खंय...







लावती: हाका म्हण्टा, बारात येवन ग्लास लिपोवप!

मणे : नवी म्हण गे? केन्ना आयकली ना पयली

लावती: बाऱ्रांत येवन ग्लास लिपोवप म्हळ्यार, ताकांक येवन गाडगो लिपोवप!
चल माया... कितें येता तें म्हण.

मता : एक.. दोन... तीन... माया कर सुरू.

लावती: रावात, पयली फुगड्यांचे पोझिशन घेयात. (तिघांय एकमेकांचे हात धरुन त्रिकोण पद्धतीने उभी रावता)
मया.. सुरू करेंगे शुरु कर.

ाया : (येवजीता) णे रे णे रे... णे णे णे णे.. णे रे (धूम फिल्मांतले) इश्क इश्क करना है करले, इश्क इश्क में जिले मरले इश्क ना हो दोबारा.... धूम मचाये धूम मचाये धूम णे रे णे रे णे रे (नाचता)

मता : आवयस खरस मारली. ना जमना

ाया : एक काम कर तूं मदी राव. कलावती मावशी गातली. हांव आनी कामणे तुका मध्यस्ती दवरुन धालो घालता... मावशे ओ के

कलावती: ओ के

मता : हांव ना... म्हाका बेजार येता.

ाया : मम्मो स्टेच्यू (तेबराबर ममता मदोमद उभे. कामणे आनी कलावती येवजूपाक पडटा. दोगांय मेळून ताका मुरलीधराचो पोझ दिता.)

कलावती: धालांनी खेळूया गो आमी धालांनी खेळूया (अेक खंयचीय धालो घेवपाची. धालो खूळन पूरो जातकच) आता ह्या ममताचे किते?

ाया : (दोन ताळयो मारता, तेरवी ताज्या जिवांत जीव) ममता!

ममता : हांव खंय आसा? हांव कोण? (कलावतीक) ही कोण? (मायाक) तू कोण? (कामण्याक) ते कोण? (हर्षनाक) तें कोण? (फोटवार) ती... ती.. फोटवावेली खंय गेली?

माया : राव सगळें सांगता. (कानांत ताच्या कुजूबुजू करुन सांगता)

ममता : हाँ... भानगड आता मतींत आयली. फोटवांत नासता तेन्ना कलावती मावशी हांगा. आनी हांगा ना तेन्ना त्या फोटवात. तरी म्हण्टा फोटो अेकअेकदा खाली कसो?
(फातोडचे चाराचे टोले पडटा)

ममता : (जांभय काडत) ममता अशें कितें गो तू करता? दिस जाता काया रात जाता? न्हीद येता मगो तुका? मागीर हांगा खुठ कशें रावन कित्याक तळमळठा. चल वचून आड पड. आता ममता. मावशेक सांगतले...

कलावती: न्हीद येता? हलकटा, भूत तू भूता रातची न्हिदता? हे आनीक खयचें भूत आयकल्यार हासतले! फातोडेर सकाळी न्हिद.

कामणे : पूण आये ताका खय न्हिदयतली? आनी हे बी आसा. (माया)

कलावती: ते दामोदराल्या फाटलेवटेन काप्याचे झाड आसा. थंय दोन दिस आसूंदी मागीर पर्यायी व्यवस्था करुया!

कामणे : आगे त्या काप्या झाडार दामू आनी तागेले बायलेचे भूत रावता. दोन दिसार तांची तेरावी पूण्यतिथी आसा. तागेली सगळी भूत सोयऱ्या दायऱ्या झाडार येवन रावल्या.

कलावती: त्याच गर्देक लागून पयर त्या झाडाचो खांदो मोडलो. रावगो, काशिनाथाल्या भाटांत तें चाफ्या झाड आसा, ते खाली ना?

कामर्णे : हय वय, त्या वासाक बरी मनशा रावना, आमचेसारखी भूता रावतली.

कलावती: वास! कसलो वास? (ममताक डुलकी लागता)

कामणे : सद्या फातोडेर थंय हळदी समारंभ जाता. त्या वासाक मागीर झळारा, खातात फोडून.

माया : मनीसपण परवडले पूण भूतांचो जल्म नाका रे सायबा.

कामणे : आमी आसतना तू कित्याक भियेता. (ममताचेर



नदर) हे तेजेर कित्येय उखलून घाल पळोवया. (माया ताका हालोवन जागयता)

ममता : कित्याक जागयले म्हाका? काय बरे सपन पडलेले म्हाका

कलावती: कसले सपन? आमकाय सांग सायबिणे.

ममता : ममता अशे येवजीता कितें? मावशी सपन विचारता. काना मनार घे. ममतान मावशेचे आयकले. आता ममता सांगता आयकयात. हांव अशे चलत वताले. रस्त्यार एक जीतो मूस ना.

कामणे : त्या रस्त्यार लोक हळशीक करना दिसता... आँ सांग फूडे.

ममता : त्या काळखी रस्त्यार म्हाका कितें तरी चकचकताशें दिसता. हांव थंय वता. ते हातात घेता. पळय जाल्यार रुपयाचे नाणे!

कलावती: तुजे नशिबूच फूटके. तातूंत त्या बावडया रुपयाची कितें चूक!

ममता : फुडले आयक तरी. हांव तो रुपया घेता आनी सातक्यार खेळटा.

माया : चौको आनी सको आयकला. हो सातको कितें?

ममता : सातको म्हळ्यार लंगडो.... सात गो सात. Seven.

कामणे : म्हण्जे तू मडको खेळळे.

ममता : खेळ्ळे. सातकोच आयलो. रुपयाचे णव्वद मेळ्ळे.

कलावती: मागीर?

ममता : मागीर किते हॉटेलात भिरत सरले. पोठभर जेवले. सत्तर रुपया बील फारिक केले.

कामणे : किते आसले जेवण?

ममता : आता याद जायना. फाल्या सकाळी सांगता.. वीस रुपया उरले त्या विस रुपयाचे हांवे महाराष्ट्र राज्य लॉटरी काडली.

माया : लॉटरीय तूकाच लागली आसतली. कितले लाख लागले?

ममता : सात लाख!

कामणे : एक काम कर. डबल बेडरुम फ्लॅट घे आनी तुमी दोगांय रावांत. कान्याचे झाड रिकामी ना आनी चाफ्यारय नाका.

ममता : खंयचे सात लाख आनी खयचे कितें! हांव लॉटरी घेवन दुडू हाडपाक मात गेला, ह्या ममतान म्हाका जागयले. म्हजे सात लाख उदकांत गेले.

कामणे : आये उदकावेल्यान याद जाली. हांका त्या फाटलेवटेनतल्या पडते बांयत रावंदी.

कलवती : थंय रातदिस दिवोड एक भोंवता. अेक काम करता ते आवणीकडे हांव उलयता. तांका तिज्यावांगडा थंय माखा काजीर आसूदी दोन दिस.

ममता : तूमी फाल्याच्यो गजाली करता? (जांभय) म्हाका आता न्हीद येतां.

कामणे : राव मातशे दोनूच वरा अुरल्या. मागीर फातोडीर जाय तितले न्हिद कोण उठवपाचो ना तुका.

ममता : फातोडेक आजून दोन वरा आसात. आता कितें?

कलवती : चला इस्पिक्यानी खेळूया!

कामणे : पूण हांगा इस्पिक्यो आसा कोणाकडेन?

ममता : अशें किते मण्टा? भूता तुमी जाय थंय वचात आनी फारावन हाडात. कोण तुमका विचारपाचो ना. कोणाक तुमी दिसपाची ना.

कामणे : दिसची ना ते बरे आसा. पूण आमच्यानी भूतांनी खंयूय वचपाक जायना. दर अेकल्या भूताच्या वाट्याक अेक दोनतीन घरा तितलीच येता. त्याच घरांतले किते तें उखलपाचे.

कलवती : खुब कॉंपिंटीशन चल्ला. भूताचो आंकडो बेसुमार वाडला. आमगेल्या भूरग्यांक आता कोण वाली ना आपल्याक जाय ते आपूण करता. आमच्या सारक्या भूता पासतय आता सरकारान बजेटात कित्येंय तसवीज करपाक जाय.

माया : पूण म्हाका एक सांगात. भूता आसुन जर तुम्ही इतली फ्री जगता जाल्यार मनशामदी आनी भूतामदी फरक तो कितें?







लावती: (कुत्सित हासता) आसा. एक म्हत्वाचो फरक आसा. आमचे पाय व्हाकडे, मनशाची बुद्धी वाकडी! आमी धव्यान भोंवता. मनीस काळे करपाक भोंवता.

ामणे : आये तुजे तें शेर्माव बंद कर पयली. इस्पीक्यो... इस्पीक्यो.

ाया : राव पळेता. ह्या हर्षनाच्या बॅगात आसा जाल्यार (बॅग सासपीता Playing Cards मेळटा) मेळली.

मता : कसल्यांनी खेळटली? पाच तीन दोन काय गांडवानी?

लावती: मेढीकोट !

मता : आब्बा. भूतांमदीय हो खेळ प्रिय?

ामणे : मेंढीकोट-बींडीकोट काय नाका. रमी खेळूया.

मता : रमी? हांव खेळच्या पयलीच पॅक.

ाया : हांवूय पॅक.

ामणे : वाटच्या पयलीच पॅक. नाकाच तो खेळ (इस्पिक्याचे बॉक्स उघडटा) हे खाली आसा. पडो पाड.

लावती: हे तेका (हर्षनाक) उठय आनी विचार. खंय दवरला काय म्हूण.

(ममता उठता, ताका हालयता... तेसरशी ते खूर्चेरुच मान लवणून पडला. ते बेशुद्ध आसा. ममता ताची नाडी तपासता.)

ामणे : जाले दिसता थंड, थंडा थंडा कूल कूल!

लवती : चला आमी आमचे तयारेक लागुया.

ाया : कसली तयारी?

लवती : ताकाच आमच्या पंगडांत घेवया. ताकाय भूत करुयां

ामणे : एक साथ शुरु करेंगे शुरु कर.

(त्या सरशी ही चौघांय उठाता आनी हर्षना बशिल्ले खुर्चेक हातांक हात धरुन साखळी करुन भोंवताडे मारता. आरते - परते फेरे मारता सगळ्या प्रेक्षकाची नदर चुकोवन हर्षनान विंगेत वचपाक जाय. ताचे पासत खुर्ची मात्शी विंगेकडेन लागी दवरची. आपलो भेस बदलून ताणे दुयेंस मनशावरी भेस चडोवचो. ही चौघाय खुर्चेक भोवताडो मारिल्ल्यान, खुर्चेर कोण आसा काय ना ते प्रेक्षकांत समजचे ना. वेळ मारुन वरपाक, ममताची ती लाम्बकाळटाली कुड हाडून लिपया ते खुर्चेर बसोवप.)

(झोत फक्त तांचेरच दवरुन, तर्फ्यो परत्यो करपाच्यो. आता परत त्या पयल्या अंकातलो सुर्वेचो सेट लावपाचो. वा हो पयलीचो सेट तसोच दवरुन ताचे मुखार फेऱ्या हवेलीचो पडदो सोडपाचो प्रयोग करु येता. ह्या सेटांत फक्त तो पडदो वयर काडपाचो, झुंबर काडपाचो. आनी घराची व्यवस्था आसली तशी दवरपाची. हे सगळे चलतना माचयेर ह्या नाचतल्या चौघांचे खातीर एक पद घोळोवपाचे. पद सोंपतकच सगळे क्रिझ)

सुत्रधार : आता मुखार हर्षनाचे कितें जाता? सुर्याची किर्णां फातोडेची दारां उघडी करतात. एक गाडी ह्या पोरण्या बंगल्या कडेकच्या रस्त्यावेलान पासार जातना, वाटेर सस्त्यार मदी ताका एका चलयेची साया दिसता. हे हर्षना. तो अडेकडेक पळेता. लागी कोणाची जाग ना. तो ताचे बॅग सांसपिता. बॅगात हर्षनाचे आयडेण्टीटी कार्ड आसा. त्या कार्डाविल्यान ह्या मनशाक ताचे नांव गांव पत्तो सगळे उमजता. तो ताका तशेंच गाड्येंत उभारुन घालता आनी लागीच्या हॉस्पिटलात ॲडमिट करता. घरच्यांकय म्हळ्यार हर्षनाचे आवयकय फोनार कळयता. चितेस्त जावन ती त्या हॉस्पिटलांत पावता. गांवगिऱ्या वाठारातले हॉस्पिटल आशिल्ल्यान थंय वैद्यकी नदरेंतल्यान चड सुख सूयो आसना. थंय ड्युटीर आशिल्लो दोतोर तीका चलयेक घरा व्हंरुन शारांतल्या बऱ्याशा नामांकित दोतोराक दाखोवपाचो सल्लो दिता.

(इतल्यान माचयेर फुल झोत. बूकाच्या आलमारिकडे अेक खाट आसा. त्या खाटीर शुद्ध हरपिल्ले दुयेंत हर्षना न्हिदला. हॉल सगळो सजयल्लो दिसता. बोमाड्डे, बनेरा, फोली .. कारण फाल्या हर्षनाचो अठरावे जल्मदिस. मॉन सगळी जय्यत



तयारी करुन दवरिल्ली दिसता. खाटीकडेक सराची बाटलीचो स्टॅण्ड दिसता कडेक एक नर्स रिपोर्टाचो पूट्टो घेवन उभी. आनी हेवटेन एका खुर्चेर कपलाक हात लावन चिंतस्त मुद्रेत शुन्यांत नदर घालून माँ बसल्या, घड्याळाचे टिक् टिक् स्पश्ट जाणवता, इतली भयाण शांतता. मॉच्या कॅरक्टरात आता हळू हळू Negative Shade दिसपाक लागपाक जाय.) (फोन खणखणटा. माँ हातच्यो मुठी चिंतेस्त जावन आवळटा. कितें करचे तें तिका कळना. नर्स तीका पळेता. ती हळूवार फोनाकडे वता. तितल्यान फोन कट. ही सुस्कारो सोडटा. नर्स परत आपल्या कामाकडे मग्न. तीणे हर्षनाच्या तोंडात थर्मोमिटर घातला. आनी रिडिंग नोट करुन ती त्या पुट्ट्यार बरयता.)

माँ : सिस्टर... डॉक्टरीण केन्ना पावता सांगला?

नर्स : (तिचो वावर चालूच आसा). हाचे रिपोर्टस आयज मेळटले. डॉक्टर ते घेवनच येतली.

माँ : सिस्टर, आतां कशी आसा भलायकी.

नर्स : सुधारणा जातली पूण डॉक्टर कितें म्हण्टा ताचेर अवलंबून. (इतल्यान दाराची बेल वाजता)

माँ : डॉक्टर आयल्याआसतली. हांव पळेता. (एके मोलकरीणीची Music च्या तालार एण्ट्री. हें कामणें. ताच्या हातांत झाडू आसा) कोण गो तूं? आनी अशें लोकाल्या घरांत कित्याक भितर सरता?

कामणे : हांव कोण? ह्या प्रश्नाची जाप (तत्वज्ञानावरी) दिसता तितली सोपी नासता. म्हणून लोक हासता आनी जग फसता.

माँ : (अजापान) हांतात झाडू आनी जिभेर मात सरस्वती. तुका तु उलयले ताजो अर्थ कळटा?

कामणे : संवसाराचो अर्थ कोणाक समजला? देव दानव ही सगळी मनशाचीच रुपा. मोक्ष प्राप्त करतले जाल्यार आवरेपणाक उदक सोडपाक जाय.

नर्स : बाब... तू कोण तत्वज्ञानी?

कामणे : (पेशंटाक पळेवन) Any thing serious. show me the report. (रिपोर्ट पळेता).. Mental psycriatrist disorder.. Nightofright

माँ : कोण गे तू?

कामणे : तुमी म्हाका अजापान कित्याक पळेता? हांव कामवाली... ऑं ऑं म्हाक हे सगळे कशें कळटा?.. सकाळचे हांव प्रोफेसरांगेर कामात आसता. दनपारचे बाबल्या मठांत आनी सांजेर दोतोरागेर धूणी पूसणी करतां. ही अुतरा सदाच म्हज्या अवती भोवती घोळटा...

माँ : हांगा कितें करता तू?

कामणे : हांव झाडूवाली.

माँ : (हातांतल्या झाडवाक पळोवन) ते दिसताच

कामणे : तुमचे सदचे मंदाकिनी आयज कामार पावचे नां, ताचेबदला ताणे म्हका (मुरगटता) श्री देवीक धाडून दिला.

माँ : मागीर हे पयली सांगपाचे न्हय. चल कामाक लाग... पूण तुका तरी वणोव घालूंक जमता?

कामणे : (अजापता) कित्याक?

माँ : कारण मंदाकिनीक केन्ना हांव भेण्ड बावगोन काम करतना पळोवंक ना. तूका घराची वळख करुन दिता.

कामणे : ही रांदची कुड. हो वयर बाथरुम, तो स्टडीरुम आनी हे हर्षना! तुमी ताची माँ दर्शना... मंदिकीनीन म्हाका सगळे समजायला

माँ : गजाली पूरो. कामाक लाग
(ते झाडू पुसणीच्या कामाक लागता. इतल्यान दारार बेल वाजता. मॉ वचून दार उघडटा. दारातल्यान एका तरणाटे डॉक्टरीणीची एण्ट्री. उमदो स्वभाव हे डॉ. नेस्ट्रिड)

डॉक्टर : हाय I am Dr. Nestrid, a Phychiatrist.

माँ : Come in Doctor.





क्टर : Syster show the progress report (नर्स काडटा आनी तो रिपोर्ट नेस्ट्रीडाच्या हातात दिता ती वाचपाक लागता)

ां : डॉक्टर...

ॅक्टर : आताच काय सांगपाक शकना. But we wil try our best. देवाची कृपा, ते कोमांत गेले ना. आता मेरेन ते सुद्धीर येवपाचे. we will wait for some tiem. (कामणे वावराक झूपला)

ाँ : डॉक्टर कित्येय करात पूण म्हज्या धूवेक वाटयांत. (फोटवाक पळेवन) नाजाल्यार हाव ताका किते जाब दितले.

ॉक्टर : हाका एक कसलो तरी जबरदस्त शॉक बसला. पूण म्हाका एक समजना, हे एकटे त्या निर्जन रस्त्यार कशें सापडले? रातचे बी घरांतले भायर सरपाचीसवय? असल्यांक रातची एकली भायर सोडपाक उपकारना.... Tjis is pure psychiatrist disorder... Nightofright. (हे आयकनाफुडे नर्स आनी माॅ, कामण्याक पळेता. कामणे मूरगठता) ताका कितें जालें?

ाँ : काय ना. (कामणे) बेगीन जावंदी.

र्स : डॉक्टर, हर्षना सुद्धीर येता. (हर्षना मदी हालचाल) (माँ धावून खाटीसरी वता. ते प्रयासान दोळे उघडटा. कामणे सस्पेन्सरित्या थंय वता. हर्षना सुर्वेक नर्सीक, उपरांत डॉक्टराक आनी मागीर माँक पळेता. मुखार ताची नदर कामण्यार वता.) (कामणे कुत्सित हांसता. हर्षना दोळे मोठे करुन पळेता. तिचो श्वासोस्वास वाढटा. आनी तें तोड धापून आड्डता)

हर्षना : भू... भू.... भूत.. भूत... (सगळेच अुचांबळ)... (हाताभायर वता)

डॉक्टर : सिस्टर Prepair Injection, Quick. (सिस्टर इन्जेकश्न तयार करता आनी दोतोराचे हातांर दवरता. ती ताका इन्जेक्शन करता. हळू हळू हर्षनाची अुचांबळयता मंदवन थंड पडटा (सगळी जाणां कामण्याक पळेता, कामणे जणू आपूण कित्यांतूच ना) (मॉक) जितले हांव समजताले, प्रकरण तितले सोपें ना. (कामण्याक) तू हांगा राव नाका. ताकाय टेंशन आनी आमकाय टेंशन!

कामणे : हांवे कितें केलें?

डॉक्टर : अशें जाता एक एकदा.

माँ : तू वच (कामणे वता, झाडू थंय च अुरता)... ये हे ते झाडू व्हर. तो कोणाक दवरता? (ते परत येता आनी झाडू घेवन वता) (डॉक्टराक) डॉक्टर हो आताचो प्रकार म्हज्या मतीत आयलो ना.

डॉक्टर : म्हज्याय आयलो ना. पूण येतलो. हे मात शेर्त. (मॉक) ... हे अशें कितले दिस दुयेंसान बळावत ते सांगपाक कठीण. आमची (नर्सीक) एक सिस्टर हांगा आसतलीच, पूण सगळी कामां सिस्टरीची न्हय. हाका कितें लागता-नाका, पुसपाक बी पळोवपाक एक बायल मनीस दवरची पडटली.

माँ : डॉक्टर आताच सोय करता (वता, फोन करता) ... हॅलो... सुलेखा.. (फोनाचेर Mime.. अुलोवप).. उपकार बरे दवरता. (फोन दवरता) डॉक्टर काय खिणान एकटी पावतली.

डॉक्टर : आमचे येदोळचे अुलोवप अर्ध्यारिच अुरले. हाजी case study करतले जाल्यार फाटल्या दोन दिसांक ज्यो घडामोडी घडल्या त्यो सगळ्यो बारीकसाणेन तपासच्यो पडटल्यो. हाका काळखाची भिरात बी आसली?

माँ : एकसुरेपणाक भियेताले. (डॉक्टराची पूस्तकाच्या आलमारीचेर नदर)

डॉक्टर : पुस्तकां वाचपाची आवड. (उठून आरमारीकडे वता) हॅरी पॉटर, नोस्ट्रेडमस, रोमान्स... (मॉक) कितें आयडीया, निमणे खयचे पुस्तक बी वाचला जायत? (माँ येवजिता आनी कडेक पडिल्ले पूस्तक काडून, डॉक्टरीच्या हातांर दवरतां. ते पळेता) शैतानी



चुडैल! (येवजूपाक पडटा)

नर्स : डॉक्टर घडये ताणे ह्या पुस्तकांतल्या कॅरॅक्टरांची धास्ती घेतल्या.

डॉक्टर : may be. (इतल्यान फोन खणखणटा, माँ फोन उखलपाक भियेल्लेवरी. हो प्रकार डॉक्टराच्या मतीत वता. माँ फोन उभारता.. हळूवार)

माँ : आता आनीक कितें उरलां? ... जे म्हज्यान करपासारके जाताले, ते सगळे हांव करुन मोकळे जाला. तुज्याच जर नशिबांत काय एक ना जाल्यार, ताका हांव जबाबदार न्हय... (फोन आपटीता, परत फोन वाजता. माँ उभारता आनी परत आपटीता)

डॉक्टर : कितें जालें? कोण Problem करता?

माँ : Personal... personal Problem

डॉक्टर : Oh I am Sorry. (हर्षनामदी हालचाल)

माँ : Its ok. (दाराची बेल वाजता. मॉचो मुखवटो धवो पडटा)

डॉक्टर : दाराची बेल वाजता (माँ वचून दार उघडटा. दारातल्यात त्या Music च्या तालार एक जाण्टेलेची entry ही कलावती! )

नर्स : डॉक्टर... (डॉक्टर हर्षनाक पळेता. उठून उभी रावता. ताचो मुखवटो हालयता. हाताची नाडी पळेता. नर्स आनी डॉक्टर हर्षनाचेर लक्ष केद्रीत. हेवटेन जाण्टेली आपली पोटली घेवन भितर.)

माँ : तुका सुलेखान धाडला.

जाण्टेली: हय

माँ : (तिचे लक्ष हर्षनाचेर वता. जाण्टेलीक) मात्शी बस. (ती बसकण मारता) डॉक्टर कितें जाले?

डॉक्टर : हर्षना सुद्धीर येता...

हर्षना : उ... उद... उदक...

डॉक्टर : Sister water quick. (नर्स उदक, हर्षनाक लायता) तुका कांयच जावना. You are all right and out of danger. चड काय येवजी नाका. पळय तुजी माँ बी सगळी हांगाच आसात कोणाचीच हांगा भिरात ना.

हर्षना : (उठून बसता) माँ... (ताची नदर जाण्टेलेर पडट मुखवटो परत धवो पडटा... श्वासोश्वास वाडट तोंडातल्यान अुतरां फुटना... प्रयासान) भू... भू भूत.. भूत... (आपले तोंड लिपोवन, व्हडा नेटा हुयेली मारता)

डॉक्टर : Sister prepare Injection, quick. (नर्स Injection डॉक्टरणीक दिता)

डॉक्टर : Not required! Dopcse it. (मॉंक) पर परत Injection कितली दितली? ताका थं करुन हो प्रश्न सुटावो जावचो ना. ताचो न्युनगं काडपाक जांय. (हर्षनाचे हात पाय खाटीक च वटेन बांधतात)

माँ : पूण असलो कसलो न्यूनगंड.

डॉक्टर : कळटलो. रोकडोच कळटलो. प्रकार हळू हळू म्हज मतीत येवपाक लागला. देवालागी मागणे, हां येवजिता ते खरे जायना जाल्यार पूरो.

माँ : (कलावतीक पळेवन) डॉक्टर, ही आया.

डॉक्टर : गरज ना. ही केस आता हांव म्हज्या हातांत घेत दिसता तितली केस ही बोरींग ना. It is quit intersting.

माँ : (कलावतीक) तुवें गेल्यार जाता. बेठोच तुका त्रा दिलो.

कलावती: असल्या पिसांट्यावांगडा कोणाक हांगा रावपा जांय! चल्ले हांव. (ती वता)

नर्स : कितलो मद मारला हांका?

डॉक्टर : आमीच तसल्याक मातयल्या. दुडू घेवपाचे तें घेत आनी मार अुलोवन दाखयतां जणूं आपू समाजकल्याणांक भोवता (इतल्यान परत फो खणखणटा. येदोळच्यावरींच हेय खेपो ती फो घेवपाक फाटी फुडे सरता. अेकदाचो घेता...) तुका जाय तें कर... (म्हण्टा आनी फोन आपटयता) (परत परत फोन वाजता... ती परत अुखलता.. हे





खेपो फोनाचे तेवटेनलो हिका अुलोवपाकच दिना. ही फोनार....)

: येता... पावतां... पावले रोकडेच... तो मेरेन काय अेक करुं नाका.... (फोन दवरता. घामाघूम) डॉक्टर हांव मात्शे भायर वचून येता. (टेबलावयली पर्स खाद्याक लायता) तुमका कित्येय लागतले?

: (डॉक्टराक) डॉक्टर, वखदां जाय दिसता.

टर : (माँ) मेडिसीन जाय. हांव बरोवन दिता. हाचे पूराय नांव किते? (ती प्रिस्क्रीप्शन बरयता, आनी मॉक दिता)

: हर्षना दत्ता नायक (प्रिस्क्रिप्शन घेता) Ok Doctor.

टर : Its ok, तुमी येयात सावकाश. आमी आसात हांगा. (ती भायर वता. गाडी स्टार्ट जाल्ल्याचो आवाज. ती गेली) (डॉक्टर, बारीकसाणेन हॉल पळेता. त्या हार घातिल्ल्या जोडप्या फोटवाकडेन वता. बारकायेन पळेता. उपरांत पुस्तकाच्या आलमारीकडल्या टेबलाकडेन पावता. टेबलार मुदयेचे प्लास्टिकचे ज्वेलरी रिकामे बॉक्स. तो डबो पळेता. ज्वेलरीचे नांव वाचता. तसोच थंय दवरता. पुस्तकांच्या आलमारीकडे वता. थंय तीच्या नदरेक एक ग्रिन फायल दिसता. ती फायल उघडपाक वता पूण परत धापता आनी दवरता. आपल्या जाग्यार येवन बसता.)

: (फोटवाकडेन लक्ष वचून) ही दोगांय कोण? ताचो ह्या चलयकडेन किते संबंध?

क्टर : ती ताची दिवंगत आई-बाबा.

: आनी ही, आता गेल्या ती कोण?

क्टर : ताची सावत्र आवय. (डॉक्टर मतीची ट्युबलायट पेटिल्लेवरी येवजिता)

: कितले वायट न्हय. फाल्या ताजो अठरावो जल्मदिस. आवयन सगळी तयारी केल्या आनी चली मात खाटीक बांधून पडला. (डॉक्टर उठता आनी ती येदोळची पुस्तकांच्या आलमारीतली ग्रीन कलरची फायल काडटा. येराझाऱ्यो घालत वाचता. आनी जणूं सगळो प्रकार आयिल्लेवरी मान हलयत फायल वाचता. फायल वाचून जातकच, बंद करता आनी आशिल्ली थंय दवरता)

डॉक्टर : yes, I got it.

नर्स : Doctor anything serious. what is that?

डॉक्टर : मृत्यपत्र हाच्या बापायचे Death will. हर्षना पिशें न्हय, ताका पिशे करपाचो यत्न चल्ला.

नर्स : पूण कित्याक? कोण करता?

डॉक्टर : जाप म्हजेय लागी ना. पूण ह्या प्रश्नांक जाप आसा. (इतल्यान Music चालू. ज्या Music चेर कामणे आनी कलावतीची Entry जाली. ते Music चालू दाराची बेल वाजताली ) दार उघडेच आसा.

(दारार माया आणी ममता उभी.. Picnik च्या मूडान खांदार बॅगो. जणू गोयांत पयलोच खेपो येवन ह्या घरांत देवल्यात. दोगांयजाणा सामकी Happy Go Lucky. )

माया : आत्या आत्या आमी आलोत... आत्या..

ममता : तूं वगी कित्याक, तूंय अुलय किते तरी. (कडेक नदर) हे (मायाक) म्हाका दिसता आमी आत्यागेर पावचें सोडून खयच्या तरी खाजगी हॉस्पिटलांत पावल्यात चल परतूया. म्हाका दिसता हे पिश्यांचे हॉस्पिटल. थंय पळय खाटीक कोणक तरी बांधून घातला.

माया : जाली तुजी बडबड सुरु? आता मत्शे वगी राव.

डॉक्टर : कोण तुमी?

माया : हें दत्ता नायकाले घर न्हय. हांगा दर्शना Aunty म्हणजे आमच्या आत्याचे घर?

डॉक्टर : हय बसात. ती भायर सरल्या. येवपाची जाली.

ममता : शी बाये गोयांत कितले उकडटा न्हय.



माया : माया म्हयनो, उकडचे ना जाल्यार किते पावस पडटलो?

ममता : ये, हे तू म्हाका सांगू नाका. पयर कोणाल्या घरार पावस पडला. (डॉक्टरीक) आमका पिवपाक अुदक मेळत.

डॉक्टर : बसात हाडटा. (भितर वता)

नर्स : (इंटरेस्ट घे नासतना) काय ना.

माया : काय ना कशें? मागीर बांधून शे दवरला. (इतल्यान डॉक्टरीण उदकाचे दोन ग्लास ट्रेत घेवन येता. दोघांय पियेता. ग्लास परत ट्रेत दवरतां. डॉक्टर ट्रे घेवन भितर वतां)

ममता : आत्याक आनीक कितलो वेळ रावयां?

माया : राव धीर धर. आता आयल्याच, जेवनूच या.

ममता : गोंय केन्ना पळोवपाचें?

माया : गोंय खंय पळून वतां!
(हर्षनामदी हालचाल)

नर्स : डॉक्टर... (डॉ. नस्ट्रिड भायर येता) (ताचे खाटीसरी वतां)

हर्षना : माँ... माँ...

डॉटर : माँ येतली. आमी आसा. तूका कांयच जावंक ना.

हर्षना : म्हाका कित्याक बांधून घातलं ? हाव पिशे न्हू... हांव पिशे न्हू... (नर्शीक पळोवन सांगता. नदर त्या बशिल्ल्या दोगांचेर वता. मुखवटो सामको धवोफुल्ल पडटा. मुखवट्यार भयानक हावभाव)

हर्षना : (बांधून घातिल्ले अवस्तेंत तडफडटा.) भू.. भू... भूत भूत हें (ममता मेल्ले. गळफास ... लोबकाळटाले.. ना.. नाच .जाले...) (मायाक) तूंय बी... गेल्ले ही सगळी भूता..

ममता : What is this भूतां?

हर्षना : माया, तू तरी सांग. तू जाणां.

माया : कोण माया? I am not Maya.. by the way हांव सीमा. हांव खयच्या मायाक बियाक वळखना.

हर्षना : माया...?

माया : तूका पिशें लागला. देखून तुकां बांधून घातला. पिशें.. तूं पिशें.. (डॉ. नस्ट्रीड आवाक जाता)

हर्षना : हांव .. डॉक्टर हांव पिशें न्हय.

ममता : चोर केन्ना आपूण चोर म्हणीना. आनी सगळी पि स्वताक शाणी समजता. (हांसता)

हर्षना : ममता.. Please पूरो कर.

ममतर : कोण ममता? (serious) हांव शिल्पा. ह खयच्या ममता बिबताक वळखना. डॉक्टर, ता पिशें लागला. ताजे हे पिशेपण कोणाकूय मोंव पयली ताका mental हॉस्पिटलांत ॲडमि करात.

हर्षना : (आशिल्लो नाशिल्लों सगळो त्राण अेकठाय डॉक्टर, हाव पिशें न्हय हांव शाणें... पिशी ही मनश हाव पिशें न्हय.. हांव पिशें न्हय... (रडत) (डॉक ताच्या खांद्यार हात दवरतां)

नर्स : डॉक्टर, इंजेक्शन तयार करुं?

डॉक्टर : गरज ना, हाका अुलयते दवरपाक जाय. (हर्षना तू पिशें न्हय. मागीर म्हाका सांग येदोळ आयिली भूता कोण?

हर्षना : खयंची? ती? ते कामणें आनी ती ताची आ कलावती. दोगांय भूतां.. भूतां..

माया : (हासता) (ममताक) शिल्पा, तू भूत गो? म्हाक आता दिसपाक लागला गो. डॉक्टर, ताका बेगीन बेगीन पिश्यो हॉस्पिटलांत व्हरुन उडयात ना तर सगळी भूतां. ते मात... (हर्षनाक) कोण गो तू? श काय पिशें?

हर्षना : डॉक्टर... डॉक्टर हांव पिशं न्हय (रडकूळ आयला) (डॉक्टर. नस्ट्रिड ताका थातर-वि करता)

डॉक्टर : म्हाका खबर आसा.

हर्षना : डॉक्टर, डॉक्टर म्हाका याद जाली.

डॉक्टर : कसली?





: तुमी पळेतले, पळयांत (आड पडूनच) मम्मो स्टेच्यू (ममताक) (मम्मो स्टेच्यू जाता ) (डॉक्टर. अजापता)

: (उर्भेभरीत जावन) डॉक्टर पळेलें... तें तें स्टेच्यू जाले. हे म्हाका खबर आसले (नर्स पळेत अुरता) आता दोन ताळ्यो मारपाक जाय. (इतल्यान ममता आपणच स्टेच्यू पोझांतल्यान, ताळ्यो मारत हांसता) (हर्षना अवाक्)

ा : डॉक्टर, तुमका आनीक कितें प्रुफ जाय. ते पूराय पिसावला. असो म्हूण एकाद्र्या मनशाचो स्टेच्यू जाता? (हर्षनाची तकली उसळता पूण हात बांधल्या. तें त्याच अवस्थेत तळमळटा. नर्स ताची नाडीतपासता)

: डॉक्टर, बीटस वाढत आसा. ताका जोर चडटा. (मर्णें मारिल्लेवरी)

 टर : prepair Injuction quick (नर्स इंजेक्शन तयार करुन ताका टोचता ते सरशी तें सगळे त्राण वचून मेल्ल्या कुडीवरी खाटीर आड पडटा) (डॉक्टर नेस्ट्रीड कपलाचो घाम पूसता)

ा : शिल्पा आमी या हांगासरल्यान, ना तर आमकांय पिशें लागतलें

ता : (बॅगातले व्हीजीटींग कार्ड काडून) डॉक्टर हे आमचे कार्ड, आमची कसलीय गरज लागल्यार रखाद धाडून दियात. कारण निमण्या वेळार आपली मनशा मेळपाक कुस्ताद जाता. (दोगाय वता)

या : (दारावेल्यान वळून) कार्डा खरी. हॉ... दर्शन आत्याक येतकच सांगा की आमी सनग्रेस हॉटेलात देवल्या. आमी हॉटेलार पावतकच मागीर फोन करतलीच. बाय टेक केअर. (दोगाय वता)

ॉक्टर : सिस्टर किते कळलें तुका?

र्स : (व्हयकार्थी मान हालयता) What Doctor

ॉक्टर : ही दागांय, ह्या हर्षनाच्या मतीत परत परत भरपाक सोदताली किं तें पिशे... हातून ताचो कितें तरी स्वार्थ आसू येता. (उठता टेबलावेली ती ग्रीन रंगाची फायली काडून नर्सीच्या हातार दवरतां) हे ताच्या बापायचे मृत्युपत्र. तुका हाच्या पिशेपणाची कल्पना येतली. पूण आता प्रश्न हो की ह्या सगळ्या फाटलो, खरो सुत्रधार कोण?... हे पसत म्हाका इन्स्पेक्टर किरणाचो आधार घेवचो पडटलो. (उठता आनी फोनासरी वता. फोन घुवडायता)

डॉक्टर : हॅलो... मडगांव पोलिस स्टेशन... can I speak to inspector kiran... Ok... हॅलो किरण. कशे आसा? हांव घट सॉलिड. अेक काम आशिल्लें. एक इंटरेस्टींग केस आसा. आयकय... एक बऱ्या संस्कारांत वाढील्ले चली ... सांजेर घरांतल्यान भायर सरुन वता. सकाळ फुडे अेक पोरण्या हवेलीकडेन निर्जन रस्त्यार ते बेशुद्धावस्थेत सापडटा. ताका तांच्या घरा हाडटा. घरांत जी जी भायली मनशां पावल दवरतां तांका ते भूत म्हण्टा. .. आनी भूतांचेर म्हजो विश्वास ना... हय, तीच ती पोरणी हवेली... तू सोध घे... म्हाका दाट संशय आसा. हांव तुका एक पार्सल हाडून दिता. तूं राव. हांव काय खिणा भितर पावतां... बाय... (फोन दवरतां) (भितर किचनात वचून एक पॅक केल्ले पार्सल हाडटां) सिस्टर, हांव पुलिस स्टेशनार रोकडे वचून येतां. हाची आवय आयल्यार कायच सुगावो लागपाक दिनाक.

नर्स : हे परत अुचांबळीत जाल्यार?

डॉक्टर : I dont think so. she's mentally tried. ते मनान थकला. ताच्यातं आता कांय एक करपाक त्राण ना. ओके हांव धाएक मिण्टाभितर पावतले. (स्तब्धता घड्याळाचे ठीक् ठिक् आवाज स्पष्ट जाणवता. माचयेर काळोख.)

**निमणो : प्रवेश**

(माचयेर हळूवार उजवाड. हर्षना खाटिर आड पडला. कडेक नर्स एक हातात मॅगझिन चाळटा. ती

ग्रीन फायल प्रेक्षकांक दिसपाचे नदरेन पुस्तकाच्या आलमारीकडेन उभी आसा. ते मुंदयेची प्लस्टिकची डबीय दोळ्यांत भरता शी दवरपाक जाय.)

(अितल्यान हासज खिदळत माया-ममताचो, माँ वांगडा माचयेर एण्ट्री. ताचो आवाज आयकून नर्स हातांतले मॅगझिन दवरतां)

नर्स : (माँक) ही दोगाय येदोळ आयिल्ली.

माँ : (हयकारान मान हालयता) आता येतना वाटेरच मेळली.

माया : कितें म्हण्टा हें पिशें? (माँ) आत्या तुका पयलीच सांगता. हे ह्या डॉक्टराचे दूडू काडपाचे नाटक. जीत्या मनशाक आड घालून खावपी ही मनशा...

नर्स : Mind your language

ममता : Shut up

नर्स : You Shut up

(इतल्यान दाराची बेल वाजता)

माँ : राव हांव पळेता, कोण आयला तो. (दार उघडटा. काचवेल्लेवरी माचयेर येता. माया-ममताची गाळण उडटा. पूण ती दाखोवन दिना)

डॉक्टर : सगळी अशी वगी कित्याक? हे इन्स्पेक्टर किरण. मडगाव पोलिस स्टेशनार आसता.

माया : तांचो हांगा ह्या घरात कितें संबंध?

डॉक्टर : संबंध? (हासतां) तांका हाव घेवन आयला. (माँची नदर सकल)

ममता : पूण कित्याक? (येदोळ जे पार्सल घेवन डॉ. नेस्ट्रीड भायर सरिल्ले ते पार्सल आता ई. किरणाच्या हातात आसतले.)

डॉक्टर : भूतांक सोदून काडपाक.

ममता : भूतां.. (हाशिल्लेंवरी) सॉरी डॉक्टर, पूण म्हाका दिसता आता तुमचेरय पिशें जावपाची पाळी आयल्या.

डॉक्टर : कळटलें.. कोण पिशी आनी कोण शाणी! (स्माईल दिता) किरण. टेक ओव्हर आता तू अुलय. माझी प्रस्तावना सोपली.

ई. किरण: Good afternoon everybody (माया ममत एकमेकाच्या तोंडाक पळेता) माया-मम सॉरी सीमा - शिल्पा Isnt it? So तुमी ग पळोवपाक आयल्यात. म्हाका एक सांगात तुमी गों केन्ना पावली.

माया : (आता माया-ममता सादूर रावन प्रश्नांक जा दितली).. केन्ना म्हळ्यार सकाळी.

इं. किरण: कितें प्रुफ आसा. राव.. एक मिनीट (आपल्याकडलो Vice Recorder टेबल दवरुन चालू करता)...

ममता : हे कितें चलयला?

इं. किरण: इतली अुताविळ जाव नाकात. तुमी ज्यो आता जा दितल्यो त्यो हांगा ह्या रिकॉर्डात बधिस्त जातल

माया : पूण हे सगळे करपाक तुमकां अधिकार कोणे दिल

इं. किरण: आमचे पुलिस स्टेसनांत कांगाळ नोदयल्या. आम रितसर तपास कार्य करचो पडटा. आनी ह्या पास आमका तुमचो सॉरी (माँक) तिघांचोय आधार जा (माँ तकली वयर काडटा. भियेल्या)

ममता : माया, हांगारावन काय उपेग ना. आमी चल (हर्षना दोळे उघडटा. ते प्रेक्षकांक दिसत माचयेवेल्या कोणाचे लक्ष ताचेर ना.)

इं. किरण: तुमका हांगासरल्यान हालूंक मेळचे ना. भा पोलिस बंदोबस्त आसा हांव विचारता त्या प्रश्नाच जापो दियात. प्रश्न पयलो तुमी गोंया कितल्य पावली?

माया : (येवजून) सकाळी धाक.. ना.. पावणे धाक.

इं. किरण: कितें प्रुफ आसा.

ममता : (माया ममताच्या तोंडाक पळैत) हाँ आसा (मम पेण्टीतल्यो बसीच्यो तिकेटी दायखता) घे.. बसीच तिकेटी. तुमका जाय जाल्यार ट्रान्सपोर्ट सर्व्हिस फोन करुन विचारात.

ई. किरण: आमी ऑलरेडी विचारला. पावला ट्रान्सपो (माया-ममता अेकमेकाच्या तोंडाक पळेत अुरत आता मूळ प्रश्नार वळटा. हे हर्षना ज्या पोरण हवेलीत पावले. कशें पावलें? कोणी पावयले महत्त्वाचे न्हय. .. ती हवेली तुमी केन्ना पळेल्या





ा : आयज सकाळी आमी गोंयात पावल्या. हवेली आनी खयची पळेतली.

रण: व्हेरी गुड! आमी त्या हवेलीत गेल्ली. थय आमका एक वस्तू सापडल्या. (माया, ममता सामकीच भियेल्ल्यावरी अभिनय) (इं. किरण कपडो उघडावन दाखयता..) ही मूदी (Music Bang) ही मूदी त्या हवेलींत आमका सापडल्या. (माया ममता आपले हात पळेता.)

ा : आमची न्हय.

केरण: सारकी परत एकदा पळेयात.

ा : देवा कृपेन आमका दोनच हात आसा. पळोवपाचो प्रश्नच येना.

केरण: व्हेरी गुड! (म्युझिकचे बिट वाढत वता) (इन्स्पेक्टर किरण माँ सरी वता) मिसेस दर्शना दत्ता नायक, तुमचे कितें मत? (माँ थयच माचयेर बसकन मारता आनी हुंदक्यानी रडपाक लागतां. हर्षना-बेचैन)

ना : माँ... तू...

डॉक्टर : सिस्टर ताका सोडय. (नर्स दर्शनाक सोडयता. हर्षना माँ सरी येता... तोंडातल्यान शब्द फुटना)

हर्षना : माँ.. माँ... हे सगळे तुवें ... पूण कित्याक?

डॉक्टर : हांव सांगता कित्याक (वता ती ग्रीन फायल काडटा) हाका लागून. हे तुज्या बाबाचे मृत्युपत्र. तुवे घडये नीट वाचूकं ना आसतले. हाचेर सगळे स्पश्ट दिसता.

तुजो बाबा हे जग सोडून वतना सगळी अिस्टेट तुज्या नावांर करुन गेलो. तांणेच मांडिल्ल्यो काय अटी हे परी. (फायल वाचता)

१. अठरा वर्सा जायसर म्हज्या धुवेची जापसालदारकी आनी मालमत्ता म्हज्या दुसऱ्या घरकान्नीकडेन दर्शनाकडे सुपुर्द आसतली. २. अठरा वर्सा पुराय जातकच ही सगळी मालमत्ता हर्षनाच्या नावांर जातली.

३. हर्षनाचे लग्न जातकच बी हर्षनाक जाय जाल्यार लेगीत, ताच्यान ही अिस्टेट ताच्या घरकाराच्या





नांवार करपाक मेळची ना. ४. हर्षनाक हे मजगती जर बरे वायट कित्येय जाले जाल्यार सगळी इश्टेट सेवाभावी संस्थेक मेळटली. (सगळयाक पळैता) आता निमणें कंडिशन ५. समजा हर्षनाक अठरा वर्सा जावचे पयली पिशांतर बी जाले जाल्यार ही सगळी इस्टेट ताचे सावत्र आवयच्या नावांर जातली. हे पिश्यांतराचे कारण म्हळ्यार, हर्षनाची जल्मदाती आवयक पिशें आसलें, तातूंनच ती भायर पडिल्लीं (फायल धापतां)

हर्षना : माँ हे तुवे कित्याक केले? तुका दुडू जाय आसलें, सगळें घेवपाचें. हे सगळे तुझेच तर आसलें. हावें केन्ना तुका सावत्र आवयच्या नदरेतल्यान पळोवक ना. तुवे म्हज्येर थोर उपकार केल्यात. ह्या उपकारांची परतफेड करपाक हो सगळो दुडू ताचे मुखार शुन्य. माँ.. माँ.. हे तुंवे कितें केलें?

डॉक्टर : ती कितें उलयतली. तिणें अुलोवपासारके कायच बाकी दवरुंक ना.

माया : जाले तुमच्या सगळ्या प्रश्नांचे समाधान. शिल्पा चल या आमी. स्टोरयेचो क्लायमॅक्स जालो. उठल्यार जाता. आता आवय आनी धूव गळ्यात गळो घालून रडतली. (ती वचपाक, वळपाक)

इं. किरण: एक मिनिट.

ममता : आता कितें अुरले. (इं. किरण. ते पार्सल फोडटा आनी तातूतले दोन ग्लास काडून टेबलार दवरता)

माया : शिल्पा, पार्टी दिसता. मागीर आमी केन्नाय येवची आमी.

इं. किरण: चोर जरीय तर आपल्यान कितलोय शाणो समजू, पूण हे असले कृत्य करताना ताचेकडेन एक तरी चूक घडटा. तीच चूक त्या चोरांनी सॉरी भूतांनी केली.

माया : ते भूत आनी तुमी पळोवन घेयात. आमका कित्याक पुराण सांगता.

इं. किरण: (मायाक) यु आर अंडर अरेस्ट (सगळ्यांच्यो नदरो मायाचेर) ही मूदी तूमी प्लॅण्ट केल्ली, ह्या आवयक फसोवपाक पूण... हे ग्लास दिसता तुका? हाचेर तुमच्या दोगांच्या हातांचे ठशे आमी घेतले. हेच ठ आमका त्या पोरण्या हवेलीत जळीमळी सापड ती भूतां दुसरी तिसरी कोण नासून, तूमी दोगा! आ तुमची ती साथीदारा कामणे आनी कलावती. ( दोगांय हातात बेडी घालून फाटल्यान येवन दार उभी रावतां.)

माया : (तकली दामता) हय... हे सगळें म्हजेच कारस्था

इं. किरण: आता तूच तुज्या अुतरानी सांग, हे कारस्थान तु कित्यापसत केलें.

माया : ही.. (माँ) म्हजी सख्खी जल्मदाती आवय. म्ह बाबा हांव पोटात आसतनाच मेलो. हांव जल्मतक तीणें म्हाका अनाथलयात दवरलें. आपूण उपरां दुसरेपणांत लग्न जाली. म्हजेर नदर लेगीत उडय ना. ह्या... ह्या. सगळ्या गजालीन म्हजो निशपाप बळी गेलो. अेकदीस हें मृत्युपत्र म्हाका सापड आनी तेन्ना हावें थारयले कि ह्या घराण्या सांसणाचे सोपयलें.

... पूण हे कर्मकट्टेक (माँ) लागून, हांवच आय काबार जाले. ... पोठाच्या गुळ्यापरस ते पीठाच गुळ्यान भावलें... ही आवय न्हय, ही पापी राक्षसी (माया मॉचो गळो दामपाक वता. इं. किरण आ डॉ. नेस्ट्रिड ताका सोडयता. इं. किरण ताच्या आ ममताच्या हातांत बेडी घालता.)

हर्षना : माँ... माँ... म्हाका माफ कर (वचून आवैक मारता. अेकमेकांची दूखां पूसता.) (इं. किर रिकॉर्डर बंद करता)

डॉ. मेस्ट्रिड : थॅंक्यू.. इन्स्पेक्टर किरण (सेल्यूट मारत (नर्स आनी डॉक्टर, आपआपल्याचे सामा कवळटा. इं. किरण माया आनी ममताक घेवन दार पावपाक..)

हर्षना : फाल्या सगळ्यानी म्हज्या (ते बराबर फ्रेम फ्रि वाढदिवसाक येवचे.

## समाप्त



# चिंत! मना बगर!



[…]ा सुरेश आमोणकार



फोनाची बेल जाली. फोन घेतलो. एकटे वळखीच्या बायलेचो आसलो. तिणे म्हळें,

'सुधाबाय, आत्तांच रेडियोचेर तुवें गायल्लें पद आयकलें. बरें गायतालें मगो तूं ! आतां तुवें गावप साप्प कित्याक सोडलें?

तिजो हो प्रस्न आयकून सट् करुन, म्हजे तोंडसून उतरां आयलीं. 'आगो बाय, आतां घडये भितल्लें संगीत आयकुपाचो वेळ आयल्या जायत, तांतूंतच घडये गुल्ल जालां जावये, म्हूण भायलें संगीत सुटलेंजावये. उस्फूर्तपणान ही उतरां काळजांतल्यान आयली खरीं, पुण मन म्हाकाच विचारुंक लागलें, 'बाय तुज्या उतरांचेर, तुवें फकत मोग केला जायत, भितल्ले संगीत, अंतरंगातले सूर आयकप इतलें सोपें?

चडसो वेळ म्हजो भायल्या वातावरणातच घुस्पल्लो आसता न्हय? आज हे करुंक जाय, तें करुंक जाय, हाणें तशें म्हळें, ताणें हें केले ना ह्याच चक्रांत घुंवत आसता न्हय मन? अपेक्षा करीत रावली



काय अपेक्षाभंगाचे दुःखच पडटले न्हय पदरांत? हाकाच लागून मन पिकार जाता. मनस्तापाक आफोवणे दिवप जाता. मन ताचेच भोंवतणी घुंवत उरता न्हय? मागीर त्यामनाक भितल्लें - आंतरिक संगीत कशें आयकूंक येतलें ? ते मातुय सोपें न्हय. पांच सेकंदतरी मन, विचाराबगर रांवक शकता ? बुध्दान सांगिल्ल्या विपश्चनेच्या १० दिसांच्या शिबिराक गेल्लें. तेन्ना होच अणभव म्हाका आयल्लो न्हय? १०-११ वरां शांत चित्तान ध्यान, मौन, तेवेळार होच प्रश्न हांव मनाक विचारताले. देवान म्हाका सगळे भरभरुन दिलां. दोळे, कान, नाक, जीब, हातपाय, पुण तरी कसली ना कसली विवंचना हांवे कारणाशिवाय जिवाक कित्याक लावन घेतल्या? अर्द मिनीट लेगीत म्हज्यान शांतपणान राव नज? भितर शिजिल्लें षड्विकाराचे वीख ल्हव-ल्हव वयर सरत उरता काय? साप्प विसरुन गेल्ल्यो यादी लेगीत उफाळून वयर येताल्यो. तोच न्हय मनाक मेळिल्लो शाप?

मनएवं मनुष्याणाम् कारणम् बंधमोक्षये ।

मनुस्मृतीत हेंच म्हळां मन हेंच मनशाक बंधनात घालपी आनी तेंच ताजी सुटका करपी.

ताचो आता पावलां कणकणी प्रत्यय येवंक लागला. मनच न्हय मनशाक धोंसता? सगळो हो मनाचोच खेळ न्हय ?

बहिणाबायन म्हळांच,

मन जह्ररी जह्ररी, याच न्यार ते तंतर

आरे इंचू-साप बरा, त्याले उतार मंतर

असो मंतर आणि उतारो नाशिल्ल्या मनान, आपणालो आदि जांव अंत हांचो कांयच ठावठिकाणो केन्नाच लागूंक दिवंक ना.

मन पीडा दायी, वाऱ्यापरस चपळ चंचल, एका खिणात धर्तरेर तर दुसऱ्या खिणात सर्गार मळबार?

ओशोच्या उतरांची याद जाली -

| | |
|---|---|
| Walk without feet | पाया बगर चल |
| Fly without wings | पाखां बगर उड |
| Think without mind | आनी चिंत, मना बगर |

खूब फावटी आमी उलयतात ते मनाबगर, बुध्दिबगरच न्हय? ते वेळार बुध्द आनी काळीज हांका आमी खरे अर्थान उजार केल्यार, संवसार सुखी, सोबीत आनी सुंदर जातलो आसलो न्हय? मनाचो विलय कर तूं आपशीच देवाम्हऱ्यात पावतलो अशेंच सांगतात न्हय आमचे व्हडले संत? मन जेन्ना उडक्यो मारूंक लागता, तेन्ना घडयेन ताज्या फाटल्यान हांव कर्तो हांव करपी हेंच 'मीपण' त्याफाटल्यान दडिल्लेंआसता जावये. हीच सुचोवणी मेळटा न्हय ?

मनान, मळबांत उड्डाण करतकच, ताका पांखा तरी खंय लागतात ? मन चलता तेन्ना ताका पायाची जांव पाखांची गरज नासता न्हय? बशिल्लेकडेनच न्हय ते भराऱ्यो मारना? पुण ताज्या फाटल्यान 'हंवुच' मुखेलपणान आसता न्हय? एकदां हांव संजीवन स्कूलांत गेल्लें. थंय भुरग्यांक पळोवन म्हाका दिसलें की, जांव कानांनी आयकूंक येना, दिश्टी पडना, उलोवंक येना, तांच्या दोळ्यां मोगाळ भाव तितलेच अगतिक. पुण प्रत्येकाकडेन नाळ जोडपी पुण जांकां सगळें कांय आसा, तांचे कडल्यान कानार बरें पडप कठीणच दुरापास्तच. आनी खूब फावटी तांची वाणी-उतरां, मनाचो सालां काडपी, मनाक टोंचणी दिवपी आसतात. असल्या लोकांक जायते घेवपासारके आसता न्हय तांचे कडल्यान ? जायत्या प्रस्नाचो जापो तांका मेळूं येता न्हय? आमकां जे देवान दिला ताजो उजो जावचो, आपणाखातीर, दुसऱ्याखातीर आनी समाजाखातीर?

अलिप्तपणान मोह-स्वार्थ सोडून, संवसारात घुस्पून पडनासतना भितल्ल्या अंतरंगातल्या संगीतांत गुल्ल जावपाक हीच वृत्ती लागत जावये. ओशोन म्हळाच न्हय?' निष्पाप जायात. आनी तुमी देवाकडेन पावतले. मीपण विरुन वचूंक जाय. आपुण कोणतरी खाशेलो मनीस आसा, हे मनातल्यान साप्प काडून वडयात तेन्नाच त्या खिणा तुमी असामान्य आनी अप्रुप जातले.

जेन्ना तुमचेकडेन मनच ना जाता. तेन्नाच तुमका अस्सल काळीज मेळटा. जेन्ना तुमचेकडेन मन ना जाता, तेन्नाच तुमचे काळीज सद्भावनेच्या स्पंदनानी पिटापिटूंक लागता. तेन्नाच तुमचेकडेन मो... उप्रासता मन नाजावप म्हळयार मोगच मोग.

पुण हें केन्ना जांव येता? सगळो मायापाश मायाजाळयांतल्या मन मेकळे जाता तेन्नाच न्हय? जेन्ना मनाचो विलय जाता तेन्ना न्हय, त्या मार्गार आमचे पयलें पावल पडूं येता? ज्या मार्गांन मीप... विरलां. तेन्नाच न्हय आमी मनाबगर चिंतूक पावतले ? हाजो दिश्टा... केन्ना जायत म्हज्या मनाक ?





# पाझर... यादींचो



मूद भिकू नायक



लग्न करुन म्हाका बेतके गांवांत दिल्लें. बेतकी गांव माशेलांतल्यान चडांन चड पांच किलो मिटर अंतराचेर आसतलो. हांव माशेल हे नांव आयकून जाणा आशिल्लें. पूण बेतकी हे नांव केन्नाच आयकूंक नाशिल्लें. म्हजे इश्टिणीक म्हजी सोयरिगत बेतके हांगासर जाल्या म्हूण सांगले तेन्ना तर तें इश्टिणीन सामको आंगार काटो हाडून म्हळे, 'आवयस... बेतकी हो गांव सामको भितर मूगो! थंय बशी बी कांयच वचनात. सगळीं कुळागरां, दोंगरच दोंगर! थंयच्यो मायो खंय सामक्यो कडक. आदल्या वळणाच्यो खंय, तुका थंय साडयोच न्हेसच्यो पडटल्यो. हे आयकून म्हाका मात्सो भंयच दिसलो. तरीय नशीबात जें कितें आसा तें चुकना अशे चिंतून हांवूय लग्नाक तयार जालें.

लग्न जावंन हांव जेन्ना बेतके गांवांत पावलें. तेन्ना म्हाका पयली कुळागरां दिश्टी पडली तेन्ना म्हाका त्या इश्टिणीची याद आयली. कुळागरांक लागून थंय सगळीकडेन थंडसाण आशिल्लीं. वचत थंय उदकाचे पाट व्हावतालें. कुळागरांतल्यो लांब लांब माड-माडयो, पाचव्योचार केळी हाका लागून सामकी थंडसाण आसली. वचत थंय पाट भरुन उदक व्हावतालें. कुळागरांतल्यो लांब-लांब



माडयो, पणस, चिकू, पेरां, निरपणस, तोरिगं, आंतेरां, माडयांचेर मिरवेल आनी खांवची पानांचे शेरे पळोवन म्हाकां कुळागरांची लक्तूबाय दिसली. प्रत्येक घरांमुखार गोरवां गोठे दिसतालें. पूण बांयो मात खंय दिसनासल्यो. नळ बी निक्तोच आयिल्लो. त्या नळाक उदक आयल्यार येतालें. पूण ताचें तांकां कांयच पडूंक नाशिलें. तांकां झरीच्या उदकाची सामकी सवय जाल्ली. समजा नळाक उदक आयले जाल्यार त्या उदकाक वास येता म्हूण थंयचे लोक ते उदक पियनाशिल्लें. एक दीस हांवें हासत हासत म्हजे मांयक म्हळें, 'आई, हांगां कुळागरातल्यो सगळयो माडयो, पणस, म्हसकाच्यो सांगो सुध्दा लांब-लांब आनी सरळ मगे अशें कित्याक गे? तेन्ना आईन म्हाका कितें सागचें, आगे, आमच्या या गांवची मनशा सुध्दा ह्या कुळागरांतल्या माडयाभशेन लांब आनी मनान सरळ खंय.. अशी म्हजी मांय म्हाका सांगताली, आतां हांव तुकां सांगता अशें सांगून ती हासपाक लागली...

म्हजें कुळार काणकोणां, म्हजी आवय-बापूय आनी आमी सगळीं सात भावंडां, घरभर मनशां आशिल्ल्यान बोवाळूय चड आसतालो. भांवडां चड आशिल्ल्यान हासप-खेळप आनी झगडपूय चालू आसतालें. तेन्ना म्हाका दिसतालें घोवागेरुय घरभर लोक आसल्यार पुरो, जालेंय तशेंच, म्हाका मांय-मांव, स देर आनी एक नणंद सगळीं धायेक मनशां म्हळयार घरभर लोक आशिल्लो. म्हजो घोव आपल्या आवयक 'आई' म्हण्टालो आनी बापायक 'बाप्पा' म्हूण उलो मारी. तेन्ना हांवूयबी मायक 'आई' आनी मावांक 'बाप्पा' म्हणपाक लागलें. लग्ना पयली म्हाका म्हजे इश्टिणीन सांगिल्ले हांगच्यो मायो खंय सामक्यो कडक आनी आदल्या वळणाच्यो आसतात म्हूण, ताका लागून आईकडेन उलयताना दचकुनूच उलयतालें.

आई म्हाका आगे... म्हूण उलो मारताली. आनी तिणें आपल्या घोवाकूय सूनेक उलो मारतना आगे.. म्हूण उलो मार हां.. म्हूण सांगिल्ले.

तेन्ना म्हजो मांवूय म्हाका आगे हांगा यो गे.. आगे ते हाड गे! हें कर गे ! अशें सागी.

माय-मावांन म्हाका केन्नाच नावांन उलो माल्लो ना.

हांवेच एक दीस भियेत-भियेत आईक विचारलें, "आई हांव तुका एक विचारु?"

'विचार गे !' आईन म्हळें.

आई, 'तुम्ही म्हाका 'आगे' अशें कित्याक म्हण्टात? म्हाका ते बरें दिसना. तुम्ही म्हाकां नावांनूच उलो मारात. हे आयकून तिणें कितें सागचें, पळय हांवे तुकां जर नांवांन उलो मारलो जाल्या घरची सगळीं सोयऱ्या -धायऱ्या तुकां नावांनूच उलो मारतली. तेन्न आमीच जर आमच्या सुनेक मान दिलो जाल्यार सगळीं तुकां आप आपूच मानान आपयतली. ते खातीर हांवे थारायला पयली हांवे म्हजे सुनेक मान दिवप म्हूण, हे आयकून म्हाका म्हजे मांयचे विच कितल्या उंचेल्या दर्जाचे हाची जाणीव जाली आनी म्हज्या त इश्टिणीचो इतलो राग आयलो म्हूण सांगू.... म्हजे मायक लागृ घोवाघरची सगळीं सोयऱ्या धायऱ्या आनी जाण्टी धरुन म्हाक केन्नाच नावांन उलो मारिनाशिल्ली. तेन्ना साकून म्हाका म्हज्या मा विर्शीचो भंय गेलो पूण तिचेविशीं व्हडविकाय-लक्तूबाय दिसपा लागली. आवयच्या मायेची ओड जाणवली.

लग्न जावंन दोन-तीन म्हयने जातलें तिणें म्हाका विचार आगे.. 'तूं साडीच कित्याक न्हेसता? तुका कितें न्हेसन दिसता तें न्हेस, चुडीदार घाल, मॅक्सी घाल वा पेन्टी घाल. म्हाका ताचें कांय दिसचेना. हें आयकून म्हाका कितें जाले म्हूण सांगू.. हांव साम उमेदीन भरलें. म्हजे आवयन सुध्दा म्हाका केन्नाच पेन्टी घाल म्हट ना. पूण म्हजे मायन अशें सांगप म्हळयार अजाप कशें दिसलें. ति म्हळें, 'आयज तू जर साडीच न्हेसली जाल्यार मागीर तुकां दुस कसलेच कपडे न्हेसन दिसचेंच ना.' तुवें न्हेसला तें पळोवन तुज फुडल्यो जावो न्हेसतल्यो. तुवें केलां तें पळोवन तांच्यानी केल्य जाता. पूण त्यांच्यानी केलां ते पळोवन तुवें करप म्हळयार तुकाच बरे दिसचेना. हे तर आयकून म्हाका म्हजी मांय सामकी मॉर्डन कशी दिसली. ती तशी फॅशनबी तसलें कांय करिनाशिल्ली. त फक्त णव वारी कापड न्हेसताली. पूण तिचे विचार आनी उत नव्या वळणाची आशिल्लीं.

एक दीस कितें जालें, 'म्हजे मायन म्हाका आयज खतख करुया.. अशें म्हळें, आयज म्हणना बरोबर हांवे पयली घरांत पळय कित्याक जाणां, आमच्या घरातलें सगळे जाण साता पयलीच भाय सरुन कामाक वतालें. खतखत्याक कितलेशेंच तरांचें जिनस जा पडटा. ही आनी खंयच्यान हाडटली काय म्हूण म्हाका प्रश्न पडल तिका विचारपाकूय मात्शे कशेतरी दिसपाक लागलें. कित्याक जाण हांगा करतां ते खतखतें आनी म्हज्या कुळारां करतां तें खतख वेगळेबीन कांय अशें दिसलें. तरी पूण हांवे तिका धिटायेन म्हळ आई खतखत्याक घालपाक बीट, गाजर, टमाट.... हें कांय ना म घरात. जाल्यार तिणें म्हाका कितें सांगलें, 'तू फक्त हां... म्ह खतखत्याक कितें जाय तें हांव हाडटा. हे आयकून हांव साम चितूंक पडलें. ही आतां हे सगळें जीनस हाडपाक माशेलांत वत



य? आनी वचून तरी केन्ना येतली ? म्हजे मायन कितें केलें, एक टको पाटलो आनी एक कोयतूल घेतले आनी ही कुळागरांत ी आनी अर्दवरांत ते पाटूल भरुन घरांत घेवन आयली. हांव त्या टल्याक पळयत रावलें. तिणें त्या पाटल्यातल्यान सुरींग, कारादें, माडे, मुंडल्यो, केळी, निरपणस.. अशें एक-एक नाग भायर डीत तांची नांवां म्हाका सांगपाक सुरवात केली. ही नांवां आयकून ाका त्या कुळाकाराची व्हडविकाय दिसली. हांवे मनात म्हळे, बाजारात ल्यार सुध्दा असले सगळे जिनस मेळचेय नाशिल्लें.

अशेंच एक दीस कितें जालें त्या दिसांनी भरपूर पावस पडटालो. मच्या घराच्या कुशीक इल्लो जागो आसा. आमीं त्या जाग्यांक ानोण म्हण्टात. त्या खानोणीत एक पणस, दोन-चार माड आनी स-पयस अश्यो माडयो पूण. चडशें तातूंन केळमेच आशिल्लें. ळ्यांचें घड भरपूर जातालें. एक दीस म्हज्या मावांन त्या खानोणीतली ान-चार केळीच्यो बोणयो काडून हाडल्यो आनी घरांत एका पाटल्यांत वरल्यो. आईन त्यो बोणयो पळयल्यो आनी म्हाका म्हळें,

'ह्यो बोणयो कोणे काडून हाडल्यात...?'

तेन्ना हांवेय थंय वचून पळयल्यो. जाल्यार खरेंच केळीच्यो चार ोणयो त्या पाटल्यात आशिल्ल्यो. हांवे आनी वेळ केलो ना, म्हजेर ानी येत म्हूण रोकडेच आईक म्हळें, 'आई हांवे मात ह्यो बोणयो ाडून ना गे..

तुवें काडूक ना मगे? शेर्त ते तांचेच काम आसतलें,

असल्या बारीक-सारीक झाडां-पेडांचेर ताचीच नजर आसता. शें आईन म्हाकां म्हळें. म्हाका दिसलें आतां आई ताका उलयतली. हूण हांवे तातूंतल्यो दोन बोणयो काडून लिपोन दवरल्यो. आनी ाईक म्हळें, 'दोनूच आसा मगे बोणयो.

आसू. बरें जालें, दोन जाल्यार दोन. बरी भाजी जातली, अशें आईन म्हळें. हांव आयकूपाक पडलें म्हका दिशिल्लें बोणयो काडल्या म्हणटकूच केळीचे घड पिडयार जातलें आनी ही बाप्पाक उलयतली म्हूण हांवे तातूंतली दोन बोणयो लिपोन दवरलो पूण हांगां वंगळेच जालें. हिणें बाप्पाक वेल्यान बरे केलें म्हळें.

ताणें म्हळें जाणां मगे, बोणये काडटकूच केळीचे घड बरें जातात.

मागीर बोण्यांची भाजी कशी करतात तर.. हांवेय तिका विचारलें.

बोणयो धव्यो दिससर बोणयेची सगळी पाती काडपाक जाय. भितल्लो धवो गर रातीकडेन बारीक शिंदून दवरपाक जाय. आनी दुसऱ्या दिसां बरी धूवन पिळून काडून ताची भाजी करपाक जाय. अशें तिणें म्हाका म्हळें. हें आयकून मागीर म्हाका खरें कितें ते तिका सांगचे पडलें. तेन्ना ती हासत हासत म्हणपाक लागली, 'बरी मगे मांवांक वाटायता तू!

रोकडेच म्हज्या दुसऱ्या देराचे लग्न जालें. आम्ही आतां घरांत दोन जांवो जाल्ल्यो. म्हजे आवगेर शेत-भात आनी गोरवांय नाशिल्लीं. ताका लागून म्हाका शेतांतलें वा गोरवांचें व्हडलेशें कळनाशिल्लें. तशेंच म्हज्या जावेंकूय शेत-भाताचे कांय कळनाशिल्लें. आमगेर खूब गोरवां आशिल्लीं गोरवांखातीर बरो व्हड गोटो आशिल्लो. पूण त्या गोट्यांत गोरवा धरनाशिल्लीं. ताका लागू कांय गोरवांक गोट्यांभाथर बांदताली. गोरवांक बांदपाचे, न्हाणोवपाचें सगळें काम म्हजो मांवूच करतालो. आमच्या दारामुखावेल्यान खूब गोरवां वताली. पळोवपाक सगळी एकाच सारखी दिसताली. आमची गोरवां आयली म्हटकूच बाप्पाक दुस्त कळटालें, तांकां तो गोट्यांत व्हरुन बांदतालो. एक दीस हांवे बाप्पाक विचारलें, 'बाप्पा सगळीं गोरवां एकाच सारकीं दिसतात, तेन्ना आमची गोरवां कशी वळखप? हे आयकून बाप्पा हासलो आनी म्हणपाक लागलो, 'गोरवांक सांगपाचे लागना ती आप-आपल्या गोट्यांत सारखी वतात आनी गोरवांय आपल्या मनशांक सारखी वळखतात. तेन्ना म्हाकाय दिसलें की आमच्या गोट्यांत वतात ती सगळीं गोरवां आमची तर... एक दीस हांवे आनी म्हजे जावेन पयलीच गोट्यांत व्हरुन तणबी घातलें आनी गोरवां आयल्या बरोबर ताकां बांदपाक जाय म्हण आंगणात रावन तांची वाट पळयत रावली. इतल्यान वांटेन येता ती सगळी गोरवां आमच्या गोट्यांत गेली. आमी ताचीच वाटत पळयताली. वेळ वगडायनासतना दोगानूय मेळून गोट्यांत धरता तितल्यांय गोरवांक बांदली. आमकां एक व्हडलें काम केल्ल्या बाशेन दिसलें. बाप्पा येवचे पयली येदे व्हडले काम केलां ते बाप्पाक सांगपाखातीर व्हडविकायेन बाप्पाची वाट पळयत रावली.

कांय वेळान बाप्पा गोरवांक घेवन घरा आयलो. 'हांगात रावात हांव रोखडो येता म्हूण सांगत बाप्पा आंगणात पावलो. तेन्ना हांवे बाप्पाक म्हळें, 'बाप्पा तूमी कोणाक सांगतात हांगांत रावांत म्हूण,

हांव आमच्या गोरवांक सांगता अशें बाप्पान म्हळें.

बाप्पा, तुमी कांयच भियो नाका आयज आम्ही दोगांनूय मेळून गोरवांक बांदल्यात. तुमी आनी खंयची गोरवां घेवन आयल्यात?



हे आयकून बाप्पा बेगी बेगीन गोट्यांत गेलो. गोट्यांत बांदिल्ली सगळी गोरवां हामें ऽहामें करुन हामेताली. बाप्पान त्या सगळया गोरवांक बेगीन बेगन सोडली. ही गोरवां आमची न्हय ती शेजाऱ्याची म्हण सांगलें. तेन्ना हांवे बाप्पाक म्हळे, 'बाप्पा तुमीच सांगतालें न्हय आमची गोरवां आमच्याच गोट्यांत वतात म्हूण, मागिर शेजाऱ्याची गोरवां आमच्या गोट्यात कशी गेली तर...? हें आयकून बाप्पाक सामकें हासपाकूच आयलें. मागीर बाप्पाच आमकां म्हणपाक लागलो, 'तुमी गोट्यांत तण घातिल्ले मगे, मागीर ते तण खावपाक म्हूण ती भितर सरली आनी तांका खाता आसतनाच तुमी बांदून घातली. सदांच गोरवांक बांदल्या उपरांत तण घालपाक जाय. आमची गोरवां पळय सगळी म्हज्याच बरोबर आयल्यात. तरी बरे हांव पावलो म्हूण ना जाल्यार शेजारी आमका गाळी घालता आशिल्ली. मागीर मात आमी केन्नाच गोरवांक म्हणटा ती बांदपाक गेली ना.

आमगेर गोरवां चड आशिल्ल्यान दुदय खूब आसतालें. ताका लागून धंयबीन आमगेर फाल्त नासतालें. आताच्या तेपार कोणागेरुय गेले जाल्यार कितें घेतां? थंड कांय गरम.. अशें विचारतात. कांय जाण तर कितें घेता बिता कांय रिचारिनात सरळ हाडून रसना ना जाल्यार सरळ बाटल्यो फोडून दितांत. नाका आसतना त्यो पिवच्यो पडटात. पूण म्हजी मांय मात आमगेर कोणूय आयलो जाल्यार ग्लासभर धंय हाडून दिताली आनी धंय कोणी पियेना म्हळयारुच ती 'च्या' करपाक वताली.

तुमकां सांगपाचे म्हळयार आमगेर पोस्टमन आनी नुस्तेकान्न न चुकता येताली. आमी भायर सरुन वतना वाटेर जर तो पोस्टमॅन मेळ्ळो तर तो पत्रांबी आमचेकडेन वाटेर दिनाशिल्लो. आमी ताका मुद्दाम विचारताली, किते रे, पत्राबी कांय ना रे? जाल्यार तो हासत-हासत वाटेन चलत रावतालो आनी सरळ घरांत येवन म्हज्या मांयक सोदतालो. पत्रां, मासीकां जें कितें हाडल्यात ती सगळीं तो तिचेकडेन दितालो. मागीर ती ताका ग्लासभर धंय पिवपाक दिताली. पत्रां ना जाल्यारुय ती ताका आपयताली आनी तुजो वांटो पिवोन वच हां म्हूण सांगताली.

तशेंच घोवाचे वा म्हज्या देराचे कोणूय इश्ट आमगेर आयले जाल्यार तांकां आपल्या आवयकडेन वळख करुन दिवचे पडनाशिल्लें. ती आपूण पयली पासूनच वळखता अशे तरेन ताचेंकडेन वागताली. हांव तिका केन्ना-केन्ना हासत हासत म्हण्टालें, 'आई तू मॅगनेटा भशेन मगे.. कोणूय आमगेर आयलो जाल्यार ती तुकाच पयली दस्तात मगे, मागीर म्हजो धाकटो देरुय म्हजी सायडीन रावन तिची फकाणां करतालो, आईक खंय तरी मॅगनेट आसपाकूच जाय.. तेन्ना आई मात आमकां पळोवन हासताली.

आमगेर देवा-धर्माचे कसलेंय कार्य आसलें जाल्यार म्हज्यो मांवूच सगळें करतालो. म्हज्या घरकाराक वा म्हज्या देरांक ताचे कांयच पडून वचूंक नासलें. हांव तांकां सदांच म्हणटालें, "देव कायविळार पुजाबी करतात ती आतांच पळोवन घेयात. बाप्पा फाटल्यान हें तुमकां कोण सांगतलो? पूण ताचेर ते व्हडलेंशें कोणूच लक्ष दिनासलें. घरांत देवाचे कसलेंच कार्य आसू वा चवथीचो उत्सव आसू पुजेचे सामन बाप्पा आपुणूच लागी करतालो. घरांतल्या कोणांकूच ताचे लागं नसलें. पुजे खातीर उदकाचो तांबयो झरि वचून आपूणूच भरुन हाड्टालो. देवाक जाय ती फुलां तोच काड्टालो. नैवेद्याक 'गोड' जाय जाल्यार रातचेकुडीत येवन 'गोडाचो खंय आसा गे?" अशें म्हणून आपूणूच सोदून घेवन वयतालो. पूण आता बाप्पा ना. पुजा करपाचे काम घरांत आसा तो देर करतां. चवथीच्या दिसांनी कितें मजा जाता तें तर सांगूच नाका. कोण पुजा करता ताका आपल्या माथ्यार वजें दवरिल्ल्याभशेन दिसता. कित्याक तर... पुजेकडेन कितें जाय आनी कितें नाका हेंवूय तांकां खबरुच आसना. पुजा करता ताका सगळें सामान व्हरुन हातीत दिवचें पड्टा. आमी ताचेंखातीर आता पुजा करताल्याक आदर म्हण एके जावेक फिक्स दवरल्या.' पुजा सोपसर ती जांव पुजाऱ्याच्या म्हऱ्यात उबी रावतां. आयज अशा वेळार सगळयाक बाप्पाची याद जाता...

आतां मात पयलीचें कायंच उरूंक ना. म्हजी मांय आनी मांवूय गेलो. घरांत करतोलोय कोण ना. सगळीं गोरवांक विकली. म्हजे सगळे देरुय कामाक लागलें. थोडे देर दुसरीकडेन घरां बांदून रावपाक लागलें. म्हजे दोन देर मात घरा आसातात. तांणी एका परस आता तीन गोटे बांदल्यात. एका दिसा हांवे म्हज्या देराक विचारलें 'भाऊ, किते रे, पयली आमगेर वीस-पंचवीस गोरवां आशिल्ली तेन्ना एकूच गोटो आशिल्लो आनी आता एक सुध्दा गोरुं नात जाल्यार तुवें तीन गोटे बांदल्यात, अशें कित्याक ...? तेन्ना भाऊन म्हाका कितें सांगचें, 'आगे, आता सगळयाकडेन गाडयो जाल्यात. कसलोय उत्सव आसले म्हण्टगीत सगळे आप-आपल्यो गाडयो घेवन घरा येतात तेन्ना ह्यो चार-पांच गाडयो खंय दवरतलो म्हूण हांवे तीन गोटे बांदल्यात. आता तुमी म्हाकां गाडयो खंय दवरु कांय म्हण विचारपाचो नात. अशें म्हणून म्हजें तोड बंदूच केलें!



# सुपारी



सकाळचीं९ जावन गेल्लीं. न्हावन-धुवन कपडे करुन माळयेवयल्यान सकयल देंवतालों. सकयल पेशंट म्हजी वाट पळेत बशील्ले. हांव सोंपणांवेल्यान देवतां, इतल्यान, 'हांव तुका सुपारी दितां. फायच्यान कामाक लाग. तीन दिसांत काम फत्ते जावपाक जाय.' हीं उतरां म्हज्या कानार पडलीं. पांय थंयच घट जाले. काळजांत कच्च (काय पाक्क म्हणटात तशें) जालें. आवाज म्हज्या बापायचो आसलो. कोणाकडेन तरी तो फोनाचेर उलयतालो. दर दिसा बंदुकेत, गुळयेन, तलवारीत, सुरयेन खून पडटात. तांतूत आनी आमचो जल्मदातो कोणाक धतरिवयलो उठोवपाची तयारी करता काय ? हांव चिंतेन पडलों.

हरशीं पळेल्यार आमचे पिताश्री सामकेच मोव आं! खूब प्रेमळ. एक फुलाची पाकळी लेगीत चुकून तुटली जाल्यार पिकासांव करपी प्राणी मनशांभितर सोडाच, जनावरांभितर लेगीत तो तितलोच प्रीय. तो घरांतल्यान भायर सरुन रस्त्यार चलूंक लागतना ताजे वांगडां



डॉ. निलीन रा. सुखठणकार



फाटीं-फुडें, दाव्यान-उजव्यान ठेको धरुन नाचत कुत्रे चलतात. आमचें घरचें सुणें, पिंकी तर ताका कशेंच सोडिना. तें ताका रातचें तीन-चार फावटीं तरी उठयता, आपल्याचेर पांगरुण घालपाक. मागीर आमचे वडील जी पॉज काडून न्हिदता, तीच पॉज काडून तें न्हिदता. तिजें न्हाणें-धुणें, ब्रेक फास्ट, लंच, डिनर सगळयाची काळजी आमचे पिताश्री घेतात. एक दीस आमचो बापूय घराकडेन नासत तर पिंकी जेविना वा न्हिदय ना. एकदम सुतकी चेरो करुन वाट पळेत बसता. बापूय येतकच मागीर आनी विचारुं नाका. पयलीं घरभर उड्यो मारीत नाचता, मागीर नखरे करीत भितर वचून लिपून बसता. वऱ्या वेळान हळूच भायर येवन जेवणाचेर ताव मारता.

ल्हान भुरग्याचें तर विचारुंच नाकात. ती दीसभर ताजेच भोंवतणीं. जितली भुरगीं ल्हान, तितली तांची ओड चड. कोणे केन्ना रचूंक नासलीं अशीं जगावेगळीं पदां, आपल्याच उतरांनी आनी आपल्याच पदरच्या चालीन गांवान तांकां खेळयता. भुरगीं एकदम खूश. घरांत कोणूय बरो ना जालो जाल्यार ताच्या चिंतेन बापूय रातभर हे कुशीवयल्यान ते कुशीर परतता. ताका कशीच न्हीद पडना. ल्हान-व्हड, गरीब-गिरेस्त, असो ताज्या मनांत केन्ना भेद-भाव आयलो ना. गरजेवंताच्या उल्याक तो सदांच धावन गेला.

भुरगे ते जाणटे धरुन जनावरांचो लेगीत प्राण आशिल्लो असो म्हजो बापूय, सिनेमातल्या व्हिलन प्राणाभशेन कसो कोणाचो प्राण घेवंक पळेता हे चिंतेन म्हजे प्राण गळयाक तेंकले. म्हज्या बापायन केन्ना आडकाती. घेवन सुपारी कातरली ना 'आडकाती'. नांव कितें पावरफूल! नांव जशें पावरफूल तशेंच काम पावरफूल. आनी तें काम करप्याचे हात तितलेच पावरफूल आसूंक जाय. म्हका तर बाबा ह्या आडकित्याचो सदांच भंय दिसत आयला. सुपारी कातरतां कातरतां कितल्या जाणांच्या बोटांची 'चिकनी सुपारी' ह्या आडकित्यान केल्या जातली कोण जाणां ! 'चिकनी सुपारी' म्हळ्यार मद्रासी सुपारी. बाजारांत मेळटा त्या पानपराग, माणिकचंद, मधू अशा असंख्य जदर्यांत ती आसता खंय. असो ज्ञानबोध म्हजो इश्ट सुहास पाडगांवकार हाणें केलो. पूण जे कोण पानवाल्याच्या गाड्यार अस्सल पान तयार करुन खतात आमचो सुहास पाडगांवकार तांतलो एक तांकां ती आवडना. कारण कितें काय म्हळ्यार, 'ती ताच्या ताळयाची मारता.' सुहास पाडगांवकराची तोंडांत कोंबील्ल्या मावांतल्यान वाट काडीत आयिल्लीं सुगंधीत उतरां. म्हाका मात 'चिकनी सुपारी' नांव कानाक बरें लागता. सुपाऱ्यो तरेतरेच्यो आसतात. देखीकः ओली सुपारी, सुकी सुपारी, तांबडी सुपारी, उकडी सुपारी, मद्रासी म्हळ्यार चिकनी सुपारी, सत्री सुपारी (सळया भशेन कातिल्ली) कातरी सुपारी, सुगंधी सुपारी, हे आनी अशे प्रकार तुमी आयकून जाणाच आसतले. आमचे गोंयचे भाशेत बेडो, फोफळ अशें पयली सुपारेक म्हणटालें हे शब्द उच्चारताना दोनिय गालांत पान सुपारी, तंबाखू कोंबील्लो आसूंक जाय. आनी जीब तांबडीच जाल्ली असूंक जाय. जाल्यारुच त्या शब्दाचो उच्चार आयकुपाक बरो आनी पेजाद दिसता. अजूनीय काय गांवांतल्या जाण्टेल्या मावशी बायांच्या तोंडातल्यान हे शब्द केन्नाय कानार पडटा. पूण एका चयलेक लेगीत 'सुपारी' म्हणून नांव दवरपी जाणटेल्याक हावें पळयला. तें चली बाबडें दिसूंक बरें निटनेटकें आशिल्लें. पूण ताका 'सुपारी' हें नांव ताणें कित्याक दिलें, तें आयजमेरेन म्हाका समजूंक ना.

आडकित्या भशेन बोटाचो शाहिस्तेखान करपी आनीक कितलींशींच मशिनां आसात. पूण म्हजे नदरेन सगळयांत खतरनाक म्हळयार उसाचो रोस काडपी आपसूक चलपी यंत्र. मात लेगीत चूक जाली जाल्यार रोस काडणाऱ्याचो एकलव्य जालोच म्हूण समजूंचो. आनी चूक ही हमखास जाताच. कारण उस मशिनांत घुसयतना दिस्त ताजें लक्ष एक तर मालकाच्या उलवण्याकडेन ना जाल्यार फुडल्या रस्त्यावयल्यान वचपी 'ऐश्वर्या' कडेन वता. तिका पळोवन ताजी 'जान' वता आनी हेवटेन ताज्या आंगट्याचो जीव वता. त्या उसारोसाच्या दुकानांत, घोंघेयत, पेल्यार, तोंपार, उसार नाचपी मुसांक प्रस्न पडटा की, 'जो रोस हे लोक पितात तो रोस उसाचो काय मुसांचो'? पूण ज्या म्हज्या बापायन केन्ना आडकित्यान सुपारी फोडलीना (फकत दर दिवाळेक ओवाळणीचे वेळार मात तो आवडीन काडटां पांयान फोडटा आनी कोडू रोस जिबेक लायता.) तो कोणाची छाती फोडूंक वा गोमटी कातरुंक सुपारी दितलो? म्हजो विस्वास बसना. आतां ह्या विश्वामित्राचो (सगळया प्राणी मात्राचो इश्ट ह्या नात्यान - उर्वशीच्या भुरग्याक ना म्हणपी विश्वामित्र न्हय) शत्रू कोण? असों कोणें ताका ह्या पोंतार पावयलो? माळयेचीं सोंपणा देंवतां देंवतां हावें म्हज्या मनंतली पुराय 'Directory' चाळून पळयली. तेन्ना फकत एक व्यक्ती म्हजे नदरे सामकार आयली. ती म्हळयार स्वता अस्मादिक! आयज मेरेन हावें दिल्यात तितले त्रास ताका आनी कोणेच दिवं नासले.

मागीर खीन्न मनान तकली सकयल घालून भियेत भियेत हांव ताजे मुखार उबो रावलों आनी हळू आवाजान विचारलें, 'कोणाचो कांटो काडचेलो थारायला?' तो तोंड आंऽऽ करुन म्हाकाच पळेत उरलो.

'न्हय. आतांच तूं कोणाक तरी सुपारी दिवपाची गजाल करतालो न्हय?' ते बरोबर तो पोट धरुन व्हडा व्हडान हांसलो. हांव ताका पळेत उरलों. म्हजें येदेशें जाल्लें तोंड पळोवन ताणें म्हळें, 'आरे, हांव नवचंडीची सुपारी दिवपाचों आसा. तीन दिसांत म्हळयार, तीस





रीख मेरेन श्रेय मेळूंक जाय अशें बाबू भटाक सांगलां. कितें सा, बारा तारखेच्यान नवरात्री सुरु. म्हाका तीन दिसांवयर शिवराक ण चलना. म्हणून ताका हे condition घालां." म्हज्या पोटांत बर्फाचो खडो देवलो. जितले पारवे आनी पाखे येदोळच्यान खां फडफडायत उडटाले ते सगळे back to pavillion वचून ग्यार बसले. म्हज्या तकलेंत उजवाड फांकलो. खरें तर खून, डदे, तुबकां-गुळयो-फार बॉब, सुरी हल्लो अमक्यालो विश्वासघात, मक्यालो बदलो, असल्या महिशासूरीच्या सुपाऱ्यांच्या गोंदळाभितर चंडीची सुपारी हांव विसरुनच गेल्लों. गुन्यांवकाराच्या जगांत सलीं 'सुपारी' सारखीं आमच्या शास्त्रांतलीं पवित्र उतरां कशीं वलीं ते समजुवप कुस्तार, पूण असलीं साबार उतरां शास्त्रांत ानी गुन्यांवाखाला वापरतात म्हणपाचें म्हाका समजलां. सध्या त हीं सर्रास गुन्यावकारी जगांतूच सांपडटात. शास्त्रांत अनवळखी शीं दिसतात.

म्हजो आजो भायर पडला तेन्नाची गजाल. असोच आज्याचो दी काडीत भायर बल्कांवार बशिल्लो. इतल्यान आमच्या प्रत्येक ऱ्या-वायट प्रसंगावगतार आमच्या वांगडा रावपी आमचे शास्त्रीबुवा रोबा आयले आनी त्याच बल्कांवार बसले. इतल्यान एकलो नीस आयलो. शास्त्रीबुवान ताका पळेल्याबरोबर म्हळें,

'या तुमचीच वाट बघत होतों.'

'आतांच बस पावली. उतरलों तसाच इकडें आलों.' ताणें ाप दिली. फुडें ते कितें उलयले तें साधारण अशें आशिल्लें.

'वेळ काय?'

'सकाळचे साडे-दहा.'

'दिवस कुठला?' खंयची ती तारीख सांगली.

'किती लोक हवेत?'

'दहा.'

'तुमचे हस्तक किती येणार?'

ो प्रस्न आयकले बरोबर हांवें कान दिलो. 'हें आनी कितें प्रकरण? ांकां 'हस्तक' आनी कित्याक लागतात? कसलो कट शिजता काय?

'सहा.' दुसऱ्यान सांगलें.

'मग मी माझे तीन हस्तक आणतो.'

'बरं मग येवूं मी.'

'हो.'

दुसरो गेल्या बरोबर हांवें शास्त्रीबुवांक प्रस्न केलो,

'शास्त्रीबुवा हें 'हस्तक' बी प्रकरण कितें? खंय दरवडो बी घालपाचो आसा काय कितें?

'आरे पुता, तसलें कांय न्हय रे बाबा. आमकां आनी दरवडो घालूंक जमतलें? तुज्या आज्याचो बारावो करपाचो आसा. हो तातूंतलो तज्ञ. ताजेकडेन तयारे संबंदान उलयतालों. 'हस्तक' म्हळयार तुमच्या भाशेंत Assistant शास्त्रीबुवान कोडें सोडयलें.

'हय वो. पूण ही उतरां तुमच्या सदच्या उलवण्यांत तुमी वापरनात.'

'ना. पूण हें आतां आमचें शास्त्रोक्त पद्दतीन उलवणें चलतालें. म्हूण हीं उतरां आयलीं.'

'आसत हो. पूण ही उतरां चोर, खुनी, दरवडेखोर, स्मग्लर्स बी वापरतात.' हांवें म्हळें.

'बरोबर आसा.' शास्त्रीबुवान हांसत हांसत सागलें, 'कारण ते लेगीत आपलीं कामां शास्त्रोक्त पध्दतीन वेवस्थीत करतात.'

हांव लेगीत आज्याचें दूख खिणभर विसरुन शास्त्रीबुवा बरोबर मनांतसून हांसलो.





GOVERNMENT OF GOA

# DIRECTORATE OF SPORTS & YOUTH AFFAIRS

CAMPAL, PANAJI - GOA.

**DEVELOP YOUR PERSONALITY ACHIEVE EXCELLENCE THROUGH PARTICIPATION IN THE SPORTS AND YOUTH RELATED PROGRAMMES OF THE DIRECTORATE OF SPORTS & YOUTH AFFAIRS ........**

## AVAIL OF THE FOLLOWING FACILITIES / SCHEMES

- Conduct of Primary/Middle/Secondary and Higher Secondary Schools/Sports Festivals.
- Development of Playgrounds at School, Village Panchayat Level and Taluka Level.
- Conduct of Refresher Courses for Physical Education Teachers / Coaches, etc.
- Supply of Sports equipments to Government and Non-Government Schools.
- Promotion of Yoga Education.
- Establishments and Maintenance of Vyayamshalas (Gymnasia).
- Celebration of days of State and National Importance.
- Conduct of Civil Services Sports for Government Employees.
- Release of Grants to the Sports Authority of Goa.
- Conferring of State Sports Awards.
- Grants to Non-Government Secondary Schools and College for development of Play-grounds/ Multipurpose Halls.
- Establishment of Sports Hostels.
- Promotion of National Cadet Crops (N.C.C.) at School, Higher Secondary and Colleges.
- Promotion of National Service Schemes (N.S.S.) at School, Higher Secondary and Colleges.
- Promotion of Junior Red Cross at School Level and Youth Red Cross at Higher Secondary Level Education.
- Promotion of Scouts and Guides activities at Secondary School Level.
- Promotion of Youth Welfare Programmes for Students and Non-Students.
- Celebration of National Youth Week.
- Establisment of Camp Sites for promotion of Youth Activities.
- Promotion of adventure activities for Youth.
- Establishment of Youth Hostels.
- Conferring of State Youth Awards.
- Recommendations for National Youth Awards.
- Conduct of Youth Festivals at District and State Level.
- Inter State Exchange of Youth Scheme.



*Issued by :*

**DIRECTORATE OF SPORTS AND YOUTH AFFAIRS**

Campal, Panaji - Goa.







# आज्जेचो बोटवो



...ती. लता सत्यवान नायक



चारुय भावडांमदी हांव सगळयांत नशीबवान! कारण ल्हान आसतांना सगळयांत चड आज्जेचो सांगात कोणाक मेळ्ळो तर तो म्हाका. म्हज्याकूय धाकट्या भयणीचो जल्म जालो तेन्ना हांव पांच वर्सांचे आशिल्लें. आवय म्हाका घेवन बाळंटेराक मामागेर गेली, तेन्नाय, आज्जेवांगडा बरोच तेप हांव उरलें. व्हडल्या भयणीच्या पायाचे ऑपरेशन जालें तेन्नाय म्हजे 'पार्सल' व्हरुन मामागेर पायले. मामाईच्या हातचे बरें बरे पदार्थ खावप, रानांवनांनी भोवप, सैमातले वेगवेगळे साक्षात्कार पळोवप, उसाच्या मळयांत उदक सोडटाना, उदकाच्या पाटात कागदाची व्हडी करुन सोडप, ह्या सगळयांचो हांवे मामाईबरोबर भरपूर उपभोग घेतलो.

मामाईक आमी 'व्हडली आई' म्हणटाली. सगळे तिका गांवचो आदार मानतालें. गरजेवंतांक मदत करप, दारान आयिल्ल्यांक ती केन्नाच मेकळया हातांनी धाडी नासली, कितेंय तरी हातार दवरतालीच. हांवें व्हडल्या आईक केन्नाच कोणांकडेंच झगडटाना पळोवंक ना, ती



खूप कमी उलयताली, पूण तिचें उलोवप म्हळयार साखरेभशेन, खूपच म्होंवाळ, मायेंची उतरां आसताली. ति व्हडले आईचे आनीक एक खाशेलेपण म्हणजे झाडांपाल्यांची, गांवठी वखदांची तिका बरीच वळख आशील्ली. तिच्या हाताक गूण आशील्लो. कोणाक थंडी जायत, खोंकली मारत, पोटांत वळून येवप वा गुरवार बायलांचे विंगडविंगड त्रास, ह्या सगळ्यांचेर ती किदेंय ना किदेंय तरी वखद करतालीच. तिच्या वखदाचेर सगळ्यांचोच विश्वास. लोक एका वेगळ्याच श्रध्देन तिणें दिल्लें वखद घेताले आनी बरे जातालें. पोरसांत मामाईन खूप तरेंची वखदी झाडां लायिल्ली, पोरसांच्या वंयेक तर सगळो अडूळसो लायिल्लो आसतालो. तुळशी सगळ्यांत चडप्रमाणात ती रोयताली. तुळशीक लागून सगळे वातावरण शुध्द आनी प्रसन्न जाता अशें ती मानताली. हालीच तुळशीचेर माहीती जमयतांना म्हज्या वाचनात आयलें की तुळस ही अशी एक वखदी आनी पवित्र वनस्पत जिचेकडान चडानचड प्रमाणात प्राणवायू हवेत सोडपाची क्षमता आसा. प्राणवायू तर आमकां सामको गरजेचो, जंय चड प्राणवायू आसता थंयचे वातावरण नितळ आणि निरोगी आसता. म्हणुनूच आसत आमच्या जाण्टेल्यांनी दिसरात चुलीफुडल्यान रावून धुवरांन काम करपी बायलांक सकाळसांज तुळशीक उदक घालपाचो, वात लावपाचो मान दिलो. ती सकाळी न्हावन धुवून तुळशीक उदक घालता तेन्ना, तुळशीक प्रदक्षिणाय घालता ह्यावेळार शुध्द हवा तिच्या शरीरांत वता, हेंच सांजेय वात लायताना घडटा. दिसभर काम करुन पुरो जाल्लो तिजो जीव परत सांजेवेळार टवटवीत जाता आनी ती हासत हासत घरातली सांजेची कामा नेंटान करपाक लागता.

मामाई सदांच सकाळी अकरा साडे अकरांक शेतान गेल्ल्या कामेऱ्यांक जेवण व्हरताली. तिज्यान जमसर तीणें केन्नाच जेवण कामेऱ्यांकडे धाडले ना, ती स्वतः शेतान वचून सगळ्यांक मायेन जेवंक घालताली. तिज्या हातच्यो वेगळयो वेगळयो भाज्यो, नाचण्याच्यो भाकऱ्यो आनी तरेकवार जीनस घालून केल्ली लोणची, भुकेन कासावीस जाल्ली कामेरी पोटभर जेवताली, तृप्त जाताली. तिज्याबरोबर जेवण दिवपाक हांवूय वतालें. शेतांन वतांना रानातल्यांन वचचें पडटाले, तेन्ना मामाई म्हाका वेगवेगळ्या झाडांची नांवां सांगताली, झाडांचे खाशेलेपण सांगताली. पूण म्हाका सगळेच खंय याद उरताले? वाटेर काण्णां, चुन्नां, उंबर, रानांतली वेगवेगळी फळां खावपाक व्हडले आईन शिकयली. त्याचबरोबर तिणे सैमाचे वेगवेगळे रंगोत्सव म्हज्या लक्षांत हाडून दिलें. पावसाळयांत पाचवेचार शालू न्हेशील्ली धरतरीची सोबीतकाय ती म्हाका निरखूपाक लायताली थंडीचे दीस सोपले काय झाडांक नवी आंकरी फुट्टाली. करता करता, झाडां फुलांनी भरुन सजताली, लजताली. आंबों चंवरतालो, जांबळ फुलताली, म्हशींग मुरगट्टालो, आनी पळस तर आपल्या अस्तित्वान सगळ्या रानांवनांची सोबाच वाडयतालो. केशरी रंगाचो, तांबड्या भडक फुलांचो पळस रानात फुल्लो काय रानांत उजो पेटल्यावरी दिसतालो. खंयतरी यज्ञकुंडातल्यान ज्वाला येतात, आनी सगळ्या सैमाक पवित्र करुन सोडट्टात असो भास जातलो. मे म्हयन्यात हळडूवोच बाळो एखादी सातव्या म्हयन्यातली गुरुवार बायल फुलां माळपाच्या सुवाळ्याक गच्च फुलां माळून सजल्यावरी सजतालो. बाळ्याचेर हळडूवेच झेले राशीनी लोंबकळटाले. मामाई म्हाका सदा ही सैमाची भोंवडी करुन हाडट्टाली. म्हजें चड लक्ष ल्हानपणासावंन झाडांनी, फुलांनी ओढून घेतिल्ले.

रानातल्यो वेगवेगळयो भाज्यो देखीक तायखीळो, कुड्डकी, तेरें, काटेमाठ, राजगीरों, सुईची भाजी (सुयेसारखी बारीक आसता) घोळीची भाजी, अशो कितल्योशोच भाज्यो व्हडली आई शेतांतल्यान परती येतांना हाडटाली. आनी तिज्या हातची शेतांतली ताजी भाजी आनी गरम गरम तांदळाची भाकरी खावन मन तृप्त जातालें. हाली आमी 'Sprouted seeds' बाजारांतल्यान विकती घेवन खातात. कारण तांतूत भरपूर प्रमाणात प्रोटीन्स आसता, जीवनसत्वा आसतात. म्हाका याद आसा, वळवाचो पयलो पावस पडलो कांय शेतांनी मेरांचेर, पाच स दिसांनी चवळीच्यो, हावऱ्याचो बियो किल्लताल्यो आनी निकतीच दोन पानां तांका फुट्टाली. व्हडली आई हे पुंजयताली आनी तांची बरी फोडणां मारुन भाजी करताली. ती एक वेगळीच चव! पण दरवर्सा, पावसाच्या सुरवातीक ही भाजी सगळ्यांनी खावूंकच जाय असो ती हट्ट धरताली. तिका खबर आशील्लें कांय तांतून प्रोटीन्स आसता म्हणून? हाची जाप म्हाका केन्नाच सापडली ना. पूण इतलें मात ती निश्चीत सांगताली 'ती भाजी जीवाक बरी', 'घटसाण येता', बाळंत बायलेक ती भाजी दिलीकाय तिका भरपूर दूध येता. तिजो अणभव हो असो.

तिणे ल्हानपणासावंन म्हाका झाडापेंडांचे पिशें लायलें. म्हज्या कुळाराक हेंच वातावरण. म्हजी आवय, गांवठीच वखदां आमका ल्हानपणात दिताली. आमकांय तीच संवय पडली. आज म्हजो चार वर्सांचो चलो जेन्ना पड्टा ताका, खंयसरुय जखम जाता, रगत येता



ल्यार रांदचे कुडींत वचून हळदीपिठ्याचो डबो हाडूटा आनी सांगता 'ही हळत घाल घाव्याचेर', म्हाका ताजो अभिमान दिसता! तर गांवठी वखदांचे ज्ञान हे सगळ्यांक थोड्या फार प्रमाणात सूंकूच जाय. घरच्या घरांत first aid करपाक कळटा ती बायल पल्या कुटूंबाची भलायकी सांबाळपाक यशस्वी जाता. आमी रीक सारीक गजालींखातीर जशें थंडी जावप, जोर येवप, तकली ळप, खोकली मारप ह्याज्याखातीर दोतोरागेर धावतात. दोतोर गीर घे म्हणून सिरपां, ॲन्टीबायोटिक्स, गुळयो किते किते दितां. सगळें घेवन तात्पुरतें बरे दिसता, पूण त्याच बरोबर कितलीशीच ायना आम्ही आमच्या पोटांत घुकळल्ली आसता. ह्या रसायनांचो त्रा ना केन्नातरी आमच्या कुडीचेर परिणाम जाताच. म्हणून जमता ल्यार बारीक सारीक दुयेसांखातीर घरच्या घरां, वखदी डापाल्यांचो उपाय दोन दीस तरी करुन पळोवचो, दुयेंस वाड्लेच ल्यार दोतोरागेर वचप शाणपणाचे थारता.

मामाईन ज्या ज्ञानाच्या दालनाचे दार म्हज्या खातीर उक्ते रुन दिले त्या दारांतल्यान हांव झाडांची, वखदांची, वनस्पतीची ायती मेळोवपाक भोंवडी करीत रावले. वेगवेगळ्या झाडांची म्हायती ळोवप, वनस्पतींचे फोटो काडप, तांची चित्रां जमोवप, वखदां मोवप, शाळेंत आयुर्वेदीक वखदांचेर प्रदर्शन घडोवन हाडप, वखदी नस्पतींचेर लेख बरोवप, घराळ्या वखदांचेर विशय मांडप अशें गळे हांवे हळूहळू सुरु केले. झाडांची म्हायती जमोवन संग्रह करपाक ाका तर खूपूच आवड्टा. हे सगळे म्हज्या व्हडल्या आईक लागून ाले, ह्या क्षेत्रातलीं म्हजी गुरु म्हळयार म्हजी व्हडली आई आनी हजी आवय! आज्जेन दिल्लें हें दायज म्हाका फुडल्या पिळगेक देवकूंच जाय. ते म्हज्या पुरते सांठून उरुक फांवना.

आमच्याच पोरसांत, आडे-कडेक तरेक वार झाडां, फळां, लां, पानां, वेली, भाज्यो आसतात, जांचो उपेग आमी आमच्या नेक बारीकसारीक दुयेंसाचेर करुक शकता. म्हज्या ह्या लेखांत ांची थोडीशी म्हायती तुमच्या मुखार दरवपाचो यत्न करता.

**फुलां**

१. **जायों** : गोंयकाराक जायो खूप आवडटात. जांचेकडेन पोरसांत ागो आसतां तांगेर जायो चडकरुन लायतातूच. जायो जश्यो तांच्या रमळाक लागून फामाद आसात तश्योच त्यो वखदी लेगीत आसात. कान दुखत जाल्यार खोबरेल तेलांत जायो गरम करुन, गाळून तें तेल कानात घालतात. कर्णरोग बरो जाता. तोंडाक केन्ना केन्ना भितरल्यान जळजळटा, तोंड भितरल्यान तांबडेच जाता, अशा वेळार जायेची पानां चावून खावपाची, जामांच्या फुलांचो रोस नेत्र रोगांचेर उपेगी ठरता.

२. **गोटलां** : धवी, जांभळी, हळडूवी, गुलाबी अशा वेगवेगळ्या रंगांची गोटलां खेड्यांनी पोरसांत लायतात. गोटलांचे झेले फांतयो, बायलां उमेदीन माळटात. हांच्या मुळांचो उपेग दातांच्या रोगांचेर करु येता. दांत, दाढ दुखली जाल्यार गोटलांच्या मुळांनी दात घासपाचे. तशेच मुळांचो कसाम करुन, गुळण्यो करपाचो. जोर आयलो जाल्यार गोटलांच्या पानांचो रोस दिवपाचो.

३. **गुलाब** : गुलाब होतर फुलांचो राजा तो जितलो सोबीत तितलोच वखदी. गुलाब पाकळ्यांपासून केल्लो गुलकंद पिंताच्या दुयेंसार रामबाण उपाय. अतिसाराचेर गुलाब उपयोगी पडटा. दोळ्यांच्या दुयेसांचेर गुलाबापाणी वापरतात. जखम जायत जाल्यार गुलाबाच्या पानांचो रोस जखमेर घालपाचो, जखम बेगीन बरी जाता.

४. **रोजां** : संस्कृतान रोजांक 'झेंडू' म्हणटात. ताजे वयल्यांनूच 'झेंडू' हे नाव रोजांक पडला. रोजां लेगीत आमका सहज उपलब्ध जातात. नुस्तें उजरावन जाता की रोजांच्या पानांर हातांनी चोळपाची, नुस्ताच्यो हिंवळाणी वतात! रगताच्या दुयेंसाचेर रोजांच्या पानांचो रोस वा फुलांच्यो रगताच्या दुयेंसांचेर रोजांच्या पानांचो रोस वा फुलांच्यो पाकळो घराल्या तुपात तळून दितात. रोजांच्या पानांचो रोस लेगीत घाव्याचेर घालत जाल्यार घावो बेगीन पेखता.

५. **सुरंगां** : सर्वणची सुरंगा सगळ्यांत फामाद. सुरंगांचो वळेसर सुरंगांच्या सिझनात एकदा तरी घोव आपल्या बायलेखातिर हाडट्राच. मोग उक्तावपाक सुरंगा म्हत्वाची थारतातूच तशीच ती वखदी गुणांक लागून लेगीत म्हत्वाची आसतात. ल्हान भुरग्यांक थंडी-जोर येत जाल्यार सुरंगाचो कसाय करुन दिवप, थंडी जोर देवंता. सुरगांक कफपित्तशामक म्हणटात. पिंतांच्या दुयेंसांचेर सुरंगा उपकाराक पडटा.

**फळां**

६. **आंवाळें** : हांका Vitamin-C चो खजिनोच म्हणटात. सदा एक असो जर आवळो खायत जाल्यार रगताची सगळी दुयेंसा नाच जातली. आवळो शक्तिवर्धक आसा. केंस काळें करपाक, केंस गळपाचे थांबोवपाक आवळ्याचे पिणे वापरपाचो. आवळ्याची सुपारी,



आवळ्याचो मुरांबो वा लोणचे अशा खंयच्याय रुपान जर आवाळो खालो जाल्या लेगीत ताज्या आवळ्यान जे गूण आसता तेच गूण आमका मेळटात. ही आवळ्याचे खाशेलपण.

**७. आंबो :** आंब्याखातीर गोंय सगळ्या जगात फामाद आंब्याचो ताळो हो सगळ्या देव कार्यांनी वापरतात. आब्याच्या ताळ्याची तोरणां बांदून सगळ्याक पवित्र आनी प्रसन्न वातावरण परबो उत्सवावेळार निर्माण करतात. आंबो म्हणजे Vitamin-C आंब्याचे पन्हें गरमेदिसांनी खास करुन पिंवचे, गरमेक लागून जी क्षीणता येता, ती Vitamin-C क लागून आब्याचे पन्हे भरुन काडटा. ल्हान भुरग्यांच्या पोटांतल्यो कृमी मारपाक आंब्याचे कोम पिणे करुन उदकांतल्यान भुरग्याक दिवची आब्याच्या पानांचो रोस घेतल्यार 'वाय' (वात) कमी जाता.

**८. नीरपणस :** हाका beread fruit अशें म्हणटात. नीरपणसाची कांपा आमची आवडीची. जांका संधीवाताचो त्रास जाता तांणी नीरपणसाची पानां घालून उदक खतखतावन, ते उदक न्हावपाचें. हर्नियाचेर नीरपणाचो दीक भामाऱ्यान लावपाचो.

**९. पणस :** पणसाच्या मुळांचो कसाय दम्याचो त्रास जाता ताणी दिसातल्यान दोनदा तरी घेवपाचो. पातळ संडासाक जायत जाल्यार लेगीत हो कसाय उपेगाक पड्टा. पोटांन दुखत जाल्यार आनी अशक्तपणाचेर पणसाचो बीयो उकडून वा भाजून खावप. पणसाचो दीख घाव्याचेंर जीव चाबून जाल्या जखमेर लावप.

**१०. काजू :** काजूची फेणी आनी गोंयकार हांचे नाते पयलीसावन जाल्लो आसा. हें आमका खबरुच आसा. काजू ही गोंयकाराची जरी वळख आसली तरी काजू पोर्तुगालच्यान गोंयान आयला. काजूच्या झाडाची साल घेवन कसाय करपाचो, हो कसाय डायबेटीस, तशेच अल्सर वा पातळ संडास ह्या दुयेंसांचेर, सामके उपेगी वखद. काजूच्यो कोमऱ्यो चाबून खायत झाल्यार दात, हिरड्यो घट जाता आनी दुखपाचे थारता.

## भाज्यों

**११. भेणें :** भेंण्याची भाजी हाडा घटमूट करपी काळजाच्या दुयेंसांचेर, भेण्यांच्यो बीयो भाजून, पिणें करुन ताची च्या करुन दिवपाची. न्युमोनिया जायत जाल्यार भेण्याची फुलां आनी भेणे उदकांत शिजोवन म्होंवाबरोबर दिवपाचे.

**१२. तांबडी भाजी :** 'तांबडी भाजी खायत जाल्यार रगत वाडटा हो सर्व सामान्यांचो अंदाज. तांतून चूक कायच ना. पण त्या भायर तांबडी भाजी शक्तीवर्धक आसा, भुरग्याक आंगार दूध दिवपी बायलांनी तांबडी भाजी खाल्ल्यार भरपूर दूध मेळटा. तांबड्या भाजयेची मुळां पोटांत दुखत जाल्यार उपेगी पडटात. जळजळटाल्या जाग्यार तांबड्या भाजयेची पानां वाटून लावपाची.

**१३. वाळची भाजी :** ही दोन तरेची आसता, तांबडी आनी धवी. तिका Indian Spinach अशेंय म्हणटात. तिची वेल माटवार वा झाडांचेर चडयतात. वाळची भाजी ल्हान भुरग्यांक तशेंच गुरवार बायलांक संडासाक जावपाक त्रास जायत जाल्यार खावपाक दितात. मुतपाक त्रास जाता जाल्यार पानांचो रोस पिवपाक दितात. शरीरांत जर गरमी वाडल्या जाल्यार वाळच्या भाजयेची मुळां धाडावान ताजो रोस दितात.

**१४. ताळखिळो :** पणसाची भिकणां घालून ताळखिळ्याची भाजी, पावसाळो आयलो काय खायनासतांना रावपी, गोंयकार आसूच शकना! ताळखिळो म्हळ्ल्यार 'सीझनले भाजी'. हांतून व्हड प्रमाणात तोल आसता. देखून पावसांना ही भाजी चडातचड खावची. कश्ट करपी बायलांखातीर तर ही भाजी खूपच गरजेची. ताळखिळ्याच्यो बियो धंयान वाटून खरोज, नायटो वा खंयच्याय कातीच्या रोगाचेर लागल्यार गूण येता. टाळखिळ्याच्या बियांची कॉफी रक्तशुध्द करपाक पियेतात.

**१५. सासवांची भाजी :** थंडेच्या दिसांनी ही भाजी बाजारांत येता. दिसांनी आमची कांत सुकता. कात मोवसार करपाक सासवांची भाजी खावप हो हाजेर एक घरगुती उपाय. तशेंच सांसवांच्या तेलान मालिश करुन न्हांवप. सांसवांची भाजी अन्न पचन करपाक बरी पड्टा.

**आमच्या धार्मिक कार्यांनी कांय वनस्पतींचो आमी वापर करतात.** ह्यो वनस्पती खूप वखदी आसतात. ताका लागुन आसत आमच्या पुर्वजांनी, लोकांनी हांचो वेवस्थीत सांबाळ करचो म्हणून तांका धार्मिक महत्त्व दिलें आसूं येता, देखीक

**१६. बेल :** बेल महादेवाक प्रिय, देखून श्रावण्यातल्या वा हेर सोमाराक महादेवाक बेल अर्पण करतात. ताका लागून संस्कृतान बेलाक 'शिवद्रुम' म्हणजेच 'शिवप्रिय' अशें म्हणटात. थंडी जायत, नाक सतत व्हांवत जाल्यार बेलाच्या पानांचो रोस वा बेलाच्या पानांचो कसाय करुन दिवप कामिण जायत जाल्यार काळी मिरयां आनी बेल हांचो कसाय करुन पिवपाक दिवप. बेलाचे पिकलेले फळ सामके शक्तीवर्धक, हाजो उपेग bitter tonic म्हणून जाता. चड





त जाल्यार घातक आसता, तरी लेगीत बेलाच्या फळाचो मुरांबो न वखद म्हणून खांव येता.

. **दुर्वा** : मंगळारची गणपतीच्या पूजेक दुर्वां नासत जाल्यार पुजा कुटी उरता. गणेशभक्त दर मंगळारा, चवथीक गणेशाची पुजा तांना दुर्वा देवाक घालून आपल्या घराण्याचो विस्तार दुर्वांभशीन चो आनी आनी दुर्वांसारखेंच अखंड आयुष्य सगळ्यांक लाबचें ी मागणी करता. दुर्वा बायलांची लागची इश्टीण, बायलांच्या िक दुयेंसांनी खासकरुन गर्भाशयांचो कसल्योय कागाळी आसत ल्यार दुर्वांचो रोस पिवपाचो. हळूहळू गुण पट्टा. गुरुवार पणात र्शियाक शक्त दिवपाचें आनी गर्भातल्या भुरग्याचे बरेतरेन पोषण पाचें काम दुर्वा करतात. घावो जायत जाल्यार दुर्वांचो रोस रगत वता त्याजाग्यार घालपाचो रगत व्हांवपाचे थारता आनी घावो ोन बरो जाता.

८. **तुळस** : तुळशीक आयुर्वेदान 'महाऔषधी' अशें मानला. ती त हाताकडेन आसची म्हणूक घरातल्या आंगणात तुळशी वृंदावनात का आमच्या पुर्वजांनी सुवात दिल्या. तुळशीक आपल्या गळ्याची बीतकाय वाडोवपाक विठ्ठलांन धरतरेचेर तिका निर्माण केली शें म्हणटात. दर बुधवारा विठोबाच्या सेवेक तुळस हजर आसता. ळशी लेगीत दुर्वांभशेन बायलांची सखी. थंडी, खोकली, दमो, मिण, जोर येवप कसलेंय दुयेंस आसू. तुळस उपकाराक पडटा. र सकाळी उपाशीपोटार तुळशीची ५-६ पानां खाल्ली जाल्यार ताची दुयेंसां नाच जातात. रगत शुध्द उरता. कॅन्सर, टी.बी., लेरिया सारख्या दुयेंसाचेर तुळशीची सदांच उपयोग करुन ही येंसा पयसावपाक जातात.

९. **रुई** : शेनवारचे मारुतीच्या देवळामुखार रुईची पानां विकपाक सलेले लोक दिसतात. मारुतीक रुईच्या पानांची माळ करुन घालतात. यली ही रुई सगळ्याक सापडटाली, पुण आता दुर्मिळ जातांना ेसता. म्हणून आता लोक रुई लेगीत विकपाक लागले. रुई लेगीत खदी गुणांची आसा. रुईचो दिख विखारी (विषारी) आसता देखून ांबाळून वापरपाक जाय. रुईची पानां वाटून कातीच्या दुयेंसांचेर हणजे खरोज, नायटो जायत जाल्यार वापरतात. गालगुटां आयली ाल्यार रुईचो दीक लायतात. मार लागून सूज आयली जाल्यार ुजील्ल्या जाग्यार रुईची पानां गरम करुन शेक दिल्यार सूज देंवता.

२०. **आघाडो** : हो रस्त्याकुशीक, रानावनात खंयसरुन जाता. वथीक गणपतीक घालपाच्या २१ पत्रींपैकी आघाडो एक आसता. संस्कृताक हाका 'अपामार्ग' म्हणजे शरीरांतले सगळे दोश पैसकरपी अशें म्हणटात. कुष्ठरोग, त्वचारोग हांचेर आघाड्याची मुळां झरोवन लावपाची, कान दुखत जाल्यार हाज्या पानांचो रोस घालून खतखतायल्लें खोबरेल तेल न्हीवतकर घालतात. घावो जायत जाल्यार पानांचो रोस घाव्याचेर घालतात.

म्हज्या आज्जेच्या बोटव्यान अनेक वखदी वनस्पतींचो खजिनोच आशील्लो, तो हांवेन जितलो जाणून घेवपाचो यत्न केलो, तितले लक्षांत येताले की हांव कितले अज्ञानी आसा, झाडांविशीं ज्ञान जमोवपाची म्हजी भूक वाढतूच गेली. अजूनूय खूप ह्या क्षेत्रांन म्हाका जाणून घेवपाचें आसा. मनासावन म्हाका दिसता की आज आमी जेन्ना पर्यावरणाचो सांबाळ करुया म्हणून एकामेकांक सांगतात, तेन्ना सगळ्यांत पयली झाडांचो सांभाळ करुया अशें सांगपाक जाय कारण झाडांक लागून आमकां प्राणवायू मेळटां, फळां, फुलां, वखदां मेळटात, इतलेंच न्हंय तर अशेंच म्हटल्यार चुकचें ना की 'for every pollution, tree is a solution' उदकाचें, हवेंचे, मातयेंचे आनी ध्वनीचे प्रदुषण उणे करपाक झाडां इतले उपयोगी 'अस्त्र' खंयचेंय ना. ह्या अस्त्राचों सांबाळ करुया, धरतरेचो सांबाळ करुया, जाल्यारुच ती आमचो सांबाळ करतली 'वृक्षो, रक्षति रक्षीतः' अशें वोगीच म्हणूक ना!

●





# इंजेसांव तोपलें



"हालींचीच गजाल. सामक्या गाजिल्या खबरेची. 'जाणा मगो सावत्री, कांय चलयो आयल्यात खंय आनी तीं लोकांक एड्साची इंजेसावां मारतात खंय.' आमच्या शेजारच्या राधान चिंता व्यक्त करीत म्हज्या मम्मीक सांगलें.

'पूण राव गो. ती खंयच्यान आयल्यांत आनी अशें कशीं तीं लोकांक इंजेसावां मारतात?' मम्मीन विचारलें. तांचें उलोवा हांवें न्हिदेंत आयकलें पूण म्हाका हें प्रकरण कसलें तें कायच समजूंक नासलें. इजेसांवां, इलेसांवां अशें किते तरी म्हज्या कानार पडिल्लें.

जायत्या लोकांची तकली न्हिदिल्लेकडेन काम करना, पूण म्हजी तकली तशी न्हय. हांव न्हिदेतूंच चिंतूक लागलें. आब्बा! अशीं कशीं इलेसावां रोखडींच लागीं पावलीं ? मागीर चिंतलें... जांव त्या निमतान आमच्या रस्त्याक फोंड पडल्यात ते तरी पुरवतले...

सकाळी च्या घेतना, 'बाय तू कामाक वतना सारकेंच वच



लसी वाझ



आं, कांय चलयो लोकांक एड्साची इंजेसावां मारतात खंय.' मम्मीन म्हळें. आरेरे! सकाळी हांवे आयकल्ली ती खबर इलेसांवांची नासून इंजेसांवांची आसली तर, आवयची खबर कानामनार घेनासतना हांव भायर सरलें. मुखार बाजारांत एक बायल दुसरेक सांगताली. 'हांव तर म्हजे चलयेक दोन दीस मेरेन शाळेंत कशेंच धाडचें ना. सांगूक जाता ? त्या चलयांनी येवन इंजेसांव मारलें जाल्यार ?'

'शी! म्हाका जाल्यार सामकी भिरांत दिसता. म्हज्या भुरग्यांक शाळेंत धाडचे बदला टिचरीकच घरा शिकोवपाक घरा हाडल्यार बरें दिसता. आयज आमच्या तांचो दुबाय सावन फोन येंवचो आसा. पळोवया ते कितें म्हणटात ते.' दुसरेन आपलें सांगून उडयलें.

उपरान्त कितल्याश्याच जाणांक 'इंजेसांव' ह्या विशयाचेर उलयल्ले आयकलें. इतलेंच न्हय तर ह्या विशयाक धरुन कितल्याश्याच घडणुकांविशीं आयकलें. मडगावां दोगां चलयांनी इंजेसावां मारिल्ली म्हण खंय लोकांनी तांकां बरीच बडयलीं. कांय जाणांनी खंय तांचेर फातर लेगीत शेवटिले वास्को सप्तकाकय चार बायलांक पोलिसांनी धरुन व्हेल्ली.

इंजेसांव मारपी चलयांक लागून लोक खूब भियेल्लो. 'अनवळखी मनशाक लिफ्टच दिवप ना' हो ड्रायव्हरांचो म्हत्त्वाचो नियम कसो जाल्लो. लोक बसींत चड गर्दी आसल्यार तातूंत चडूंक सगळीं भियेवंक लागिल्लीं. चलयो खऱ्यानीच इंजेसांवा मारुंक सगळ्याक भोंवतात हें सत मानून सगळे एकामेकाचेर दुबाव घेताले आनी ह्या बोवाळांत चलयांक आनी तांचेवांगडा आशिल्ल्यांक तांचो गुन्यांव नासतनाय मार खावंयो पडटालो. एका पायलटाक (भांडे मारपी) सीटाक इंजेसांव तोपून दवरता म्हण लोकांनी खूब मारलो. पूण हें सीटाक तोपून दवरिल्ले इंजेसांव नासून त्या पायलटाच्या सिटाक मस्त्या चल्यान लायिल्ली पीन आसली हें लोकांक उपरांत कळ्ळें. इंजेक्शना बाबतींत म्हाकाय अणभव आयलो...

त्या दिसा म्हज्या एका इश्टाचो वाडदीस आशिल्लो. ताका दिवंक हांवे फुलां घेतलीं आनी बसींत चडलें. सदचे भशेन त्याच दिसा बसींत गर्दी. खंयूय रिकामे सीट नाशिल्ले देखून हांव उबेंच रावलें. म्हज्या मुखार एक साडी न्हेशिल्ली बायल आशिल्लीं. अकस्मात आंगशें काडून तिणे फाटीं वळून म्हाका पळयलें आनी म्हज्या हातांत गुलाबाची फुलां पळोवन ओग्गी रावली. गुलाबाचो देंट तिच्या फाटीक लागिल्लो जावंये आनी आपल्याक कोणें तरी इंजेक्शन मारिल्लेभशें ती म्हाका पळयत आशिल्ली.

त्याच बसींत म्हजी एक इश्टिण आशिल्ली. तिका साड्ये Jacket घाल्ली पळोवन म्हाका मज्जाच दिसली. घडये नवो फॅ आयला जातलो हें चिंतून हांव ओग्ली रावलें. साड्येचेर Jack घालप हे फॅशन न्हय तर आपल्याक इंजेसांव लागचें न्हय म् घेतिल्लें Prevention आशिल्लें हे मागीर तिणेंच म्हाका सां एड्स सारक्या वखद नाशिल्ल्या दुंयेसा बाबतींत तर Preventi is better than care हें जायत्या जाणांक पटूंक लागिल्ले म्हणप म्हज्या लक्षांत आयलेबगर रावलें ना.

सांजचे येतना पणजेसावन सच्ची बस हांवें धरलीं; नशिब जनेलाकडलें सीट मेळ्ळें. खूप काम पडिल्ल्यान बसींत म्हजो दो लागिल्लो अकस्मात बसींत बोवाळ आयकून हांव जागें जालें. ए बायल आपल्याक एका दादल्यान इंजेसांव मारलें म्हण मोठ्या मोठ्य हुयेली मारताली. ड्रायव्हरान बस थारयली त्या बायलेक एक दाद कितें तरी समजावपाचो यत्न करतालो पूण ती कशीच आय घेवंक तयार नासली. त्या दादल्याकडेन नुस्त्याची पोती आशि आनी त्या पोतयेंतल्यान सुंगटांचो त्या बायलेक कांटो तोपिल्लो. मात आख्खे वाटेर त्या दादल्याकडेन झगडत आयिल्ली.

बसीवयल्यान देवन चलत येतना एक अनवळखी जाण्टी बा पासयेक वताली ती मेळ्ळी. 'बाय येतना वतना सारखें व बंदखणींतल्यान कांय लोक आयल्यात खंय आनी ते मेळत ता इंजेसावां मारतात खंय.' तिणें आपलेपरीन म्हाका शिटकायलें.

पत्रकाराक सगळ्यो खबरो पयलीं मेळटात. पूण हांव म अशें पत्रकार जाका ही खबर खूब उसरां मेळ्ळी. ताका लागून ह घरा येवन चितले..

'इंजेसांवाची खबर पयलीं मेळ्ळी ना तर कितें जालें. हांव खबर सगळ्या पत्रकारां पयलीं बरोवन खबरापत्राचेर छापूंक त शकतां ! अफवा उज्यापरयस चड वेगान पातळाटात. देखूनच ख कितें फट कितें हे जनतेमुखार आमीच मांडून 'दूद का दूद आ पानी का पानी' करपाचें आसलें.

●





# कविता

## ईश्वरा ध्यान तुजे करताना

ांमुखार सुप्त झिळमिळटात
भदृश्टाचे रंगयाळे
ल्हारेता ब्रह्मांडा भोंवतणी
ट सातरंगी वांटकुळे
 ध्यान तुजें करताना

जांत उसळटा खोल खोलायेंत
ोचो शांत म्हा-सागर
सकायेच्या कळवळयाची धून
रल्यान झंकारता विश्वभर
 ध्यान तुजें करताना

यांमुखार वैभव परमार्थाचें
 सनातन चिरंजिवें
ी लयेतल्यान नव निर्मणेची
 तुजी प्राणासवें
ा ध्यान तुजें करताना



काश पाडगांवकार

## तान

लागतली तान तेन्ना
भरुन दी पेल्यांर पेले
छंद निळे दर्याचे
जावं दी गळयांत ओले

लागतली तान तेन्ना
सांड कुपां म्हज्या ओठांर
रंगतली यादीन तुज्या
मेथी ओली म्हज्या बोंटार

न्हिवतली जेन्ना तान
ओठांनीच भेट म्हाका
पिकतलीं आनी कुशींत
चंवरलेलीं मोनी सुखां...



- माधव बोरकार

## ते खीण

ते खीण आसले
मोगांत धुंद जावपाचे
चान्या राती एकमेकांत
विरघळून वचपाचे.

ते खीण आसले
काळजांत मोग फुलपाचे
एकामेकाच्या उगडासान
राती-राती जागोवपाचे

ते खीण आसले
नदरेक नदर लावपाचे
उतरां बगर सगळें - सगळें
एकामेकांक सांगपाचे.

ते खीण आसले
सपनातच रंगपाचे
एकामेकाची वाट पळयात
घड्याळीर नदर मारपाचे.

ते खीण आसले
एकामेकांक उतर दिवपाचे
फुडाराचे येवजी नासतना
फुडले पावल घालपाचे

कितें उपेग आतां
ते खिण याद करुन ?
गेले तूं पैस
एकटोच म्हाका दवरुन



सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

# दोन देगो

आलतडीन झडटा पावस
पलतडीन झडटा पावस
मदल्यान व्हांवते न्हयेक पळय
लागल्या कशी उचंबळाय
मनरे म्हजें मनरे तुजें
चींब चींब भिजता अशें
एकामेका गोपांत रिगची
संद केन्नाच मेळचिना
जाणूनय मन पिशें
लागल्यात ताका हुसहुशे
आमचीं जळटीं काळजां पळोवन
न्हंयय जाल्या आकूळ पिकूळ
नकळ अशें घडटा कित्याक अशें
फक्त एकामेकाक पळयत बसपाचें ?
फक्त न्हय माये कानांत मात आमी
गुपीत आमचें सांगपाचें ?



माया अनिल खरंगटे



## वाट तुजी पळयली

वाट तुजी पळय पळय
वाट तुजी पळयली
आयलो ना तूं सांगल्या वेळार
सपनां म्हजीं नासयली
जाय जूय परमळून
वाऱ्या वेगेंत विसवली
रातराणी जावन हांवें
सपना रितीं खेळयलीं
खंयरे गेलो, खंयरे गेलो
पावलो रे तूं दिगंतरा
तळमळेरे लागले म्हाका
तोपले कांटे अंतरा
निळें निळें उगतें मळब
पुनवेचेरय आयला भार
किण्ण वेळार गाजतल्या
समांदिराचेर भरते लहार

रमेश लाड

## पाप-पुण्य

पाप-पुण्याचो हिशोब मांडपाक
हांव जल्माक येंवकना
सत्य-असत्याचेय परिक्षेक
म्हाकां बसपाचें ना.
ह्या खिणांत...
जें दोळयांमुखार दिसलां
ताकाच हांवेन सत्य मानलां
कानांनी आयकलां
पूण दोळयांनी फटयलां
ताका हांवेन असत्य मानलां
ह्या खिणांत करीन दिसलां
तें केलां
करचें न्हय अशें दिसलां
तें सोडून दिलां.
थंय पाप-पुण्याचो
संबंधूच येना
म्हजे मोटवे नदरेन
म्हाकां संवसार मोटवो करपाचो न
वा म्हाकां दिसना म्हूण
संवसाराकूय कुड्डो म्हणपाचो ना,
पाप-पुण्याचे भिरांतेक
हांव भिकूच घालीना.



भालचंद्र गांवकार



## सवणें एक

क निळें निळें
ाचो चिंव चिंवाट
्या एकचारान
जाता निळें
चो उत्यार उलो
चो जाता ताळो वलो
यता निळें निळें

आवय जागी जाता
भवीचो सोद घेत
न मुखार वता
दरवाठे हुंपून हुंपून
दिष्टावो पळयत पळयत
जालें निळें निळें

ंच्या धुंदतायेन
ा मळबांत अंत्राळांत
डाचो दोर घेवन
घरटो बांदताना
ईचें गीत गायताना
जालें निळे निळें

ा सामकी उत्ती जाता
ा सवण्याचें लागोन पिशें
द्वैत लासोन
्या संवसाराक लागोन पिशें
क येयनी निळींच पाखां
च जालें जग सगळें
थंय सगळेवटेन निळेंच निळें
ा एक निळेंच निळें
ा एक निळेंच निळें



धूत यशवंत कुडतरकर

## एक धवाडे संस्कृताये झूंज

एक धवाडे संस्कृताये झूंज
तिच्या मनांत
त्या संस्कृतायेन फकत
सोंसूक शिकयले
ओंठार हांशें, काळजार
ल्हाशें ल्हिपयलें
तिचें मन आतां ताचे आड
पेटून उठलां
मुक्त जा, मुक्त जा
मन सांगत सुटलां
पूण तिच्या काळजांतली माया
ताका आवयची सया
ती सगळयांक व्यापून उरल्या.



नयना आडारकार

# हो पावस

हो पावस,
जसो तुजो उकतो हासो
मनांतल्या उमाळयांचो
स्वैर घसघसो
हो पावस,
जसो तुज्या ल्हव ल्हव उतरांचो घोगो
झडटना झुझपी वीर मागीर....
सान भुरग्यांवरी ओगो ओगो
हो पावस,
जसो लय ताल घेवन आईल्लो नाद
तुज्या मधुर कंठातलो
मुक्त स्वर निनाद
हो पावस,
जसो तुजो स्वभाव मन भुलोवपी
आभिव्यक्त जावन मातयेभरवण जावपी
पुणं सदांच दुसऱ्याक शितळसांण दिवपी
हो पावस,
जसो राग मेघमल्हार
तुजे आळयतना सूर
येता स्वरांचो म्हापूर



रेवणसिध्द रामनाथ नायक





## आपलो-परको

*एकलेपणाची भिरांत*
*तशी जणएकल्याक*
*कोण तरी सांगाती जाय*
*कितेंय तरी सांगूक-उलोवंक !*
*पूण तो तरी आयकतलो*
*सांगतलो, उलयतलो कितलें ?*
*केन्नाय तरी तो वतलो*
*दवरुन पर्थुन आपल्याक एकलो !*
*तसो सांगात आसता*
*आपल्याक आपलोच*
*पूण जाय कोणतरी म्हऱ्या*
*दाखोवंक आसा म्हुण कोण तरी आपलो!*
*कोण तरी तो*
*सदांच कसो जातलो आपलो*
*पूण तेच हुस्क्यान जाता*
*मनीस आपल्याक परको !*



महेश पारकार

## कन्या दान

*बापायन आपलो*
*काळजाकूडको*
*तिरायताक काडून दीवचो,*
*काळजाचें चवन*
*पेंखता म्हणसर*
*फुडलो जल्म येवचो*



चेतन आचार्य

## मोग

*मोग*
*आपलेच धुंदीत*
*विंगड जगाचो*
*आस्वाद घेवपी*
*जमावांत रावनूय*
*विंगड विंगड सूरांत*
*मग्न जावपी*
*मोग.....*
*एक वेगळेच*
*आयामात लोकांमुखार*
*प्रगट जावपी*
*संवसाराची पर्वा*
*करिनासतना एक विशिश्ट*
*मनांत संगीत घोळोवन*
*झंकाराक साद घालपी*
*मोग.....*
*काळ-वेळ नासतना*
*खंयचेय प्रहराची*
*वाट पळयनासतना*
*भाराविल्ल्या मनाक*
*सर्ग दाखोवपी*
*विशाल मोग*
*मोग....*
*सुप्तमनाक*
*जागोवन ताका*
*आपलेपरीन आनंदोत्सव*
*मनोवपाक लावपी*
*तो मोग*



अलका सिनाय असोळडेकार



# येवकार

. सुकणें जांवन मोगा,
ांत म्हज्या येवचें तुवें
ार ताका दिवंक देवा,
ा जांवन फुलचें हांवें,
मोगाचें गीत गायत,
वेंगेत म्हज्या धोलचे
धोलता धोलतना अचकीत,
देठा सकट तोडचें
मल्लीं मोगरे फुलां,
नि तुका शिटकायतलीं
ांचो पदर ओडून,
ांचे हात कवळून
केक तुकां वेंगायतली
वर्सान एकदा फुलपी ती
कांय खिणांत सोंपतलीं
तुजीं ती सपनकमळां
चमेली परमाण झडटलीं
ाक तुज्या लागून मोगा,
ा, पावस फुलता हांव
ान तू घे गोपान
का आनी निरशेवंक



मता मंगेश पडते

# याद

याद कर रे मनशा
तुवें कसली कसली
केली कर्मां
कितले घेतले बळी आनी
कितल्या जाणांक दिलीं
जीवीं-मर्णां
कसले तुजें हात मनशा
कितले घेतले घात
कितलें तुवें फोडलें
कितलें तुवें तोडलें
तुज्याच हातान
तुवेंच सगळें
फिस्फटावन उडयलें
कसली तुजी नदर मनशा,
अबलांच्यो केल्यो भोयो
किळाच्यो हुयेली,
मोनी-घुस्मट
वासनेच्यो व्हावल्यो न्हयो!
कसले तुजे पांय मनशा
न्हिदिल्याक चिड्डिले
उडल्यांक माड्डिले
पोटार पांय दवरुन तुवें
धेकर मात मोठे दिले.
कसली तुजी जीभ मनशा
उतरा उतराक कुसड्टाणी
काळजांचेर कितले घाय?
याद कर फाटली काणी.
कसली तुजी तकली मनशा
अहंकारी घातल्या पगडी
अक्कल पडल्या उघडी-नागडी
सूम जळ्ळें, वळ वचूंक ना
मिजाशीची चडल्या गुंगी!
कसली तुजी रीत मनशा
कुत्र्या-माजरांक घेयशी कुशीक
तुज्या सारख्याच मनशाक तू
कित्याक असो वैरी जाशी ?
कसली तुजी कूड मनशा
मातये भरवण जावपाची
याद धर मसण भूंयेंत
गिदाडां रावतात उपाशी !



चंद्रिका चंद्रमोहन पाडगावकर

# हडवो ताल बेबो

*हडवो ताल बेबो*
*आयज ताळो सराटून रडलो*
*भास कुरवांची नकळो*
*कसली उलोवन गेलो*
*रेबोच सगळो तळे ना*
*तळयात साळकां मळे ना*
*मळबादिकेन पळवन मात*
*दूकां दोन गळोवन गेलो*
*शिमिर रेव लेपडून बेबो*
*पळय एकटो एकसुरोच जालो*
*पोटान गोटो वाकडो मनाकणो*
*लिपये झगड्याखातीर उलो*
*निळे काळो जालो बेबो*
*रेखीव शेना देगकोरीत*
*कूडार सांगीत सासपीत*
*शिल्प जावन सासणा उल्लो*

**लिना कुंकळकार**



# संस्कार

*चंद्रीम मळबांत*
*उजवाड फांकयता*
*धतरिक चान्र्या*
*रातीन न्हाणयता*

*संस्कारचे अमृत*
*पाजोवन*
*आवय भुरग्याक*
*न्हणयता*

**अलका सिनाय असोळडेकार**

# आयचें राजकारण

*इलेक्शनापयलीं मंत्र्यांक भिकारी क*
*आनी उपरांत भोवसाक भिकेक ला*
*दिल्ली आश्वासनां विसरप्यांक पोसप*
*आयचें हें राजकारण.*
*अन्याय-अत्याचार करप्यांक ख्यास्त*
*करुन*
*तांच्या गुन्यांवांक जामीन दिवपी*
*वायटाकडेन संबंध दवरुन आतंक व*
*आयचें हें राजकारण*
*बेकायदेशीरपणान हेरांचें आपलें क*
*उदरगतीच्या नांवांन आपलीं बोल्सां*
*सदांच खणखण खणपी स्वार्थाचें*
*आयचें हें राजकारण*
*गरीब दुबळ्यांचे हक्क काडून*
*तांची जीण त्रासांची करपी*
*फटींचीं सपनां दाखोवन तांकां का*
*उडोवपी*
*आयचें हें राजकारण*

**ॲल्सी वाझ**








## वचूंकच जाय

ातां म्हाकां वचूंकच जाय
रणाचें न्हाण न्हावन
ल्माचे कपडे घालून
रतून घरा येवंक जाय
ाप पुण्याच्या सर्तीत
गळीं पापांच पुंजयली हांवें
ण्य खंयचें तें कळलेंच ना
ापच वेंगायलें हांवे.
ातां वास येता म्हाका
ापाच्या मासाचो
गळें धूवन वडयतलेंच
ण्यांच्या सोदांत हांव
रतून घरा येतलेंच
या चक्रांतल्यान कोणूच सुटना
ल्माक आयिल्ल्याक मरण चुकना
देसा फाटल्यान रात येता
ाप पूण्याचो हिशेब आसता
आता म्हाका वचूंकच जाय
रणाचें न्हाण न्हावन
ल्माचे कपडे घालून
रतून घरा येवंक जाय



शोभा फुलकार

## मनीस नांवाचें जनावर

जयजयकार करतात आमीं मोठो आमच्या नांवाचो
सगळयांत चड म्हण समजतात उजवाड आमच्या गिन्यानाचो
पावल आमचें पडले चंद्रार-मंगळार
पावले आमीं उदरगतीच्या तेमकार

मनीसपण मात हांगा जालां सामकें उणें
पूण समजतात आमीं आमच्या जीवाक शाणे
व्हड सोद लायले आमी बुद्धिच्या आदारार
आतां तेच भोवतले जावन नांगर आमच्या संवसारार

अणुचो उपेग करचो म्हणलो संवसाराच्या उद्धाराक
माकडाच्या हातांत पेट्टी कोलती जावंक पावला तो आतांसाराक
जितले करुंक सोदतात आमीं संवसाराक दुयेंसमुक्त
तितली वाडत वचत आसा रोगाची भूक

कोणाक धरुंक सोदतात तुमी हाका जबाबदार ?
ह्या सगळयांक लागला जाणा जायात तुमचो आमचो हातभार
नकळ आमीं राखूंक जाण्टयांचो मान
समजतात सगळयांक पायांतली व्हाण

जनावर पासून जागता आपल्या धर्माक
आमी मात वळखनात आमच्या जाण्टयांक
एक दिस येतलो असो जाणा जायात संवसारार
कोणूच एकमेकांक करुंक पावचो ना सालवार
मागीर फाटल्यान म्हण उरतली एकूच साशणांक ती
मनीस नावांचे जनावर आसलें ताणेच निर्माण केल्ली ही परिस्थिती



शिल्पा शशिकांत सामंत



# जीण

*जीण म्हळयार आवयच्या गर्भातली धर्तरी*
*जीण म्हळयार बापायच्या वेगेंतलें उक्तें मळब*
*जीण म्हळयार सोबीत माणकुलें सपन*
*जीण म्हळयार मंथनातली रंगयाळी मोहिनी*
*जीण म्हळयार गच्च हावेसाची वेसण*
*जीण म्हळयार अंतरमनाल्या भावनाची गोफण*
*जीण म्हळयार आंतकविचाराचे होमखण*
*जीण म्हळयार जीवनमोक्षांचे उमाळो*
*जीण म्हळयार नखेत्रांची वैजयंती माळो*
*जीण म्हळयार 'राधाकृष्ण'*
*राधाकृष्ण म्हळयार 'जीण'*
*कोजागिरी पुनवेचें चान्नेपिवपी राधाकृष्ण*
*यमुनेचें देगेर सोबित जीणेचो रास रचपी गोपीकृष्ण*



सरिता काशिनाथ गावडे

# पनेंळ

*चलता तो मेरेन चलता रें हांव*
*चलयत राव रें तू म्हाका*
*तूं व्हरता थंय येता हांव*
*आरे ! समजून म्हजे कामूंच तें*
*तुजे बगर हांव हालचें ना*
*आनिक हाल्लोय जाल्यार*
*खोशी जींण जगचे ना.*
*उदार रे तूं जाणा हांव*
*जिवीत तुजें, म्हजें बगर*
*उरतलें उपास पोटी, नुस्त्या बगर*
*आनिक आलतड हांव मारचेंना*
*हातांतल्या तुज्या कष्टीबगर*
*पुंण भरवसूंन रे म्हजेर तूं*
*रावूनाका*
*दर्याक ना पर्वा कोणाची*
*कोणाची मस्करी केन्ना करपाची*
*नातें म्हजें जन्मासावंन सांसणाचे*
*जुळत आयला ताज्या वांगडाचे*
*काळजार ताज्या पाय दिवन*
*संवसार सगळे भोंवता हांव.*
*आधारान म्हज्या रे तूं,*
*भरता रे तुझ्या पोटाघाव.*
*तरीय ताका पातयोंक फावना*
*आज ना फाल्या बुडयात केन्ना*
*म्हणून आयकूंन घेरे पापऱ्या*
*मोगाळ रे म्हज्या तारया*
*नाजाल्यार वांगडा म्हज्याय*
*ओपची पडटली जींण तुकाय*
*आनिक पातका ओझे माथ्यार*
*म्हाका भोंगचे पडटले सर्गार*
*म्हणून सांगता म्हज्या ईश्टा*
*सादूर तूं राव*
*सांगू नजो केन्ना किदें घट्टा.*



सत्यप्रसाद चं. धायमोडकार








## हट्ट

ाज तो वेगळोच वागलो
वेगळोच उलयलो
वेगळोच हांसलो...
ाले दिसांनी मेळिल्लो
पुण मिलनाची उमेद ना.
विरहाचो शीण ना...
ो कसो अचकित बदल्लो?
हांव सदाचेच जालें
नविदाद खंय उरल्या ?
ोपरसूय कितलेशेच बरे लोक
ताचे जिवीतात भरल्यात
ा विरुस जालें
राग आयलो
उलोवच्या पयलीच
हांवे परतिची वाट धरली
ा आयलें
दुकांच्या सांगातान
खाटीर पडलें...
दचेवरी ताणें
फोन केलोना...
न दीस हांवेय
हटटाक वेंगावन
ताका जाप दिलीना...
ासरे दिसा कळळें
ताची आवय
हॉस्पिटलात आसा
रणाकडेन झूजता...
म्हाका मेळ्ळा
ताच्या आदले दिस
ॲडमिट केल्ली...



अन्वेषा अरुण सिंगबाळ



## मायभुयें

*भारतमाये मायभुयें*
*गे आये गे आये*
*कोटी कोटी पुत तुका*
*नमन करता माये*
*संवसारात लाबचो तुका*
*मानाचो राजपाट*
*धनदौलतीन भरु*
*तिजोरी आटंकाठ*
*दिपून वचूं जग*
*तुजो पळोवन थाटमाट*
*आंगापांगार फुलुं सदां*
*फुलां दाट दाट*
*वचन तुजो पुत दिता*
*करचोना केन्ना फाट*
*तुजेखातीर व्हांवले जरी*
*रकताचे पाट*
*गांवक तुजें गुणगान*
*हांव सामको जरी ल्हान*
*हड्डे बडोवन सांगता*
*भारत देश म्हान*

रेवणसिध्द रामनाथ नायक

## मागणी

ही नदरेक नदर जाली
आमी दोगांय एकठांय आयली
हो सांगात असोच उरचो
ही तुजेलागी देवा मागणी

ताच्या मोगाची ही पण्टी
अशीच मंद तेंवची
ताचो उजवाड सदांच उरचो
ही तुजे लागी देवा मागणी



सौ. दिपा दिलिप खोलकार

# GOA STATE POLLUTION CONTROL BOARD

1st Floor, Dempo Tower, Edc Plaza, Patto, Panaji Goa 403001




- The Board has now established **Physical, Analytical and Microbiological Laboratories** – sophisticated instruments such as AAS and Gas Chromatograph, etc. are installed and put into operation.
- **The Laboratories of the Board are recognized by the Ministry of Environment and Forest (MOEF) and CPCB under EP Act (1986).**
- The Board has computerized Board's activities after procuring 20 computers and website is launched (goaspcb@gov.in)
- **The Board has brought the total transparency in its working and consents are issued immediately. Approvals can be seen on GCCI** and GSPCB Websites.
- Coal Pollution in Vasco city has been reduced by forcing M/s. South West Port Ltd., to set up automization of coal handling, water sprinkling and plantation of tall trees.
- Additional Ambient Air Monitoring Stations at Fire Brigade Station of MPT and Berth Nos. 5A & 6A are installed.
- The Board has set up "**WEATHER MONITORING STATION**" in Panaji at Dempo Tower.
- The Board has put into operation the "**MOBILE LABORATORY**" to measure the pollutants.
- The Board is handling several projects such as i) **MINARS II) NAAQAM III)SPATIAL PLANNING AND IV) INVENTORIZATION OF HAZARDOUS WASTES**
- The Board has issued 3 times "**SHOW CAUSE NOTICES**" to all the Municipalities for non implementation of MSW Rules, 2000. District Collectors have the ultimate responsibility for implementation of the Rules. A PIL regarding this issue is at present in Hon. High Court.
- The Board has forced many of the industries to fix pollution control equipments operate and maintain them to control pollution. The Board has not hesitated in issuing closure notices to the erring units.
- The Board is carrying out Stack Monitoring and Monitoring of Effluent Treatment Plants etc. of Industries in Goa.
- The Board has started its "**REGIONAL CENTRE**" at Verna Industrial Estate for submission of application forms, analyses reports and to conduct monitoring of industries situated in South Goa. Shortly a laboratory of GSPCB will be put into operation at Verna.

·The Board has initiated construction of "DEMO ROAD" utilizing waste plastic in hot mix at Ponda with Technical and Financial aid from Central Pollution Control Board.

**DR. L. U. JOSHI**
**CHAIRMAN**





# श्याम सातार्डेकार

आमदार, कुडचडें – गोंय



कुडचडें
मतदारसंघांतल्या
आनी
समेस्त गोंयच्या
भावां–भयणींक
**दिवाळेची**
हुनहुनीत
परबीं !






Wishes
Happy Diwali





# AVOID OVER SPEEDING & OVER LOADING

DO YOU KNOW?
Every year more than THREE LAKHS road accidents are reported and over 80,000 people die in road accidents in Indias and 80% of accidents are due to Human error.

## FOLLOW TRAFFIC RULES / SIGNS
## BE SAFE AND LET OTHERS BE SAFE

- **Don't mix drink with drive.**
- **Two wheeler is for two, not for too many;**
- **Speed thrills but it kills;**
- **Life is worth living why cut too short by over speeding;**
- **Always wear helmet while driving a two-wheeler.**
- **Do'nt use mobile phone while driving a vehicle.**

*Issued in Public Interest By*




## DIRECTORATE OF TRANSPORT
PANAJI - GOA.

दिवाळेच्या उजवाडान येता
खुशालकाय, उत्कर्ष आनी समृद्धी!



# दिवाळेची हुनहुनीत परबीं




म्हायती आनी प्रसिद्धी खातें,
गोंय सरकार
पणजी - गोंय

